प्रकाशन क्रमांक–१४.

★

आवृत्ती पयली
ऑक्टोबर १९८३

मुल्य
पंधरा रुपये

★

प्रकाशक

**वासंती नागेश सोंदे**
**कोंकणी कलासागर प्रा. लि.**
१०, वत्सला निवास
६५–बी, लिंकिंग रोड,
सांताक्रूज, मुंबय ४०० ०५४

★

मुद्रक :

**के. आर. कदम**
आर. के. प्रिंटर्स,
६, रूपालय बोरीवली,
मुंबई ४००० ६६.

# प्रस्तावना

मनीसाक अनुभव कशीं येता ? ताजो जल्म खंय ? विस्तार-विकास खंयचे तरेन जाता ? सहजावस्थेंतले ताजे मूळ आनी आधार-भूत असलें स्वरुप खंयचे कारणाक लागून प्रगट जाता ? हाचे विशय शास्त्रज्ञांनी, ब्रह्मज्ञांनी अवतारी मनीसांनी, विचारवंतांनी, भाष्यकारांनी, आचार्यांनी शतकान शतक आपण्याले विचार जनांमुखार मांडिले आसाची. तांचे विशय परत विचार करचो आशय मेगेलो ना. कित्याक तर, अनुभव केन्नांयी स्वाभाविक, व्यक्तिनिष्ठ आनी व्यक्तिसादृश्य आसता. अनुभवांचे प्रतिबिंब, ताजें विवेचन, विश्लेषण, तांचे उक्तावणंबी ते ते व्यक्तिक लागूनची आसता. देकूनु एक व्यक्तिलो अनुभव, व्यक्तिलें मनोगत विगड मनीस पूर्ण पणान समजू शकना. ते अनुभवांची ओळख ताका ना मेळिल्यान ताजो विस्तार किंवा सखोलता तो अजमाव शकना. तरीपुण मनीस संसाराचे, निसर्गाचे, विश्वाचे विग विगड अंग-अंगाचे परिशीलन करता, आनी ते मुखांतर संसाराचे, निसर्गाचे, विश्वाचे गूढ समजचो हावेस धरता.

हे सान पुस्तकाचो आशय तोची जावनु आसा. सागराची सखोलता किंवा अुत्तुंग पर्वताची महानता सोदचाक सांनातु सान मूयेन गेलिले तरेन मेगेलो हो प्रयास आसा. श्री रामकृष्ण परमहंस म्हणताले कीं सागराचे तळ सोदचाक गेलिलो साखरेचो कण स्वतः सागरातरेन विस्तार जालो. तेची तरेन ज्ञानसाधनेचे मार्गावयलो हांवु काळांतरात, जल्म-जल्मांतरान ज्ञानस्वरुप जावूं शकतालो खरो ? वास्तविक तीचि मेगेली शुद्ध, सात्विक आनी प्रामाणिक आशा आसा.

वेदांतले अनेकानेक ऋचाप्रमाणें श्री गणपत्यथर्वशीर्षबी सहज असलो प्राथमिक प्रमाणभूत सत्याचो अनुभव आसा. अथर्वण रुशी हो एक प्राचीन आनी प्रतिभावात् द्रश्टा आसा. मनीस आनी तागेले चारी दिकान मुसमुसचे संसाराचे, अफाट विश्वाचें गूढ रहस्य ताका समजिलें. ती समज म्हळचार अनुभवाचो अविस्मरणीय प्रसंग आशिलो. तो अनुभव ताका स्वयंसाक्ष आनी स्वयंसिद्ध आशिलो. दनपाराचे सूर्याचो प्रखर तेज आनी रात्रीचे चंद्राची शीतळता, पर्वत शिखराची अुत्तुंगता

आनी स गराचो अथांग विस्तार, असंख्य नक्षत्रांनी झगझगचो अंतरिक्षाचें घुमट आनी हिंस्त्र जनावरान आनी मुसळधार पावसान गजबजचें तें रान, फुलांचो सुगंध आनी फळांचो स्वाद, आवयले मोगाची ऊब, मित्राले सख्य आनी निसर्गाची अलिप्तता—असले अनेक भावना तागेले अंतःस्करणांतु अनुभवाचे वैभव एकठांय करताले. पुण असले अनुभवांचो अदमास कशीं घेवचो ?

देकूनु वैदिक रुशीन आपण्याले अप्रतिम प्रतिभेक लागून अुद्गार काडले कीं हे सर्व दिकान पसरिले नानारुपात्मक संसाराचे पेलतडेन कांय तरी एक अमर असलें सत् तत्व आसा जें स्वतःचे स्वाध्यायान वायूशिवाय स्फुरण पावत आसा तें सत् चैतन्य सर्व दिशकान व्यापूनबी अजन शिल्लक आसता. असले ते चैतन्यस्वरुपाक वर्ण, कुल, जात, हात-पाय-माथें कांयी ना. आत्मज्ञानी तें अनुभवताची. जाणताची. पुण अनुभवले किंवा जाणले म्हण्णु ताजे विशय ते जास्त अुलोंवू शकनांची. किंबहुना जास्त अुलयिल्यान तें समजना. ते बुद्धीचे कक्षेपासून दूर वता कित्याक तर तें अनिर्वचनीय आसता. एकची एक अनुभवांतु, अवस्थेंतु जीवाचें आनी ते अंतिम सत्याचें संगम जाता. तेन्नाची जीवाचे जीवत्व वचूनु आत्मा तेजोमय जाता.

संसाराचे सुरवातीपासून सर्व साधक हे सत्याचो अनुभव घेवचो हावेस धरत आयल्याचि. ते सत्याचो अनुभव अंशतः जाल्यारिबी मनीस कृतार्थ जातालो म्हण्णुं धर्मशास्त्र सांगता. सहस्र वर्सांपासून पर्जन्याचो जो वर्षाव जात आसा ते पावसाचे ओलसाणीन आमगेलें काळीज शीतळ जावूं. आनी मन सुख-समाधानान परिपूर्ण जावूं म्हण्णुं हांवु आशा करता.

हा मार्ग अत्यंत दीर्घ आनी प्रखर आसा. पुण मार्ग चलिल्यानची यात्रेची सुरवात जाता. "स्वल्पमप्यस्य धर्मस्य त्रायते महतो भयात् ॥" (गीता २–४०)— हे धर्माचे थोडे बी आचरण केलें, तरीपुण व्होड भयापासून संरक्षण जाता. ध्याता-ध्येय-ध्यान ही त्रिपुटी नाश जावनुं जीव परमात्मैक्य जाता. तांतूतची आसता मनीसालें भवितव्य, मानव्य, मानव्याचो विकास !

नागेश सोंदे

॥ ॐ ॥

# ॥ अथ गणपत्यथर्वशीर्षम् ॥



मूळ संस्कृत श्लोक, कोंकणींतु अनुवाद, आनी विवेचन



ॐ

# ।। अथ गणपत्यथर्वशीर्षम् ।।

## शांतिमंत्रा

ॐ भद्रं कर्णेभिः श्रृणुयाम देवा
भद्रं पश्येमाक्षभिर्यजत्राः ।
स्थिरैरंगै स्तुष्टुवांसस्तनूभिर्व्यशेम
देवहितं यदायुः ।।
ॐ स्वस्तिनऽइन्द्रोवृद्धश्रवाः स्वस्तिनः
पूषा विश्ववेदाः ।
स्वस्तिनस्ताक्ष्योऽअरिष्टनेमिः ।
स्वस्तिनो बृहस्पतिर्दधातु ।।

ॐ शांतिः शांतिः शांतिः

### ।। शांति पाठ ।।

हे देवानों ! आमी आराधना करताना कानांनी शुभवार्ता आयकुयां; दोळयांनी शुभची पोळोवयां, सदृढ अवयवांनी आनी शरीरानी आमी भगवंताली स्तुती करत जें आयुष्य आसत तें देवहिताखातीर अुपभोग करयां.

सर्व दिकान पसरचो सुयश इन्द्र आमगेले विशय सहाय्यक आसूं. सर्व विश्वाचें ज्ञान आसचो पूषा आमगेले विशय सहाय्यक आसूं. अरिष्टांचे नाश करचो गरुड आमगेले विशय सहाय्यक आसूं.

हे भगवन्, आमगेले तापाची त्रीवार शांति आसूं.

**अथ गणपत्यथर्वशीर्षम् वदस्यामः ।**

**ॐ नमस्ते गणपतये ।। त्वमेव प्रत्यक्षं तत्त्वमसि । त्वमेव केवलं कर्तासि । त्वमेव केवलं धर्तासि । त्वमेव केवलं हर्तासि । त्वमेव सर्वं खल्विदं ब्रह्मासि । त्वं साक्षादात्मासि नित्यम् ।। १ ।।**

ॐ. गणपतीक नमस्कार आसूं.

तूंचि तें ब्रह्मतत्त्व आसा. तूंचि एकमात्र कर्ता आसा. तूंचि एकमात्र धारण करचो आसा. तूंचि एकमात्र संहारक आसा. तूंचि खरेपणान हें सर्व ब्रह्मस्वरूप आसा. तूंचि नित्य अविनाशी आत्मस्वरूप आसा. ।।१।।

**ऋतं वच्मि । सत्यं वच्मि ।। २ ।।**

हांवु विश्वनियम सांगता. हांवु सत्य उलतयां. ।।२।।

**अव त्वं माम् । अव वक्तारम् । अव श्रोतारम् । अव दातारम् ।। अव धातारम् । अवानूचानमव शिष्यं । अव पश्चात्तात् । अव पुरस्तात् । अवोत्तरात्तात् । अव दक्षिणात्तात् । अव चोर्ध्वात्तात् । अवाधरात्तात् । सर्वतो मां पाहि पाहि समंतात् ।। ३ ।।**

तूं मेगेली मदत कर. उलयतल्याली मदत कर. आयकतल्याली मदत कर. दीतल्यांली मदत कर. धारण करतल्यांली मदत कर. सतत चिंतन करतल्यांली मदत कर. शिश्याली मदत कर. अस्तमेच्यान मदत कर. उदेतेच्यान मदत कर. उत्तरेच्यान मदत कर. दक्षिणेच्यान मदत कर. वयले दिशेच्यान मदत कर. अधर दिशेच्यान मदत कर. सर्व दिकान मेगेली मदत कर. ।।३।।

**त्वं वाङ्मयस्त्वं चिन्मयः । त्वमानंदमयस्त्वं ब्रह्ममयः । त्वं सच्चिदानंदाद्वितीयोऽसि । त्वं प्रत्यक्षं ब्रह्मासि । त्वं ज्ञानमयो विज्ञानमयोसि ।। ४ ।।**

तूं वांग्मयसागर आसा. चिन्मयसागर आसा. तूं आनंदमय आसा. तूं ब्रह्ममय आसा. तूं अद्वितीय सत्–चित्–आनंद आसा. तूं साक्षात् परब्रह्म आसा. तूं ज्ञानविज्ञानमय आसा. ।।४।।

**सर्वं जगदिदं त्वत्तो जायते । सर्वं जगदिदं त्वत्तस्तिष्ठति । सर्वं जगदिदं त्वयि लयमेष्यति । सर्वं जगदिदं त्वयि प्रत्येति ॥ त्वं भूमिरापोऽनलोऽनिलो नभः । त्वं चत्वारि वाक्पदानि ॥ ५ ॥**

हें सर्व जग तुगेलेपासून अुत्पन्न जालें. हें सर्व जग तुगेल्यांतु स्थिर आसा. हें सर्व जग तुगेल्यांतूची लय पावताले. हें सर्व जग तुगेले दिकान येत आसा. तूंचि ही धर्तरी, अुदाक, वारो आनी आकाश जावनुं आसा. तूंचि वाणीची चार स्वरूप जावनुं आसा. ॥५॥

**त्वं गुणत्रयातीतः । त्वं देहत्रयातीतः । त्वं कालत्रयातीतः । त्वं मूलाधारस्थितोऽसि नित्यम् । त्वं शक्तित्रयात्मकः । त्वां योगिनो ध्यायंति नित्यम् । त्वं ब्रह्मा त्वं विष्णुस्त्वं रुद्रस्त्वमिंद्रस्त्वमग्निस्त्वं वायुस्त्वं सूर्यस्त्वं चंद्रमास्त्वं ब्रह्मभूर्भुवः स्वरोम् ॥ ६ ॥**

तूं गुणांपरस पेलतडेन आसा. तूं देहाचे अुपाधीपासून पेलतडेन आसा. तूं काळापरस पेलतडेन आसा. तूं मूलाधाराचे जाग्यार नित्य आसा. तूं शक्तिचे तीन तत्त्वांनी परिपूर्ण आसा. योगी तुगेले ध्यान नित्य धरत आसाची. तूंचि ब्रह्म, विष्णु, रुद्र, इन्द्र, अग्नि, वायू, सूर्य आनी चन्द्र आसा. तूं ब्रह्म प्रतीक भूलोक, अंतरिक्ष, स्वर्गलोक आसा. ॥६॥

**गणादिं पूर्वमुच्चार्य वर्णादिं तदनंतरम् । अनुस्वारः परतरः । अर्धेन्दुलसितं । तारेण ऋद्धं । एतत्तवमनुस्वरूपम् । गकारः पूर्वरूपम् । अकारो मध्यमरूपम् । अनुस्वारश्चान्त्यरूपम् । बिन्दुरुत्तररूपम् । नादः संधानम् । संहिता संधिः । सैषा गणेशविद्या । गणक ऋषिः । निचृद्गायत्री छंदः । गणपतिर्देवता । ॐ गं गणपतये नमः ॥ ७ ॥**

'ग्' हें मूळ अक्षर अुच्छारून अुपरांत वर्णांचो अुच्छार कर. ताजे नंतर अनुस्वार अर्धचंद्रांकित करनुं अुच्छारका. प्रणवान पुश्ट केलिले हें एकाक्षरी मंत्रचि तुगेले साकार सगुण स्वरूप आसा. हे मंत्राचे 'ग्' हें पूर्वरूप, 'अ' हें मदले रूप अनुस्वार अखेरचें रुप आनी बिंदू हें अुत्तर रूप आसा. हे सर्वांचे एकरूप जालें कीं ॐ गँ हो नादमंत्र जल्माक येता. हीचि ती गणेशविद्या जावनुं आसा. रुशी 'गणक' आसून 'निचृत्-गायत्री' हाजो छंद आसा. मंत्राची देवता गणपती जावनुं आसा (देकूनु) ॐ गँ गणपतीक मेगेलो नमस्कार आसूं. ॥७॥

**एकदंताय विद्महे वक्रतुण्डाय धीमहि। तन्नो दन्तिः प्रचोदयात् ॥८॥**

आमी एकदंताक जाणताची, वक्रतुंडाले ध्यान धरताची, तो दन्ती आमका प्रेरित करू. ॥८॥

**एकदंतं चतुर्हस्तं पाशमंकुशधारिणम् । रदं च वरदं हस्तैर्बिभ्राणं मूषकध्वजम् । रक्तं लंबोदरं शूर्पकर्णकं रक्तवाससम् । रक्तगंधानुलिप्तांगं रक्तपुष्पैः सुपूजितम् । भक्तानुकंपिनं देवं जगत्कारणमच्युतम् । आविर्भूतं च सृष्टयादौ प्रकृतेः पुरुषात्परम् । एवं ध्यायति यो नित्यं स योगी योगिनां वरः ॥ ९ ॥**

एक दांताचो, चार हातांचो, पाश आनी अंकुश धरिलो, एक हातांतु हस्तिलो दांत धरनुं दुसरे हातांन वर दिवचो, ध्वजावयर अुंदीर आशिलो, रंग तांबडो आसून लांब पोटाचो, कान सूपासारखे आसून तांबडे पुडवे न्हेसिलो, तांबडे गंधान आंग शोभचो, तांवडे फुलांन पूजचो भक्तांवयर क्रिपादिश्टी आसचो, तोचि 'एकमेव देव' म्हण्णुं जगाचे जल्माक कारण आशिलो, अविर्भूत, स्रिश्टी, प्रकृति आनी पुरुषांचे पेलतडेन आसचो म्हण्णु जो कोण सर्व काळ ध्यान करता तो योगी सर्व योगींतु श्रेष्ठ आसा. ॥९॥

**नमोव्रातपतये नमो गणपतये नमः प्रमथपतये नमस्तेऽस्तु लंबोदरायैकदंताय विघ्ननाशिने शिवसुताय । वरदमूर्तये नमः ॥ १० ॥**

हे व्रातपतीक नमस्कार आसूं! गणपतीक नमस्कार आसूं! प्रमथपतीक नमस्कार आसूं! लंबोदराक, एकदंताक, विघ्ननाशकाक, शिवपुत्राक, श्री वरदमूर्तिक परत परत नमस्कार आसूं! ॥१०॥

फलश्रुती

एतदथर्वशीर्षं योऽधीते । स ब्रह्मभूयाय कल्पते । स सर्वविघ्नैर्न बाध्यते । स सर्वतः सुखमेधते । स पञ्चमहापापात्प्रमुच्यते । सायमधीयानो दिवसकृतं पापं नाशयति । प्रातरधीयानो रात्रिकृतं पापं नाशयति । सायं प्रातः प्रयुंजानो अपापो भवति । सर्वत्राधीयानोऽपविघ्नो भवति । धर्मार्थकाममोक्षं च विंदति । इदमथर्वशीर्षमशिष्याय न देयं । यो यदि मोहाद्दास्यति स पापीयान् भवति । सहस्त्रावर्तनात् । यं यं काममधीते तं तमनेन साधयेत् । अनेन गणपतिमभिषिंचति । स वाग्मी भवति ।

चतुर्थ्यामनश्नञ्जपति । स विद्यावान्भवति । इत्यथर्वणवाक्यम् । ब्रह्माद्यावरणं विद्यात् । न बिभेति कदाचनेति । यो दूर्वांकुरैर्यजति । स वैश्रवणोपमो भवति । यो लाजैर्यजति स यशोवान् भवति । स मेधावान्भवति । यो मोदकसहस्त्रेण यजति स वांच्छितफलवाप्नोति । यः साज्यसमिद्भिर्यजति स सर्वं लभते स सर्वं लभते अष्टौ ब्राह्मणान् सम्यग्ग्राहयित्वा सूर्यवर्चस्वी भवति । सूर्यग्रहे महानद्यां प्रतिमासन्निधौ वा जप्त्वा सिद्धमंत्रो भवति । महाविघ्नात्प्रमुच्यते महादोषात्प्रमुच्यते । महापापात् प्रमुच्यते । स सर्वविद्भवति । स सर्वविद्भवति य एवंवेद । इत्युपनिषत् ॥

" इति गणपत्यथर्वशीर्षं समाप्तम् "

फळश्रुति

हें अथर्वशीर्ष जो ध्यान करता, तो ब्रह्मानंदाक पात्र जाता, ताका
ृसलेयी कश्टं बाधचीं नांची, सर्व जागीं सुख मेळता, तो पांच
ापां पासून मुक्त जाता. सांजे ध्यान करचो मनीस ताणे दीसभर
ेलिले पापाचें नाश करता. सकाळीं ध्यान करचो मनीस ताणे रात्रभर
ेलिले पापाचें नाश करता. हे तरेन सांजे-सकाळी ध्यान करचो मनिस
निरंतर निष्पाप आसतालो. सर्वत्र ध्यान करचो मनीस निर्विघ्न जाता.
र्म--अर्थ--मोक्ष मेळयता. अयोग्य शिश्याक हे अथर्वशीर्षाची दीक्षा दीव
्हंय. जर कोणी (द्रव्य-कीर्तिचे) मोहाक लागून दीक्षा दीत तर तो
ापी जातालो. जें जें मनांतु इच्छा धरनु ही क्रिया हजार पटें करता
ें तो हाज्यान साधता.हाज्यान जो गणपतीवयर अभिषेक करता तो
उत्तम वक्ता जाता. चतुर्थीचे दिवशी कांयी खाय नासताना जो जप
करता तो ज्ञानी जाता.म्हण्णु अथर्वण रुशीले वचन आसा. ब्रह्म आनी
इतर देवांपासून हो मंत्र आच्छादन जालिलो आसा. देकून केन्नांयी भीव
्हंय. जो दुर्वांकुरान हवन करता, तो कुबेरातरेन धनवान जाता. जो
ाह्यांनी हवन करता, तो यशवान्, मेधावान् जाता. जो हजार
मोदकांनी हवन करता, तो आपण्याले इच्छेचें फळ मेळयता. जो तूपान
भरिले समिधांनी हवन करता, तो सर्वकांय मेळयता. आठ ब्राह्मणांक
समान वृत्तीन हाडल्यार तो सूर्यातरेन वर्चस्वी जाता. सूर्य ग्रहणाचे
काळांतु महान न्हयेचे सान्निध्यांतु गणपतीली प्रतिमा मुखार दवरनु जो
जप करता, तो "मंत्रसिद्ध" जाता. व्होड विघ्नापासून मुक्त जाता,
व्होड दोषापासून मुक्त जाता, व्होड पापापासून मुक्त जाता. तो सर्वज्ञ
जाता, तो सर्वज्ञ जाता, म्हण्णु वेदवचन आसा.

"हांगा गणपत्यथर्वशीर्ष सोंपता"

## शांतिपाठ

मनीसाले मन म्हळ्यार संसाराचे सर्व संघर्षाचे मूळ आसा. मोह, माया, ममता, चिंता, विशयवासनेचे अुज्यांतु मन जळत आसता; लोक-लाज, दंभ, अहंकार, मत्सरादि अुपाधीन चलबिचल जात आसता. असले मनाचे मुखांतर सुख मेळोवचें आसल्यार, असले मनांतु जर परमात्म्याले स्वरुप बिंबित करचें आसल्यार तुफान आनी असंतोषान अस्वस्थ आशिले मन शांत करचें आसता. कित्याक तर "युंजन्नेवं सदात्मानं योगी नियतमानसः। शांतिं निर्वाणपरमां मत्संस्थामधिगच्छति।।"(भगवद्गीता ८-१५)-हे तरेन सदैव योग तत्पर आसचो, मन ताब्यांतु दवरचो योगी मेगेले थांयी आशिली मोक्षस्वरुपी शांति प्राप्त करता। शिवाय "यत्रो परमते चित्तं निरुद्धं योगसेवया। यत्र चैवात्मनात्मानं पश्यन्नात्मनि तुष्यति।।" (भगवद्गीता ८-२०)-योगाभ्यासान निरुद्ध जालिले चित्त जंय स्थित जाता, थंय तो आत्म्यान आत्म्याक मेळोवनु आत्मांतूची संतुष्ट जाता.

देकूनु अध्यात्माचो विचार किंवा अभ्यास करचे पयले मन शांतीखातीर देवाली प्रार्थना करची आनी तांगेलो आशीर्वाद मागची परंपरा आसा. मनीसाले मुखार नित्य-अनित्य, बरे-वायट, सत्य-असत्य, धर्म-अधर्म, श्रेय-प्रेय असले अनेकांचे मिश्रण दरदीस येता. "श्रेयश्च-प्रेयश्च मनुष्यमेतस्तौ संपरीत्य विविनक्ति धीरः। श्रेयो हि धीरो ऽभिप्रेयसो वृणीते प्रेयो मन्दो योगक्षेमात् वृणीते ।।" म्हण्णु कठोपनिषदांतु १-२-२ सांगिले आसा. श्रेय म्हळ्यार मनीसाले अंतिम आनी अविनाशी हित साधची कल्याणकारी स्थिती आनी प्रेय म्हळ्यार अेक क्षणमात्र सुख दिवची स्थिती. ही एकमेकांतु मिसळून मनीसाले मुखार येताची. शंकराचार्य हे मंत्रावयर भाष्य करताना स्पश्ट करताची कीं "हंस इव अम्भसो पयः तौ श्रेयः-प्रेयपदार्थौ सम्परीत्य सम्यक्परिगम्य मनसालोच्य गुरुलाघवं विविनक्ति-पृथक्करोति धीरो धीमान्।" धीर म्हळ्यार बुद्धिमान मनीस. हंस जे तरेन अुदकांतल्यान दूध विंगड करता, ते तरेन श्रेय आनी प्रेय हांतूतले श्रेष्ठकनिष्ठतेचे पृथक्करण करका. "मन्दः अल्पबुद्धिः स सदसद्विवेका सामर्थ्यात्... प्रेयः पशुपुत्रादि लक्षणं वृणीते।" बरे वायटाचे पृथक्करण करचाक असमर्थ आशिलो मंद बुद्धिचो मनीस क्षणाचे सुख मेळचे वस्तूंचो स्वीकार करता.

अध्यात्मशास्त्राचे अभ्यासकाक प्रेयाचे तेज नाश करचे भोग नाकाची. देकूनु तो अध्ययन करताना शुभ आयकूवची आनी शुभ पोळोवची आकांक्षा धरता आपण्याले शरीराचें दर एक अवयव ताजे खातीर सुस्थिर आनी सुपुश्ट जावू म्हण्णु देवाकडेन मागता. त्रिगुणा पासून अुत्पन्न जावची बाधा ना लागू आनी अध्यात्म विद्येक जरूर आसची मनः शांति प्राप्त जावू.

**अथ गणपत्यथर्वशीर्षं वदस्यामः**

आतां गणपत्यथर्वशीर्ष हे सूक्ताचें पठण करतां–हो वाक्योच्चार करनुं रुशी आपण्यालें निवेदन सुरु करता. गणपत्यथर्वशीर्ष म्हळचार रुशीक जालिलो एक अनुभव आसा. तो अनुभव रुशीक स्वसंवेद्य, स्वयंसिद्ध आनी स्वयंसाक्ष आसा. तो अनुभव ताणें स्वतः अनुभविल्यान तो निवेदन करताना विंगड आधारांची मदत ताका जरूर आसना. ते अनुभवाची गोडी स्वतः घेतिल्यान ताजें निजस्वरूप स्वसंवेद्य आसा. तांचे स्वरूप चिंतन करताना ताका विंगड प्रमाणांची, प्रशस्तीची जरूर पडना.

जेन्ना रुशी असलो अनुभव घेत आसता तेन्ना तो अनुभव अदेही, अगोत्र; अचक्षू, अश्रोता, अमनस्क, आद्य, अज, अप्रमेय, अतर्क्य, अलक्ष, अव्यय, नामरुपा-पासून अभाव, भावना शून्य, अविनाशी, अभंग, शुद्धबद्ध, असंग, अचिंतनीय असलो नित्य अनुभव आसता. वेदांकवी ते अनुभवांचो अनुवाद करचाक जालो ना म्हण्णुं नेति नेति हे शब्दांनी ते अनुभवाची व्याख्या ज्ञानी ब्रह्मवेत्ते करताची. असलो तो अनुभव आसा. बुद्धीचे पेलतडेन वावुरचो तो अनुभव इन्द्रियातीत आसता. रुशीले निर्मळ असले बुद्धीक स्वयंसिद्ध, स्वयंप्रकाशित करचे तसले तें स्फुरण, दर्शन; ज्ञान आसता.

असले ते अनुभवाक आध्यात्मिक परिभाशेंतु परमतत्त्व, आत्मतत्व, परमात्मतत्व म्हणताची असीम असले ते अनुभवाक, ‘ स भूमी विश्वतोवृत्वात्य-तिष्ठत् दशांगुलम् ’ ही उपमा दिलीली आसता. पुण हो अनुभव म्हळचार बुद्धीन केलिलें चिंतन न्हंय; मनान आत्मसात् केलिलें आत्मज्ञान आसता. आत्मज्ञान किंवा रुशीदर्शन म्हळचार शास्त्रान निर्माण केलिलो नवीन सिद्धांत न्हंय. आत्मज्ञान हें क्रियातंत्र न्हंय. हें ज्ञान अतिन्द्रिय आशिल्यान तें पुरुषकृत नासता. रुशी हे ज्ञानाचे दृश्टे आसताची, कर्ते न्हंय. “ नहीं वेदस्य कर्तारो द्रश्टारः सर्व एव ही ” म्हण्णुं सायणाचार्यांनी व्याख्या केलिली आसा. जीवनांतले मूळ, महान् सिद्धांतांचे, सत्याचे सखोल दर्शन, अनुभव तांका जालिल्यान तांका रुशी म्हणताची—“ ऋषीदर्शनात् ”

प्रतिभासंपन्न रुशी आनी सामान्य मनीसांतु होची फरक आसता कीं रुशीली निरीक्षण शक्ति, कल्पनाशक्ति आनी ग्रहणशक्ति इतली तीक्ष्ण आनी तरल आसता कीं निसर्ग–प्रकृति सागशी परकाया प्रवेश करनुं मूळ सत्याचे सखोल आनी प्रत्यक्ष दर्शन तो घेवूं शकता. सर्व साधारण मनीस घेवूं शकना. देकून रुशीक क्रांतदर्शी म्हणताची.

रुशी हो असले पूर्ण, स्वयंसिद्ध ज्ञानाचो मानकरी आसा. म्हण्णु तो आत्म-विश्वासान, निश्चयान, निर्धारान सांगू शकता कीं, अहं (हांव) अथ (आतां) गणपत्यथर्वशीर्षम् वदिष्यामि (गणपतीलें अथर्वशीर्ष निरूपण करतां).

पुण ताजे पयलें, सूक्त निरूपण करचे रुशीक आनी सूक्त आयकतले उपासकाक पूर्व तयारी करची आसता. साधकाले मनावयर मांडिलें अज्ञानमळ रुशीक दूर करचें आसता. कित्याक तर आत्मज्ञान दिवचें म्हळचार नवीन सिद्धांत निर्माण करचें न्हंय, पुण अज्ञानमळ दूर करचें आसता. कित्याक तर मनीसाले मन मूळांतूची स्वच्छ, शक्तिमान, प्रभावी आसता. केवल काळांतरान ताजे वयर जालिले अनुभवांक आनी इंद्रियांचे प्रभावाक लागून तें मलीन जालिलें आसता. वारो आकाशांतलें मळब दूर करता, सूर्याक कांय निर्माण करना. मळब दूर केलीं कीं सूर्याचि दर्शन जाता. हातान शेवाळ दूर केलिल्यान जशे उदाक स्वच्छ नदरेक येता, तेची तरेन आत्मस्वरूपाचे आड येवचें अज्ञानमळ दूर करचें कार्य रुशी करता.

अथ—

अध्यात्मज्ञानाचो मार्ग स्वीकारचे साधकाक एक व्होड जवाबदारी घेवची पडता. यम-नियमांचे चौकटींतु आपण्याले जीवन सजोवचें पडता. कित्याक तर अध्यात्मज्ञान म्हळचार सर्व साधारण समाजांतु वावुरचे, आनी मनीसांनी कल्पनेक लागून शब्दमुखांतर संकलन करचे कथाकथन न्हंय. अध्यात्मज्ञान म्हळचार राजविद्या, सर्व विद्येंतु अग्रेसर विद्या आसता. हे विशय श्रीकृष्ण भगवद् गीतेंतु (१०.३२) "अध्यात्मविद्या विद्यानाम्" म्हण्णु सांगून आपण्याली एक विभूती दाखयता.

अध्यात्मज्ञान नाशिलो मनीस कामासक्त आसता, भोगासक्त आसता. देह म्हळचार आपूण, देहाचां सुखं म्हळचार इतिकर्तव्य म्हण्णु माननु इन्द्रियांचो भोग करता. पुण जेन्ना अध्यात्मज्ञान प्राप्त जाता तेन्ना मनीसाले मनांवयर बशिले विशारी कल्मश नाश जाता, आपण्याले सत्य स्वरूप नदरेक पडता. आपूण कोण, आपण्याले खरे स्वरूप खंयचे, देह म्हळचार आपूण की देहांतर्गत आशिले अविनाशी चैतन्य म्हळचार आपूण म्हण्णु ज्ञान प्राप्त जाता. अध्यात्मज्ञान मेळिल्यान भायरचे इतलेची न्हंय तर भितरले ज्ञानवी मेळता. बाह्यांतर आनी अभ्यंतर बदल जालिल्यान परमेश्वराले वास्तव्या खातीर आवश्यक आसची योगभूमिका निर्माण जाता.

पुण हें ज्ञान मेळिल्यान आत्मा कांय नवीन निर्माण जायना. ज्योतिस्वरूप परमात्माले अवतरण किंवा आगमन जायना. आत्मस्वरूप मूळांतूची जे तरेन आसा ते तरेन शुद्ध, स्वयंप्रकाशित, तेजिश्ट आसा. हृदयस्थ परमात्मा हृदयांतूचि नित्य-

निवास करनुं आसा. अध्यात्मज्ञानाक लागून आत्मस्वरूपावयार आशिले आवरण दूर जाता आनी काळजांतलो परमेश्वर पूर्णतरेन प्रगट जाता. आत्मा-परमात्मा, विश्व आनी विश्वव्यापी परमेश्वरांतलो निजाचो संबंध समजिल्यान मनांतली समस्या, संशय नाश जाता. आनी "भिद्यते हृदयग्रंथिः छिद्यन्ते सर्वसंशयाः" (मुन्डकोपनिषद् २. २. ८)

आध्यात्मविद्या असाधारण विद्या आशिल्यान ती मेळोवचाक असाधारण कर्तुत्व जरूर आसता. उपनिषदेंनु अपरा आनी परा हे तरेन विद्येचे विभाजन केल्लिले आसा. ऋग्वेदादि वेद, शिक्षा, कल्प हीं सर्व अपरा विद्येची रूपं आसाची पुण परा-विद्या ते अविनाशी परब्रह्माचे ज्ञान मेळोवचांतु आसा. (मुण्डकोपिनषद् १-१-४-५). हे ज्ञान जेन्ना पयलावयले उदयाक आयले तेन्ना सकयले वस्तूंतु निपून उरले (ऋग्वेद—१०. ८१. १) छंदोग्य उपनिषदेंतु शब्दज्ञान आनी आत्म-ज्ञानांतु आशिलो मूळ भेद दाखयिलो आसा (७ १.२—३) आत्मज्ञान ताकाची मेळता जो ते परमात्म्याले अनुग्रहाक अनुरुप आसा (कठोपनिषद्–२.२०.२३) आत्मज्ञान म्हळचार मूळांतु ज्ञान—प्रमादज्ञान—आसा. (मुण्डकोपनिषद ३.१.८)

जेन्ना साक्षात्कारी गुरु शिष्याक आध्यात्म शास्त्राचे निवेदन करता तेन्ना ताजी सुरवात "अथ" आनी समाप्ती "इति" हे शब्दांनी करता. हे शब्दांक पयले नदरेचे अर्थापरस सूक्ष्म आनी अत्यंत गूढ असलो अर्थ आसता. खंयचेयी साधना, अभ्यास किंवा प्रवास करचे पयले ते साधने खातीर पूर्व तयारी करची जरूर आसता. तयारी जर कार्योनुचित जाली ना तर कार्यक्षमतेंतु आनी सफलतेंतु उणीव दिसून येता.

अथ हे शब्दाचें विवेचन करताना श्रीमद् मध्वाचार्य हे तरेन स्पष्टीकरण करताची. "अथ शब्दो मंगलार्थोऽधिकारान्तर्यार्थश्च" अथ हो शब्द मंगलार्थक आसून "अधिकार मेळीले उपरांत" बी म्हणणुं जाता. म्हण्टकूच सूक्त किंवा मंत्र निवेदन करचे रुशी किंवा गुरुक आनि तें सूक्त, मंत्र आयकुवचे शिश्य, साधकाक ते सूक्तमंत्र निवेदन ग्रहण करचाक योग्य तसलो अधिकार, पूर्वभूमिका, पार्श्वभूय जरूर आसता. आनी ती तर ना तर ते निवेदनेचो उपयोग, फळ मेळचे ना.

देकूनु श्रीमद् मध्वाचार्य बृहदारण्यकोपनिषदाक उल्लेख करनुं सांगताची कि शांत, दांत, उपरत, तितिक्षु आनी समाहित जावनुं मनीसान आपण्याले अंतस्करणांतु चिद्रूप अवस्थेतु आशिले भगवंताक पूजका. "शांत" म्हळचार जे मनीसाली बुद्धी भगवन्निष्ठ आसा, तो. "दांत" म्हळचार जे मनीसान आपण्याले इन्द्रियांचे नियमन केल्यां, तो. "उपरत" — विशयवासना जाका ना, तो. "तितिक्षु" — सुखदुःख

हून-थंड, इत्यादि द्वंद्व सहन करनुं आसचो स्थितप्रज्ञ मनीस. "समाहित" म्हळ्यार तो मनीस जाका वस्तूंचे यथार्थ ज्ञान आसा, तो. तेची साधकाक बंद दरवाजो उघडता, आनी चिन्मय आत्मप्रकाशाचो साक्षात्कार जाता. जंय–थंय प्रकाशूचि प्रकाश पसरता "तस्य भासां, सर्वमिदं विभाति (कठोपनिषद् ५–१५)

अध्यात्म साधनेंतु अंतः शुद्धीक अत्यंत महत्व दिलिले आसता. जे मनीसाले अभ्यंतर शुद्ध ना, तागेले काळजांतु भगवंत खंयचे तरेन नित्य निवास करतालो? वेदांतले मंत्रांतु शक्तिचे संकलन जालिले आसता ऋचा शक्तिचे केन्द्रस्थान आसताची. ती तेजस्वी, ओजस्वी, हरस्वी, ज्योतिस्वरुप शक्ति जर आत्मसात् करची आसा तर आमगेले तनमन "शुचि" म्हळ्यार शुद्ध, शुभ्र विचारांनी, संकल्पांनी पवित्र करका. साधकाले मनांतु आनी वागणूकींतु संयम, तप, शुचिता, समावृत्ती, ज्ञान, विज्ञान, ईश्वरावयर नितांत श्रद्धा, सदयता, अद्वेशिता, निर्वैरता जाय. ईश्वराले क्रिपेक लागून मनीस जल्म मेळिलो आसता. "शरीरमाद्यं खलु धर्मसाधनम्।" शरीर हें मूळ धर्मसाधन आशिल्यान ते साधनाची योग्य ती काळजी घेवका, देह, इन्द्रियं, मन, बुद्धी, प्राण हीं जीवाची पांच बंधनं आसाची. तांका लागून क्षुधा, तृषा, भय, क्लेश, जल्म – मरण हांचे अपार श्रम जीवाक येताची, हांकाची संसार धर्म म्हणताची. पुण हें विश्व आनी देह म्हळ्यार संसाराचे महासागरावयर येवची तरंग आसाची. तरंग आनी उदकांतु कांयी भेद ना, तरंग – विश्व – देह हे निर्गुण परमात्म्याले सगुण स्वरुपची आसा. म्हण्णुं जेन्नां मनीस मानता तेन्नां तागेले मनाचें परिवर्तन जाता. आपूणची नारायण आसा अशीं भक्ताली भावना जाली कीं तागेलो देहाभिमान नाश पावता; वर्ण – आश्रम – जातीचो अहंकार नाश जाता. परमेश्वराले आनीताणे व्यापिले हे विश्व विशय भक्तिची, प्रेमाची भावना जो मनीस काळजांतु जतन करता, तोची खरो कुलीन, सुसंस्कृत, श्रीमंत साधक आसता.

देकूनु अध्यात्मसाधनेंतु अंतः शुद्धीक अत्यंत महत्व दिलिलें आसा. काळजांत ल्यान काम क्रोधादि षड्रिपु भायर काडले शिवाय तें काळीज परमात्म्याले वास्तवस्थान जावचें ना. "नाविरतो दुश्चरितान्नाशान्तो नासमाहितः। नाशान्तमानसो-वापि प्रज्ञानेंनैमाप्नुयात्॥" (कठोपनिषद १.२.२४)—जो मनीस वायट आचरणे-पासून दूर वचना, कोणांली इन्द्रियं वश नांची, चित्त समाधींतु स्थिर ना, ताका-हे सत् – विशयाचे ज्ञान मेळचें ना.

देवदर्शनाखातीर ऋशीमुनी तप करताची. तप म्हळ्यार केवल योग न्हंय. तप म्हळ्यार दंभ, लोभ, अहंममता, कर्मठता, कर्माभिमान, प्रवृत्ती, निवृत्ती, धन, मान, प्रतिष्ठा, वैदिक, लौकिक कर्म, कुळाचो – जातीचो अभिमान, आश्रमाचे

श्रेष्ठत्व, ज्ञान – ध्यान विधिविधान, विद्वत्ता, सत्ता, संपत्ती, हे सर्वांचो सर्व तरेन त्याग करतु अभ्यंतरांतु निवास करनु आसचें. " **कायेन वाचा मनसेंद्रियैर्वा बुध्यात्मना वाऽनुसृतस्वभावात् । करोमि यद्यत् सकळं परस्मै नारायणैति समर्पयामि ।।** " म्हण्णु शब्दान मात्र न्हंय तर कृतीन संपुष्टांतु हाडचें आवश्यक आसा. आपण्यालागीं जीं कांय शारीरिक शक्ति, बौद्धिक विद्वत्ता, आनी आर्थिक संपन्नता आसा ती विश्वव्यापी इश्वराले सेवेक अर्पण जो करता तोचो ईशसाधनेक अधिकारी आसा. आनी हे तरेन अनुरुप, योग्य, समर्थ आशिलो मनीसचि मंत्रांतले अंतरंग जाणूं शकता अन्यथा ना.

कित्याक तर अध्यात्मज्ञान परमगुह्य, निण्यम्, गूढ आसता. श्री अरोबिंदोले मतान मंत्र म्हळचार रुशीले अविरत साधनेंतल्यान जल्माक आयिली शक्ति आसा. ते शक्तिक ताणीं अंतःकरणांतले भावनेन आकार दिलिलो आसा. मंत्र शक्तिन नवीन जग, मानसिक स्थैर्य निर्माण जाता "ऋचो अक्षरे परमे व्योमान् यस्मिन् देवा अधि विश्वे निषेदुः । यस्तन्न वेद किमृचा करिष्यति य इत तद् विदुस्त इमे समासते " (ऋग्वेद १ १६४ ३९) – श्रेष्ठ अविनाशी आनी अुच्च असलो गूढार्थ ऋचा प्रकट करताची. देकूनु सर्व देव तांचो आश्रय घेताची. जर तांचो गूढार्थ मनीसांक समजना तांका ऋचा तरी किनें करु शकताचो ?

अध्यात्मज्ञान घेवचाक योग्यता, अधिकार नाशिले मनीसाक वेदमंत्रांतलो गूढ अर्थ समजना. असले मनीसांनी मंत्रोच्छार केल्यार ताजें फळ तांका मेळना. "**यद्गृहितमविज्ञात निगदे नैव शब्दुच्यते । अग्नाविव शुष्कैन्धो न तज्ज्वलित कर्हिचित् ।** " — व्होड अवाजान केलिले मंत्रोच्छार म्हळयार अुजो नाशिलीं सुकिक लाकडं आसाची. मंत्रसाधनेक पूर्व तयारी ना जाल्यारि मंत्रांतलो अर्थ समजना, तांतूतली शक्ति प्राप्त जायना. हाजी चूक साधकाली आसता. "**यथो एतद्विस्पष्टार्था भवन्तीति । नैब स्थाणोरपराधो यदेनमन्धो न पश्यते पुरुषापराधः स भवति ।** " — मंत्रांतलो अर्थ समजलो नासल्यार ताजो अपराध मंत्रांचो न्हंय. कुरडयाक जर खांबो दिसलो ना तर चूक खांब्याली न्हंय तर मनीसालीचि आसता म्हण्णु यास्काचार्य सांगताची.

पुण जे मनीसाक मंत्रपठनाचो अधिकार, योग्यता प्राप्त जालिली आसता ताका शक्तिचो प्रसाद मेळता, देवाले अनुग्रहान तो पावन जाता " **उत त्वः पश्यन्न ददर्श वाचामुतः त्वः श्रुण्वन्न श्रुणोत्यानाम् । उतो त्वस्मै तन्वं वि सस्र जायेव पत्ये उसति सुवासाः ।।** " (ऋग्वेद १०.७१.४) अधिकार नाशिलो मनीस पोळोवनु पळयना आयकूनु आयकना. पुण जाणतो मनीस मुखार आयले कीं वाणी धोव मुखार आयले

कां स्वशरीर अवडच मृवासिनी कुलस्त्री तरेन आपण्याले अंतरंग खूलयता. देवालो अनुग्रह भक्ताले अधिकाराक लागून यांग्यनेक लागून जाता. " **यमेवैष वृणुते तेन लभ्यस्तस्यैष आत्मा विवृणुते तनुं स्वाम्** " (कठोपनिषद् १.२.३) — जे मनीसाक तो वेंचता ताकाची आपण्याले निजस्वरुप दाखयता.

देकून साधकली ही अविरत प्रार्थना आसता. " ॐ आप्यायन्तु ममांगानि वाक् प्राणश्चक्षुः श्रोत्रमथो बलमिन्द्रियाणिच सर्वाणि । "–हे भगवन् मेगेले संपूर्ण शरीर, वाणी, प्राण, दिश्टी, कान आनी इतर इन्द्रियांक बल प्राप्त जावू. " **ॐवाङ मे मनसि प्रतिष्ठिता मनो मे वाचि प्रतिष्ठितमाविरावीर्म एधि** । वेदस्य म आणीस्थः श्रुतं मे मा प्रहासीः । **अनेनाधितेनाहोरात्रान्सन्दधाम्यृतं वदिष्यामि । सत्यं वदिष्यामि । तन्मावतु । तद्वक्तारमवतु** ॥— हे भगवन् मेगेली उत्रं मनांनु आसू. मेगेले मन उत्रांनु आसू. हे परमात्मा, मेगेले खातीर तूं प्रकट जा. मेगेले खातीर वेदज्ञान हाड. हांवे आयकलिले ज्ञान माका ना सांडू. हें अध्ययन करताना दीस रात्र एक जावू हांवु सत्य उलयता, ब्रह्मन् माका साहाय्य कर. उलयतल्याक साहाय्य कर.

हे तरेन परमात्म्याले अनुग्रहाक प्राप्त जालिलो मनीसच्चो मंत्रपठणाक अधिकारी आसता. आनी तोचि " अथ गणपत्यथर्वशीर्षं **वदिष्यामि** ' म्हण्णु निर्धारान, निश्चयान, आत्मविश्वासान सांगू शकता. असले अधिकारी साधकादिकान " **उपक्षरन्ति सिन्धवो मयोभुवः ईजानं च यक्षमाणं च धेनवः । पृणतं च पपुरिं च श्रवस्यवो घृतस्य धाराः उपयन्ति विश्वतः** ॥ (ऋग्वेद १.१२४.४) – जो मनीस हे तरेन यज्ञ करता तागेले दिकान इतलेंची न्हंय तर यज्ञ करचो इच्छा करचे मनीसांले दिकानबी गोरुपी संतोष आनी आनंदाचो महापूर हाडची न्हंयी धावनुं येता. तेची तरेन ईश्वराक संतुष्ट करचे सत्पुरुशादिकान कोर्न तुपाचो मुवासलो चारीदिकान पसरता.

देकून ' **तस्मै स विद्वानुपसन्नाय सम्यक्प्रशान्तचित्ताय शमान्विताय । येनाक्षरं पुरुषं वेद सत्यं प्रोवाच तांतत्वतो ब्रह्मविद्याम्** ॥ " (मुण्डकोपनिषद् १–२–१३)–शरण आयिले आनी पूर्ण तरेन शांत चित्ताचे, मन आनी इन्द्रियावयर विजय मळयिले ते साधकाक ती ब्रह्मविद्या विवेचनपूर्वक तो ज्ञानीमनीस अपदेश करूं. म्हण्टकूच, ताका तें अविनाशी नित्य परमपुरुषालें ज्ञान मळतालें.

## गणपत्यथर्वशीर्ष

पाश्चात्य संस्कृतीक लागून भारतीय देवत संशातले देवदेवतलो कुळ आना मूळ सादची परपरा भारतांतु सोंपिले शतमानांतु सुरवात जाली. पुण भावनेचो

जल्म किंवा अध्यात्माचो सुरवात इतिहासांतले घटनेतु सोदची म्हळचार मूर्खताय. मनीसान जाणचो इतिहास म्हळचार भूतकाळांतु विलीन जावचे काळाक पकडून धरची मनीसाली अशक्य कोटींतली धडपड आसा. सर्व भक्षक काळांतले तोंडांतल्यान थोडे कांय वांचोवनु तांचे वयर तर्क-वितर्काचे निश्कर्श काडचें कार्य इतिहासकार करता. पुण आध्यात्मविचारांचे इतिसाचो अभ्यास करताना अचिन्त्य, अतर्क्य अज, अविनाशी असले पूर्णत्वाविशय जेन्नां ताका विचार करचें आसतातेन्नां मनीस पूर्ण असले सत्याक भौतिक इतिहासातरेन अंशरुपान कल्पून ताजे विशय निश्कर्श काळ आनी समाजाचे चोकटींतु सजोवनु दाखयता. ही तागेली चूक जाता.

ऋग्वेदाचे दुसरे मण्डलांतले २३ आनी २४ वे सूक्तांतु गणपती हो शब्द पयलावयलो दिसून आयल्यारियी तीं सूक्तं अनुक्रमान ब्रह्मणस्पती आनी बृहस्पतीक उद्देशून आशिल्यान तर्कपंडितांक अनुमान करचो हव्यास सुटलो. तेची तरेन धाव्वे मण्डलांतले ११२ वे सूक्तांतु गणपती हो शब्दु परत वापरचांतु आयलो. पुण तो इन्द्राक उद्देशून आसा. ब्रह्मणस्पतीसूक्तांतु गणेषु हो शब्द गणपती हे शब्दाचे उपरांत आयिल्यान हे विधानाक पुश्टी मेळी आनी गणपती ही एक अतिप्राचीन काळापासून वैदिक देवता म्हण्णु मानचांतु आयली. आनी जेन्ना हे सुक्तं रचयिले सूक्तकारांले नांव आनी गोत्र समजून आयलें तेन्ना विचारांक आनी गती मेळ्ळी. दुसरे मण्डलाचे २३ आनी २४ सूक्तं गृत्समदालीं जावनु आसाची. तागेलें गोत्र ' विरुप ' आसा. हो रुशी मूळांतु आर्येतर आसून स्वकर्तुत्वान रूशी हे पदाक पाविलो. हेची तरेन १० वे मण्डलांतले ११२ वे सूक्ताचो रुशी नमःप्रभेदन आसून ताबी विरुप गोत्रांचो आशिलो. वैदिक काळांतु आर्यसमाजाबरोबर अनेक आर्येतर जमातीवी संपर्कांतु येत आशिले. अुदारण, गृत्स, व्रात्य, गण, विरुप वगैरे जाती. स्वतः गणपत्यथर्वशीर्षांतु गणपतीक व्रातपती म्हण्णु संबोधन केलिले आसा. "नमो व्रातपतये नमो गणपतये नमः।" संस्कारहीन ब्राह्मणांक व्रात्य म्हणतात अशें मनुस्मृतीतु सांगल्यां. "द्विजातय सवर्णासुजनयन्त्य व्रतांसु यान् सावित्री परिभ्रश्वन् व्रात्यनिति विनिर्दिशेत्॥" शतरुद्रीयांतले चवथे अनुवाकांतु "गृत्सेभ्यो गृत्सपतिभ्यश्च वो नमः, व्रातपतिभ्यश्च वो नमो नमो. गणेभ्यो गणपतिभ्यो विश्वरूपेभ्यश्च वो नमो नमः" म्हण्णु गृत्स, व्रात, गणपती विरुप हे व्रात्यसंघातले देवांक नमस्कार केलिलो आसा.

हे आर्येतर जेन्ना स्वकर्तुत्वान रुशीपदाक पावले, तेन्ना ताणी आप-आपण्याले कुळदेवतेकयी महत्पदाक पावोवचे साहजीक जालें. आनी जशें जशें आर्य-आर्येतरांतु वर्णसंकर जालें तशें तशें आर्येतर देवांक आनी तांगेले पूजापद्धतीक भारतीय आध्यात्मिक परंपरेंतु मानाचें पान मेळ्ळें.

हे तरेन आर्यपूर्व निवासितांतु मानचांतु आयिले एक दैवत हस्तीले प्रती-

कात्मक रुपांतु पूजचांतु येत आसून तोची देव वैदिक साहित्यांतु ब्रह्मणस्पती म्हण्णु संबोधित जालो. आनी काळांतरान ही देवता ॐ काराचे उत्क्रांतरुप म्हण्णुंबी मानचांतु आयली. जेन्नां गणपतीली उपासना जास्त सदृढ जाली तेन्ना नारायणोपनिषदांतु 'तत्पुरुषाय विद्महे, वक्रतुंडाय धीमही तन्नोदंती प्रचोदयात्।' म्हण्णु वक्रतुंड आनी एकदंत गणपतीलें स्वरुपवैशिष्ठच निर्माण जाले. मैत्रायिणी संहितेंतु– "तत्पुरुषाय विद्महे महादेवाय धीमही। तन्नो रुद्रः प्रचोदयात्। तत्कुमाराय विद्महे। कार्तिकेयाय धीमही। तन्नोदन्ती प्रचोदयात्॥– हे तरेन स्तुति करनु गणपतीक कार्तिकेयासयत शैव सांप्रदायेंतु समावेश केलो. हे संहितेंतु गणपतीलो उल्लेख तागेले कराट हे प्राचीन नांवान आनी हस्तिमुख एकदन्त हे रुपवैशिश्टचासयत केलिलो आसा.

थोडे विचारवंताले मतान गणपती ही तंत्र शास्त्राची देवता आसा. गणपतीलो समावेश बौद्धधर्मांतु हे तंत्रशास्त्राचे आधारावयर जालो. तंत्रशास्त्रांतु गुरुदीक्षा घेवचें पयलें एक दीस गणपतीली पूजा आनी गँ हे बीजाक्षरान षडंगन्यास करचो आसता. तंत्रमार्गांतु गणपतीबरोबर तागेले ऋद्दी आनी सिद्धी ह्या शक्तींचेबी पूजन जाता. वाममार्गांतु गणेशमूर्ति तागेले शक्तीसयत नग्नावस्थेंतु दाखयताची.

अष्टादशपुराणांतु, स्मृतींतु आनी इतर स्तोत्रवांग्मयांतु गणपतीले रुपदर्शन सविस्तर वर्णित जालिलें आसा. गणपती हो शंकर-पार्वतीलो पूत. कार्तिकेयालो भावु. तागेले माथ्यावयर चन्द्र आशिल्यान ताका भालचन्द्र म्हणताची. चन्द्र म्हळ्यार मन. ग्रहमालेतलो चद्र आनी शरीरांतले मन चंचल आसता. हे मनाक जर उन्मन करनु जागृती, – स्वप्न – सुषुप्तीचे पेलतडेन आशिले तुर्यावस्थेची प्राप्त करची आसल्यार चंचलतेचें प्रतीक आशिलो चंद्र दिश्टी आड करचें पडता. देकूनु गणेश चतुर्थीक चन्द्र पोळोवन्हंय म्हणताची.

गणपतीक सर्व विद्या कळताची. चौद विद्या आनी चौसश्ट कला तागेले पत्नी आसाची. गणपती हो शब्द ब्रह्माचो प्रतीक आशिल्यान सर्वांनी श्री गणेशाय नमः हे वर्ण पयले प्रथम बरोवनु अक्षर ओळख करची आसता. इश्टकार्याची सिद्धी जावका म्हण्णु शुभकार्य सुरवात करचें पयलें श्री गणेशाक नमस्कार करची प्रथा भारतांतु आसा. महाभारतांतु गणेश्वर आनी विनायक हांका सर्व दिकान संचार करचे, मनीसाले कार्य निरीक्षण करचे, संतुश्ट जालेकीं संकट दूर करचे म्हण्णु उल्लेख केलिलो आसा. ( म. भा. अनु. पर्व. १५१–२६, ५७ ) मानवगृह्यसूत्रांतु विनायकांली संख्या चार — शालकंटक, कृष्मांड राजपुत्र, उस्मिन, देवयजन — म्हण्णु सांगल्या. हे विनायकांपासून कोणी श्वासांतु आयल्यार भयंकर परिणाम जाताची.

मूषक–उंदिर–हे गणपतीले वाहन आसा. चंचलवृत्तीचो, रजोगुणाचो आनी तमोगुणाचो प्रतीक आशिलो अुंदीर गणपतीले वाहन जावचे म्हळचार ते ते गुणांवयर अधिपत्य करचे अशी रुपकात्मक अर्थ दिलिलो आसता. मोदक हे गणपतीले प्रिय पक्वान् आसून तें जीवनांतले परमानंदांचे प्रतीक मानचांतु येता. अंकुश हे नियंत्रांणाचे किंवा अज्ञानरूपी हस्तीक दमन करचे ज्ञानांकुशाचें प्रतीक आसा. कोणांली मूळ पाताळाचे दिकान वेध घेताची असले दुर्वा ताका अत्यंत प्रिय आसाची. हे देवतेक गणपती शिवाय विनायक, एकदंत, लंबोदर, गजकर्णक, भालचंद्र, हेरंब, गजानन, द्वैमातुः विकट, धूम्रकेतु गणाधिप इत्यादि नांव आसाची.

‘ गणपत्यथर्वशीर्ष ’ हें अुपनिषद आकारान सान आसल्यारियी गणेशाराधनेंतु सर्व श्रेष्ठ म्हण्णु मानिले आसा. पंडित सातवलेकरांनी ‘ अथर्व ’ हे शब्दाचो मार्मिक अर्थ सांगिलो आसा. तांगेले मतान ‘ थर्व ’ हे धातूचो अर्थ चंचल जावचे म्हण्णु आसा ‘ अथर्व ’ म्हळचार जें अचंचल आसा. म्हळचारोची स्थिर. ‘ शीर्ष ’ म्हळचार माथें. देकून अथर्वशीर्ष म्हळचार माथे स्थिर किंवा शांत दवरचें सूक्त म्हणयेत. गणपतीवयली अनन्य भक्तिक लागून निष्ठेन आनी श्रद्धेन हे सूक्ताचे पठन केल्यार विश्वाक व्यापून आसचे समश्टीरूप स्वरुपाबरोबर साधक समरस जातालो हांतूत संशय ना चित्तवृत्ती अुन्नत जालिल्यान मनाक शांति मेळता. हे सूक्ताची एकवीस आवर्तन करनु गणपतीक अभिशेक करची पद्धत असा. ‘ ॐ गँ गणपतये नमः ‘ हो तांत्रिक बीजमंत्र आनी ‘ एकदन्ताय विद्महे, वक्रतुण्डाय धीमही । तन्नो दन्ती, प्रचोदयात्, ही गणेश गायत्री हे सूक्तांतु आसा. हांतूत योगविद्या, जाका गणेश विद्या म्हण्णु संबोधन केल्या आमकां सुख संतोष आनी समाधान दिवू म्हण्णु देवाक प्रार्थना करयां.

**वदस्याम:**

गणपतीले अथर्वशीर्षाचें अुक्तावण करचो रुशी मूळांतु साक्षात्कारी मनीस आसा. आपण्याले अंतस्करणांतल्यान ताणें स्वार्थ, अहंकार, काम क्रोध, लोभादि कल्मश नाश करनु थंय दया, क्षमा आनी शांतीचे बींय पेरिले आसा. असले सुयशस्वी भूयेंतु परमात्म्यालें चित्र ताणें स्थिरावयलें आसा. तागेंले काळजांतु संसारांतले सर्व सैम एकठायिले कारणान तो आनी विश्व हांतूतलो भेद ताका वास्तवतेचो अुरलो ना. गंगामाय सागरांतु मेळिले अुपरांत जे तरेन आपण्याले विशिश्ट स्वरूप विसरता, ते तरेन रुशीलो जीवात्मा विश्वासयत परमात्म्याले चरणांतु शरण गेलिल्यान भक्त भगवंत जालिलो आसा.

हे तरेन सो ऽ हं हे भावपूर्ण समाधींतु समागम जालिलो रुशी सैमांतले दर-

एक अस्तित्वांतु ते ब्रह्मस्थितीचें प्रतीक अनुभवता. एक दिश्टीन देवळांतली मूर्तबा देवाले प्रतीक आसता पुण तें स्थळकाळनिबद्ध आसता. रशीक ताज्यान समाधान जायना ताका आपण्याले अंतस्करणांतु सूक्ष्मरीतीन वावुरची आनी सैमांतु निरंतर मुसमूसची प्रकाशाची ज्योत हाताळायची आसता. ते ज्योतीचो ताण स्वतः घेवनु संसाराखातीर ते ज्योतीचो प्रकाश सर्व दिकान पसरायचो आसता. हे ज्योतीचे महत्त्व वैदिक काळापासून रशीनी जाणिले आसा. ताजे अुक्तावण सूक्तांतल्यात काळानूसार केलिलें आसा "**इदं श्रेष्ठं ज्योतिषां ज्योतिः**" ऋग्वेदांतले (१०.१७.३) हे ऋचेतु हें तेज '**विश्वजित्**' आनी '**अच्युत**' म्हळचार विश्वव्यापी आनी अविनाशी आशिल्याचें आनी '**सह**' म्हळचार काळोख नाश करचें, '**ओज**' म्हळचार तेजोरूपी बल 'विश्वभ्राट, विश्वप्रकाशक असले सूर्यान सर्व दिकान पसरयिले आसा, म्हण्णु सांगिले आसा "**तद्देवा ज्योतिषां ज्योतिः आयुर्होपासतेऽ मृतम्**,।' म्हण्णु बृहदारण्यकोपनिषद् (४.४.–१६) सांगता. देव हे अच्युत अविनाशी ज्योतिची उपासना करताची. वास्तविक पुरातन काळांतु देवयी मनीसची आशिले. पुण मागीर साधनेन, स्वाध्यायान ते देवत्व पावताले जाले. इन्द्र, अग्नि, मरूत्, ऋभु, अंगिरस हे देवांक अनेक ऋचांतल्यान मानव मानवोत्तम म्हण्णु उल्लेख केलिलो आसा. हे देव मनीसाबरोबर सभेंतु, यज्ञशाळेंतु येवनु सोमाचो, धनाचो स्वीकार करचातु सहभाग जाताले. ऋग्वेदांतले (१.२९.२) मंत्रायवर भाष्य करताना सायणाचार्य "**नृभिः मनुष्यैः एव सद्‌भिः पश्चात् देवत्वाम् आपन्नैः मरुद्‌भिः**" पयले मनीस आशिले मरुद्‌गण मागीर देव जाले म्हण्णु स्पश्ट करताची. ऋभू हेवी पयले मनीसची आशिले ...'**मर्तासःसन्तो अमृतत्वमानशु**:' (ऋग्वेद १.११०.४) मर्त्य मनीस आशिले ऋभुक यज्ञाक लागून अमरत्व मेळें. अंगिरस आनी विश्वदेव हे देवत्व मेळोवचे अखेरचे मनीस आशिले.

मनीसाले स्वतांतु आशिलें हें वैभव आनी पात्रता मनीसान जाणका श्रानी तें जाणून देवालागी ताणें संबंध लागीचो करका म्हण्णु अथर्वण रशीली इच्छा आसा. अथर्वण रशीन तें वैभव जाणिले आसा. ते ज्योतीचे प्रकाशांतु ताणें सर्व काय पळयलें आसा. "तत् **शुभ्रं ज्योतिषां ज्योतिः** तद्यत् आत्मविदो विदुः।" (मुण्डकोपनिषद. २.२.९) संसाराचो सर्व पसारो स्पष्ट जाल्लियान नामरुपां नाश जाताची. सत्य तितलेंचि आस्तित्वांतु आसता. ते सत्याची जाण अुलयिल्यान जायना. ती अनिर्वचनीय आसता. वेदांकवी, अुपनिषदांकवी ताजा अनुवाद करचाक जालो ना. देकून रशी तें सत्य अशें आसा अशें आसा म्हण्णु सागचे बदलाक अशें ना अशें ना म्हण्णु सांगचे शकताची.

तरी पुण मनीसाक स्पश्टताय जाय. रस्त्यावयली खूण दाखयल्यार पूरो

जायना, रस्त्यावयर चलून दाखोचाक जाय. गांवाचो रस्तो दाखयल्यार, तो गांवाचो विस्तार विचारता, गांवाचे वर्णन विचारता.

रुशीक गांवाची ओळख आसा. ताजो आत्मानुभव स्वयंसाक्ष आसा. स्वयंसिद्ध आसा ताजे प्रमाणपत्र ताका दुसऱ्याकडचान जरूर ना. तो आत्मविश्वासान सांगू शकता, " **वेदाहम् एतं पुरूषम् महान्तम्** आदित्यवर्ण **तमस: परस्तात्। तम् एव विदित्याति मृत्युम्एति नान्य: पन्था विद्यतेऽयनाय॥ –(यजुर्वेद ३१.१८,)** हांव ते महान पुरुषाक जाणता, जो काळोखाचे पेलतडेन ज्योतिस्वरूप सूर्यातरेन लकलकता जो जाणिल्यान मनीस मरणाापसून मुक्त जाता. हाजे बगर वेगळो मार्ग ना.

देकून रुशी म्हणता, **अथ गणपत्यथर्वशीर्ष वदस्याम** – हांव तुमगेले खातीर गणपत्यथर्वशीर्ष उलयतां, निरुपण करता. म्हण्टकूच तुमींवी ते " **एतं पुरूषम् महान्तम् आदित्यवर्ण** " **जाणताले.**

रुशी अथर्वशीर्षाचे निरूपण स्वत:खातीर करना, दुसऱ्यांखातीर **करता.** स्वत: खातीर, ' स्वांत सुखाय ' स्वत:चे सुख स्वत: परत परत येवजूचाक **रुशी** चिंतन मनन मस्रण करत उरत. पुण तें शांततेन जाता. तें शब्दांनी जायना. शब्दांचो उपयोग निरूपण करताना जाता. शब्दांचो उपयोग इतरांखातीर जाता. रूशीले अंतरंगांतु अनुभविले अविष्कार, उद्भूत जावचे भावना, विचार, कल्पना जेन्नां उक्ते करचे आसता, साकार करचे आसता, तेन्नां शब्दांचो उपयोग जाता. मनीसाले अंतरंगाक शब्द मूर्तरूप दिता. पुण अनुभव जितलो सखोल, परिपूर्ण, विशाल आसता तितलोची शब्द वयरवयर, संकुचित, मर्यादित आसता. बुद्धी आनी वाणी हांचे पेलतडेन आशिले आत्मतत्वाविशय जेन्ना शब्दमुखांतर अुक्तावण करचे आसता तेन्नां रूशी शब्दांची मर्यादित क्षमता जाणता. " **वि मे कर्णा पतयतो वि चक्षुर. वि इदं ज्योतिहृदय आहितं यत्। वि मे मनश्चरति दूरआधि: किं स्विद् व ज्ञामि किम् नु मनिष्ये॥** " (ऋग्वेद ६.९.६) मेगेले कान अुघडे आसाची आयकुवचाक; दोळे अुघडे, पोळोवचाक. मेगेले काळजांतली ज्योत दूरथांय प्रकाशिता. मेगेले मन दूरथांय विचारांनि फिरत आसता. हांव किर्तें विचार करुं आनी किर्तें अुलोवूं ?

तरी पुण रुशीक आपण्याले विचार मांडचे आसाची. अुत्रं अुलोवची आसाची. देकून आविष्कारांचे अुक्तावण करताना वाच्य – वाचक हांचे द्वैत स्वीकारनु करता. शब्दमुखांतर संपूर्ण सत्य सांगचे शक्य नाशिल्यान शब्दान केलिलें अुक्तावण कोणाक, केन्ना आनी खंय करचे आसा हें ध्यानांतु दवरनु करता. आयकतल्यांली मानसिक योग्यता, आध्यात्म्याची पातळी, साधनेची परिसीमा समजून तांग–

तांगेले भाशेंतु, तांगतांगेले शब्दांतु, तांगतांगेले अुपमा – अुदारणं, दृष्टांत आनी अलंकार वापरनुं आपण्यालो अनुभव अुक्ते करचो ह्व्यास धरता. आपण्यान अनुभविले गहन, गंभीर आनी अुच्चतम गूढ विचार, काळजांतले सूक्ष्मातिसूक्ष्म भावना अत्यंत आकर्शक, सुंदर, सुलभ, सरळ शैलींतु जनांले मुखार दवरता.

सूक्तांतल्यान सत्य अुक्तावण करचो रुशी साहित्यिक नाशिलो, साहित्य-शास्त्राचो विद्वान नाशिलो. साहित्य निर्माण करचें तांगेलो अुद्देश नाशिलो. सत्याचो अनुसंधान करचो मनीस तो. सत्याचो साधक तो. जें कांय ताणीं मेळयले तें ताणी दुसऱ्यांक वांटले. जीवनाचे मार्गावयले प्रवासी आशिले ते मार्गावयर वच्चे विगड पथिकांक पथ – प्रदर्शन करचे ते पथ – प्रदर्शक आशिले. ते सत्यार्थी आशिले. ते सत्याग्रही आशिले. सत्यसाधनेंतु आयिले अनुभव ते सांगताले. गूढ वाता-वरणांतल्यान निर्माण जावचे तर्क कर्कश वादविवाद, कर्मकांडी कर्मठांले विधि-निषेधांपासून ते अलिप्त आसून तांगेले मन आनी जीवन अुदात्त आनी अुन्नत स्वरुपाचे आशिलें. " इति सिद्धं " म्हण्णुं घोशित करचे तांका परवडले ना. ताणी इतलेंची केलें कीं जे रस्त्यावयल्यान ते गेले ते रस्त्यावयर वतल्यांक मार्गदर्शन दिलें. जे अुत्रांन तांका आनंद जालो ती अुत्रं दुसऱ्यांक सांगली. हें कामांतु तांका सफलता मेळी हांतु संशय ना. नासल्यार हीं सूक्त हजारो वर्सांनी अजून मनीसाले जीभेवयर घोळत नाशिली.

जे तरेन सानांतु सान कीट धी वाढत अरण्यबी जाळूं शकता, ते तरेन अथर्व-शीर्षांतलो सानांतु सान मंत्रबी संशय दूर करूं शकता, अज्ञान नाश करूं शकता. हे शब्दांतु जीवनाचे सत्य सांगची शक्ति आसा, मनाचे रंजन करची रसिकता ना. जिज्ञासूले अंतस्करणांतली ज्योत पसरावची शक्ति आसा. पुण मधुर वाणि विलास करचे लालित्य किंवा चित्तरंजन करचे रंजकता ना. सूक्त–साहित्याचो अुद्देश सत्यार्थिक सत्यपथ दाखोवचो आसा.

देकून रुशीन आपण्याली शैली सरळ, सुलभ, सुंदर दवरली. हे शैलींतु दीर्घ प्रयास करची जरूरीयात ना रुशीन बिंदुमात्रांतु सिंधूपात्र भरल्यां. थोडेची शब्दांतु स्फूर्त, प्रेरणा, भावना गांभीर्य अेकठायल्या-

होची अथर्वशीर्षाचो गुणधर्म आसा. स्वभावधर्म आसा जे तरेन जळचें ही अुज्याचो गुणधर्म आसा, व्हांवचो अुदकाचो गुणधर्म आसा, शीतलता चन्द्राचो तै तरेन ज्ञानरस बिंदुबिंदून सिचन करचो गुणधर्म अथर्वशीर्ष सूक्तांतु आसा.

अथ गणपत्यथर्वशीर्ष वदस्याम म्हण्णुं रुशी सुरवात करता. साधक तें निरूपण आत्मसात् करचाक सिद्ध आसूं.

ॐ

ऋग्वेदांतले नासत्यसूक्तांतु चारी दिकान पसरिली, दिश्टीक पडची आनी ना पडची स्त्रिश्टी खंयचे तरेन निर्माण जाली म्हण्णं वर्णन केलिले आसा. सुरवातीक हांगा कांयीची नाशिले. " **न आसत् आसीत् नो सत् आसीत् तदानीम् न आसीत् रजः नो विऽओम परः यत्। ... ... न मृत्युः आसीत् अमृतम् न र्तांह न रात्र्याः अह्न : आसीत् प्रऽकेतः । आसीत् अवातम् स्वधया तत् एकम तस्मात् इ अन्यत् न परः किम्चन आस ।।**" (ऋग्वेद १०.१२९. १-२.) सत्य वा असत्य, वायु वा आकाश, मरण वा अमृतत्व, रात्र वा दीस — थंय कांयीची नाशिले. पुण एक मात्र जरुर आशिलो; तागेले विना विंगड कांयीयी नाशिलें. जो हे तरेन एकची आशिलो ताका रुशींनी "**पुरुष :**" म्हण्णं संत्रोधन केलें. "**सहस्त्रशीर्षा पुरुषः सहस्त्राक्षः सहस्त्रपात । स भूमीं विश्वतो वृत्वाऽत्वतिष्ठद्दशांगुलम् ।।**" (ऋग्वेद १०. ९०.१.) ते पुरुषाक हजारो माथीं, हजार दोळे हजार पाय आसाची. सर्व पृथ्वीक सर्व दिकान कवटाळनं धा बोटं शिल्लक उरलो. "**पुरुषः एव इदं सर्वम् यत् भूतम् यत् च भव्यम् । अुत अमृत ऽत्वस्य ईशान : यत् अन्नेन अतिऽरोहति ।।**" (ऋग्वेद १०.९०.२) हें जें सर्व अस्तित्वांतु आसा तें सर्व तो पुरुषची जावनं आसा. जें मागशीं जावनं गेलें आनी मुखार जें अजून जावचे आसां तें सर्व तोची जावनं आसा हे तरेन हे परमतत्वाचे विश्वव्यापी स्वरुप रुशींनी पयलेंची आपण्याले निर्मळ आशिले मनांतु दर्शन घेतिलें.

वैदिक ऋचांतले गूढ तत्त्व अुपनिषदांतु स्पश्ट जावचाक लागले. तैत्तिरीय अुपनिषदांतु हे "पुरुषा" क ब्रह्म ह्मण्णं संबोधन केलें. "**यतो वा इमानि भूतानि जायन्ते । येन जातानि जीवन्ति । यत्प्रयन्त्याभिसंविशन्ति । तद्विजिज्ञासस्व तद्ब्रह्मेति।।**" (तैत्तिरीय अुपनिषद, ३.१) जे पासून ही सर्व भूत जात जल्माक आयल्या, जे पासून ती जीवंत आसता, आनी ज्यांतु ती अखेरीक विलीन जाता, तें तूं ब्रह्म ह्मण्णं जाण.

ब्रह्म निराकार, निर्विशेष, अव्यक्त, अनिर्वचनीय आसता. पुण मनीसाले मनान जर ताका समजूंचें आसल्यार ते निराकार ब्रह्माक आकार, रूप, रंग, गंधाचो अुपयोग करचो आसता. "**द्वे वाव ब्रम्हणि अभिध्येये, शब्दश्चाशब्दश्च शब्देनैवाशब्दमाविष्क्रियवेऽय तात्रोमिति शब्दोऽनेनोर्ध्वं मुत्क्रान्तोऽशब्दे निधमेत्यथा हैषा गतिरेतदमृत मतत्यायुज्यत्व निवृत्तत्वं तथा चेति । अथ यथोर्णनामिस्तुन्तुनी- र्ध्वमुत्क्रान्तोऽवकाशं लमतीत्येवं वाम खल्वसविभेध्याती मित्यनेनोर्ध्वं मुत्क्रान्तः स्वातन्त्र्यं लभते । अन्यथा परे शब्दवादिनः ।** (मैत्रि अुपनिषद् ६.२२)– अध्ययन करचे खातीर ब्रह्माचो विचार दोन तरेन करचो पडता, शब्द आनी अ– शब्द.

शब्दाचे मुखांतरची अ–शब्दाचो आविष्कार जाता. शब्द म्हळचार ॐ जावनुं आसा. शब्द अुत्क्रान्त जालेकीं अ– शब्दाची स्थिती स्पश्ट जाता. बोटांनी कान झांकले कीं अंतस्करणांतु आकाशाचो नाद जाणवता. ते नादाचें वर्णन सात तरेन करयेत – न्हंये तरेन, घांटेतरेन, काश्यातरेन, चक्रातरेन, बेव्याले अवाजातरेन, पावसातरेन, शांत जाग्यार अुलयले तरेन. हे सात लक्षणांचे पेलतडेन गेले कीं जो नाद येता ते पर, अव्यक्त शब्दांतु, शब्दब्रह्मांतु विलीन जाता.

" पुरुष " हे परमतत्वाचे विकासपर्वांतु तो आकाश जालो म्हणचांतु येता. " **तस्मात् ब्रह्मण आकाशः संभूताः** " ब्रह्माचो आनी आकाशाचो, आकाश आनी शब्दाचो लागीचो संबंध आसता. आकाशाचो गुण म्हळचार शब्द जो कानाक प्रतीत जाता. पुण शब्दाचें स्वरूप स्थूल नासता, सूक्ष्म आसता. ईश्वराचे स्थूल मूर्तिचें प्रतीकापरस शब्दाचे सूक्ष्मप्रतीक निजाचें आशिल्यान निराकार परमात्म्याक पयलें ॐ हे सूक्ष्म प्रतीक लाभलें " **ओमिति ब्रह्म । ओमितिदं सर्वम् ॥** " म्हण्णुं तैत्तिरीय अुपनिषदांतु (१ ८) सांगलें. होची विचार माण्डूक्योपनिषदांतु येवनुं ब्रह्म आनी ॐ काराचे ऐक्यरूप स्पश्ट जालें " **ओमित्येतदक्षरमिदं सर्वम् । भूतभवद्-भविष्यदिति सर्वं ओंकार एव । यच्चान्यत् त्रिकालातीतं तदाप्योंकार एव । सर्व होतद् ब्रह्म, अयमात्मा ब्रह्म ॥** (माण्डूक्योपनिषद १ १–२.)

ब्रह्म आनी ॐ कारांतले हें ऐक्य भारतीय अध्यात्मशास्त्रांतु इतले रिगलें की अुपनिषदकाळाचे नंतरचे सर्व विचारवंतानी हाका जोर दिलो. श्रीकृष्णान आपण्याले अनेक विभूतींचे वर्णन करताना सांगलें, " **प्रणवः सर्व वेदेषु ।** " (भगवद्‌गीता ७.८). पातंजलीन आपण्याले योगसूत्रांतु " **तस्य वाचकः प्रणवः** " म्हण्णुं ॐ हेंची परब्रह्मवाचक शब्द म्हण्णुं स्पश्ट केलें.

हे तरेन ब्रह्म आनी ॐ चे साधर्म्य दाखयिले अुपरांत आनी " **विनश्यस्तु अविनश्यन्तं यः पश्यति स पश्यति** " (भगवदगीता १३ - २७)– विनाशी वस्तूंतले अविनाशी तत्व तितलेंची सत्य, बाकी सर्व विनाशी आसा म्हण्णुं हांचे ज्ञान मेळेंकी ॐ कार रूपान प्रतीत जालिले ते परमतत्वाची साधना ॐ हे शब्द-ब्रह्माचोची अुच्चार करनुं जाता.

पौराणिक आख्ययिकेनुसार भगवान् विष्णू क्षीरसागरांतु शेषशायीवयर निदिलो आसताना तागेले हृदयस्पंदनांतल्यान ॐ हो शब्दब्रह्म प्रकट जालो आनी मागीर तागेले उच्छ्वासाबरोबर सर्व शब्द भांडार, वेद निर्माण जाले. ॐकारांतले अ, ऊ, म हे मूळांतुची ते परब्रह्माचे अविश्काराचे विकासपर्व आसा. श्रीकृष्ण भगवदगीतेंतु " अक्षराणामकारोऽस्मि " म्हण्णुं हे विकासपर्वाचें स्पश्टीकरण करता.

एक अक्षरची अनेक अक्षरांतु विकास पावता. "**एकोऽहं बहुस्याम् ।**" किंवा "**य अेंकाऽवर्णो बहूदा शक्तियोगाद् वर्णननेकान्निहि तार्थोदधाति ॥**" (श्वेताश्वर उपनिषद ४–१,) — एक वर्णहीन जें आसता तेंची आपण्याले शक्तीक लागून अनेक वर्णांक निश्चित हेतून आनी रुपान धारण करता, किंवा निर्गुण जें आसा तें सगुणरुप धारण करता. शब्दांचो उगम मनीसाले काळजांतु न्हंय तर तागेले बेंबलींतु आसता. तो शब्द अस्फुट, अव्यक्त, निर्गुण स्वरुपांतु मनीसाले काळजांतु वावुरता. ते शब्दाक सगुण स्वरुप मनीसले मनांतु जात आसून व्यक्त रुप ध्वनीचे मुखांतर धारण जाता. एक अक्षरची सर्व शब्दभाण्डाराचे, शब्दब्रह्माचे विकमनशील बीं आसता. तें अ आसून अ, ऊ, म हे तरेन ॐ कारांतु प्रगट जाता.

मैत्रिअुपनिषदांतु रुशी सांगता "**द्वें वाव ब्रम्हणो रूपे मूर्त चामूर्त चाथ यन्मूर्त तदसत्यं यदमूर्त तत्सत्यं तदब्रम्ह तज्ज्योतिः स आदित्यः स वा एष ओमित्यें तदात्वाऽभवन्स त्रेंधाऽऽत्मानं व्यकुरुनोमिति तिस्त्रो मात्रा एताभिः सर्वमिदमोनं पोतं चैवास्मीत्येवं ह्या हैतदका आदित्य ओमित्येबं ध्यानाताऽऽत्मानं युंजितेति ॥**" (६.३) — निश्चयान ब्रह्माचे दोन रुपं आसताची, मूर्तं आनी अमूर्त. मूर्तरुप तें असत्याचे; अमूर्तरुप सत्याचे, तेंची ब्रह्मस्वरुप आसता. तेंची ज्योतिस्वरुप आसता. जी ज्योति सूर्यमंडळांतु आसता ताजेंची ॐ हो आत्मा आसा. तोची स्वतः तीन मात्रांतु ( अ. ऊ. म. ) विभाजन पावता, हाज्यानची हें सर्व विश्व विणीलें आसा. देकून सांगचांतु येता सूर्यं होची ॐकार स्वरुप म्हण्णु ध्यान धर आनी तागेले बरोबर संयोजित जा.

केवळ ध्वनी ही अर्थहीन आसता. म्हण्णु जेन्ना अस्फुट शब्द शब्दब्रह्मांतु प्रकट जाता–तेन्नां ताजो विलास आनी विकास जावका. ताजो अुल्लेख पाणिनीन हे तरेन केलिलो आसा. "**आत्मा बुद्धचा समेत्यार्थान् मनो युंक्ते विवक्षया । मनः कायाग्निमाहन्ति स प्रेश्यति मारुतम् ॥ मारुतस्तूरसि चरन्मंद्रं जनयति स्वरम् ॥ सोदीर्णो मूर्न्यभिहतो वक्त्रमापद्य मारुतः । वर्णान् जनयते तेषां विभागः पंचधा स्मृतः ॥** –– जेन्ना आत्मा बुद्धीबरोबर जोडता तेन्ना भितरले भाव प्रकट करचे इच्छेन तो मनाक नियुक्त करता. तें मन शरीरावयर अग्निचो आघात करता, ती अग्नि वायूक प्रेरित करता, तो वायू छातींतु संचार केलिल्यान मंद स्वर अुत्पन्न जाताची. तो स्वर वेगवेगळे जाग्यार गेलिल्यान विगविगड वर्ण अुत्पन्न जाताची.

सारांश, आत्म्यापासून वायूमेरेन जो शब्द आगा तो अव्यक्त स्थितींतु आसता. गळचांतल्यान प्रकट जालेकीं ताका व्यक्त रूप प्राप्त जाता. तशे पळय-ल्यार व्यक्त आनी अव्यक्त रूप हें एक मूळ शब्दाचेंची विविध रूप आसा. हें जें समजताची तेची शब्दब्रह्माचे विश्वरूप जाणताची म्हणयेत.

हाजो विचार थोडो स्पश्टतायेन केल्यार दिसून येत कीं छातींतु जेन्ना वायू संचार करता तेन्ना थोडो अस्पश्ट शब्द वावुरत आसता. तो तोंडांतु येवचे पयले गळ्याचे प्रदेशांतु कंठ्य वर्ण जाताची, अुपरांत ताळ्याचे प्रदेशांतु तालव्य, माथ्यांतु मूर्धन्य, दांतांतु दन्त्य आनी ओंठाचे प्रदेशांतु ओष्ठ्य वर्ण जल्माक येताची. अुदारण मूळांतु ध्वनी गळ्यांतु "अ" कार रूपांतु अुत्पन्न जाता. हो 'अ' कार ताळ्यांतु 'इ' कार, माथ्यांतु "ऋ" दांतांतु "लृ" आनी ओंठांतु "उ" म्हण्णुं जल्म घेता. हे तरेन एक "अ" कार स्थानभेदान अ, इ, ऋ, लृ, उ, हे पांच वर्णांतु परिणीत जाता.

हेची "अ" काराचे विश्वरूप. हे पांच स्वरांनी आनी तांगेले ऱ्हस्व – दीर्घ – प्लुत, अुदात्त – अनुदात्त – स्वरित, आनी सानुनासिक – निरनुनासिक इत्यादि भेदांनी अनंत रूपांतु प्रकट जाता. अुदारण, मूळ स्वर "अ" हे तरेन बदलता.

अकारापासून जालिले पांच स्वर — अ इ ऋ लृ उ
हांचे पासून जालिले व्यंजनं — ह य र ल व
हेची वर्ण हकाराचे व्होड आघातान — घ झ ढ ध भ
हकाराचो आघात कमी केलिल्यान — ग ज ड द ब
आघात अजून कमी केलिल्यान — क च ट त प
हकाराचो थोडोची अघात केलिल्यान — ख छ ठ थ फ
नांकांतु अुच्चार केलिल्यान — ङ ञ ण न म

हांतु स्वर मेळयल्यारि प्रत्येक व्यंजनांचे कमींत कमी बारा अक्षरं जाताची. हे तरेन हजारो अक्षरं एक अकारापासून रूपांतर जाताची. दुसरे शब्दांतु सांगचे म्हळ्यार एकची अकार हजारो अक्षरांचे रूप धारण करता.

हे तरेन अक्षराचे प्रकटरूप प्राप्त जाले अुपरांत, अक्षरांपासून शब्द आनी शब्दांची भाषारुपान परिवर्तन जाता. भाशा 'अ' काराचेंची विश्वरूप आसा. देकून ॐ हांतूची सर्व सृश्टीचें मूळ आसा. ॐ काराची जाण मेळे शिवाय परमतत्त्वाची जाण मेळची ना.

देकून "ओमिति सामानि गायन्ति । ॐ शोमिति शस्त्राणि शॉं सन्ति- ओमित्यध्वर्यु: प्रतिगरं प्रतिगृणाति । ओमिति ब्रह्मा प्रसौति । ओमित्याग्निहोत्रमनु जानाति । ओमिति ब्राह्मण: प्रवक्ष्यन्नाह ब्रह्मोपाप्नवानीति । ब्रह्मैवोपाप्नोति ।। (तैत्तिरीय अुपनिषद् १.८) ॐ म्हण्णुं सामवेदाचे गान जाता. ॐ शोम म्हण्णुं शास्त्र शिकोवचांतु येता. ॐ म्हण्णुं अध्वर्यु प्रतिगर मंत्राचो अुच्छार करता. ॐ म्हण्णुं ब्रह्मा

अुत्तर दिता. ॐ म्हण्णु अग्निहोत्र करचे खातीर आज्ञा दिता. अध्ययन करचो ब्राह्मण पयले ॐ म्हण्णु अुच्छार करनु ब्रह्मज्ञान मेळोवची इच्छा करता. म्हण्टकूच तो ब्रह्म निश्चयान मेळयता.

छांदोग्य अुपनिषदांतु (१-४-५) सांगल्या, **"स य एतद् एवम् विद्वान् अक्षरम् प्रणौति एतद् एवाक्षरम् स्वरम् अमृतम् अभयम् प्रविशति। तत् प्रविश्य यदमृता देवास् तदमृतो भवति ॥"** जो मनीस हें ज्ञान समजून ॐ काराची अुपासना करता, तो अविनाशी आनी भय नाशिले शब्दांतु शरण आसता, तांतु प्रवेश जालिल्यान पूर्वकाळांतु देवांनी अमृतत्व जें मेळयले ते तरेन तोबी अमृतत्व मेळयता. हांतूत संशय ना.

## नमस्ते गणपतये

'ते' गणपतीक मेगेलो नमस्कार आसूं. सुरवातीक रुशीन पळयलें कीं ॐ हे मूळ, अविनाशी आनी अचिंतनीय असले परमतत्वाचे पयलावयले व्यक्त जालिले स्वरुप आसा. साधक आनी परिपूर्ण ज्ञान आत्मसात् केलिले ब्रह्मवेत्ते ते ॐ काराचे मूळस्वरुपाचे ध्यान धरनु चिंतन करनु, मनन करनु ते ॐकारची परब्रह्माचे मूर्त प्रतीक म्हण्णु माननु आपण्याले साधनेचि सुरवात करताची अथर्वण रुशी म्हणता, असले ते 'ॐ काररुपी परब्रह्माक, जें हांवे गणपतीले स्वरुपदर्शनान आत्मज्ञान घेतिले आसा, हांव् नमस्कार करता.

तशें पळयल्यार सर्वसाधारण दरदीसाचे वेव्हारांतुबी मनीस-मनीस आपआपसांतु भेट घेतलीकीं नमस्ते म्हणचें स्वाभाविक आसता. 'नमस्ते' हे तरेन अभिवादन करचांतु आशय आसता की विश्वात्मक परब्रह्म, जगांतु वावुरचे मुळ तत्व हें जें हर एक जीवात्मांतु, मनीसाले अंतस्करणांतु वावुरता, ते परमतत्वाक हांव् नमस्कार करतां. मनीस मनीस भेटलेकी अंतस्करणांतले ते परमतत्वाक नमस्कार करची प्रथा आसता. हे तरेन अभिवादन करचांतु एक मूळ, गूढ, गहन असलो विचार पार्श्वभूयेंतु वावुरता.

देकून रुशी जेन्नां 'ते' गणपतीक नमस्कार करता तेन्नां तो जें **"येनाश्रुतम् श्रुतम् भवति अमात्यम् मतम् अविज्ञातम् विरातम् इति।"** असले मूळतत्वाक नमस्कार करता. 'ते' म्हळयार तें जें अुत्रांनी सांगचाक जायना पुण जाका लागून अुत्रं अुलोवचांतु येताची. **"यद्वाचानभ्युदितं येन वागभ्युद्यते। तदेव ब्रह्म, त्वं विद्धि नेदं यदिदमुपासते ॥"** तेंची ब्रह्म आसा. गणपती हें दैवत रुशी ब्रह्म म्हण्णु मानता. कारण जें कांय आसता, तें सर्व ब्रह्मस्वरूपची स्थित्यंतर जालिलें आसता. **"य**

**एकोऽवर्णो बहुधा शक्तियोगाद्वर्णाननेकान्निहितार्थो दधाति ॥** " तो वर्णहीन आसून
आपण्याले अपार शक्तिक लागून अनेक वर्ण धारण करता. " **त्वं जातो भवसि विश्वतो
मुखः ॥** " ज्ञेय अशे आसचे तें परब्रह्म हुनसाणीतरेन सर्व चराचर विश्वांतु अभिन्न
वावुरता. जल–लहरी, भूंय–परमाणू, सूर्य–किरण, अुज्जो–कीट, रत्न–प्र
साखर–गोडसाणी, हे जे तरेन अेकची आसाची ते तरेन परब्रह्म आनी दे
शास्त्रांतले अनेकानेक देव एकची आसाची " **एष ब्रह्मैष इन्द्र एष प्रजाप
सर्वे देवा इमानि च ।** "

हें परमतत्वची जेन्नां रुशी आपण्याले ध्यानावस्थेंतु पळयता तेंची मार्ग
शब्दांनी निरूपण जाता. " **तदेतत्सत्यं मन्त्रेषु कर्माणि कवयो यान्यपश्यं
त्रेतायां बहुधा सन्ततानि ॥** " ( मुंडकोपनिषद १.२ ) – हेंची सत्य आसा. क
म्हळयार ज्ञानी मनीस जे कांय मंत्रशक्तिन पळयताची तेंची तीन वेदांतु विस्तार
प्रकट जाता. " **यदर्चिमद्यदणुभ्योऽणु च यस्मिल्लोका निहिता लोकिनश्च
तदेतदक्षरं ब्रह्म स प्राणस्तदु वाङ्मनः । तदेतत्सत्यं तदमृतं तद्वेद्धव्यं सोम्य विद्धि ।**
–( मुण्डकोपनिषद २.२. ) –जे दीप्तीमान आसून सूक्ष्मापरससूक्ष्म आसा, ज्यांतु सम
लोक आनी सर्व प्राणिजात आसा, तेंची हे अविनाशी परब्रह्म आसा म्हण्णु तूं जा
तेंची प्राण, वाणी आनी मन आसा. तेंची सत्य आसा. अमृत आसा. देकूनु मोगा,
तू जाणचाक प्रयत्न कर ' ते ' गणपतीक तुगेलो नमस्कार आसूं.

## त्वमेव प्रत्यक्षं तत्वमसि

मनांतल्यान कामक्रोधादि षड्रिपु काडनु जेन्ना रुशी आपण्याले अंतस्कर
निर्मळ आनी शांत करता तेन्ना तसले शुद्ध अभ्यंतरांतु प्रत्यक्ष परमेश्वर साक्षात्
दर्शन दिता आनी सर्व श्रमांचे आनी जीवनाचें साफल्य जाता. निर्मळ जा
बुद्धीक स्वयंप्रकाशित स्वयंसिद्ध आत्म्याचें दर्शन जाता. हें दर्शन तक्षण जा
काळांतरान न्हंय. ' नायमात्मा प्रवचनेन लभ्यो न मेधया न बहुना श्रुतेन
यमेवैष वृणुते तेन लभ्यस्तस्यैष आत्मा विवृणुते तनू ऽ स्वाम् ॥ " ( कठोपनि
१–२–२३ ) – प्रवचनान विद्वत्तेन किंवा जास्त आयकलिल्यान आत्म्याचो सा
त्कार जायना. जे मनीसाक तो वेंचून काडता, ताकाची तो लाभता. ताकाची
आपण्यालें स्वरूप दाखयता. पुण तागेले रुपदर्शन मनीसाक इन्द्रियांचे मुखां
मेळना. " **न संदृशे तिष्ठति रुपमस्य न चक्षुषा पश्यति कश्चनैनम् ॥** " ( कठोपनि
२–३–९ )-अुत्रांनी मनान किंवा दिश्टीन तो प्राप्त जायना. देकूनु तो अस्तित्वांतु आ
म्हळ्ळे शिवाय तो कशीं लाभतालो ? " **नैव वाचा न मनसा प्राप्तुं शक्यो न चक्ष
अस्तीति ब्रुवतोऽन्यत्र कथं तदुपलभ्यते ॥** " ( कठोपनिषद् २–३–१२ ) देकूनु जे

...मेश्वरालो साक्षात्कार निर्मळ मनांतु प्रतिबिंबित जाता तेन्ना मनीस "तेंचि तें"
...न, "त्वमेव प्रत्यक्षं तत्वमसि।" म्हण्णुं संबोधन करता. कठोपनिषदांतु
(...–२–१४) म्हळचां, "तदेतदिति मन्यन्तेऽनिर्देश्यं परमं सुखम्।"– तेंची हें म्हण्णुं
...निर्वचनीय परमसुखाचे संबोधन करताची. "ॐ तत्सदिति निर्देशो ब्रह्मणस्त्रिविधः
...तः।" — (भगवद्गीता १७.२३.)

ब्रह्मविशय जेन्ना तर्क वितर्क चलता तेन्नां मतं – मतांतर जाताची. पुण हो
...नमार्ग अति सूक्ष्म, विस्तीर्ण आनी पुरातन आसा. थोर ब्रह्मवेत्ते हें ज्ञान मेळोवनुं
संसारांतूची मुक्त जावनुं शरीर त्याग केले अुपरांत मोक्ष प्राप्त करताची. "अणुः
...ा विततः पुराणोः। ... तस्मिन् शुक्लम् उत नीलम् आहुः पिंगलाम् हरितम्
...हितम् च। एष पंथा ब्रह्मणा हानुवित्तः तेनैति ब्रह्मवित् पुण्यकृत्तैजसश्च॥"
...ृहदारव्यकोपनिषद ४. ४.९) हो ज्ञानमार्ग सूक्ष्म विस्तीर्ण आनी पुरातन असा...
...ण हांतूत धव्वो, कोण नीळो रंग पळयताची. तेची तरेन कोण हळदूवो, पाचवो किंवा
...बडो सांगताची. पुण हो मार्ग केवल ब्रह्मज्ञानान अनुभवचातु येता. हे मार्गान पुण्य
...श्चो मनीस परमात्मतेजः स्वरूप ब्रह्मज्ञानी जाता. हे साधनामार्गान प्राप्त
...वचे मूलतत्वाक, परमतत्वाक रुशी ॐ, ब्रह्म म्हण्णुं अुल्लेख करताची. "सर्वे
...ा यत्पदमामनन्ति तपाँसि सर्वाणि च यद्वदन्ति। यदिच्छन्तो ब्रह्मचर्यं चरन्ति
...तेपदं संग्रहेण ब्रवीम्योमित्येतत्॥" (कठोपनिषद् १.२.१५) – संपूर्ण वेद जे
...वाचे प्रतिपादन करताची, जें पद मेळोवचाक सर्व रुशी तप करताची जे खातीर
...ुक्षू ब्रह्मचर्याचरण करता, तें पद तें तत्व म्हळचार ॐ जावनु आसा. "ॐ
...त्येकाक्षरं ब्रह्मेदं सर्वं" जेन्ना गणपती देवतेलो साक्षात्कार रुशीक जालो
...ा ताका कळनु आयलें कीं तोची, मुलतत्व तो ॐ कार, ब्रह्म, आसा. पुरुष, ब्रह्म, ॐ
...नी इत्यादि सर्व देवत्राचक नांव मूळांतूची ते तत्वनिर्देशक आसाची. त्वमेव
...त्यक्षं तत्वमसि – हो पयलाबयलो अुद्गार रुशीलो तोंडांतु तेन्नाची येता जेन्ना
...का ते परमतत्वाची जाण पयलाबयली जाता, जेन्ना मनांतली सर्व संशयं, सर्व
...ने परिहार जावनुं मुक्तात्मा प्रसन्नचित्त जाता आनी तागेले काळजांतु
...काशची प्रकाश पसरता. "एवं प्रसन्नमनसो भगवद्भक्तियोगतः। भगवत्तत्व-
...ज्ञानं मुक्तसंगस्य जायते॥" (श्रीमद्भागवत १.२.२०) जंयजंय प्रकाशची
...काश आसता, "तस्य भासा सर्वमिदं विभाति।" (कठोपनिषद् ५–१५)
...र्यामुखार काळोख केन्नांयी आसना ते तरेन हे परमात्मप्रकाशामुखार नामरुपांनी
...र्माण जावचें भिन्नत्व नाश जाता. जीव – परमात्म्याचें ऐक्य जाता. आनी
...वळ चिन्मय परतत्व प्रकाशरुप आसता. थंय दृश्टा आनी दृश्य हें द्वैत नाश जाता.
...श्टा रुपान प्रकट जायना. असले स्थितींतु कोण कोणाक पळयतालो, कोण कोणाक
...णतालो? "यतो वाचो निवर्तन्ते अप्राप्य मनसा सह" असले अवस्थेंतु सर्व

अत्रं समूळ नश्ट जाताची आनी एकची अुद्गार तोंडांत ल्यान भायर पडता " त्व
प्रत्यक्षं तत्वमसि "–

**त्वमेव केवलं कर्तासि । त्वमेव केवलं धर्तासि। त्वमेव केवलं हर्तासि**

हे विश्वाचे सुरवातीपासून मनीसाक आपण्यालो जल्म कोणें दिलो, च
दिकान दिसचें विश्व कोणे केलें कोण चलयता. आपण्याले आनी हे विश्व
भवितव्य कसलें म्हण्णु कुतूहलाचो विशय जावनू आसा. मनीसाक चिंतन क
स्वभाव आसता. चिंतन करता म्हण्णु तो मनीस म्हण्णु मानचांतु येता. पयलाव
तागेले हे प्रश्नें वेदांतु अुक्ते जाले " अचिकित्वान्ज चिकितुषस् चिद अत्र क
पृच्छामि विद्यते न विद्वान् । वि यस् तस्तम्भ षाळिमा रजांस्यजस्य रूपे कि
स्विद एकम् ।। " (ऋग्वेद. १–१६४–६) – अजाण तो हांव्‌ ज्ञानीक विचा
कोणे हीं स दिशा अुचलनू धरिले आसाची ? " को अद्धा वेद कः इह प्रवो
कुतः आऽजाता कुतः इयं विसृष्टीः। अर्वाक् देवा : अस्य विसर्जनेनाऽथा को वेद य
आबभूव ।। (ऋग्वेद १०. १२९.६) कोण जाणू शकता आनी कोण सांगू
कीं ही विविध स्रिश्टी खंयचान आनी खंयचे तरेन निर्माण जाली ? देवबी म
जल्माक आयले तेन्ना हें सर्व कशे जाले तें कोण सांगतालें ?

वेदांतलो हो प्रश्नो वेदांतूची क्रान्तदर्शी रुशीनी सोडयलो. ताणी सांगले "
असत् आसीत् नो सत् आसीत् तदानीम् न आसीत् रजः नो विऽओम परःयत्
न मृत्युः आसीत् अमृतम् न तर्हि न राञ्याः अह्नः आसीत् प्रऽकेतः । आ
अवातम् स्वधया तत् एकम् तस्मात्ह अन्यत् न परः किम्चन आस ।। (ऋग्
१०.१२९ तेन्ना (म्हळयार विश्व निर्माण जावचे पयलें) असत् नाशिले किंवा
नाशिले. तेन्ना आशिले ना रजो लोक ना आकाश किंवा पेलतडेचो अवकाश. म
वा अमृतत्व नाशिले, रात्र किंवा दिवस. पुण केवल 'तत्व' एकटेंच विद्यम
आशिले. ताजे शिवाय अन्य कांय नाशिले.

'हिरण्यगर्भः सम् आवर्तत अग्रे भूतस्य जातः पतिः एकः आसीत् । सः दा
पृथिवीम् द्याम् उत् इमाम् । (ऋग्वेद १०.१२१.१)– भांगराचे बींय सर्वा
आशिले तेची मागीर सर्वाले मुखेल जाले ताणेंची ही धर्तरी आनी द्यूलोक धारण के
'सहस्रशीर्षा पुरुषः सहस्राक्षः सहस्रपात् । सं भूमीम् विश्वतः वृत्वा अति अति
दशांगुलम् । पुरुषः एव इदम् सर्वम् यत् भूतम् यत् च भव्यम् । (ऋग्वेद १० ९
– हजार माथें, हजार दोळे, हजार पाय आशिलो पुरुष तो, धर्तरेचीं चारी दि
आवृळनुंबी अजून धा बोटांनी शिल्लक उरलो. हें जें आयज आसा आनी मुख

आसताले. तें सर्व तोची जावनुं आसा "देवस्त्वष्टा सविता विश्वरुपः पुपोष
ः पुरुधा जजान ॥ (ऋग्वेद ३.५५.१९) – जग जल्माक हाडचे देवान विविध
ांची अुत्पत्ती अनेक रीतीन केली आनी ताज पोशण तोची विश्वरूपी सर्वस्त्रश्टा
त आसता.

वेदांतु रुशींनी साक्षात्कार पाविलो 'पुरुष अुपनिषदकाळांतु 'ब्रह्म' म्हण्णुं
ोधिन जालो 'नैवेह किंचनाग्र आसीत' 'आत्मैवेदमग्र आसीत पुरुषविध:'
ह्म वा इदम अग्र आसीत् ॥' म्हण्णुं बृहदारण्यकोपनिषदांतु प्रतिपादन केलिले
सा. 'सर्वं खल्विदं ब्रह्म तज्जालन इति शान्त उपासिता' (छांदोग्य अुपनिषद
१४.) – हे सर्व निश्चयान ब्रह्मची आसा. ताका लागूनची जग जल्माक जायले,
तूतची लीन जातालें तांतूतची तें विराजमानबी आसतालें 'स एक काले
वनस्य गोप्ता – तोची समयानुसार समस्त विश्व रक्षण करता म्हण्णुं श्वेताश्वर
ानिषद (४.१५) सांगता. तैत्तिरीय अुपनिषदांतु ब्रह्माचें हे मुखेल कार्य स्पश्ट-
येन सांगल्या. 'यतो वा इमानि भूतानि जायन्ते । येन जातानि जीवन्ति ।
प्रयन्त्यभिसंविशन्ति । तद्विजिज्ञासस्व । तद् ब्रह्मेति ।' (३.१) – जाका लागून
सर्व भूतजात जल्माक आयली, जाका लागून ती जीवेता, आनी अखेरीक जे
यार ती लीन जाता, तो ब्रह्म म्हण्णुं जाण.

श्रीकृष्ण तर भग्वद्गीतेंतु परमेश्वराले हे कार्याक परत पुश्टी दिता. 'अहं
त्स्नस्य जगतः प्रभवः प्रलयस्तथा ।' (७-६) – हे जगाचे जल्माक आनी लयाक
रण तो हांवूची आसा ' सर्वभूतानि कौन्तेय प्रकृतिं यान्ति मामिकाम् । कल्पक्षये
ास्तानि कल्पादौ विसृजाम्यहम् । (९-७) - सर्व भूत जात कल्पाचे अखेरीक
ाले प्रकृतींतु लीन जातालें आनी कल्पाचे सुरवातील परत हावूची निर्माण करतांलो.

हे तरेन अनेकानेक रुशींक जी स्त्रिश्टी सुरवातीपासून साक्षात्कार जाली तीची
श्वर्णन रुशीकवी जाली. "त्वमेव केवलं" म्हण्णुं परत परत सांगून रुशी ब्रह्माची
तिमता व्यक्त करता. इतलेंची न्हंय तर मनीसाले वाणीची असमर्थता आनी
रमेश्वरावयर तागेली आसची आधीनता सिद्ध करता "सत्यं ज्ञानमनन्तं ब्रह्म"
तैत्तिरीय अुपनिषदांतले मंत्रांतु ब्रह्मत्वाचे सर्व व्यापकत्व दाखयिले आसा.

जल्म, पालनपोशण आनी मरण मनीसाले हातांतु ना म्हण्णुं हे साक्षा-
काराचो अनुभव जेन्ना जाता तेन्ना मनीसाले मनांतलो अहंकार नाश जाता.
ागेले अहंकर्तुत्व गेलिल्यान तागेले क्रियेचे कर्मत्वबी नाश जाता. आपूण हें कर्म
रता हो अहंकार नाशिल्यान ते कर्माचे फळ आपण्याकची मेळका म्हण्णुं हव्यास

ताका नासता. आनी आत्मज्ञानाक लागून तो नित्य संतुष्ट आसता. जल्म, पोश
मरणाचो अधिकारी विश्वात्मक परमेश्वर आशिल्यान तागेली वृत्ती बद
आनी सर्वात्मभावान वावुरचो तो मनीस कर्मरहित आनी गुणातीत जाता.

**त्वमेव सर्वं खल्विदं ब्रह्म । त्वं साक्षादात्मासि नित्यम् ॥**

वैदिक साहित्य म्हळचार कोण एक व्होड साहित्यिकान बरयिली साहित्यि
कृति न्हंय. वैदिक साहित्य म्हळचार अनेक रुशींनी आपण्याले निर्मळ मनांतु घेति
स्वयंसाक्ष, स्वयंसिद्ध सत्याचे अविश्कार आसाची. वैदिक शास्त्र हें मूळांतु अध्यात्म
शास्त्र, मोक्ष शास्त्र आसा. मोक्ष म्हळचार सत्य – असत्य, नित्य – अनित्य, अवि
नाशी – विनाशी, बरे – वायटांचे बेसालूम मिश्रणान चलचे जगाचे वेव्हाराव
विवेकबुद्धीन विचार करनु अुरची मनीसाली नित्य, निर्दोश, अविर्दल, शाश्व
सुख – स्थिती आसा. मोक्ष हें मनीसाले आत्यंतिक ध्येय आसा. मोक्ष म्हळचा
बंधनांतल्यान मेळचें स्वातंत्र्य.

जेन्नां सर्व भूतभौतिक विश्व अविद्येचे पडद्यान झांकिले आसता तेन्ना आपूण
एक आनी परमात्मा विगडची म्हण्णु मनीस समझता. पुण जेन्ना परमात्माची हें सर्व
कांय आसा, तोची तें मूळ तत्व आसा, तोची जल्म – पोशण – मरणाचो अधिकारी
आसा किंबहुना परमात्मापरस विश्व हें बिगड कांयी ना म्हण्णु समजता तेन्ना तो
भिन्न दिसचें हें विश्व परमात्म्या बरोबर एकरूप जावनु समरस जाता. भांगरांतले
कलमश नाश जालें कीं जशें मूळांतले शुद्ध सुवर्ण दीपता, ते तरेन जीवाचे संकल्प –
विकल्प, विश्वाचो आभास, विश्व स्वप्न नाश पावता. घट फुटलो कीं आकाशाक
आपण्यालें व्यापक स्वरूपाचो साक्षात्कार घेंवचाक थंयचान दूर वच्चें जे तरेन जरूर
पडना, ते तरेन देह म्हळचार आपूण हो संकल्प सोडलो कीं जीव मूळांतूची परमात्मा,
हे सर्व कांय आसा तें सर्व सत्यस्वरुप परमात्मा अशें अनुभव, साक्षात्कार जाता.
" त्वमेव सर्वं खल्विदं ब्रह्म " ही जाणीव जाता. " विनश्यत्सु अविनश्यन्तं यः पश्यति
स पश्यति । ' (१३ – २७) म्हण्णु श्रीकृष्ण भगवद्गीतेंतु सांगता. वस्तूंतले अवि-
नाशी तत्व तितलेंची सत्याचें. बाकी अुरिलें सर्व विनाशी आसून मायिक आसा.
भौतिक देह किंवा सर्व दिकान पसरिलें हें विश्व परमात्म्याले दिश्टीन केन्नांयी
वेगळे नासता. हाकाची अजातवाद म्हणताची. अुदकावयर तरंग आयले म्हण्णु
अुदकाक कांय आपूण विगड जालें अशें दीसना. तेची तरेन परमात्म्याविशय
आमकां नानाविध आकार -- विकाराचो भास जालो तरी परमात्म्याले दिश्टीन तो
आकार -- विकार खरो नासता.

" त्व साक्षादात्मासि नित्यं " म्हण्णु रुशी अुल्लेख करता. कित्याक तर नित्य

आनी सर्वगत चैतन्य असले स्वरुप परमात्म्यालें आसता. घराचो नाश जालो तरी घरांतले आकाशाचो नाश केन्नांयी जायना. तें मूळाचेंची, जशें कांय व्यापक आनी नित्य, आसता. जें नित्य तेंचि सत्य. जें अनित्य तें असत्यचि आसता. देह आनी विश्व विनाशी आसा. तें मागशों नाशिलें, मदेंची तें दिसता, परत तें ना जाता. देकून तें मदेंची चैतन्यावयर दिसचें मृगजळ आसा. सत्य तेंची ब्रह्म आसा, गुणत्रयरहित, अव्यक्त, अविकृत, सर्वरुप स्वरुप, नित्य, अचल, शाश्वत, सर्वत्र परिपूर्ण आनी सकलात्मक. अुपनिषदांतु हेंची तत्वाचें अुवतावण जालिलें आसा. "सर्वं खल्विदं ब्रह्म" (छांदोग्य अुपनिषद ३–१४--१), "ब्रह्मैवेदं सर्वं (मुंण्डकोपनिषद २-२-११) "इदं सर्व यदयमात्मा" (बृहदाहण्यक अुपनिषद २--४--६) हेंची सत्य अथर्वण रुशी परत हे मंत्रांतु सांगता.

**त्वमेव सर्वं खल्विदं ब्रम्हासि। त्वं साक्षादात्मासि नित्यं ॥**

हे तरेन अुद्गार काडचे रुशीक साक्षात्कार जालिलो आसा. तागेले सर्व दिकान पसरिले विश्वविशय सर्व संशय दूर जालिले आसाची. परमात्माची विश्व-रुपान दिसता. म्हण्णु परमात्मा विश्वा तरेन स्थूल आनी आकारयुक्त नासताना नित्य निरंतर वावुरचो प्रकाश, सत्य आसा. विश्व म्हळचार परमेश्वर न्हंय. कित्याक तर परमेश्वराक भासमान आकार नासताची. अुदकाक तरगाकार येता म्हण्णु कांय तरग म्हळचार अुदाक न्हंय. मातीचे अनेक आकार करचांतु येताची म्हण्णु तांका अनेक नांव दिवचांतु येताची. हे सर्व आकार विनाशी आशिल्यान ते मायिक, असत्य आसताची. आनी तांतूतले 'मृत्तिकेत्येव सत्यम्' हो प्रकार परमात्मवस्तूची आसता. उपनिषदेंतु ब्रह्मवेत्ते निक्षून सांगताची "यथा सौम्य एकेन मृत्पिंडेन सर्वं मृण्मयं विजातम् स्यात्। वाचारम्भणम् विकारो नाम धेयम् मृत्तिकेति एव सत्यम्… ……एवम् सौम्य स आदेषो भवतीती"—मोगा, जे तरेन एक मातीचे अुंड्याक लागून सर्व मातीचे वस्तूंचे ज्ञान मेळता कीं विकार केवल वाणीक लागून नाममात्र आसाची. सत्य तेंची आसा कीं हें सर्व मातीची आसा……अशें तो आदेश आसा.

जो मनीस रूशीले भशेन जाणता कीं असत्य प्रकृती भूत–भौतिक स्त्रिश्टीचे रुपान सर्व दिकान पसरिली आसल्यारियी सत्य–असत्याचे पृथक्करण करचो तो राजहंस, परमहंस, ज्ञानी पुरुष विश्वाकाराचो विश्वाभास जाणून विश्वाचे आनी ज्ञानाचे अज्ञानजन्य असले परमात्म्यापरस वेगळेपणं नाश करताची. तेन्ना जीव–जगताचें व्दैत शिल्लक अूरना. आनी ते स्वत: अव्दय परमतत्व जाताची.

क्रांतदर्शी रुशींक आनी तेंचो तरेन सर्व साधारण मनीसांक दैवत, आत्मज्ञान

संपादन करचें नासता. संपादन करचें म्हळयार जे मूळांतूची नासता ते मेळोवं आसता. पुण रुशींक ज्ञानाचे दर्शन जालिले आसता. ज्ञानाचें स्फुरण, साक्षात्का जालिलें आसता. तांगेले निर्मळ असले अंतस्करणांतु — वाऱ्यान दूर केलिले मेघां नंतर दिसचे सूर्यातरेन — स्वयंसिद्ध, स्वयंप्रकाशित, स्वयंसाक्ष ब्रह्मतत्वाचें दर्श जाता. विवेक किंवा ब्रह्म किंवा आत्मा कांय नवीन निर्माण करना. पुण बुद्धीनु अंतस्करणांतु जमिले कल्मश दूर करनु स्वच्छ काळजांतु सत्य प्रतिबिंबित करता राजहंस जे तरेन दूध आनी उदाक विगड करता, बुद्धवंत भांगर आनी कल्मश विगड करता, आवय जे तरेन लोणी दह्यांतल्यान विगड करता, ते तरेन रुशी पिं —ब्रह्माण्डांतलो फरक समजून नित्य असले चित्तत्व विश्वांतल्यान विगड ज पळयता. विश्व हें स्वतंत्र अस्तित्व नासनाना ब्रह्मत्वाचे, नित्य, सत्य स्वरुपचि आस हें जाणता. भासमान भूत–भौतिक विश्व वस्तुतः परमात्मची आसता ताजे शिवाय विगड कांय नासता.

## ऋतं वचिम

ऋत म्हळयार ईश्वरी संकेत किंवा इच्छाशक्ति. ऋत म्हळयार तें जें पूर्व-काळापासून चलत आयल्या, जावनु गेलिली रीत, पद्धत, नियम, व्यवस्था. विश्वाचे विकासांतु एक क्रमबद्धता आसा, सूर्य नियमित उदेता, पावूस नियमित पडता, बीं अंकुर पावता, झाड जाता, फूल-फल दिता. गाय दूध दिता. गायीक वासरूं जाताची आपण्याले वायलेक आपण्यातरेचेंची एक चेरडूं जाता, तें वाढता आनी ताकाबी परतचेरडूं जाताची. हे सर्व विश्व विकासांतु, निसर्गाचे विस्तारांतु रुशीक ऋताचे अस्तित्व दिसतालें.

ब्रह्मदेवान स्रिश्टी ही आदिसंस्था जेन्ना निर्माण केली तेन्नाची स्रिश्टींतले सर्वांनी नित्य करची यज्ञसंस्था बी निर्माण केली. ही यज्ञसंस्था म्हळयार मूळांतूची ऋताची विकसित कल्पनाचि जावनु आसा. देकून "यज्ञेन यज्ञं अयजन्त देवा: तानी धर्माणि प्रथमान्यासन्।" — हे तरेन यज्ञाची स्वीकार देवांनी केलो. स्रिश्टी यज्ञांतल्यान निर्माण जालो आनी यज्ञांतूची जगचि आसता. उदारण भगवान् सविता सूर्यनारायण हो एक अखंड नित्य, निरंतर चलत आशिलो यज्ञाचो होम आसा. यज्ञाचे उबेक लागून स्रिश्टी जगता. प्राणीमात्रांक सर्वत्र उब दीवनु यज्ञ जगयता तागेले उबेन उदकाचो होम जाता, वाफ जाता. ती वाफची उपरांत मेघाचे मदतीन उदकांतु परिवर्तन पावता. ताका लागून वनस्पती, अन्न पिकता. ते अन्नांतु सूर्याली उब मेळिल्यान जीवमात्रेक जीवन मेळता. अन्नाक लागून रेत तयार जाता. तें रेत स्त्रींतु सिंचन केलिल्यान स्रिश्टीचे उत्पत्तीक, स्थितीक आनी वाढीक कारणीभूत आशिले हें यज्ञचक्र मनीसानी सतत चालू दवरका. तरची तांगेलें अभ्युदय जायत.

यज्ञ आणी ऋत हांवु लागीचो संबंध आसता. ऋत म्हळ्यार केवल वैश्विक व्यवस्था नासताना भौतिक–सामाजिक–नैतिक व्यवस्थेचो अंतर्भांवबी जाता. तरेन आपण्याली बुद्धी, शक्ति, संपत्ती संपूर्ण समाजाचे कल्याणांखातीर श्वरार्पण बुद्धीन त्याग करचाक यज्ञ–धर्म म्हणताची, तेची तरेन इश्वरीसंकेत ऋत हे कल्पनेक अनुरुप अनुसंधित आसचेंबी धर्माचे एक अंग आसा. धृ–धारण करचे हो धात्वर्त जर लक्षांतु घेतलो तर प्रजेले जीवनाक आधारभूत आसचीं कर्तव्य कर्म म्हळचारोची धर्म किंवाऋत म्हण्णुं जाता " धारणात् धर्ममित्याहु, धर्मेण विधृताः प्रजा :। यत्स्यात् धारणसंयुक्तं स धर्म इति निश्चय : ॥ "

सर्व देव, दानव आनी मानवबी ऋतजात ऋतबद्ध आसताची. विश्वचक्राचे उल्लंघन देवांकबी करचाक जायना. ऋतस्य " हळ्हा हा धारुणानी सन्ति पुरुणि चन्द्रा वपुषे वपूंषि। ऋतेन दीर्घमिषणन्तं पृक्षः ऋतेन गावः ऋतम आ विवेशुः ॥ " (ऋग्वेद ४.२३.९) ऋत धर्माचे पालन करतल्याक सनातन सत्यची मेळाता. विस्तीर्ण असली द्यावा पृथिवी भक्तांखातीर ज्ञानाची धारा व्हांवयता. ऋतेन आदित्या : तिष्ठन्ति दिवि सोम अधिश्रिता : ॥ (ऋग्वेद १०.८५.१)– ऋताक लागून आदित्य आकाशांतु आसता. सोमबी ताजोची आश्रय घेता.

विश्वचक्राचें आनी विश्वनियमांचे उल्लंघन करचे, वैदिक दैवत संघांतले प्रमुखाक–वरुण देवतेकबी साध्य जायना। तो पुण ऋतजात आनी ऋतबद्ध आसता. ऋताचे रक्षण करत आसताना ताका ऋताचे नियमबी पाळचे पडताची. जेन्नां सर्व विश्व ऋतबद्ध आसता तेन्नांची विश्वाचो विकास ईश्वरी संकेतांक लागुन जाता. देकूनु ऋत आनी धर्म हे कल्पनेंतु लागीचो संबंध आसता. वायट चालीचे जन ऋताचें अनुसरण करनांची. " ऋतस्य पन्था न तरन्ति दुष्कृतः। " ( ऋग्वेद ९.७३.६. ).

जेन्ना जेन्ना ऋताचो प्रभाव कमी जाता तेन्नां तेन्नां ऋशीक अत्यंत दुःख जाताले. ऋत खंय गेलें आनी तें परत केन्नां येताले म्हण्णु ऋशी आक्रंदून विचारता. " यज्ञां पृच्छाम्यवमं तद् दूतो विवोचति। क्वं ऋतं पूर्वं गतं कस्तद् विभर्ति नूतनो वित्तं मे अस्य रोदसि। ... कद् व ऋतं कदनृतं क्व प्रत्रा व आहुतिर्वित्तं मे अस्य रोदसि। कद् व ऋतस्य धर्णसि कद् वरुणस्य चक्षणम कदर्यम्णो महस्पथाति क्रामेम दूढ्यो वित्तं मे अस्य रोदसि।' (ऋग्वेद १.१०५–४–५–६ ) –धर्तरेवलये पुरातन ऋत आयज खंय आसा. तें आतां कोणे धारण केल्यां. यज्ञस्थलांतले अग्नीक हांवु तें विचारतां...तुमगेले ऋत आनी अनृत, पुरातन काळांतु अर्पण केलिली आहुति आयज खय आसा...सत्याचरणाची स्थापना आतां जाल्या...

तशें पळयल्यार जेन्नां जेन्नां समाजांतु, विश्वांतु ऋतयुक्त वेवस्था [illegible] जाता ऋताचे नियम उल्लंघन जाताची तेन्ना तेन्ना परमात्मा अं[illegible] किंवा पूर्णरूपान ती वेवस्था परत प्रस्थापित करपाक हे [illegible] अवतार घेता. "ऋतं च सत्यं चाभिद्धात् तपसोऽध्य जायत ।' (ऋग्वेद १०.१९०.१) जाज्वल्य तप: सामर्थ्यान पयलें प्रथम ऋत आनी सत्याचो जल्म जालो-

देकूनु जेन्ना रुशी ऋतं वच्मि म्हणता तेन्नां तो ते सनातन, न बदलचो, न उल्लंघन जावचो, नैतिक–आध्यत्मिक विधिनियमांचो सार्वभौम जाणून घोषित करता. आपूण आतां मेरेन "त्वमेव केवलं कर्तासि, धर्तासि, हर्तासि, खल्विदं ब्रह्म" म्हणु जें विधान केलिले आसा तें सर्व हे ऋतकल्पनेक लागूनची आसा. अनादिकाळापासून वावूरचे हें ऋतची हांवु सांगत आसा. किंवा हांवु जें सांगत आसा तें काय नवीन नासताना अनंतकाळापासून अनंतकाळामेरेन संसारांतु मुसमुसचे सत्व आसा.

## सत्यं वच्मि

ऋतकल्पनेतरेन सत्याचि कल्पनावी वैदिक आध्यात्मशास्त्राचे सखोल वास्तुशिल्प आशिले. ऋत हें ईश्वरीसंकेत आसल्यार सत्य हें ते परमात्माले अनुसंधान आसा. किंबहुना परमात्मा हो सत्य आसा; सत्य–धर्मन्, सत्यसवं, सत्यस्य सूनु, सत्यं, सत् आसा. विश्वाचे धारण सत्यान केल्या म्हणताना सत्य आनी परमात्मांतु आशिलो लागीचो संबंध स्पष्ट जाता. "सत्यम् उत्तभिता भूमि: (ऋग्वेद १०.८५.१) "सत्यम् इद व उ तं वयम् इन्द्रं स्तवाम् नानृतम् । (ऋग्वेद ८.६२.१२) "एकम् सत् विप्रा बहुदा वदन्ति ।" (ऋग्वेद १.१६४.४६)

जे तरेन विश्वाक देवासह ऋतबद्ध आसचे शिवाय गत्यंतर ना, तशे तांका सत्याचो आधारवी वेवचो पडता. कारण ऋत आनी सत्य हे यज्ञचक्राचे परिक्रमांतु सहभाग आसताची. "ऋतं च सत्यं चभिद्धात् तपसोऽध्यजायत ।" (ऋग्वेद १०.१९०.१) यज्ञसंस्थेंतल्यानची तांचो अुगम आसा. देकूनु 'सविता सत्यधर्मः ।' परमेश्वर सत्याचे धारण करता. अंताक सत्याचेंची अस्तित्व सधृढ आसता. "सत्यमेव जयते नानृतम् । सत्येन पन्था विततो देवयानः ।" (मुण्डकोपनिषद ३.१.६) देवमार्ग सत्यान शोभताची. तोची मार्ग स्वीकारचांतु मनीसाले श्रेय आसा. "सत्येन विधृतं सर्वं सत्ये प्रतिष्ठितम् " (महाभारत १२.२५९.१०) "सत्यं स्वर्गस्य

ोगानं पारावारस्य नैरिव।" (महाभारत ५.३३.४७)

ऋतं वच्मि, सत्यं वच्मि म्हण्णु सांगताना रूशीं खात्रि दिता कीं तो विश्वर-ननेचे, विश्वनियमनाचे, विश्वविकासाचे कार्यांतु परमात्माली जी इच्छा आसा, न्तव्य आसा ताजेंची निर्देशन करत आसा. आनी ते इच्छेक परिपूर्ण प्रतिसाथ देवचांतु, परिपूर्णतेंतु हाडचांतु मनीसालो विकास आसा. तशें पळयल्यार ऋत आनी सत्य हे दोन्नीं विचार एकमेकांपासून विशिश्ट आनी स्वतंत्र नासताना एकमेकांक परिपूरक आसाची. "आहुः सत्यं हि परमं धर्मं धर्मविदो जनाः" (वाल्मिकी रामायण १४.३) – धर्म जाणचे जन मानताची कीं सत्य हेंचो धर्म आसा. आनी मनीसाले व्यक्तित्वाचे विकासाक जरूर आसचे मूल्यांचो स्वीकार करचें. धारण करचें म्हळचार धर्माचरणा जावनु आसा. ऋत कल्पना ते मूल्यांक स्वरूप दिता.

**अव त्वं माम् । अव वक्तारम् । अव श्रोतारम् । अव दातारम् ... इत्यादि**

जेन्ना रुशी त्वमेव केवलं कर्तासि वगैरे, किंवा ब्रह्माचे स्वरुप त्वमेव सर्व खल्विदं म्हण्णु उद्‌गार काडता तेन्ना तो ऋत आनी सत्याचें मूळ स्वरूप निवेदन करता कीं तें जें सांगता तें मूळ नियमाक, ईश्वरेच्छेक लागून आसा.

**त्वमेव प्रत्यक्षं तत्वमसि** म्हण्णु परमात्म्यालो स्वसंवेद्य, स्वयंसिद्ध, स्वयं साक्ष साक्षात्कार घेतले उपरांत रूशीक ते अनुभवाची जाण. तें स्वाध्याचो सुगंध आपण्याले समाजांतु. सबंध संसारांतु पसरावचो आसा. पुण जो अनुभव ताका मेळिलो आसा तो ताका अनेक विचार आयकलिल्यान, किंवा प्रवचनेन किंवा बुद्धीचो उपयोग केलिल्यान मेळिलो ना. तो ताका परमेश्वराले अनुग्रहाक लागून स्वयं प्रेरणेन मेळिलो आसा ( कठोपनिषद १२.२३ ). तो अनुभव बुद्धी आनी शब्दांचे पेलतडेन आशिल्यान तो अनुभव इतरांखातीर उक्ते करताना, साक्षात्कार उक्तावण करचो रूशी आनी तें उक्तावण आयकुवचो समाज हे दोग्गांकयी ते अनुभवाचो परिसंवाद करचाक योग्य तें सामर्थ्य आसचाक जाय. नचिकेताक उद्देशून यम सांगता, "**न हि सुविज्ञेयमणुरेष धर्मः ।**" हो विशय (अध्यात्मज्ञान) अत्यंत सूक्ष्म आसा (कठोपनिषद १.१.२१) देकूनु नचिकेत प्रत्युत्तर दिता. "**देवैरत्रापि विचिकित्सितं किल त्वं च मृत्यो यन्न सुविज्ञेयमात्थ । वक्ता त्वा दृगन्यो न लभ्यो नान्यो वरस्तुल्य एतस्य कश्चित् ।**" (कठोपनिषद १.१.२२) हे यमराज तूं सांगता कीं हे विशय देवांकयी विचार पडिलो आनी तें जाणचेंयी कठीण आसा. पुण तुजो तसलो वक्ता बी मेळचो कठीण आसा. देकूनु विगड खंयचोयी वर माका नाका.

तरीपुण रुशींक आनी देवांकवी ते अनुभवाचो अनुवाद करचें शक्य जाय
कित्याक तर, "न तत्र चक्षुर्गच्छति न वाग्गच्छति नो मनो न विद्मो न विजानि
यथैतदनुशिष्यादन्यदेव तद्विदिताथथो अविदिताादधि । इति शुश्रुम पूर्वेषां
नस्तद्वयाचचक्षिरे ।।" (केनोपनिषद १ ३)—–थंय दिश्टी, शब्द, मन पावना जा
लागून ताजें निवेदन जायत. ताजे विशय आमी स्वत: तर जाणनांची. कि
इतरांकवी सांगू शकनांची. जें सांगचांतु येता ताजे परस ते सामकें विगड आस
जाणचे परस तें वयर आसा. म्हण्णुं पूर्वाचार्यानी आमकां सांगिल्लें आसा.

हे तरेन पंचेंद्रियांची क्षमता जाणचो मनीस ते ब्रह्मतत्त्वाची व्याख्या करचा
धाडस करना. तरी पुण आपण्याले अनुभवाची स्मृति रुशीक आसता. ती पर
स्वत: येवजूवचाक, ते अनुभवाची जाण इतरांक दिवचाक रुशी धाडस करता
धडपडता. देकून तो ईश्वराक प्रार्थना करता, "सह नौ यश: । सह न
ब्रह्मवर्चस्वम् ।" ( तैत्तिरीय उपनिषद १.३. १)–आमगेले ( गुरु–शिश्यालें ) यश
एकसयत वाढूं. एकसयत ब्रह्मतेजवीं वाढूं. "यश्छन्दसामृषभो विश्वरूप:
छन्दोभ्योऽध्यमृतात्सम्बभूव । स मेन्द्रो मेधया स्पृणोतु । अमृतस्य देव धारणो
भूयासम् । शरीरं मे विचर्षणम् । जिव्हा मे मधुमत्तमा । कर्णाभ्यां भूरि विश्रुवम् ।
ब्रह्मण: कोशोऽसि मेधया पिहित: । श्रुतं मे गोपाय । " ( तैत्तिरीय उपनिषद्–
१–४–१)–जो वेदांतु सर्वश्रेष्ठ आनी सर्वरुप आसा, अमृतरूप वेदांक लागून प्रकट
जालो, तो इन्द्र मेगेले बुद्धीक संपन्न करूं. हे देवा तुगेले क्रिपेन अमृतमय परमात्माक
धारण करचो जावूं. मेगेले शरीर निरोगी जावूं. मेगेली जीभ अतिशय मधूर उत्रांनी
भरूं. कानांनी जास्तन् जास्त आयकतालो जावुं. ब्रह्मत्वाची जाण लौकिक बुद्धिन
झांकिली आसा. देकूनु हांवे जे आयकलिले आसा तें सुरक्षित दवर.

रूशीन जे साक्षात्कार पाविले आसा ते अनिर्वचनीय आसताची म्हण्णुं रूशी
मानता. बूद्धी आनी वाणीचे पेलतडेन आशिले हें चिन्मय आत्मतत्व शब्दान विवेचन
करचे साध्य जायना. कित्यांक तर "रुशी सांगता, ( बृहदारण्यकोपनीषद
४ ५.१५) जंय सर्वकांय आत्मरूप जाल्या थंय कोणाले मूखांतर कोणाक पोळोवचे,
कोणाले मूखांतर कोणाक हुंगचे, कोणाले मुखांतर कोणालो रसस्वाद घेवचो,
कोणालें मूखांतर कोणाक नमस्कार करचो, कोणाले मुखांतर कोणाक आयकुवचे,
कोणाले मूखांतर कोणाक मनन करचे, कोणाले मुखांतर कोणाक आफुडचें,
कोणाले मुखांतर कोणाक जाणचें ? कोणाले मुखांतर हे सर्व जाणचांतु येता ताका
कोणाले मुखांतर जाणचे ?"

श्रीकृष्ण भगवद्गीतेतु (११.८) म्हणता, "न तु मां शक्यसे द्रष्टमनेनैव
स्वचक्षुम । दिव्यं ददामि ते चक्षु: पश्य मे योगमैश्वरम् ।। हे तुगेले चामड्याचें

दोळयान तुं माका पोळोवू शकचो ना. देकूनु तुका हांवु दिव्य दिश्टी दिता. ताज्यान तूं मेगेले ईश्वरी योग सामर्थ्य पळय पुण हे तरेन ईश्वरीं प्रसादाक लागून जरी तो परमात्म्यालो साक्षात्कार घेवू शकलो तरी ताजें उक्तापण शब्दांनी करचें मात्र ताका कठीण जाले. "**न तत्र चक्षुर्गच्छति न वाग्गच्छति नो मनो न विद्मो न विजानीनो यथैतदनुशिष्यात् ॥**" ( केनोपनिषद् १.३ ) थंय दिश्टी वचूं शकना किंवा वाणी, किंवा मन. सांगू शकनांची को आमी जाणताची. तेन्नां खंयचे रीतीन आमीं दुसऱ्यांक सांगू शकू की तें हे तरेन आसा.

इश्वरालें अस्तित्व हे तरेन बुद्धी आनी वाणीचे पेलतडेन आसल्यारियी ते चिन्मय आत्मतत्वाची जाण शब्दान करचें धाडस रुशी करता. ईश्वराक रूप, आकार, रस गंध नासल्यारियी रुप, आकार, रस गंधाचो ध्यास धरता. आनी जे तरेन ध्यास धरता ते तरेन देवबी ताका प्रकट जाता. "**ये यथा मां प्रपद्यन्ते तांस्तथैव भजाम्यहम् ॥**" (भगवद्गीता ४–११) जे जन जे तरेन माका आश्रय घेताची ते तरेन तांका हांव् दर्शन दिता. पुण हे तरेन दर्शन मेळचाक मनीसाले कर्तृत्वापरस परमेश्वालो अनुग्रह जास्त आवश्यक असता. मदत जाय. साहाय्य जाय.

हे तरेन भगवंताली मदत जाय तर साधकाक शरण वच्चें पडता. शरण वच्चें म्हळचार पराभूत किंवा अगतिक जावनुं लाचारीन दुसरेलागीं पाय पडचे म्हण्णुं न्हय. दुसऱ्यालो मदत साहाय्य मागची म्हळचार स्वतःचे कर्तुत्वाक अडव दवरचें म्हण्णुं न्हय शरण म्हळचार आश्रय घेवचें, आधार घेवचे, साहाय्य घेवचे असो अर्थ जाता. गीतेंतले "**त्वमेव शरणं मम**" हे व्याख्येंतु होची भावार्थ आसा. सर्व आश्रयांचो त्याग करनुं देवालो आश्रय घेवचो आसता. कबीराले शब्दांनु हें देहरूपी चांदर कोणें दिलें ताकाची तें परत दिल्यार देवाले निरंतर अनुसंधान प्राप्त जाता.

शरणागताचे देव सर्व रीतीन मदत करता. देकूनु साधनेचे मार्गावयलो साधक "**अव त्वं मां अव श्रोतारं अव वक्तारं**" वगैरे म्हण्णुं मदतीची याचना करता. 'अव' हे धातूक अनेक अर्थ आसाचो, रक्षण करचें, इच्छा पूरी करची, संतुष्ट करचे, साहाय्य करचे, इत्यादि. वैदिक ऋचांचे भाषांतर करताना 'अव, हे शब्दाचो अर्थांतर 'रक्षण कर' म्हण्णु करताची. तशे पळयल्यार ऋचांची रचना जाली तेन्ना संस्कृत भाषा प्राथमिक अवस्थेतु आशिती आनी ते कारणान एकची शब्दाक विगड संदर्भातु विगड अर्थ साधचे साधारण जातालें.

हांगा रुशीक आपण्यालो अनुभव शब्दांनी विगड मनीसांखातीर व्यक्ते करचें आसता. अवर्णनीय असलो अनुभव शब्दमुखांतर स्पश्ट करचो आसता. तेन्ना वाच्य-वाचक हाचे द्वैत स्वीकारनुं करचे पडता. शब्द हो संपूर्ण सत्य सांगचाक असमर्थ

आशिल्यान शब्दान केल्लिले विवेचन कोणाक, केन्नां आनी खंय करचे आसा हे समजू करचे पडता. " नेह नानास्ति किंचन " म्हण्णु मानिले उपरांतबी जर परमात्म्याले वर्णन करचे पडता तेन्ना देवाली जरूर मदत पडता. देकूनु रुशी " अव त्वं माम् " मेगेले कामांतु मदत कर म्हण्णु मागता. ' अश्विना सारधेण मा मधुनांक्त शुभस्पति । यथा भर्गस्वतीं वाचम् अवदानि जनाँ अनु ॥ ' (अथर्ववेद ६.६.३२) कांतिमान अश्विन देव मेगेली जीभ म्होंवान आफुडू. म्हण्टकूच जनांखातीर हांव ती पुण्य वाणी उक्तें करू शकतालो.

निवेदन करचो रुशी योग्य रीतीन उक्ते करत आसल्यारियी आयकतल्याली आयकुवची क्षमता जर ना तर उलोवचांतु अर्थु कसलो ? देकूनु रुशी उलयतल्यां-बरोबर आयकतल्यांकबी मदत कर म्हण्णु मागता. गुरुशिष्यांतु जर समची संस्कार जालो तर सत्याचो साक्षात्कार जाता. साक्षात्कारी संताले अंतस्करणांतु भरून आशिलो चित्प्रकाश तांगेले बरोबर संबद्ध आशिले सर्व शिष्याले अंतस्करणांतु चित्प्रकाश उत्पन्न करता. देकूनु गुरू आपण्यालागी योग्य शिष्य येवूं म्हण्णु प्रार्थना करता. " आमायन्तु ब्रह्मचारिणः स्वाहा । विमायन्तु ब्रह्मचारिणः स्वाहा । प्रमा-यन्तु ब्रह्मचारिणः स्वाहा । दमायन्तु ब्रह्मचारिणः स्वाहा । शमायन्तु ब्रह्मचारिणः स्वाहा । " (तैत्तिरीय उपनिषद १–४–२ )– कपट नाशिले, प्रामाणिक, इंद्रिय दमन केल्लिलें, मनावयर ताबो दवरिले ब्रह्मोपासक मेगेलागीं येवूं.

विद्या दितल्याक तेची तरेन विद्या घेतल्याक मदत कर. " अवानूचानं " जी विद्या दिवचांतु येता ती सर्व रीतीन ' अनु ' म्हळचार सतत ' उच् ' म्हळचार एक जाग्यार केन्द्रित जावूं. मनन हे शब्दापरस अनूचनं हे शब्दांतु व्यापकता आसा. देकूनु पूर्व, पश्चिम आनी सर्व दिकान मदत कर. " ॐ वाङ् मे मनसि प्रतिष्ठिता मनो मे वाचि प्रतिष्ठितमाविरावीर्म एधि । वेदस्य म आणीस्थः श्रुतं मे मा प्रहासीः । ......... तन्मामवतु तद्वक्तारमवतु ॥ " मेगली उत्रं मनांतु आनी मन उत्रांतु स्थिर जावूं. हे ज्योतिस्वरूप भगवन् मेगेले खातीर प्रकट जा. मेगेले खातीर वेदज्ञान हाड. हांवे आयकलिलें ज्ञान माका ना सोडूं. माका साहाय्य कर. हे तरेन रुशी आपण्याले निवेदन सुरवात करता. कित्याक तर देवाले मदते शिवाय शिष्याले ज्ञान परिपूर्ण जायना.

त्वं वांग्मयस्त्वंचिन्मयः त्वमानंदमयस्त्वं ब्रह्ममयः । त्वं सच्चिदानंदद्वि-
तियोऽसि । त्वं प्रत्यक्षं ब्रह्मासि । त्वं ज्ञानमयो विज्ञानमयोसि ॥

हे मंत्रांतु रुशी गणपती देवतेली व्यापक प्रवृत्तीची जाण प्रगमनशील पायरीचे मदतीन करत आसा. त्वं वाग्मयः तूं वाक्–वाणीचो सागर आसा. वाक् हे मूळ

त्र्' हे शब्दाचे प्रथमेचे एकवचन आसा. 'वाक्' हांतु ध्वनी शब्द वाणीचो आसा. 'मय' हे प्रत्यय वस्तुवाचक शब्दामुखार जोडयल्यार जे ओतप्रोत भरिले आसातें म्हण्णं अर्थ जाता हे भगवन् तूं वाणीन ओतप्रोत भरिलो आसा सागर आसा दिक परंपरेंतु 'वाक्' शब्दाक व्हड महत्व दिलिले आसा. "देवी वाचमजनयन्त वाः" (ऋग्वेद ११.२९)– देवांनी 'वाक्' क जल्म दिलो. 'वाक्'ची लौकिक दिमेचो आदर रूशी करताची. 'वाक्' क पोळोवनुं बी ना पोळोवचे मनीस ाताची. पुण दुसरे तर ते लागीचान जाणताची. तांचे मुखार वाक् आपण्याले हस्य ते तरेन अुघडायता जे तरेन कुलीन स्त्री आपण्या स्वतःक आपण्याले घोवा-मुखार अुघडायता. (ऋग्वेद १०.६१.५). मनीसाले आध्यात्मिक जीवनांतु 'वाद्' चो सहवास मनीसाक सदासर्वदा फलता. जनकान याज्ञवल्क्याक विचारले, 'जेन्ना सूर्य अस्तमेंतु निपजता, चन्द्र-वा नखेत्रंबी नांची, जेन्ना अुजोबा निवळिलो आसता, तेन्ना मनीसाक प्रकाश कोण दिता?" उत्तर मेळ्ळे, "तो वाक् दिता. वाक्ची मनीसालो प्रकाशक आसा." (बृहदारणाकोपनिषद् ४.३.५) ज्ञानाचे एकमात्र अधिष्ठान वाक् आसा (बृहदारण्यकोपनिषद् २.४.११)

अुपनिषदांतु वाक्ची अधिदैवत व्याख्या दिल्या. 'वाक् यज्ञाचो होता आसा, तोची अग्नि, मुक्ति आनी अतिमुक्ति आसा. (बृहदारण्यकोपनिषद ३.१.३) 'वाक ब्रह्याचो चौथो पाद आसा (धंदोग्योपनिषद ३.१८) वाक् सूक्ष्म आसा, नित्य, अनंत, आसा. विश्वाचो विकास आनी आधार वाक् आसा. "स तया वाचा तेनात्मना इदं सर्वमसृजम्।" (ब्रहदारण्य कोपनिषद ) वाग्वैव विश्वा भुवनानि जज्ञे — वाक् लागून विश्वाची व्युत्पत्ती जाली. वाग् वै सम्राट परमं ब्रह्म' (बृहदारण्यकोपनिषद ४.१.२)

गणपती देवता मूळांतूची वाणीची अधि देवता म्हण्णं मानिले आसा. वाणी स्फुरण जालिल्यान जेन्ना चैतन्य जागृत जाता तेन्ना मनीस अवस्थात्रयींचे पेहतडेन म्हळचार जागृति स्वप्न सुषुप्तीचे पेलतडेन आशिले तुरियावस्थें तु, चिन्मय आनंदमय अवस्थेंतु वता हे तुरियावस्थेतु गणपतीले वास्तव्य आशिल्यान थंयीची तागेले दर्शन जाता. 'आनंदो ब्रह्मेति व्यजानत" (तैत्तिरीय अुपनिषद ३.७.१)

गणपती सत्–चित्–आनंदमय आसा. ही ब्रह्माली गुणं नासताना तागेलें मूळ स्वरुप आसा. तूंची साक्षात् ब्रह्म आसा. ज्ञान–विज्ञान हेंबी ब्रह्मची आसा. ज्ञान म्हळचार इन्द्रियज्ञान किंवा इन्द्रियांचे मुखांतर मेळचें ज्ञान. विज्ञान म्हळचार इन्द्रिय निरपेक्ष ज्ञान, विशुद्ध आत्मस्फुरण आसा. विज्ञानस्वरुप चैतन्यची ब्रह्मस्वस्था आसा. "विज्ञानं ब्रह्मेति व्यजानात्। विज्ञानाद्धयेव खल्विमानि भूतानि जायन्ते। विज्ञामेत जातानि जीवन्ति। विज्ञानं प्रयन्त्यभिसंविशन्तीति।" (तैत्तिरीय

उपनिषद् इ ५.१) — विज्ञान म्हळ्ळ्यार ब्रह्म आसा. कित्याक तर विज्ञानाक ल
हे सर्व प्राणी जल्मेताची, जीवीत आसतार्ची आनी अखेरीक विज्ञानांतूची प्र
पावताची.

वांग्मय, चिन्मय, आनंदमय, ब्रह्ममय, ज्ञानमय, विज्ञानमय इत्यादि शब्दां
वापर करचांतु रूशीक गणपतीले स्वरुपवर्णन करचे, गुणांचे वर्णन करचे नासता
तागेले मूळ अस्तित्वाचे निदर्शन करचें आसता. जेन्ना एक वाक्, चित्, आनं
ज्ञान–विज्ञानान ओतप्रोत भरिलें आसता, तेन्ना तो एक ब्रह्म अप्रमेय, ध्रुव, निर्मळ
अंशापरस सूक्ष्म, अविनाशी आसता बुद्धीमान ब्राह्मण ताजें जाण घेवनु तांतूच
प्रज्ञाशील जाता. अनेक शब्दांचो उपयोग केलिल्यान ताजी जाण मेळना, तो केव
वाणीचो श्रम आसा. (बृहदारण्यकोपनिषद् ४.४-२०-२१)

**सर्व जगदिदं त्वत्तो जायते । सर्व जगदिदं त्वत्तस्तिष्ठति ।**
**सर्व जगदिदं त्वयी लयमे ष्यति । सर्व जगदिदं त्वयी प्रत्येति ।**

मागशी उच्चारिले " त्वमेवं सर्व खल्विदं ब्रह्मासि, हे मंत्राचो विस्तार हे
आताचे मंत्रांतु केलिलो आसा. तशें पळयल्यार मागशी रुशीन त्वमेव केवलं
कर्तासि, धर्तासि, हर्तासि म्हण्णु गणपतीली व्याख्या केलिले उपरांत परत वयलो
मंत्र सांगचें आवश्यक नाशिले. पुण आमी लक्षांतु परत घेवचे जरूर आसा की
अर्थवशीर्ष हो महामंत्र हे रुशीन स्वतःचे " स्वांत सुखाय " मात्र न्हंय तर साधकाले
समाधाने खातीर, समजूतीखातीर दिलिलो आसा. जेन्ना अनिर्वचनीय असले
अनुभवाची जाण दुसऱ्यांक दिवची आसता तेन्ना ते दुसरे मनीसाले अनुभवांचे
पातळीवयर करचें पडता. त्वमेव केवलं कर्तासि, धर्तासि, हो मंत्र रुशीले स्वतःचे
अनुभवावयर आशिलो उद्गार आसा. तो व्यक्तिनिष्ठ आसा. तो विगड मनीसांले
परिक्षेक फावोना. तो परिपूर्ण आनी अनिबंध आसा. आतां सांगिलो मंत्र तो
साधकांले दिष्टी कोणांतल्यान आसा. विश्वात्मक परब्रह्माले दिश्टीन हो संसार
म्हळ्यार समतोल वेव्हार आता. उदकांतु तरंग आयली म्हण्णु उदकाचे स्वरुप
तागेले दिश्टीन वदलना. वस्तुतः स्रिश्टीची निर्मिती आनी मागीर जावचें रुपवैशिष्ठ
हे खरें नासताना 'सत्' हे अधिष्ठानावयलो अध्यारोप आसा. रुशीले पयलेची
व्याख्या निश्चित असंदिग्ध स्वरुपाची आसा. आतांचो मंत्र स्पश्टी करणाचे
आसा. तशें पळयल्यार संसारांतु जावचो बदल हो एक आभासः आसा. कांयी नवीन
कार्य करचांतु येना. विश्वापरस विश्वेश्वर विगड ना. विश्व हे ताणेंची आनी
तागेल्यांतूची धारण केलिल्यान विश्व आनी विश्वेश्वरांतु दिसचे भिन्नत्व किंवा
विश्वांतु दिसचें परिवर्तन हें चूकीचें आसा. सूर्यकिरणांक लागून मृगजळ निर्माण
जाता. आनी निर्माण– अस्तित्व– अज्ञानाचें चक्र नदरेक भास जाता. ते तरेन

ामगेले हें जग जाता, आसता, नाशपावता. पुण जगाचो हो जल्म, अस्तित्व, नाश खरो न्हंय. आनी हो बदल जरी जगाचे दिश्टीन आसल्यारियी वास्तविकतेंतु ासता. सागरावयर उठचे तरंग जे तरेन जल्मेता, आसता आनी नाश पावता ते रेन आनी ते दिश्टीन हें जग जल्मेता, आसता आनी नाश पावता. दुसऱ्यांले श्टीन जरी ही तरंग, हे जग बदल जालिले तशें दिसता तरी सागराचे किंवा गश्रेष्ठीचे दिश्टीन वस्तुस्थितींतु आपण्यांतु कांयी बदल जालो अशें दिसना.

'एकं सत्' 'सर्वं खल्विद ब्रह्म' "नेह नानास्ति किंचन" हे वैदिक सिद्धांतां- ागशी हे तरेचे साक्षात्काराचो स्वानुभव असल्यारियी रुशींक शिश्या खातीर ाष्य करचें भाग पडता. विश्व आनीं विश्वेश्वरांतलो भासमान भेद दाखोवनु गवंताले स्वरूप चित्रिकरण करचे पडता. द्रश्ट– दृश्य हें द्वैत स्वीकारनु साधकाक चेन्मय निर्विषय ज्ञानस्वरूप परमात्मादिकान उडी घेवची पडता. असले साधकाक उपमा–उदारण दीवनु रुशी परमात्म्याले कार्याचे कौशल्य दाखयता. "यतो वा मानि भूतानि जायन्ते। येन जातानि जीवन्ति। यत्पयन्त्यभिसंविशन्ति। तद्विजिज्ञा- स्व। तद् ब्रह्मेति।। (तैत्तिरीय उपनिषद-३.१)–जाका लागून ही सर्व भूत जात नेर्माण जाली, जीवंत आसा आनी अखेरीक ज्यांतु ती मेळता, तें ब्रह्मम्हण्णु जाण. 'पुरुष एवेदं सर्व यद् भूतं यच्च भव्यम्।" (ऋग्वेद–१०–९०–२) बृहत्सुम्नः सविता निवेशतो जगतः स्थानुरुभयस्य यो वशी। (ऋग्वेद–४-५३ ६)–जें जाल्या, तें जावचे आसा तें सर्व हो पुरुषचि आसा. तो हे जगाक जल्म दिता धारण करता, तें उभें आसा, जे हालता, ते सर्वांचे नियमन करता.

अथर्व रुशीन केलिले वचन जें हे मंत्रांतु दिसून येता, तें हे पार्श्वभूमीवयर आधार पाविलें आसा. वास्तविक "प्रजापतिश्चरति गर्भे अन्तर जायमानो बहुदा विजायते। तस्य योनीं परिपश्यन्ति धीरास्तस्मिन्ह तस्थुर्भुवनानी विश्वा।।" (वाजसेनीय यजुर्वेद–३१-१९)–प्रजापती आपण्याले सवतःचे स्वतांतु (गर्भांतु) विहार करत आसता, तागेले अनेक घरांतु रुशी–ज्ञानी मूळ स्थान पळयता. "वेनस् तत् पश्यन् निहितं गुहासद यत्र विश्वं भवत्येकनीऽम्। तस्मिन्निदं सं च वि चैति सर्व सऽओतः प्रोतश्च विभुः प्रजासु।।"–(यजुर्वेद–३२.८)–रुशी ती गुप्त जागा जाणताची जंय सर्व विश्व केन्द्रित जाल्या, जंयपासून हें सर्व कांय विस्तार पावल्यां. देव हो वस्त्रांतलें आड-सरळ आसचें सूत आसा.

हे निर्गुण निर्विषय, ज्ञानस्वरूप चैतन्याचे विश्वरूपांतु जावचे, विकास पावचे विलीन पावचें म्हळचार निर्गुणाचे सगुणस्वरूप धारण करचें तशे आसा. विश्वाची सर्व घडामोड चैतन्यां तु सर्वकाळ चलत असता. सागरावयर जे तरेन तरंग येंत आसताची ते तरेन चैतन्याचो बदल जात आसता. "न हि कश्चित् क्षणमपि जातु

तिष्ठत्यकर्मकृत् ।" (भगवद्गीता ३.५) पुण जावचे–पोशण पावचें-नाश जावचे म्हळ्यार द्वैत पातळीवयर कल्पित जावची रूढ कल्पना जावनु आसा. ईश्वराले देहधारी सगुण स्वरूप आनी विश्वरचनेचे स्थूल कार्य संकुचित आसून तें खरें म्हंय विश्वाक किंवा विश्वात्मकाक जल्म ना किंवा मरण ना. आपण्याले अव्यक्त स्वरूपान विश्व व्यापून आसचो सर्वात्मक, विश्वात्मक विश्वंभर तो. स्थूल आनी नाशिवंत आकाराक ईश्वर म्हण्ण् समजचें आनी ताका लागून दिसचो भासमान बदल हो भ्रान्त आसा. सागर आनी तरंगाचे स्वरूप जे तरेन एकची आसा ते तरेन विश्वात्मकालो आनी तागेल्यांतु जावचो भासमान विकास हो मिथ्या आभास आसा. देकून् ज्ञानी रुशी मानता कीं विश्वाचे जावचे किंवा विनाश जावचें हें केवल मायिक आनी भ्रांतियुक्त आसा. तें आयले वा गेलें ह्यांतू विश्वात्मकाचो तिळमात्र बदल जायना. तो आविनाशी आसा. ते ब्रह्मस्वरूपावयर दिसून येवचो बदल हो विनाशी आसून अनित्य आनी मूळांतु आनी अखेरीक नासताना मदेंची दिसचे स्वप्न, माया, भ्रम. हे संपूर्ण विश्वांतु किंवा हे देहांतु जो बदल दिसता ताजे मूळांतु ब्रह्माचे चाहूल आसता. तागेले अस्तित्वाक लागून संसारांतु पिंड-ब्रह्माचे आकार येताची आनी वताची. पुण मूळांतु परब्रह्माचो श्वास निरंतर खेळत आसता.

## त्वं भूमिरापोऽनलोऽनिलो नभ :

वृहदारण्यकोपनिषदांतु सांगल्यांकी "नैवेह किंचनाग्र आसीत्·· सोऽर्चन्नचरत् तस्यार्चत आपोऽजायन्त...तघदपां शर असीत्तत्समहन्यत । सा पृथिव्यभवत् ।... तस्य श्रान्तस्य तप्तस्य तेजो रसो निरवर्तताग्निः ॥ स त्रेधात्मानं व्यकुरुत, आदित्यं तृतियम् । वायुं तृतीयम्..." (१.२)–ह्यांगा पयले प्रथम कांयी नाशिलें–अर्चना करताना ताजेपासून उदाक निर्माण जालें...जें उदाक स्थूलत्वाक लागून एकत्रित जालें, ती धर्तरी जाली...थकिले तापिले ते प्रजापतीपासून सारभूत तेज अग्नि-रूपान निर्माण जालें. ते अग्निक ताणें तीन भागांतु विभाजन केलें कीं भूंय सूर्य आनी वायु जल्माक आयलें.

पुण हें सर्वांचो उगम परमेश्वराक लागून आशिल्यान साकल्यान तीं सर्व ते निर्गुण परब्रह्माचेंची स्वरूप आसाची, विश्वापरस परमेश्वर भिन्न ना. विश्व ताणेंची जल्म दिलिल्यान, तागेल्यांतूची आनी ताणेंची धारण केलिल्यात तो मूळांतू विश्व-व्यापक आसा. म्हण्टकूच ईश्ववरस्वरूपांची भक्ति म्हळ्यार ईश्वरालीची भक्ति जाता. सूर्य किरणांवयर मृगजळाचो भिन्नत्वान आभास जाता ते तरेन हें विश्व हे देव जल्माक येताची, दिसताची आनीं दीसनांची, हे सर्व विश्वांतलेची घडामोडी आसाची आनी ते सर्व ब्रह्माचे जागी जात आसताची. देकून् ते सर्व ब्रह्मापरस वेगळ

नांची. श्रीकृष्ण भगवद्गीतेंतु (७·१४) म्हणता, "**मामेव ये प्रपद्यन्ते मायामेतां तरन्ति ते।**"–ह्रीं सर्व मेगेल्यांतूची आसून माया पांधरूण घालत आशिल्यान तीं सर्व एकमेकांपासून किंवा मेगेले पासून भिन्न अशे दिसताची. ज्ञानस्वरूप परमात्माची आपण्याले पंचमहाभूत, मन, बुद्धीचे मुखांतर अष्ठविध अपरा प्रकृति आनी जीवरूपी पराप्रकृतींतु प्रकट जाता. पुण हे सर्वांतल्यान निर्माण जालिले प्रकृति वा निसर्गाक स्वतःचे अस्तित्व नाशिल्यान श्रीकृष्णान "**मत्तः परतरं नान्यात्किंचिदस्ति धनंजय**" (भगवद्गीता ७·७)–परमात्मशिवाय विंगड कायी ना हो सिद्धांत मांडलो. अथर्वण रुशीनबी हे मंत्रांतु तोचि सिद्धांत प्रतिपादन केलिलो आसा.

## त्वं चत्वारी वाक्पदानी :

वाणीबी परब्रह्माचे 'एक सत्'चे एक विकसित रूप आसा. आमी पळयिलें आसा कीं "एकं सत्" 'सर्वं खल्विदं ब्रह्म' ही पूर्णावस्था आसून ती वस्तुतः भावनातीत, शब्दातीत आसा, ती स्वसंवेद्य आसून ती केवल अनुभवचांतु येता. ते अवस्थेविशय शब्दामुखांतर अुल्लेखन जायना. **एतो वाचो निवर्तन्ते। अप्राप्य मनसा सह।**" (तैत्तिरीय अुपनिषद २.४)–थंयचान मनासयत वाणी असफल जावनु परत येता. मनीसाले दोळे आनी कान अुघड आसून काळजांतु ताजें चित्र रेखिलें तरी ताजें अुलोवप मात्र शब्दांतल्यान जायना. वैदिक रुशी आपण्याली असहायता दाखयतानां अुद्गार काडता. "**वि मे कर्णा पतयतो वि चक्षुर वि इदं ज्योतिर्हृदय आहितं यत्। विमे मनश्चरति दूर आधिः किं स्विदे वक्षामि किमु नू, मनिष्ये।**" (ऋग्वेद ६.९.६)–मेगेले कान डोळे अुघड असाची आनी काळजांतु ती ज्योत झळकत आसा. पुण मन मात्र थंयचान दूरदूर फिरत असता. हांवू कितें आतां उलोवूं ? विचार तरी कितें करूं ?

अध्यात्मज्ञानातरेन वाणीचो विकासबीं शब्दब्रह्मांडांतल्यान जालिलो आसता. वाणीचे चार तरेचे प्रकार हे वाणीचे चार विकसित रुप आसाची = परा, पश्यन्ति, मध्यमा आनी वैखरी. वैदिक रुशी स्पष्ट करता "चत्वारी वाक् परिमिता पदानि तानि विदुर, ब्राह्मणा ये मनिषिणः। **गुहा त्रीणी निहिता नेङ्गयन्ति तुरियं वाचो मनुष्या वदन्ति।**" (ऋग्वेद १.१६४.४५)–वाणीचे चार स्वरूप आसाचि. केवल ज्ञानी मनीस ते जाणू शकताची. तांतूतले तीन स्वरूप गूढ आसल्यार चौथे स्वरूप मात्र सर्वसाधारण मनीस समजता.

वाणीचें वैभव ब्रह्मतेजाबरोबर तोलचें आसल्यार ते भाग–भागांतु जावचे ना. ते पूर्ण तरेन वाणीचे सर्वतोमुखी विकसित रुपा बरोबर दाखोवचें आसता. देकूनु गणपतो ही वास्तविक वाग्देवता आसल्यान तिगेले स्वरूप चत्वारी वाक्पदाती

म्हण्णु अथर्वण रुशीन दाखयिले आसा.

## त्वं गुणत्रयातीत :

स्त्रिश्टीनिर्मितीचें अुपादन कारण म्हळचार परमात्म्याली ती अमोघ शक्ति आसता, जी मूळ शक्ति ' प्रकृती ' म्हण्णु संबोधित जाता. केवल पुरुष स्वतः शक्तिन निर्माण कार्य सुरवात करूं शकना; ताका प्रकृतीची जरूरियात आसता. प्रकृती स्त्रिश्टीनिर्माण कार्यांतु माध्यम म्हण्णु वावुरता. प्रकृति म्हळचार तीन मूळ गुणांचे समन्वय स्वरूप आसा–सत्व, रज, तम. " **सत्वं रजस्तम इति गुणाः प्रकृति संभवाः । निबन्धन्ति महाबाहो देहे देहिनमव्ययम् ।।** " (भगवद्गीता–१४.५) हे तीन गुणांचो गुणधर्म म्हळचार हे देहांतले अविनाशी आत्म्याक ते बांधतांची. ताका लागून ' गुण ' हे शब्दाचो अर्थ ' पाश ' म्हण्णुबी करचांतु येता. हे गुणांपासून साकल्यान मनीस बंधित जाता इतलेंची न्हंय तर हे गुणांचे प्रमाणांक लागून दर एक मनीसाले स्वभावांतु फरक दिसून येता. सत्त्वगुण मनीसांतु निर्मल, निर्दोष, प्रकाश, आरोग्य, सुख, ज्ञान निर्माण करता. रजोगुण मनीसांतु विषयासक्ति, त्हान, आवड, भोगाची अभिलाषा, निर्माण करता. तमोगुणांपासून अज्ञान येता, ज्ञानग्रहण करचे शक्तिवयर झांकण पडता; मोह, आळस, निरुत्साह. सुस्ति अुत्पन्न जाता; शरीर, वाणी, मन आप-आपण्यालें कार्यं करचांतु रुची दाखयनांची. पुण जेन्नां देहदारी हे देहापासून अुत्पन्न जावचे तीन्नी गुणांचो पार करनुं जल्म, मरण आनी दुःखापासून मुक्त जाता तेन्ना तो अमृतत्वं प्राप्त करता. " **गुणानेतानतीत्य त्रीन् देही देहसमुद्‌भवान् । जन्ममृत्युजरा दुःखैर्विमुक्तोऽमृतमश्नुते ।।** " (भगवद्गीता १४,२० ). जो मनीस ईश्वराली अनन्य भक्ति करता तो हे सर्व गुणांचे अुल्लंघन करनु गुणातीत असले तें ब्रह्मपद प्राप्त करता. तशें पळयल्चार अमर आनी अव्यय, शश्वत धर्माचें आनी अुच्चतम सुखाचे स्थान म्हळचार ईश्वर आसा. तो गुणातीत म्हळचार गुणांचे पेलतडेन आसता. " **मां च योऽव्यभिचारेण भक्तियोगेन सेवते । स गुणान्समतीत्यैतान्ब्रह्मभूयाय कल्पते ।। ब्रह्मणो हि प्रतिष्ठाऽहममृतस्याव्ययस्य च । शाश्वतस्य च धर्मस्य सुखस्यैकान्तिकस्य च ।।** " (भगवद्गीता १४,२६–२७).

जेन्ना अथर्वण रुशीक गणपती देवालो साक्षात्कार जालो तेन्ना ताका तो तीन गुणांपासून अलिप्त, नित्य–सत्व–स्थ, ब्रह्ममय आसा हें दिसून आयलें.

## त्वं देहत्रयातीत :

हे भगवन्, तूं देहाचे तीन अवस्थांचेबी पेलतडेन आसा. स्त्रिश्टीनिर्मितीक कारणीभूत आशिली परब्रह्मशक्ति मनीसांक सत्व–रज–तमो गुणांक लागून अनेक

कामं करचांतु प्रवृत्त करता. पुण मनीसांले काळजांतु आसचो आत्मा “ अजो नित्यः शाश्वतोऽयं पुराणो न हन्यते हन्यमाने शरीरे ”— अजन्मा, नित्य, शाश्वत आनी पुरातन आसून शरीरचो नाश जाल्यारियी ताजो नाश जायना. मनीसालागीं तीन किंवा जास्त देह आसताची. “ **इन्द्रियाणि पराण्याहुरिन्द्रियेभ्यः परं मनः। मनसस्तु परा बुद्धिर्यो बुद्धेःपरतस्तु सः ।।** (भगवद्गीता ३.४२) शरीराचे पेलतडेन इन्द्रियं, इन्द्रियांचे पेलतडेन मन, मनाचे पेलतडेन बुद्धी आनी बुद्धीचे पेलतडेन तो आत्मा आसता. मनीसाक मरण आयले तेन्नां हे सर्व देहाचो नाश जाता म्हण्णुं मानचे चूकीचें आसा. स्थूल देहाचो नाश जाल्यारियी तागेले सूक्ष्म देहाचो नाश जायना. मनोदेह किंवा कारण देह अजून टिकता. आत्म्याची स्थूल, सूक्ष्म आनी कारण देह अशी तीन आवरण आसताची. जे मेरेन आत्म्याचे सूक्ष्म आनी कारण शरीर आसता ते मेरेन मनीसाक परत परत स्थूल शरीर धारण करचें पडता.

कारण शरीराचें मूल वासनेंतु आसता. जे वासना मरणाचे काळारी अजून अतृप्त आसताची ती परिपूर्ण करचाक मनीसाक परत जल्म घेवचें पडता. अतृप्त वासना हेंची पूनर्जल्माचे बींय आसता. पुण वासनेंक तृप्त केलिल्यान हे कारण शरीर नाश जाता म्हण्णु मानचेंबी भ्रामिक आसा, कारण वासनापूर्तीतूची विगड वासनेंचे बीय पेरचांतु येता. देकून जी बुद्धी, शक्ति, संपत्ती वा सेवा मनीसाले अंतस्करणांतु उपजता ती जर निर्हेतु निष्काम बुद्धीन त्यागाचे पायरी वयर वापरली तर खरे धर्माचे पालन जाता म्हण्णुं वैदिक यज्ञाची विकसित कल्पना वेदांतु सांगिली आसा.

मनीसाले आत्म्याचे हे तरेन आसचे आवरणा परस विश्वात्म्याचे स्वरूप सामकें वेगळें आसता. गणपती ही देवता साक्षात् ब्रह्मस्वरूप आशिल्यान तागेल्यांतु वासनेचो लवलेश नासता. ताका कर्माची बंधन नासताची ताणें देह धारण केल्यार ते विश्वनियमन करचेखातीर असता. “ **नमे पार्थाऽस्ति कर्तव्यं त्रिषु लोकेषु किंचन । नानवाप्तमवाप्तव्यं वर्त एव च कर्मणि ।।** ” (३.२२) म्हण्णुं श्रीकृष्ण भगवद्गीतेंतु सांगता. माका तीन्नीं लोकांतु कांयी कर्तव्य उरलें ना किंवा कांय एक अप्राप्त वस्तु मेळोवचें आसा अशेंबी ना. वासना नाशिल्यान माका कारण शरीराचि जरुरियातबी ना. तो जल्म घेत आसल्यार ते वासनेंचे समाधान करचे खातीर न्हंय तर तें “ साधूनां परित्राणाय ” “ विनाशाय दुष्कृतां ” आनी “ धर्म संस्थापनार्थाय ” आसता. तो वास्तविक स्थूल, सूक्ष्म, कारणशरीरा पेलतडेन— देहत्रयातीत असता.

## त्वं कालत्रयातीत :

हे गणपती, तूं कालातीत आसा. तशें पळयल्यार काल म्हळ्यार मनान येवजीली एक कल्पना आसा. तरी पुण वेव्हारिक दिश्टीन काळ म्हळ्यार दोन घटनें मदलें अंतर. एक घटना संपुश्टांतु आयलीकीं काळाचो जल्म जालो म्हण्णु मानताची. पुण काळाचे जल्मांतूची भविष्य काळाचे बींय पेरचांतु येता. तशे पळयल्यार जल्म-मरणाचे संबंधांतल्यान काळाची कल्पना उदय पावता. अंडी–कोंबडीचे न्यायान काळाचो निरंतर, अविरत प्रवास चलत असता. एक विगड दिश्टी कोणांतल्यान पळयल्यार काळ हो स्त्रिश्टी निर्माण कार्यांतलो पयलो घटक आसता. स्त्रिश्टी निर्माण जाली की घटना घडचाक सुरवात जाता. ते सतत घडत आसताची. घटना घडता ना घडता तोची तो भूतकाळांतु समाविश्ट जाता. विगड नवीन घटना वर्तमानकाळांतु क्षणिक रुपान घडत आसचें आमकां दिसून येता. आनी ती दिसत दिसत आसतानाची भूतकाळाचे अंधःकारांतु मेळत वता. भविष्यकाळांतले घटनेंविशय मन साणंक आसता. मनीस आनी तागेले मन ताका लागून काळाचे वेव्हारांतु वावूरत आसता.

मानिले आसा की मनीसालें जीवन म्हळ्यार दृष्टा-दृश्य-दर्शन, ध्याता-ध्येय-ध्यान, भूत-वर्तमान-भविष्य असले त्रिपुटींक लागून अनुभवत आसता. पुण जेन्नां दृष्टा-दृश्य, ध्याता-ध्येय, अनुभविता-अनुभाव्य ना जाता तेन्नां भूतभविष्याचो वास्तव्य प्रकट जायना. हे स्थितींतु, हे अवस्थेंतु निरंतर वर्तमानकाळ वास्तव्यांतु आसता. काळाचे अस्तित्वचि नासता. ज्ञानस्वरुप द्रश्यान एक दृश्य अनुभविलें आसा आनी दुसरे दृश्य अजून अनुभववचें आसा, असले निर्विषय ज्ञानस्वरुपाची मदली स्थिती जी आसता तिका "योगभूमिका" म्हण्णु संज्ञा दिलिली आसता. अनुभवितामुखार अनुभवचें कांयी विगड अशें नाशिल्यान तत्सापेक्ष अनुभवबी नासता. असले अवस्थेंतु अनुभविता–अनुभाव्य, दृष्टा–दृश्य, भूत–भविष्य ना जाता. आनी जीव-परमात्म्यालें ऐक्य जाता. अनुभविता भिन्नत्वान अनुभाव्याचो, दृष्टा दृष्टाचो, भूतकाळ भविष्यकाळाचो अस्तित्व जेन्ना जाणता तेन्ना बंद दरवाजे प्रकाशमय आत्मस्वरुपाचि अनुभूती येवूं दिनांची. पुण द्रष्टयान एक दृश्य पोळोवनु दुसरे पोळोवचें पंयलेचे निमिषमात्र संधिकालांतु जो वस्तुतः वर्तमानकाळ आसता– जेन्ना द्रष्ट-दृश्य भाव नासता तेन्ना, किंवा द्रष्टा आनी दृश्य एकची ज्ञानस्वरूप जाताची तेन्नांची द्रष्ट-दृष्याची, अनुभविता–अनुभाव्याची, भूत–भविष्यकाळाची बंद दरवाजे उघडताची आनी चिन्मय आत्मप्रकाशाचो साक्षात्कार जाता. तो क्षणची सत्याचो आसता, होची कालातीत, ब्रह्मस्वरुप आसता. तो काळची श्री गणपती सापेक्ष आसा म्हण्णु अथर्वण रुशी प्रतिपादन करता. "प्रजापतिश्चरति गर्भे अन्तरजाय-

**मानो बहुदा विजायते। तस्य योनिं परिपश्यन्ति धीरास्तस्मिन्ह तस्थुर्भुवनानि विश्वा।।"** (यजुर्वेद ३१.१९)– हो प्रजापती गर्भांचे भितर संचार करत आसता तो केन्नांयी ना जल्म पावचो आसूनबी अनेक प्रकारान जल्म पावत आसता. ज्ञानीमनीस तागेले मूळ स्थान पोळोंव शकताची. तांतूतची विश्वाची सर्व अस्तित्व सर्वकाळ आसता.

**त्वं मूलाधारोऽस्थितोऽसि नित्यम् त्वं शक्तित्रयात्मकः। त्वां योगिनो ध्यायन्ति नित्यम्।।**

हिंदू धर्म शास्त्रांतु ब्रह्मात्मैक्यज्ञानाचे आनी तें परिपक्व जावनुं ऐक्यानुभूति प्राप्त करचे अनेक मार्ग दाखयिले आसाची. "अहमात्मागुडाकेश सर्वभूताशयास्थितः।" म्हुण्णुं जेन्नां कृष्ण सांगता तेन्नां शरींरांतु आशिलें ब्रह्माले अस्तित्वाची जाण मनीसाक करनुं दिता म्हुणयेत. यम, नियम, आसन प्राणायम, प्रत्याहार, धारण; ध्यान आनी समाधि हे अष्टांगयोगानकुंडलिनी जागृत करची जरूरियात दाखयिली आसा. मनीसाले देहांतु आसची आत्मशक्ति योग मुखांतर जागृत करचें म्हळयार शक्ति उपासनेची सुरवात आसा. श्वेताश्वेतरोपनिषदेंतले "ते ध्यानयोगानुमता अपश्यन् देवात्मशक्ति स्वगुणैर्निगूढाम्"। ध्यानयोगान दिसून येवची देवात्मशक्ति म्हळयार कुंडलिनी शक्ति म्हुण्णुं कित्येकांले मत जावनुं आसा. कठोपनिषदेंतु कुंडलिनी शक्तिचो उल्लेख अप्रत्यक्ष तरेन जालिलो आसा. "शतं चैका च हृदयस्य नाडयस्तासं मूर्धानमभिनिःसृतैका। तयोर्ध्वं मानन्नमृतत्वमेति विष्वङ् अन्या उत्क्रमणे भवन्ति।।" (२.३.१६.) हृदयापासून भायर आयिले एकशेएक नाडी आसाची. तांतूतली एक नाडी म्हळयार सुषुम्नानाडी मस्तकामेरेन गेलिली आसा. ते नाडीं-तल्यान प्राणशक्ति-कुंडलिनी–वयर हाडचो योगी अमृतत्व प्राप्त करता.

कुंडलिनी शक्ति जागृत जावनुं सुषुम्नेंतु पावली की योगीलें शरीर मूर्तिमंत तेजची कीं कांय अशें दिसता. परमेश्वरान विश्व रचयताना विश्वांतले सर्व तेज सर्व शक्ति एकठांय करनुं ताजो तेजो कुंभ मनीसाले शरीराचे बेंबली लागीं आंगठ्या इतले जाग्यांतु दवरिली आसा. ते शक्ति कुंडलिनी, शिवशक्ति इत्यादि नांवानी उल्लेख केलिलो आसा. कुंडलिनीचे मूळ वास्तव्य मूलाधार नांवाचे चक्रांतु आसता. हे चक्राची जागा गुदस्थान आनी लिंग हांचे मदें आसा. ते शक्तिचें स्वरुप म्हळयार कुंकमान न्हांलेले नागिणीचे पिल्लाभाशेन आसून तें स्वतःक वांटोळे घालनुं आसता. विद्युल्लतेचे कांकणातरेन किंवा उज्याचे ज्वालेतरेन किंवा चोख भांगराचे सरपळीतरेन तेजस्वी आसची ती वज्रघातान जागी जाता. आनी नक्षत्रांची उथल-पाथल किंवा सूर्याचे आसन हालयले भाशेन मूलाधारांतु वांटोळे घालनुं आशिली ती शक्ति नाभीस्कंधातु उभी राबता, नाडी–नाडींतल्यान, नस–नसांतल्यान सरसर,

सळसळ वयर वचत शरींरंतले सर्व कणकणांतु संचार करता आनी मनीसाले सर्व शरीर तेजीश्ट, ओजीश्ट करता. अंतस्करणांतले परमात्म्याक सुखस्वरूप असले आसन करनुं दिता.

गणपती दैवत हें मूळांतूची शक्तिचे दैवत आसा. देकून तागेलें स्थान मूलाधारांतू सोदचें अथर्वण रूशीक स्वाभाविक जाता. आमीं पळयिलें आसा कीं ॐ हे गणपतीलें प्रतीकात्मक रुप म्हण्णुं मानिलें आसा. मानवी शरीरांतु ॐ आनी ताका लागून गणपतीली स्थापना मूलाधारांतु केलिली आसा. गणपतीली मूळ शक्ति म्हळचार आकार, नाद, प्रकाश आनी वेग आसून ती साघनेक लागून जागृत जाता. मनीसाले पाठीचो भाग पळयल्यार थंय ॐ काराचे प्रतीक दिसून येता. सकयल




दिलेले आकृतींतु ॐकाराचो विस्तार दिसून येत. ही कुंडलिनी शक्ति जेन्नां स चक्रांतल्यान सळसळ पार जावनुं सहस्त्रदल चक्रांतु जावनुं स्थिर जाता तेन्नां परब्रह्माचो साक्षात्कार जाता. " ध्यानवस्थिततद् गतेन मनसा पश्यंति यं योगिनः । " देकून ताजेंचि ध्यान योगी सदा करता. अथर्वण रूशीन गणपतीलें स्थान मूलाधारातु साक्षात्कारान पळयलें. पुण हो साक्षात्कार शब्दांनी सांगचें कठीण जाता सत्य तेंची आसा की ही खबर शब्दांनी सांगची तसली नासता. अनुभववची आनी तत्वरूप जावची तसली आसता. जे महाशून्यातु आकाशाचोबी पत्तो नासता थंय आकाशगुण जो शब्द आसा ताज्यान कितें सांगचें. थंयचान शब्द फिरताची आनी थंय विचाराचो वारो बी फिरना.

**त्वं ब्रह्मा त्वं विष्णुस्त्वं रुद्रस्त्वमिंद्रस्त्वमग्निस्त्वं वायुस्त्वं सूर्यस्त्वं चंद्रमास्त्वं ब्रह्मभूर्भवः स्वरोम् ।**

जेन्नां रुशीक आत्मज्ञान जाता तेन्ना जीवात्मा आनी परमात्म एकमेकापासून

वगड नासता. द्वैत नाश जावनुं जीवात्मा आनी परमात्मांतले ऐक्य अनुभववचांतु
येता. असलो अनुभव साक्षात्कारी मनीसाक जालो तेन्नां ताका ताजें उक्तावण करचें
जडना. ताजी ओळख तागेले अंतस्करणांतुची ताका मेळता. वास्तविक ताजें उक्ता-
वण शब्दान कर न्हय. कित्याक तर तो शब्दांचो दुरउपयोग जाता. " नानुध्यायाद्-
बहून् शब्दान् वाचो विग्लापनाम् हि तदिति । " (बृहदारण्यकोपनिषद् ४.४.२१.)
जंय अविद्येक लागून द्वैत आसता थंय एक दुसऱ्याक पळयता, एक दुसऱ्याक
हुंगता, एक दुसण्यालो रसस्वाद घेता, एक दुसऱ्याक अभिवादन करता, एक दुस-
ऱ्याक आयकता, एक दुसऱ्याचे मनन करता, एक दुसऱ्याक आफुडता, एक दुसऱ्याचे
विशेष तरेन ज्ञान घेता; पुण जे मनीसाखातीर हें सर्व कांय आत्मरूप जाल्या थंय
कोणाक लागून कोण पळयतालो, कोणाक लागून कोण हुंगतालो, कोणाक लागून
कोण रसस्वाद घेतालो, कोणाक लागून कोण अभिवादन करतालो, कोणाक लागून
कोण आयकतालो, कोणाक लागून कोण मनन करतालो, कोणाक लागून कोण
आफुडतालो, कोणाक लागून कोण समजतालो, कोणाक लागून हें सर्व कांय तो
पुरुष जाण घेतालो ? ताका खंयचे माध्यमान समज घेवचें ? तशें पळयल्यावर ताजे
विषय साक्षात्कार पाविलो रुशी मौन धरता किंवा ताजे विशय नेति नेति हे
शब्दान अशक्यता दाखयता. तो अगृह्य आसता—तागेलें ग्रहण करचें साध्य जायना.
तो अशीर्य आसा,——तागेलो विनाश जायना. तो असंग आसता—तो आसक्त जायना.
तो अबद्ध आसता—तो व्यतीथ किंवा क्षीण जायना. देकूनु रुशी ताजे विशय आता
मेरेन " सर्वं खल्विदं ब्रह्म " (छादोग्य ३.१४.१.) " ब्रह्मेवेदं सर्वं " (मुंडकोपनिषद
२.२.११.) ब्रह्मविदाप्नोति परम् " (तैत्तिरीयोपनिषद् २ १.) " ब्रह्मेव सन्
ब्रह्माप्येति " (बृहदारण्योवनिषद ४.४. ६.) म्हण्णुं व्याख्या करता.

पुण अथर्वण रुशीन हें स्तोत्र इतरांखातिर नमूद केलिलें आसा. जे मनीसां-
खातीर निर्गुण परब्रह्माचे स्वरूप आत्मसात करचें साध्य ना तांचे खातीर हीं मंत्रं
रचयिलीं आसाची. योगी जन जे रूप आपण्याले ध्यानावस्थेंतु पळयताची ताका रूप
—रेखा—नांव नासता. अंतपार नाशिले ते चैतन्याक वर्ण, कुल, जाति, शिर, हात,
पाय कांयी नासता तरी पुण ईश्वरालीं नांवं अनेक आसताची. नांवाचे प्रतीक
अति सूक्ष्म, अव्यक्त आनी निराकार आसता. ब्रह्म, विष्णु, रुद्र, इन्द्र, अग्नि
वायू, सूर्य, चंद्र इत्यादी नांवाचो उल्लेख म्हळयार आध्यात्मिक, पारमार्थिक किंवा
अतिभौतिक अनुभवाचो भौतिक अनुभवांतु आनी-भौतिक दृष्टांतांतु सांगचो आसता.
कित्याक तर शब्दांचो उपयोग सामान्य मनीसांखातीर आसता. आनी सामान्य
मनीसांक ब्रह्म, विष्णु–रुद्रादि देव देवतेंची ओळख आशिल्यान अथर्वण रुशीबी
तेचो प्रतीकांचो उपयोग करता. पुण ब्रह्म, विष्णु, रुद्रादि देवदेवता म्हळयार,
ऐतिहासिक किंवा प्राकृतिक देव नासताना आध्यात्मिक देव आसाची. वैदिक

देवताशास्त्रांतु निर्गुण परब्रह्माची पयली सगुण प्रतीति अग्नि, इन्द्र, सूर्य, चन्द्रादि शक्तींतल्यान आनी विकास काळांतरान ब्रह्मा–विष्णु–रुद्र देवतेंतु जालिले आमी पळयताची. हे मंत्रांतु अथर्वण रुशीनी उल्लेख केलिले सर्व देव म्हळयार ते ब्रह्माचीचि विविध अवस्थेंतली नांवं जावनु आसाची. ते विकास पर्वांतु गणपती देवतेलोबी समावेश जालिलो आसा.

हे तरेचो मूळ अनुभव रुशींक अनादिकाळापासून जात आसून ताजे उक्तावण वैदिक साहित्यांतु अनेकानेक संदर्भांतु दिसून येता. " त्वम् ब्रह्मा रयिविद् ब्रह्मणस्पते त्वं विधर्तः सचसे पुरन्ध्या ।। ( ऋग्वेद २।३) " इन्द्रं मित्रं वरुणमग्निमाहुरथोदिव्य स सुपर्णो गरुत्मान् । एकं सदि विप्रा बहुदा वदन्त्याग्नि यमं मातरिश्वानमाहुः । (ऋग्वेद १-१६४ ४६) " तद् एवाग्निस् तद् आदित्यस् तद् वायुस् तद् उ चन्द्रमा तद् एव शुक्र तद् ब्रह्म ता आपः स प्रजापतिः ॥ " (यजुर्वेद ३२-१) " त्वं स्त्री त्वं पुमान् असि त्वं कुमार उत वा कुमारी । त्वं जीर्णो दडंन वंचसि त्वं जातो भवसि विश्वतोमुखः । " (अथर्ववेद २०-८-२६) अति प्राचीन काळापासून अनेक देवांतु एक देव पोळोवची मनीसाली प्रवृत्ती दिसून येता. नावाक लागून दिसचो भेद खरो नासता. ते सर्व भिन्न दिसचे नामरूपांतु एकची तत्व आसा हें वैदिक रूशींनी आपण्याले साक्षात्कारांक लागून जाणिलें. " अस्य जानन्तो नाम चिद् विवक्तन । महस्ते विष्णो सुमतिं भजामहे । " ईश्वराले नावाचो हो खरो अर्थु समजून ताजेले संकीर्तन करचाक सांगचो भक्ति आसा. अथर्वण रुशीबी हेची परंपरेचो रुशी आसून हेची तरेचे साक्षात्काराचो वारसदार आशिल्यान गणपतीं देवता दुसरी खंयचेयी नासताना वैदिक काळापासून जनमानसांतु वावुरची ब्रह्म-विष्णु-रुद्रादि देवदेवताची आसा म्हण्णु स्पश्ट करत आसा. " एकं सत् " हो सिद्धांत परत सांगून आपण्यालो साक्षात्कार आनी आपण्याले विचार वैदिक परंपरेंतु बसयता.

## त्वं ब्रह्म भर्भुवः स्वरोम्

अध्यात्मशास्त्रांतु मानिलें आसा की भगवान् श्री विष्णुले हृदयस्पंदनांतल्यान ओंकाराचो नादब्रह्म प्रतीत जालो. ते ओंकारापासून जे अनेक नाद जल्माक आयले तांतूतलो पयलेचो नाद म्हळचार गायत्रीचे चोवीस ध्वनीचे मंत्रं जावनु आसाची. म्हण्टकूच जे तरेन ओंकार हें ब्रह्मस्वरूप म्हण्णु मानचांतु आयलें ते तरेंन गायत्रीबी ब्रह्मस्वरूप म्हण्णुं मानचांतु आयले. गायत्री मंत्र चोवीस अक्षरांचो आसता. पुण तितल्यान तो मंत्र पूर्ण आसा म्हण्णुं न्हंय. हे मंत्राचे मागशीं व्याहृति आनी ताजे पयलें ओंकार आसता. " ओं भूः भुवः स्वः तत्सवितुर्वरेण्यं भर्गो देवस्य धीमहि धियो यो नः प्रचोदयात् " हे मंत्राचे स्थूल विभाजन सकयले तरेन केलिलें आसा.

१. प्रणव :–ॐ

२. व्याहृति :–भूः भुवः स्वः

३. मंत्र :–तत्सवितुर्वरेण्यं भर्गो देवस्य धीमहि धियो यो नः प्रचोदयात्. प्रणव
उच्चार ॐ हांतूत जरी एकची अक्षर दिसून येता तरी तांतूत अ, उ, म् आनी
स्वरांचो समावेश जालिले समूहाक एकूण साडेतीन मात्रा आसाची. सखोल
गिन हे मात्राची सर्व विश्वाचे नियमन करताची. उत्पत्ती, स्थिती आनी लय हांचे
नून जाता. ओंकाराक लागून विश्वाचें अस्तित्वाचो भास जाला, कित्याक तर
कारान अव्यक्ताक व्यक्त स्वरूप दिलिलें आसा. म्हण्टकूच ओंकारांचे यथार्थ
न घेवचें म्हळयार त्रिगुणातीत, त्रिकालातीत ब्रह्मत्वाचें जाण घेवचे तरेन आसा.

"ॐ इत्येकक्षरं ब्रह्म" हे व्याख्येंतु प्रणवाचे वैभव दाखयिलें आसा. ब्रह्माची
ळख करनुं दिवचे खातीर वेदान केलिली खुण म्हळयार ॐ. ॐ परब्रह्माचो
चक आसा म्हणुं पातंजल योगांतु स्पश्ट केलिलें आसा. हाजेंसामर्थ्य ब्रह्मातरेन
ब्दातीत आसा. मूर्तिविकासांतु शब्द जो निर्गुण आसता ताचि अक्षरांतु सगुण
ाता. ॐ हाजे ध्वनिप्रतीकवी जेन्ना लिपिबद्ध जालें, तेन्ना ताकावी दृश्य स्वरूप
प्त जालें. रुशीक पयलें ॐ आकारांतु सरळ ओढिले धनुष्याची आकृति दिसली
ण्डकोपीनपदेंतु रुशी म्हणता, 'प्रणवो धनुः शरोह्यात्मा ब्रह्म तल्लक्ष्यमुच्यते।"



दुसरे रुशीन जेन्ना ओंकार चिन्ह
उभे धरलो तेन्ना तांतूत गजमुख
गणपतीलो साक्षात्कार जालो.
सकयल दाखयले तरेन आकाराची
मधली गांठी म्हळयार तोंड दोन्नी
पक्ष म्हळयार तागेले कान उकार
चिन्ह म्हळयार तागेली सोंडली
ानी अर्धचन्द्र म्हळयार एकदन्त हे तरेन पूर्ण स्वरूप दर्शन जालें "ॐ कारमाद्यं
प्रवदन्ति। सन्ता वाचः श्रुतीनामपि
यद् गृणन्ति। गजाननं देवगणानताङ्
घ्रिम् भजेहमर्धेन्दुकृतावतंसम्॥" —
संतजन जाका ॐ कारस्वरूप म्हणताची,
श्रुतीचे मंत्र जागेली स्तुति करता, ते
शिरावयर अर्धचन्द्र धारण करचे
गजाननाक नमस्कार आसूं.



भू: भुव: स्व: – हांका व्याहृति म्हणताची. " प्रणवेन व्याहृतय: प्रवर्तन्ते
प्रणवांतल्यान म्हळ्यार ओंकारांतल्यान भू: भुव: स्व: हे स्वरांचो जल्म जा
आसा. भगवंताले हृदयस्पंदनांतल्यान जेन्ना प्रणव भायर पडलो तेन्ना नाद ब्रह्म
साक्षात्कार भगवंताले संभोवती जालो. ते ठराविक वर्तुळाक व्याहृति म्हणता
हे व्याहृति एकूण सात असून तांका " लोक " म्हणताची, जे रुशींक जे " लोका
ज्ञान पयलावयलें जालें ते व्याहृतिचे ते दृश्टे म्हण्णु मानचांतु आयलें. " भूरि
भूर्लोक: भुव: इत्यन्तरिक्षम्। स्वरिति स्वर्लोक: । महरिति महर्लोक: । जन इ
जनलोक: तप: इति तपोलोक: । सत्यमिति सत्यलोक: । " म्हण्णु याज्ञवल्क्या
स्पश्ट केलिलें आसा.

हे सात लोक मूळांतूची ओंकारापासून जल्माक आयिल्यान भू: भुव: स्व:
स्वरबी ब्रह्मस्वरूप आसाची म्हण्णु मानचांतु आयलें. श्री शंकराचार्यांनी हे व्याहृती
भाष्य करताना म्हळ्यांर, " सत्यं ज्ञानजनन्तं ब्रह्मेति भूर्भुवस्वरोमिति त्रैलो
समस्तव्याहृत्यर्थ: । " –भू: भुव: स्व: हे तीन व्याहृतींचो अर्थ सत्य, ज्ञानआन
अनंत असले त्रैलोक्यस्वरूप आसा. अथर्वरुशीले मतानबी गणपतीले स्वरूपदर्श
ब्रह्मवाचक, सत्य-ज्ञान-अनंतब्रह्मत्वाचे प्रतीक जशें आसा.

**गणादि पूर्वमुच्चार्य वर्णादिं तदनंतरम् । अनुस्वार: परतर: अर्धेन्दुलसितं तारेण ऋद्धं । एतत्तवमनु स्वरूपम् ।**

अथर्वण रुशीकगणपती देवतेलो जालिलो साक्षात्कार म्हळ्यार क्रान्तदर्शि
रुशीले निर्मळ बुद्धीक जालिले अतींद्रिय आत्मज्ञान; स्वयंप्रकाश आनी स्वयंसिद्ध
असले आत्म्याचे दर्शन जावनु आसा. तें ज्ञान बुद्धी आनी वाणीचे पेलतडेन
आशिल्यान भक्ता खातीर विवेचन करताना ताका वाच्य-वाचक हांचे द्वैत
स्वीकारनुँ करचें पडल्यां. ते भक्ताली मनाची समज पातळी लक्षांतु. घेवनुं तो
अगम्य, अनिर्वचनीय, अवर्णनीय असले सत्य, उक्तावण ताका समजचे तसले शब्दान,
संकेतान, उपमा उदारणेन करत आसा. गणपती देवतेचें वर्णन करचें अशक्य आसा,
तोची हें सर्व कांय आसा– सर्वं खल्विदं ब्रह्म– म्हण्णु पयलें विधान करनुं तो ते
देवतेले उत्पत्ती-स्थिती-विनाश कार्याचें विस्तार दाखयता. ताजे उपरांत तो देव
इतर देवांतरेन आसून तोची, ब्रह्म प्रतीक, विश्वासकट आसचो विश्वंभर म्हण्णु
दाखोवनु दिता. वाणीचो तो अधिकारी आसून ॐ मूळांतु तोची जावनुं आसा
म्हण्णुं दाखोवनुं दिता. हें सर्वं करनुं दाखयले उपरांत रुशीक आतां गणपतीले
मूर्तस्वरूप दाखोवचें आसा. आनी ताजे पयलें मूर्तिविकासाचे पयली पायरी तरेन
आसचोमूळ मंत्र, जो गणेश विद्येंतु आसा, तो भक्ताक दिवचो आसा.

तशें पळयल्यार ब्रह्माचो आकार तसो निराकार आसता. " **तस्मात् ब्रह्मण् आकाशः संभूतः ।** " ब्रह्मापासून पयले आकाश म्हळचार अवकाश उत्पन्न जालो. आकाशाक आकार नासता. आकाशांतु वस्तुतः नाशिलो रंग आनी आकार मनीसांक जाता. आकाशाचो गुण शब्द आसा. हो शब्द सूक्ष्म आसा. देकूनु सूक्ष्म असले शब्दांतु ब्रह्माचें गूढ निपून आसता. होची सूक्ष्म आकार मुखारसरनुं स्थूल असलो आकार धारण करता. आनी तो काल्पनिक आकार धातु-पाशाणांतु उक्तें जाता. पुण तो आकार निजाचो न्हंय. स्थूल बुद्धीचे मनीसाक ताजो उपयोग आसा. पुण देवांचे देवत्व जाणचाक इच्छा करचे साधकान स्थूल प्रतीकामागशों आशिले सूक्ष्म प्रतीकाकडेन धांव घेवका.

देकूनु अथर्वण रुशी हे सूक्ष्म आकाराचे वर्णन करता. शब्दाचें विवेचन करता. " ग् " हें मूळ अक्षर उच्चारून उपरांत वर्णाचो उच्चार करका. " **गणादिं पूर्वमुच्चार्य** "– गण हे शब्दांतले मूळ अक्षर, आदि अक्षर जें ग आसा पयलें उच्चारनुं " **वर्णादिं तदनंतरम्** "– मागीर वर्णमालेंतले पयलें वर्ण म्हळचार अ उच्चारका. " अनुस्वारः परतरः "– ताजे वयर अनुस्वार दीवका. म्हण्टकूच ग वयर अनुस्वार दिलिल्यान गं जाता. " **अर्धेदुलसितं** "– ताका अर्ध चन्द्रान सुशोभित करका. तेन्नां ग् + अ = ग + ं = गं + ँ = गँ. हे तरेन ते मंत्राची पूर्णताय जाता. ह्या मंत्राक " तारेण ऋद्धं "– मूळ असलो ॐ जोडका. म्हण्टकूच गणपतीले सूक्ष्म असले शब्द स्वरूपाचे दर्शन जाता. हेंची तें " मनुस्वरूप " आसा.

**गकारः पूर्वरूपम् । अकारो मध्यमरूपम् । अनुस्वारश्चान्त्यरूपम् । बिन्दुरुत्तररूपम् । नादः सधानम् । संहिता संधिः ।**

शब्दप्रतीक इतले कांय सूक्ष्म आसता कीं ते सामान्य मनीसाक समजचें कठीण जाता. देकूनु रुशी परत सांगता. हे सूक्ष्म मंत्राचे ग् हें पूर्व रूप आसा अ हें मदलें रूप आसा. आनी अनुस्वार हें अखेरचें रूप आसा. ताजेवयर दिवचो बिंदु ही उत्तररूप आसता. हे सर्व रूपांचो समायिक आवाज केलो कीं नादब्रह्माचो उगम जाता. आनी जेन्नां ताका ॐ हे मंत्राची पुश्टी मेळना तेन्नां गणेशमंत्राचो प्रभाव ते मूळ शब्दांतु समकेन्द्रित जाता.

**सैषा गणेशविद्या । गणक ऋषिः । निचृद् गायत्री छंदः । गणपतिर्देवता । ॐ गँ गणपतये नमः ।**

हीचि ती गणेश विद्या जावनुं आसा. हे विद्येचो रुशी गणक जावनुं आसून ताणें हे मंत्राक गायत्री छंद वापरिलो आसा, जाका लागून गायत्री इतलो

प्रभाव हे मंत्राक प्राप्त जालिलो आसा. हे मंत्राची देवता साक्षात् गणप आशिल्यान ते गणपतीक आमी नमस्कार करयां. तागेली आराधना करयां.

**एकदंताय विद्महे । वक्रतुंडाय धीमही । तन्नो दन्ती प्रचोदयात् ।**

क्रांतदर्शी अथर्वण रुशीन हे गणपती देवतलो साक्षात्कार घेतिलो आस देकून तो अभिमानान विश्वासान खात्रीन सांगू शकता, एकदंताक हांवु जाणता. वक्रतुंडाले ध्यान हांवे धरिलें आसा. तोची आमकां आमगेले साधनेंतु प्रेरित करु जाका लागून आमकां आत्मज्ञान मेळतालें.

**एकदंतं चतुर्हस्तं पाशमंकुषधारिणम् । रदं च वरदं हस्तैर्बिभ्राणं मूषकध्वजम् । रक्तं लंबोदरं शुर्पकर्णकं रक्तवाससम् । रक्तगंधानुलिप्तांगं रक्तपुष्पैः सुपूजितम् । भक्तानूकंपिनं देवं जगत्कारणमच्युतम् । आविर्भूतं च सृष्ट्यादौप्रकृतेः पुरुषा-त्परम् । एवं ध्यायति यो नित्यम् स योगि योगिनां वरः।**

ईश्वर निपिलो आसल्यारियी तागेलें नांव निपिले ना. तें अव्यक्त ईश्वरा-कबी व्यक्त रूप दिता. सूक्ष्म असले ते शब्दाक स्थूल असले स्वरूप प्राप्त जालिल्यान मूर्तिविकासप्रक्रियेंतु मदत जाता. महान् योगींक आनी भगवद् भक्तांक येवची दिव्य आनी अलौकिक अनुभूति पाशाण किंवा धातूतंल्यान उक्तें जावचें साध्य जाता. जाका नामरूप ना, अंतपार ना, वर्ण, कुळ, हातपायमाथें ना असले निष्क्रिय निर्गुण परब्रह्माक भक्तांचे समाधान, सुखाखातीर सक्रिय आनी साकार जावचें साध्य आसता. ' यमेवैष वृणुते तेनः लभ्यः तस्यैष आत्मा विवृणुते तनूं स्वाम् । " म्हणुं कठोपनिशद सांगता. भक्तान प्रार्थना केलीकीं देव आपण्याले स्वरूप ताका मदत जाय ते तरेन दाखयता.

अथर्वण रुशी साक्षात्कारी, क्रान्तदर्शी महान् पुरुष आशिले. ईश्वरालो साक्षात्कार जावनु ताजो प्रसाद प्राप्त जावचें आनी ताका लागून संपूण जीवन आनंदमय जावचें भाग्य थोडेची जणांक आसता. अथर्वण रुशी असले महान् साधक आशिले भक्त आशिले तशें पळयल्यार तांगेले अंतस्करणांतु ताणीं परमात्म्यालें दर्शन घेतिले. तरी पुण इश्वरदर्शनाची, तागेले बरोबर संभाशण करची, तागेलें रूपाचे वर्णन करचो हावेस मनीसाक केन्नांयी आसता. देकूनु ईश्वराक रूप नाशिल्यारियी तो रूपाचो ध्यास धरनु बसता. दर्शनाचे अुत्कंठतेन बशिले रुशीक गणपतीलें अपूर्व असलें दर्शन जाता. एक दांताचो, चार हातांचो, पाश आनी अंकुश हातांतु धरिलो, एक हातांतु हस्तिलो दांत आनी दुसरे हातान वर दिवचो, ध्वजावयर उंदराचे प्रतीक आशिलो, रंग तांबडो आसून पोट दीग

ासचो, कान सूपासारखे आसून तांबडे पुडवे न्हेसिलो,, तांबडे चंदनान आग
ोभचो, तांबडे फुलान शोभचो, भक्तावयर क्रिपादिश्टी दवरचो तो श्री गणेश
ीक दिसलो. माणकांचे राशींतु सूर्य लिपिलोसो तो दिसलो. ते आकारांतुबी
र्व आकाराचो काळोख ना जालो आनी सर्वदिकान धवल तेज पसरलें. हे तेजाकची
पनिषदकार " **तत् शुभ्रं ज्योतिषां ज्योतिः तद् यत् आत्मविदो विदुः।** " म्हण्णं
र्णन करता. तेन्नां अंतस्करणांतु ज्ञानाचें स्फुरण जाता कीं तोची एकमेव देव,
ोची उत्पत्ती-स्थिती-लयाक कारण आसा. योगान जावचो साक्षात्कार आनी
भक्तीन मेळचो साक्षात्कार हांचे स्वरूप एकची आसता. मनोवृत्ती स्थिर जाता.
मनोजय आनी प्राणजय जाता. दोळे तेजान फुलताची आनी दिश्टी अर्धोन्मीलित
जाता. कंठ सद् गतित जाता आनी आंगावयर रोमांच उठताची. आत्मस्वरूपांतु
विलीन जालिलें चित्त सुखस्वरूप जालिल्यान भायर येना. जीवासकट इडा आनी
पिंगला नाडी सुषुम्नेंतु विलीन जालिल्यान सर्वत्र आनंद पसरता. ते अवस्थेंतु
जीवाचें आनी अंतिम सत्याचें सख्य जाता आनी जीवाचें जीवत्व ना जालिल्यान
भक्त, योगी स्वतः तेजोमय जाता. सर्व योगींतु तोची श्रेष्ठ म्हण्णं ओळखुवचांतु
येता. ईश्वर दर्शनान सर्व इक्ष्छा परिपूर्ण जालिल्यान मनाची तळमळ शांत जाता
आनी कृत्यकृत्य जालिलो समाधान मेळता. आनी ते कृतकृत्यतेचे आनी धन्यतेचें
उद्गार रुशीले तोंडांतल्यान येताची,

**नमो व्रातपतये नमो गणपतये नमः प्रमथपतये नमस्तेस्तु लंबोदरायैकदंताय विघ्ननाशिने शिवसुताये वरदमूर्तय नमः।**

## फलश्रुति

एक मंत्राचे अध्ययन केले उपरांत ताजें जें कांय फल मेळता ताजो विचार करचें उपयोजक ठरता. मनीस देवाकडेन किंवा परमार्थादिकान कित्याक वता हो एक साक्षात्कारशास्त्रांतलो महत्वाचो प्रश्न जावनुं आसा. भगवद् गीतेंतु चार प्रकाराचे भक्त आसताची म्हण्णुं सांगल्यां. आर्त, जिज्ञासु, अर्थार्थी आनी ज्ञानी. पयले तीन प्रकाराचे भक्त मनीसाले जीवनांतली अपूर्णता, दोषमयता, मनीसाली सदाचरणाकडेन वच्ची स्वाभाविक प्रवृत्ती, विश्वाची विशालता आनी नियमबद्धता पोळोवनुं तांतूतले गूढ समजची प्रेरणेक लागून परमार्थादिकान आपण्याले मन लागयताची. ज्ञानी मनीसाली रीतची वेगळी आसता. आनी ती म्हळ्यार शुद्ध ज्ञान प्राप्त करचें. तें सोडल्यार पयले तीन तरेचे भक्तांलो हेतु सुखप्राप्त करचो आसता. हें सुख आर्ताक दुःखनाशान, जिज्ञासूक जिज्ञासपूर्तीन, आनी अर्थार्थीक अर्थ प्राप्त जालिल्यान मेळता. हे सर्वांतु जीवनांतली अपूर्णता दूर करनुं पूर्णत्वा दिकान वच्चो, जीवन जें सदोष आसा तें निरामय करचो हेतु आसता. जीवन

सफल करचें हीची परमार्थाची निजाची खूण आसा.

एतदथर्वशीर्षं योऽधीते स ब्रह्मभूयाय कल्पते । स सर्वतः सुखमेधते । स सर्वविघ्नैर्न-बाध्यते । स पंचमहापापात्प्रमुच्यते ।

अथर्वण आश्वासन दिता कीं जो मनीस हे मंत्राचें पठन, अध्ययन किंवा स्मरण करता तो ब्रह्मपदाक पावता. ताका लागून सर्व सुख प्राप्त जातालीं. सर्व पापांपासून सुटकारो मेळता. पुण हे सर्व जावचांतु मनीसांतु एक अलौकिक मानसिक प्रवृत्ती जागी करचें पडता. " एतद् अथर्वशीर्ष यः अधिते जो मनीस हे अथर्व-शीर्षाचें स्मरण, ध्यान, मनन, चिंतन, अध्ययन करता ताकाची ते मंत्राचें फल प्राप्त जाता. स्मरण म्हळचार पुनःपुनः मनांतु उगडासांतु हाडचें. मन हें चंचल आसता देकून तें परमात्म्यादिकान स्थिर करचें आवश्यक आसता. " यतो यतो निश्चरति मनश्चंचलमस्थिरम् । ततस्ततो नियम्यैतदात्मन्येव वशं नयेत् । " भगवद् गीता (६.२६). स्मरण करतांयी उत्रांनी न्हंय तर मनान, मौनान करचें आसता. केवळ उत्रांनी केल्यारतांतून यांत्रिकता येवची शक्यता आसता. कित्याक तर तोंडान मंत्रांचो उच्चार जात आसताना मन कल्पन करचांतु अनिर्बंध आसता. पुण मनान जर नामस्मरण केलें तर एकची मन दोन काम ना करूं शकिल्यान मन जो मेरेन नामस्मरण करता तो मेरेन कल्पन करचें मनाक साध्य जायना.

ध्यान करचें म्हळचार एक विशयाचें निरंतर, अविरत मनन किंवा चिंतन करचें. ध्यानाची व्याख्या " तैलधारावत् अविच्छिन्नसंताना स्मृतिः ध्यानम् " म्हण्णु केलिली आसा. देवासुखार व्हांवची ती अमृताची धार आसा. मंत्रमुखांतर जावची पूजा किंवा साधना म्हळचार परमात्म्यालें अव्यक्त, सूक्ष्म आनी व्यापक स्वरूपादिकान वचची पयलेची पायरी आसा. अथर्वण रुशींक ध्यानयोग मान्य आसा " मच्चितः सततं भव ", " मत्परः भव " म्हण्णु श्री कृष्णान सांगिले तरेन अंतःकरणांतु ईश्वरालें व्यापक स्वरूप सदैव दवरनु चित्तस्थैर्याखातीर अभ्यासयोग दिल्लिलो आसा. अथर्वशीर्षाचें अध्ययन यथार्थ रीतीन केलिलो साधक अद्वैतानुभूत जालिले कारणान मन, बुद्धी आनी वाणी मागशींची सांडता आनी स्थल–काल–सापेक्ष असले जीवांतल्यान मुक्त जावनु ब्रह्मस्वरूप प्राप्त करता. आनी ताका लागुन तागेलें स्वतःचें सुख–दुःखाचें, पाप–पुण्याची कल्पना भ्रामिक म्हण्णु तांचो तो त्याग करता, अनंत विश्व अनंत असले काळांतु तो सदाकाळ अनुभवता. आनी धर्म–अर्थ–काम–मोक्ष हे चार पुरूशार्थ हे संसारांतूची तो साधता.

इदमथर्वशीर्षमशिष्याय न देयम् । यो यदि मोहाद् दास्यति स पापीयान् भवति ।

अथर्वणरुशीन सुरवातीकची सांगिले आसा कीं हें ज्ञान मेळोवचें साधकाक

आनी हें ज्ञान दिवचे गुरूक दोग्गांकयी अधिकार आसचाक जाय. साधक अंतस्करणांतु अति शुद्ध आसून तागेलें तनमन शुद्ध, शुभ विचारांनी, संकल्पांनी पवित्र आसचाक जाय वागणूकींतु संयम, तप, शुचिता, समावृत्ती, ज्ञान विज्ञान, देवावयर नितांत श्रद्धा, सदयता, अद्वेशिता, निर्वैरता आसचाक जाय. जो मनीस वायट आचरणंपासून दूर ना, कोंणांली इंद्रियं वशनांची, चित्त समाधींतु स्थिर ना, तो शिशय म्हण्णुं घेवचाक योग्य ना, असले शिश्याक हो मंत्र दीवन्हंय इदम् अथर्वशीर्षम् अशिष्याय न देयन्. कित्याक तर हे मंत्रांतु गूढ रहस्य निपून आसा हे मंत्रांतु तेज, शक्ति समाविश्ट आसा. ती जर अयथार्थी मनीसाले हातांतु गेली तर संसाराचे विनाशाक कारणीभूत जायत. भगवद् गीतेंतु श्री कृष्ण अर्जुनाक संबोधून सांगता, "**सर्वगुह्यतमं भूयः श्रुणु मे परमं वचः। इष्टोसि मे दृढामिति ततो वक्ष्यामि तं हितम्।**"– सर्वांतु गूढ असलें मेगेले हें श्रेष्ठ उलोवप आयक. तूं मेगेलो मोगाचो म्हण्णुं तुका सांगत आसा. "**इदं ते नातपस्काय ना भक्ताय कदाचन। न चाशुश्रूषवे वाच्यं न च मां यो म्भसूयति।**" हें ज्ञान तूं जो मनीस तप करनां जो भक्त ना, जो आयकूवचाक इच्छा करना किंवा जो मेगेले विशय अनादर, द्वेश धरता, ताका हें रहस्य केन्नांयी सांगू नाका. आनी जर कोणींयी हें गूढ ज्ञान अशिष्याक म्हळचार अयोग्य असले शिश्याक दिता तो अनेक पापांचो वारस जाता. कित्याक तर मंत्रोपदेश म्हळयार विक्रीची वस्तु न्हंय. तेन्नां गुरून जर मोहाक लागून द्रव्य घेतलें तर अधोगतीचो मार्ग कितलो दूर आसतालो ?

हो पवित्र असलो महामंत्र जेन्नां गुरूमुखांतल्यान मेळता तेन्नांची जीवनाचें सार्थक जाता म्हण्णुं प्राचीन काळापासून समजूत आसा. छंदोग्योपनिषदांतु सत्यकाम जाबाल गौतम रुशीक सांगता, "**श्रुतं ह्येव मे भगवत् दशेभ्यः आचार्यद्धैव विद्या विदिता साधिष्ठं प्रापतीति।**"– गुरूकडचान स्वतः घेतिली विद्या परिणामाचे दिश्टीन उत्क्रुश्ट आसता अशें हांवे व्होड मनीसांकडचान आयकलिलें आसा. वाचून मेळयिलें ज्ञानपरस विद्वान गुरूपासून प्रत्यक्ष मेळचें ज्ञान अधिक प्रत्ययकारक आसता. हो सर्वांचो अनुभव आसता. अथर्वशीर्ष मंत्र जपिल्यान सर्व दुःखांचो परिहार जावनुं सर्व सुखाचो वर्षाव सदाकाळ पडता म्हण्णुं स्वतः अथर्वण रुशी आश्वासन दिताचो. "**स सर्वविद् भवति य एक वेद**" "**इत्यथर्वणवाक्यम्**"

वासंतिक प्रकाशन :
प्रकाशन क्रमांक–१६

आवृत्ती पयली
ऑक्टोबर १९८४

मूल्य
पंदरा रुपये

प्रकाशक :

वासंती नागेश सोंदे
कोंकणी कलासागर प्रा. लि.
१० वत्सला निवास,
६५–बी, लिंकिंग रोड,
सांताक्रुझ, मुंबय–४०००५४.

मुद्रक :

के. आर. कदम
आर. के. प्रिंटर्स
माहिम, मुंबई–१६.

सजावट :

सुरेश प्रधान

## मांडावळ


१. पयलेचीं अुत्रं

२. पुरंदरदासांलो पूर्वाश्रम

३. पुरंदरदासांली साधकावस्था

४. पुरंदरदासांले आत्मपरीक्षण

५. पुरंदरदासांक गुरुपदेश

६. पुरंदरदासांली आर्तभक्ति

७. पुरंदरदासांली साक्षात्कारानुभूति

८. पुरंदरदासांले आराध्य दैवत

९. पुरंदरदास आनी नामसंकीर्तन

१०. पुरंदरदासांली भजनं

# पयलेचीं अुत्रं . . . . . . . . . . १

परब्रह्म किंवा परमात्माबरोबर मिलन पावची मनीसाले मनांतली व्याकूलता आनी अुत्कंठता तितलीची पुरातन आसा, जितली हे विश्वांतु मनीसाले अस्तित्व आसा. परमात्म म्हळचार सर्व देहांसयत संपूर्ण विश्वाक अंतर्बाह्य व्यापून आसचें चैतन्य. तागेले हे व्यापक स्वरूपाक आनी विस्तृतपणाक लागून ताका ब्रह्म, परब्रह्म, आत्मा, परमात्मा म्हण्णुं आफयताची " **स भूमि विश्वतोवृत्वात्यतिष्ठत् दशांगुलम्**" म्हण्णुं तागेली व्याख्या ऋग्वेदांतु केलिली आसा विश्वव्यापी परमात्मा आनी देहव्यापी जीवात्मा हे वास्तविक एकची आसाची. देहाचे किंवा विश्वाचे अुपाधींक लागून ते वेगवेगळे दिसताची चिन्मय आत्मतत्व आविनाशी आसता. देहं येताची आनी वताचीं, पुण तांतूतलें भितरलें चैतन्य मात्र ना जायना. " **न जायते म्रियते वा कदाचिन्नाय भूत्वा भविता वा न भूयः । अजो नित्यः शाश्वतोऽयं पुराणो न हन्यते हन्यमाने शरीरे ॥**" (भ. गी. २.२०) म्हण्णुं श्रीकृष्णान घोशित केलिले आसा.

नित्य आनी सर्वगत चैतन्य हें आपण्यालें खरे स्वरूप आसा. ते खरेस्वरूपाचे स्वीकार करचें आनी अनित्य असले पिंड देहाची आसक्तीं ना धरची म्हण्णुं "**यो मां पश्यति सर्वत्र सर्वं चमयी पश्यति। तस्याहं न प्रणश्यामि सच मे प्रणश्यति ।** (भ. गी ६.३०) श्रीकृष्ण आश्वासन दिता. पिंड-ब्रह्मांतले चैतन्याचें हें अविनाशित्व आनी एकत्व सांगन्नें विद्येक ब्रह्मविद्या, अध्यात्मशास्त्र म्हणताची.

जे तरेन ब्रह्मविद्येचे साधक राजहंसातरेत अुदाक दूधांतल्यान वेगळे करनुं दूधची स्वीकारताची. भांगरांतले कलमश वेगळें करनुं भांगरची स्वीकारताची, धंयीं मंथन करनुं लोणी आपणायताची ते तरेन तत्वज्ञ, रुशीमुनी, साधुसंत संसारांतु नित्य आनी अनित्य, ऋत आनी अनृत, सत्य आनी असत्य, अविनाशी आनी विनाशीं हांचें पृथक्करण करनुं ते नित्य, ऋत, सत्य, अविनाशी चैतन्याचो स्वीकार करचो हव्यास धरताचो.

ब्रह्म किंवा परमात्मोपासनेचे अनेक साधनामार्गांतु कर्मयोग, भक्तियोग ज्ञानयोग, इत्यादि मार्गाचो स्वीकार साधक करत आसता. पूण हे सर्व मार्गांतलो एक मार्ग बरो दुसरो वायट, किंवा एक श्रेयस्कर दुसरो दुःसह म्हण्णु सांगचे कठीण आसता. कार्लोस कास्टेनेडा नांवाचो एक पाश्चात्य विचारवंत म्हणता "खंयचोयी एक मार्ग म्हळयार केवल एक मार्ग आसता तो मार्ग सोडनुं दिवचांतु स्वतःचो किंवा इतरांचो अपमान असो जावचो ना, जर स्वतःचें अतस्करण मार्ग सोडचांतु साक्ष आसता, सहमत आसता.. दर एक मार्ग सूक्ष्मतायेन आनी हेतु पुरस्पर नियाळका. तो मार्ग जाय ते तरेन पादक्रमण करा. ताजें अुपरांत, तुमीं स्वतः एक प्रश्नो विचाराचीं हे मार्गांतु अंतस्करणाची ओलसाणी आसा खरी ? आसा जाल्यार तो मार्ग योग्यचि म्हण्णु मानका, ना जाल्यार ते मार्गाची निखालस गरज ना " (The Teachings of Don Juan.)

भारतीय धार्मिक परंपरेंतु जे अनेक मार्ग दिसताची तांतूत भक्तिमार्ग जास्त प्रभावित, सामान्य जनांक साध्य अशे म्हण्णुं मानला. भक्तिचि व्याख्या " सा (भक्ति) परानुरक्तिरीश्वरे" ईश्वराले दिकान पर म्हळयार निरतिशय जे प्रेम आसता ताकाची भक्ति म्हणताची म्हण्णुं शांडिल्यसूत्रांतू (२) व्याख्या केलिली आसा ' शान्तिरूपात्परमानन्द रूपाच्य' म्हण्णुं नारदीय भक्तिसूत्रांतू (६०) भक्तिचे उदारण दिलिले आसा. श्रीमद्भागवतांतु तर (२-१८-१९) भक्ति विशय पराकोटीचे अुदारण दिलिलें आसा 'न तपोभिर्न वेदेश्च न ज्ञानेनापि कर्मणा । हरिर्हि साध्यते भक्त्या प्रमाणं तत्र गोपिकाः ।। नृणां जन्मसहस्रेण भक्तौ प्रीतिर्हि जायते । कलौ भक्तिः कलौ भक्ति भंतया कृष्णः पुरः स्थितः।।' तप, वेदांभ्यास, ज्ञान किंवा कर्म खंयचेयी साधनेन भगवत्प्राप्ती जायना, भक्तीनचीं देव आमका आपण्यालागीं घेता, हाका गोपी साक्ष आसाची. मनीसाक हजारो जन्माचे पुण्य प्रतापान भक्तिचो मोग प्राप्त जाता. कलियुगांतु भक्तिचि श्रेष्ठ आसा.

सर्वसाधारण लौकिक कल्पनेक लागून भक्ति म्हळयार स्नान, संध्या, देवतार्चन, पोथी पुराण वाचन. यज्ञयाग, तीर्थयात्रा, व्रतवैकल्य, अुपास इत्यादि म्हण्णुं मानचांतु येता, हीं चूकीची समजूत आसता. संतांक ही समजूत मान्य ना, तांगेली भक्ति म्हळयार ईश्वर प्रणिधान. ईश्वराले ध्यान हे भक्तिमार्गाचें मुखेल साधन आसून तेंची संतांनी नामस्मरण आनी नामसंकीर्तन मुखांतर साधल्यां. ध्यान किंवा नामस्मरणाक पोशक म्हण्णुं सद्गुणांचो आचार तांका मान्य आसा

भक्ति म्हळयार मुख्यतः ध्यान किंवा नामस्मरण. ध्यानाची व्याख्या " तैलधारावत् अविच्छिन्न संताना स्मृतिः ध्यानम्' म्हण्णु केलिली आसा ध्यानम्हळथारी

खंड स्मृति किंवा स्मरण. धारा अखंड आसता आनी अमृताभशेन अमर आसता. ातंजलयोगांतु सांगिले तरेन दीर्घकाल, नैरंतर्य आनी सत्कार (म्हळयार भाव किंवा श्रद्धा) हे तीन अंग आसताची. "स तु दीर्घकाल नैरन्तर्य सत्कारासेवितो दृढभूमिः।" । योगसूत्र १.१४

भक्तिमार्ग सर्व साधनेंतु सुलभमार्ग म्हण्णु सांगचांतु आयला. आनी ताची प्रक्रिया परमेश्वराक सर्वांतु प्रिय आसा. भक्ति करचो जीव मनीस आसूं, जनावर आसूं, पक्षिआसूं, श्रीमंत आसूं, दारलो आसूं, बायल मनीस आसूं, सर्वांक भक्तिमार्ग सुलभ आसा. 'व्याधस्याचरणम् धृवस्यचवयो विद्या गजेन्द्रस्य का का। जातिर्विदुरस्य, यादवपतेर अुग्रस्य किं पौरूषम्।। कुब्जाया: कामानीयरूपमधिकाम किं तन् सुदाम्नो धनम्। भक्त्या तुष्यन्ति केवलम् न तु गुणैः भक्तिप्रियो माधव: ।।

भारतांतु इतलेची न्हंय तर विश्वांतले विगविगड समाजांतुबी ईश्वरादिकान अनन्य भक्ति दाखोवची आनी ताका लागुन सुख प्राप्त करचे हे भक्तिमार्गाचे सुलभ साधन म्हण्णु स्वीकारिले आसा. ईश्वर प्राप्तीचे, सुखाचे आनी शांतीचे अत्यंत सुलभ असले हे साधन मनीस कित्याक स्वीकारना म्हण्णु साधुसंतांक सखेदाश्चर्य जाता. देकुन संसारांतले सर्व साधुसंतानी सुलभ साध्य असले भक्तिमार्गाचो अुपदेश केलिलो आसा.

वास्तविक भक्तिमार्गाची मूळ पावलं ऋग्वेदांतले ऋचांतूची दिसुन येताची. ईश्वराले सर्वव्यापकत्वतेची जाणीव आत्मसात करनु तागेले नामसंकीर्तनाची भक्ति वैदिक कालापासून विष्णुसूक्तांतु दाखयिली आसा. "अस्य जानन्तो नाम चिद्विवक्तन महस्ते विष्णो सुमतिं भजामहे ।।" (ऋ. १. १६६–३) सायणाचार्य हाजेवयर भाष्य करताना स्पष्ट करताची "अस्य महानभावस्य विष्णो: नाम चित् सर्वैः नमनीयं अभिदानं सार्वात्म्यप्रतिपादकं विष्णु: इति एतत् नाम जानन्त: पुरुषार्थ प्रदमिति अधिगच्छन्त: आ समन्तात् विवक्तन वदत संकीर्तयत।" सर्वानी जे विष्णु नांव आसा ताजे सर्वात्मकत्व, सर्व व्यापकत्व हो अर्थु समजून, ते नावाचे आसमंतात् संकीर्तन करका विष्णु हे शब्दातलें विश धातूचे प्रवेश करचे, व्यापचे अशे अर्थ आसाचो हो अर्थु समजून इतरांक समजावनु नामसंकीर्तन करचे आसता.

भगवद् भक्तींतु आर्त, जिज्ञासु अर्थार्थी आनी ज्ञानी अशें चार तरेचे भक्त आसताची म्हण्णु सांगल्या. तांतुत ज्ञानी भक्तचि श्रेष्ठ आसता आनी तोची आत्म्याक जास्त मोगाचो आपना म्हण्णु श्रीकृष्ण म्हणता. (भ. गी. –१६–१८) "कौन्तेय प्रतिजानीहि न मे भक्त: प्रणश्यति ।।" (भ. गी. ९.३१)

ईश्वरभक्तिपासून ज्ञानापर्यंत भक्तीचो जो विकास जाता ताजो क्रम चार पायरीन सांगला. पयले पायरीर संसार तापान कश्टी जालिलो आनी जन्म मरणाचे परंपरेंतल्यान सुटचाक मागचो आर्त भक्त ईश्वर भक्ति दिकान वळता. आनी ताजे अुपरांत ईश्वर भक्ति आनी ताजे विशयाची तत्व जिज्ञासा अुत्पन्नजाता. आनी ती पूरि करचें खातीर गुरुचि जरुरियात असता. ' **विज्ञानार्थं गुरुसेवाभिगाच्छेत् समित्पाणि: श्रोतियं ब्रम्हनिष्ठम्**" विद्वान असूनबी जो ब्रह्मनिष्ठ आमा असले गुरु लागीं तत्वजिज्ञासून शरण वचका( मुंडक १.२.१२ ) " **शिष्यस्तेऽहं शाधि मां त्वां प्रसन्नम्** "(भगी २–७) अशे सांगून अर्जुन श्रीकृष्णाक शरण गेलिलो आसता. सेवा करनु मन नि:शक जाय मेरेन परत परत प्रश्न विचारले कीं 'अुपदेक्ष्यंति ते ज्ञानं ज्ञानिनस्तत्व दर्शिन: । " (४–२४) ते तत्वदर्शी ज्ञानी मनीस तुका अुपदेश दिताले

गुरुकडचान समजिले अर्थाचि अनुभूति येवका म्हण्णु भक्ति करचो हो अर्थार्थी भक्त आसा. अनुभूति आयली कीं तो ज्ञानी जाता. आनी ' ज्ञानी तु आत्मैव मे मतम् " (भ.गी. ७:१८) ज्ञानी भक्त ईश्वरालो आत्मो आसता, ईश्वर स्वरुप-आसता. ज्ञानी भक्त आनी ईश्वर हांतूत भेद समूळ नाश जाता. हो आसा ईश्वर क्रिपेन जावचो भक्तांतलो विकास क्रम.

विश्वब्रह्म हांचो लांगीचो संबंध दाखोवनु दिवचें.हें साधुसंताले कार्य आसा. ही परंपरा पूरातन आसून ताजे मूळ वेदांतु, फांद्यो उपनिषदांतु आनी फल फूल पुराणांतु आनी आचार्यांले तत्वपरीक्षणेंतु दिसून येता. ' स भूमिं विश्वतोवृत्वात्यतिष्ठत् दशांगुलम् ' ऋग्वेदांतलो हो मंत्रूची विगड शब्दांतु नंतरचे रुशीमुनीले, साधुसंतांले वचनांतु दिसून येता. ' एतदात्म्यमिदं सर्वं ' – हे सर्व आत्मस्वरुप आसा. ' इदं सर्वं यदयमात्मा ' – हें जें सर्वं चालू आसा तें सर्व हो आत्माची आसा सर्वं खाल्विदं ब्रह्म ' खऱ्यानीच हें सर्वं ब्रह्मची आसा ' नेंह नानास्ति किंचन' हांगा ब्रह्माशिवाय विगड कांयीची ना ' हें समस्तही श्री वासुदेवो । ऐसा प्रतिती रसाचा वोतला भावो। म्हणोनि भक्तामाजी रावो।ज्ञानिया तोचि। ' (ज्ञानेश्वरी ७ १३६) समस्त जगत् श्री वासुदेवची आसा असलो अनुभव जांगेलो भाव थिर जाता तो भक्तांतु श्रेष्ठ आनी ज्ञानी आसा म्हण्णु श्री ज्ञानेश्वर म्हणताची ' विश्वतो मुख तोची विश्वचक्षुबी तोची । विश्वतो बाहु तोची विश्वपाद बी तोचीं । विश्वनायक तोची । विश्व अुदर तोची विश्वव्यापक बी तोची । सूत्रधारी बी तोची ॥ ' म्हण्णु कर्नाटकांतले सतशिरोमणीं श्रीं पुरंदार दास म्हणताची

ईश्वरप्राप्तीखातीर जरूर आमची भक्ति मार्गाचे सुरवात वेदांतु जावनु ताजे स्पश्टींकरण गीतेंतु जालें, भावपूर्ण कथाकथन अष्ठादश पुराणग्रंथ, रामायण महाभारतादि इतिहास ग्रंथांतु जालें. हे सर्वांचे अप्रतिम अविश्कार स्वरुप फल-

फुलांचो मोहोर साधुसंताले भजनांतु, अभंगांतु काव्यातु अुक्तें जालो भक्तिमार्गांतु भावनेचें साधन सर्व श्रेष्ठ आसता संत एकनाथ 'भाव तेथे देव' म्हणताची. गुरुदेव रानडे सांगताची परमार्थांतु देवाले रुपांपेक्षां तागेले नांव श्रेष्ठ आनी नांवापेक्षा तागेलीप्रति अंतस्करणांतलो भाव श्रेष्ठ विवेक वैराग्य, मनोजय सत्संग, ध्यान इत्यादि साधनांचे मदतीनं तांका एक स्थानामेरेन व्हरयेत पुण भाव निर्माण जाले शिवाय परमार्थाची अखेरची चढण साधक पार करु शकना. "भाव' म्हळ्यार अंतस्करणांतली ओल्साणी, देवविशय कळकळ तळमळ आसा भक्तिचें पाझर. संत नामदेव म्हणताची चंद्रसूर्याले बिंबाची चित्रं काडचे स्पध्य आसा. तांचो प्रकाश चित्र करचें शक्य जायना. तेची तरेन कीर्तन करयेत. पुण तांतून भावनेचो अंश भरूं शकचें नांची. भावना अनुभववची आसता. अनुभववनु सामान्य जनमानसांतु ते अनुभवांचो उन्माद अुन्मेष, अमृतधारा नित्य-निरंतर स्पर्श करोवचो हव्यास साधु-संत धरताची आनी ताका लागून भारतांतले देशप्रदेशांतले भागांतु तामीलनाडूचे अल्वार मथुरेंतलों सूरदास ब्रिजनिवासी तुलसीदास कबीर आनी मीराबाई महाराष्ट्राचे ज्ञानेश्वर-नामदेव - तुकाराम वगैरे भावोन्मत्ता प्रेमोन्मत्त जावनुं हरिगुणगान करत नाचताले धुंद जाताले आनी सनातन असली प्रेमभक्तिची निरंतर धारा अव्याहत व्हावताली.

कर्नाटकचे संतपरंपराबी अप्रतिम अविष्कार घेवनुं आपण्याली वाट चलताली पुरंदर दास, कनकदास बसवेश्वर. अल्लम प्रभु, अक्कमहादेवीयक्का इत्यादींनी भक्ति परंपरेतली कुसुमसुमनं एकठायली आनी आत्मस्वरूप परब्रह्माले चरणांतु समर्पण केली. कर्नाटकांतु " संत " किंवा " संत साहित्य " हे शब्द प्रचारांतु नांची थंय मूळ असलो अनुभव " अनुभावी " किंवा " अनुभावी साहित्य " हे शब्दाचो वापर जास्त जाता. "अनुभव" हे शब्दाचो अर्थ " अपरोक्ष ज्ञान " किंवा परमात्म साक्षात्कार म्हण्णुं वापरचांतु येता. सर्व साधारण कर्नाटकांतले संतांनी भावशक्तिचे आधारभूत आशिले परमात्म साक्षात्काराचो आधार घेतिलो आसा.

पुण साक्षात्कार व्यक्तिनिष्ठ आशिल्यान अनुभव आनी ताजी अुक्ती एकची स्वरूपाची आसता म्हण्णुं ना. एक साधकाली साधना पावसाळ्यांतले न्हंयें तरेन घनघोर गर्जन करत व्हांवत अुरत, कोण एकाली साधना शरदरुतुंतले व्हंयेभशेन संथ, शांत, सुरळीत चलत अुरत किंवा कोण एकाली साधना सरस्वती व्हंयेभशेन दिश्टीक पडनासताना गुप्तरीतीन चलत अुरत. स्वतः भक्तोन्मत्त संताक जाणना अुरत की आपण्याली साधना खंयचे स्वरुपाची आसा. फूल जेन्ना फुलता, बस तें फुलता. ते फूलाक स्वतःचे रंगाचो किंवा सुगंधाचो भान आसता म्हण्णुं समजन्हय फुलिलो फुलांचो रंग आनी सुगंध ताज्यान आकर्शण पावचे भोवर्याखातीर आसता

साक्षात्कारी संतांलो अनुभव आनी ताजे आविष्कार इतर जनांखातीर आसताची साक्षात्कारी संत आनी तांका जालिलो अनुभव इतलो घनिष्ठ आनी लागीचो आसता कीं तांचे मदें विगड कोणांकयी स्थान आसना. आनी तो संबंध दुसऱ्यांक समजचोबी ना. कित्याक तर भक्त-परमात्मालो संबंध अनुभवानचो आसता समजचो तसलो नासता.

पुरंदर दासाले भजनांतु तत्वज्ञात सोदचे, भक्ति भावनेचें अुन्नत स्वरुप सोदचे म्हळचार अंतरिक्षांतले नक्षत्रांचे गणीत करनु तांचे अस्तित्व अजमावचे तरेन आसा. संताली भावना काव्यरुपान व्यक्त जालिल्यान तांगेलें स्वरुप अजमावचाक विगड तरेची अकलन शक्ति जरुर आसता. कित्याक तर काव्य मनीसाले अतस्करणांतु अुपजिलें, भावनेचें ओलसाणीन वाढीले, बुद्धीचे चातुर्यान येवजिले, शब्दांचे अलंकारांनी सजयिलें साक्षात्कार संभूत सूर्यकमळ आसता. हे सूर्यकमळाची सुंदरताय, सुगंध, रंग, रुप संतांले सन्निधींतूचि अनुभववचे तशें आसता. पुण संताली सान्निधी मनीसाक सतत किंवा सर्व काळ मेळना. निसर्गांतले फुलातरेन, जळयिले कापूराभशेन, कंठातल्यात भायर पडिले गीतातरेन संतांली संगती काल देशाक लागून सीमित आसता. तरी पुण वारो व्हांवनु गेले तरी रुक मान हालयत आसता. कापूर जळनु गेल्यारियी, फूल सूकुन गेल्यारियी कापूर आनी फुलाचो सुगंध वातावरणांतु पसरिलो आसता. गीत सरले तरी नाद लहरी मनांतु कल्लोळ करत आसताची. अुदाक व्हावनुं गेल्यारियी अुदकाची ओलसाणी अजून आसता. सूर्य अस्त पावल्यारियी संध्याराग कानांक अनी रंग दिष्टीक दिसत आसता. संताले साहित्य केवल धार्मिक साहित्य नासताना आध्यात्मिक साहित्य आसता.

देकूनु संताले अनुभवाचें दान मागचे आसता. पुण दान मागचाकबी मनीसाक अधिकार आसका. जे मनीसान इतरांले अनुभव म्हण्णुं माननुं इतरांले सुख-दुःख आपण्याली म्हण्णुं माननु जनाले हिताचे कार्य केल्या तांकाची दान मागचो अधिकार आसता. तेन्नांची दानाचो योग अुपयोग जाता. तें दान सत्कारणी आसता. तें दान प्रसादरुपान परिवर्तन जाता. प्रसाद शब्दांतु प्रसन्नता आसता. प्रसाद म्हळयार भीख व्हंय. प्रसाद म्हळचार दितल्याले मनाचे अंतस्करणांतले क्रिपेचें, प्रसन्नतेचें प्रतीक आसता. प्रसाद दितलो आनी प्रसाद घेतलो दोग्गंयीप्रसन्न आसताची.

पुरंदर दासाले चरित्र आनी तांगेले साक्षात्कार स्वरुप भजनांचो अभ्यास करचो म्हळचार सामान्य मनीसाक असाध्य असले कार्य आसा. तरीपुण सूर्यकमळाचो सुगंध आस्वाद घेवचे भाँवऱ्याभाशेंन आमीं संतसाहित्याचो सहवास घेवयां. म्हणटकूच सताले अंतस्करणाचे ओलसाणीन आमगेले काळीज थंड जावूं, दिश्टी नितळ आनी मन निर्मळ शांत जावूं.



## पुरंदरदासाचो पूर्वाश्रम . . . . . . . २

पंढरपूरांतले विठ्ठलालो भक्तिसंप्रदाय जो ज्ञानेश्वर-नामदेव-तुकारामादि मराठी वैष्णव संतांक लागून महाराष्ट्रांतु सपुश्टांतु आयलो तोची संप्रदाय कर्नाटकांतु पुरंदरदास, कनकदास संतांक लागून पसरलो म्हणयेतं हो संप्रदाय मळांतु केन्नां. अस्तित्वांतु आयलो म्हण्णु सांगच्चे कठीण जाल्याय। त्यी, ते संप्रदायेची पांळ कर्नाट-कांतु दिसून येताची हांतूत संशय ना. पंढरपूर आनी विठ्ठलाला स्पश्ट अुल्लेख आशिलो पयलो शीलालख पंढरपूरचे विठ्ठल मंदिरांतूचि संस्कृत आनी कन्नड भाशेंतु पुण देवनागरी लिपींतु कोरलेलो आसा. आनी ताजो कालसमय सुमार शके ११५९ आसा. "भीमरथीनदीतीर संनिविश्ट पंडरिग नामानं महाग्राममधिवसते पंडरिक मुनि मनःकमुद विकास सुधाकराय भगवते स्वा विठ्ठलदेवाय" अशी अुल्लेख आसा.

विठ्ठल दैवत हे कर्नाटकांतले दैवत आसून काळांतरान ते पंढरपुरांतु वास्तव्य जाले म्हण्णु मराठी संताले अभंगावयल्यात दिसून येता. ज्ञानेश्वर ताका 'कानडा हो विठ्ठलु कर्नाटकु" नामदेव "कानडा विठ्ठल वो। अूभा भिवरेतीरी।" एकनाथ "तीर्थ कानडे, देव कानडे, क्षेत्र कानडे पंढरिये। विठ्ठल कानडे, भक्त कानडे। पुंडलिक अुघडे अुभे केले। एका जनार्दनी भक्ताचिया चाडा। विठ्ठल कानडा विटेवरी" कर्नाटकांतल्यान महाराष्ट्रांतु आयिलो हो विठ्ठल कानडे बोलू जाणे। त्याची भाषा पुंडलीक नेणे" म्हण्णु नामदेव सांगताची.

एक विशय बरो आशिलो. तेन्ना महाराष्ट्र एकीकरण समिती किंवा कन्नड चळवळीगार समिती अस्तित्वांतु नाशिली. नासल्यार विठ्ठल विकासाचे प्रवृत्तींतु व्यत्यय येतालो आनी भाशेचे झगड्याक लागून विठ्ठल संप्रदाय संपूर्णतादेंतु ये नाशिलो.

पंढरपुरांतले विठ्ठल मंदिरांतु दिसून येवचे शीलालेखांचें परिशीलन केल्यार दिसून येतां की विठ्ठलाले अंगभोग आनी रंगभोग करचे खातीर कन्नड राजा होयसळ यादववीर सोमेश्वरान गांवाचो दान दिलिलो. इ स १२७३ चे पंढरपुराचे चौऱ्याशीचें शीलालेखांतु विठ्ठलाले पूजा अर्चनेखातीर दान दिलिले गांवाची यादी

आसा. तांतूत रामदेवराय यादव आनी हेमाडपंत हागेलीं नांव मध्यभागी आसुन देणगी दितले भक्तांतु कर्नाटक, महाराष्ट्र, गोंय, तेलंगण हे प्रदेशांतली नांव दिसून येताची. हाजे वयल्यान सिद्ध जाता कीं ज्ञानेश्वर नामदेवाले कालापरस पयलें पंढरपूर आनी विठ्ठल दैवत महाराष्ट्र कर्नाटक, गोंय इत्यादि दक्षिण भारतांतु प्रसिद्ध आशिले. तशें पळयल्यार पंढरपूरचे विठ्ठलमूर्ति तरेची न मरेवयर हात दवरनुं एक हातांतु शंख धरिली मुर्ति दक्षिणेंतु अहोबल आनी तिरुपतींतु दिसून येता. आठवे शतकांतले मुंबय लागीचें जोगेश्वरी गुहेंतु हे तरेची भग्नमूर्ति दिसून येता

हे सर्व अुदारणे वयल्यान दिसून येता की विठ्ठलसंप्रदाय विस्तारान पसरिलो आसून ताजे केन्द्रस्थान पंढरपूर आशिले.

पुरंदरदासालो जन्मकाळ निश्चित रुपान सांगचाक आथिले ना. कर्नाटकांतु तांगेलो मुक्तिदिवस मात्र शालिवाहन शके १४८६ म्हण्णुं मान चांतु येता. पुण ताजे उपरांत तांगेले जीवन वृत्तांताविशय दंतकथेशिवाय चरित्र पूर्णस्वरुपांतु प्राप्त जायना. ताका लागून सत्य सोधचे कठीण जाल्यां. जशें जशें काळ अव्याहत चलत वता तशें तशें मागशेचो इतिहास अस्पष्ट जाता. जन्मकाळ, जन्मस्थळ, जन्मवृत्तांत तांगेले भजनांतल्यान जितले मेळ् शकता तितलें वाढोवनु तांगेले चरित्र सांगचे धाडस इतिहासकार करता. पुण ग्रंथाप्रमाणे भजनांची रचना सलग नासता. दर एक भजन स्वतंत्र आसता. तांतूत संताले जीवनाचे थोडे प्रसंग नदरेक येत.

पंढरपूरचे विठ्ठलाले परमभक्त जावचे पयले पुरंदरदास शैव संप्रदायाचे आशिले. तांगेले घराणे श्रीमंत आसून तांका "नवकोटिनारायण" म्हण्णुं आफयताले. तांगेलो बापय इतलो श्रीमंत आशिलो कीं विजयनगरचे रायबी तागेले पासून रीण घेताले पुरंदरदासांले पूर्वाश्रमाचे नांव शीनप्प नायक असून बापयलें नांव वरदप्प नायक. शीनप्प नायकाक बायल, चार पूत आनी एक धूव आशिली.

वेव्हांरांतु शीनप्प नायक अत्यत लोभी. पैश्याक पैशे बांधून एकटे करचें हेंचा तांगेले काम आशिलें. पैश्याशिवाय तांका आनी कांय सूचनाशिले. पैसो हातांत ल्यान सूट नाशिलो. ताका लागून तांगेली वृत्ती कठोर, निष्ठूर, क्रूर आशिली. दया-माया हांचो अर्थु ते जाण नाशिले. देव-दैवतांविशय विचार करचाक तांका समय नाशिलो. पैसोची तांगेलो देव, सावकारी वेव्हार होचि तांगेली साधना आशिलो. पैश्याविशय तांगेली जी एकाग्रता आशिली ती पाळोवनुं जनांक दुःख जातालें. पुण आता विचार केल्यार एक दिश्टीन सांगयेत की हो काळ फांतोडे पयलेचो काळोख आशिलो. अरुणोदय जावनु पूर्वदिशेंतु सूर्यनारायणान आपण्याली

सहस्र किरणं पसरावचें पयले अशींचि गाढ अंधकार सर्व दिकान पसरिलो आसता. शीनप्प नायकाले संसारांतु जीवनांतु, मनांतु असलो अंधःकार पसरिलो ते अंध-कारांतु ताका स्वतःचे काळजांतु आशिले सुवर्णकमल नदरेक आयले ना

पुण होचि समय फलदायक आसता, अध्यात्मिक साधनेचे बींय रोवचाक. जनांले ज्ञानावयर बशिले काजळ पुसून काडनुं ज्ञानदीप अुजळ करचे खातीर ईश्वराक अवतार घेवचें पडना. मध्यस्थि करची पडता. आनी शीनप्प नायकाले जीवनांतु तेंचा जालें.

एक दीस तागेले लागी एक गरीब ब्राह्मण आयलो. आपण्याले पूताली मूंज बांधचे खातीर ताका पैसे जाय आशिले. नवकोटि नारायणालें घर तें! थंय दान-धर्म जायत अुरत म्हळळे आशेंन तो दीन मनीस शीनप्प नायकालागी आयिलो अुरत. पुण धनान सर्वशक्त आशिलो मनीन मनात दानशक्त आसचाकचो जाय अशें ना, म्हण्णुं कदाचित् तो ब्राह्मण विसरिलो आसूयेत. धन आनी दान हाका लागीचो संबंध आसना. देकून धन आसूनबी मन ना, काळजांतु कारुण्य ना डाळ्यांतु दयादिश्टी ना, असलो धनीक मनीस धन आसूनबी धनसंपन्न, सुशील कुलीन, दानी आसना

म्हण्टकूच करोडोपति शीनप्पान ते ब्राह्मणाक "फाल्या" यो म्हण्णुं सांगलें. जेन्नां मनीसाक काम करचें नासता ताका समयाचो अभाव आसता. ता ब्राह्मण दुसरे दीस आयलो पुण शीनप्पान ताका फाल्या यो म्हणण सांगचे मात्र कांय सोडलें ना आनी ते ब्राह्मणानबी 'फाल्या" येवचेंबी सोडले ना. पुण तें "फालें" काय "आयज" जाले ना. स म्हैने सोंपले पुण तो धनिक ते ब्राह्मणाक धांवडावचांतु थकलो ना. तो ब्राह्मणबी चिकाटीचो ता परत परत येवचाकबी थकलो ना. हे कामांतु तरी एकमेकांले दर्शन जायत आसताले. अखेरिक ते लोभी धनिकाली मुष्ठी सुटली. अत्यंत अुदार जावनु ताणें ते ब्राह्मणाक एक तांब्याचो पैसो दिलो!

ब्राह्मणान तो पैसो घेतलो आनी सरळ शीनप्पाले बायलेंकडेन आयलो. आपण्यालें सर्व रामायण सांगले तिगेले घोवाले औदार्य दाखयल बिचारी ती पतिव्रता! आपण्याले पतिदेवाले औदार्य पोळोवनु लाजली ती भितर गेली आनी आपण्याले नाकांतलो नथ—जो सुमार हजार रुपयांचो आशीलो - घेवनु आयलो तो नथ तीणे ते ब्राम्हणाले हातांतु दवरनुं कृष्णार्पण केलें.

तो ब्राह्मणबी बरोची खटचाळ आशिलो पत्नीलो नथ विकचे खातीर लोभीपति धनिक शीनप्प नायकालागी तो आयलो. घोवान बायलेलो नथ ओळ-खवनुं नथ घेतलो दरदोसतरेन 'आयज ना फाल्या यो" म्हण्णुं ते ब्राह्मणाक ताणें

धाडनु दिलें. ब्राह्मण गेलो कीं रागारागान तो शीनप्पा घरा आयलो. बायलेक विचारलें ! बिचारी बायल ! कितें सांगताली ? घोवाकडचान अपमानित आवचे पेक्षां जीव गेलिलो बरो म्हण्णु वीष घेवचाक पेलो उचललो पुण हें आश्चर्य कसलें ? ते पेल्यांतू आसा तो वज्राचो नथ ! चुपचाप तो नथ हाडनु घोवाले हातांतु दवरलो. नथ पोळोवन् शीनप्प नायकाक जास्त आश्चर्य जालें. दुकानांतु तक्षण परतलो. पुण थंय तो नथ तर ना !

घर परत आयल्यार सर्व वृत्तांत समजलो. ते ब्राह्मणाली वाट पळयली. पुण तो ब्राह्मण काय आयलो ना. शीनप्प नायकाक विश्वास बसलो तो ब्राह्मण साक्षात् परब्रह्म आशिलो आयजबी कर्नाटकातले सर्व भाविक हेंची मानत आयल्याची.

शीनप्प नायकाक वैराग्य आयलें. तांगेले वैराग्याचो गुरु म्हळचार तांगेली बायलीचि जे तरेन तुलसीदासांले वैराग्याचा गुरु म्हळचार तांगेली बायल आशिली, श्री तुलसीदास कामोन्मत्त आशिले; शीनप्प नायक घनोन्मत्त आशिले. शीनप्प नायकांनी घर दार तेन्नांची सोडले, नश्वर धन सोडनु शाश्वत धन संपादन करचे खातीर ते चलले. लक्ष्मीलो त्याग करनु लक्ष्मीपतीले शोधार्थ मार्गक्रमण करताले जाले.

शीनप्प नायकांली बायल तो! मती साध्वी सती सावित्री! तीणे आपण्याले पतीले पायरोवयर पाय दवरनु घोवाक अनुकरण केले. पूतांनी आवय-बापयक अनुकरण केलें. सेवकान आपण्याले मालकाक अनुकरण केलें. शीनप्प नायक, तांगेली बायल, चार पूत आणी एक धूव, एक सेवक ! सर्वांतु सर्व वास्तविक. संपत्तीचो शोध घेवचे खातीर भायर सरले.

फिरत फिरत ते विजयनगर आयले थंय तांका श्री व्यास मुनींलें दर्शन जालें. श्री श्री व्यासमुनी विजयनगरचे राज्याचे राजगुरु आशिले. ताणीं न्यायामृत, तर्क ताण्डव चंद्रिका वगैरे तात्विक ग्रंथांची रचना केलिली. तांगेले मार्ग दर्शनासकयल विजयनगर राज्य चलतालें. व्यासमुनी ते काळाचे आध्यात्मिक केन्द्र आशिले. ताणी आपण्याले वृद्धावस्थेंतु अडुपीक वचून थंय श्री माध्वाचार्यांले मठाचे ते स्वामि जाले

श्री व्यासमुनींक शीनप्प नायकाले वैराग्य पोळोवनु आश्चर्य जालें. ताणींची शीनप्प नायकांक वैष्णव दीक्षा दिली आनी "पुरंदरदास" म्हण्णु नांव दिलें. पुरंदरदास स्वतः आपण्याले एक भजनांतु हे विशय म्हणताची.

"अंकित विना ना अुरचे देकूनु
पंकजनाभ पुरंदर विठल हें शुभनाम
व्यासरायानी दिलें अंकित क्रिपेन ॥

दास-दीक्षा दिलीकीं हातांतु करताळ, गळयांतु तंबोरा, पायांतु घुंघरु, गळयांतु तुलसीमणिमाळा, खांखेवयर झोळी, बाजून लोटो कपाळाक अंगार आनी निढळाक तिलक लावनुं श्री पुरंदरदासांनी नाचत गात दैवी अुन्मादांतु मस्त जावनुं आपण्याले परमात्मा प्रेमानंदाचे वितरण करत-करत, ज्ञान-भक्ति-वैराग्य शिकयत-शिकयत हरिनाम अुच्चारत आपण्याले ८४ वर्साची कारकीर्द सोंपयली.

ज्ञानी भक्ताचे भूमिकेवयल्यान पुरंदरदासांनी जो भक्तिचो अुपदेश जनांक केलो ता प्रामुख्यान नामसंकीर्तन भक्तिचो केलो ईश्वराले नांव वाणीन किंवा मनान अखंड घेवची ही सर्वांक सुलभ असली भक्ति आशिल्यान पुरंदरदासांना ताजोची पुरस्कार आनी प्रचार केलो. ईश्वरालें नांव केन्नायी आनी कोणांकयी घेवचाक येता म्हण्णुं तें सुलभ आसा। ' कलियुगी हरिनाम स्मरणान कोटि कुल अुद्धार पावताची। सुलभ मुक्तिक सरळ समजून जलशायी नामाचें स्मरण कराची।।" म्हण्णुं पुरंदरदास सांगताची.

ईश्वरालीं नांव अनेक आसाचीं. पुण ती नांव एकची ईश्वराली आशिल्यान अमूकचि एक नांव घेवका म्हण्णुं आग्रह ना. राम, कृष्ण, गोविंद, पांडुरंग, पुरंदर विठ्ठल हीं सर्व विष्णूचीं नांव आशिल्यान ती सर्व नांव संसार सागर पार करु शकताची. नांवाचे हे गूढ तत्व समजिले पुरंदरदासांक यंत्र मेळिलो अत्यानंद जालो " यंत्र मेळें तें योगतंत्र मेळें रे।। ...एक समय स्मरण केले तर कोटी जल्माचें फल रे । इंदिरेश पुरंदर विठलाले मेळें तें दिव्य नांव रे ।। "

ईश्वरस्वरुप आसचे ईश्वराले नांव घेवचे खातीर वेदाचो अधिकार, विशिश्ट वर्ण किंवा जाती लागना. कोणांकयी ते घेवचाक यता. ताज्यान जीवशुद्ध जाता, भक्ति वाढनुं मुक्ति मेळता जन्ममरणाचे चक्रव्यूहांतल्यान जीव सुटता. ईश्वर मनोमापासून निपिलो आसल्यारियी तागेले नाव निपिले ना. तें अव्यक्त ईश्वराकवी व्यक्त करता. किंबहुना ईश्वरापेक्षा ईश्वराले नांवची महत्वाचे आसता. " तूं कित्याक, तुजो अहंकार कित्याक । तुजे नावाचे बल आसा तर सर्व काय साध्यरे ।। ...मरा-मरा ध्यान मगन मनुजाक राम-राम हे नांवान ते राखलेंरे ।.. तुगेले नावां समान अन्य कायी दिसले ना परम-पुरष पुरंदर विठलरे ।" म्हण्णु पुरंदरदास सांगताची

हरीली भक्ति तागेले नावाचे मर्म समजून केल्यार ताजें श्रेय जास्त महत्वाचे आसता. ' आस्य जानन्तो नाम चिद्विवक्तन । महस्ते विष्णा सुमति-भजामहे ।" हे ऋग्वेदांतले वचनाक लागून पुरंदरदासांनी नामसंकीर्तनाचे कार्य आपण्याले भजनांतल्यात प्रसार केले.

पुण जें तरेन पुरंदरदास नामसंकीर्तनाचे प्रचारक आशिले ते तरेन ते ग्रंथ-कार नाशिले तागेले साहित्य जनमानसांतु भिजून आसल्यारियी ते कांय ताणी केलिले ग्रंथ रचनेक लागून न्हंय. पुरंदरदासांले साहित्य श्रुतिसाहित्य आसा कृति

साहित्य न्हंय. अुत्तर भारतांतले सूरदास–तुलसीदास, महाराष्ट्रांतले ज्ञानेश्वर तुकाराम-एकनाथांनी जे तरेन आपण्याली वाणि लिखित केली ते तरेन पुरंदर-दासांनी केलें ना. जेन्ना ते आपण्याले दैवी अुन्मादावस्थेंतु मग्न जावनु नाचत तेन्ना तांगेले तोंडांतल्यान जे भजन भायर पडताले ते कोणितरी काळजांतु जतन करनु बोरोवनु दवर्गिले असूयेत. पुरंदरदासानी आपण्याले जिवितकार्य कीर्तन भजन मुखांतर साधलें तोडान केलिलो प्रचार तात्कालिक आनी ते वेळाखातीर आसता ना लेखनबद्ध ना केलिल्यान वाऱ्यावयर अुडून वता. पुरंदरदासांचे अुत्स्फूर्त कीर्तनं भजनं जे कोणी लिपित केलीं तांणी समाजाखातीर एक व्होड देन दिलां म्हणका.

परमेश्वराली करुणा अगाध आसता. वैष्णव संप्रदायेंतु एक म्हण्णी आसा जेन्ना परमात्मा आपण्याले अनंत हातांतल्यान दीत आसता तेन्ना मनीस आपण्याले दोन हातानी कितले घेवूं शकताली, आनी तो आपण्याले अनंत हातांनी परत घेता तेन्नां मनीस आपण्याले दोन हातांनी कितले संभाळताली. तें पुरदरदासांतसले संताले विशय तरी खरे दिसता. गळयांतल्यान काडिले अनेकानेक सूरांतल्यान एक दोन सूर तरी आमीं पकडून धरले तर आमी कृतार्थ जाले म्हणका. पुरंदरदासाले एक गळयांतल्यान गायिले भजनांतले शतांशबी दोन कोटी मनीस अंतःकरणांतु समाविष्ट करु शकले तांची. दोन हातांनी ते महापुरुषान जें दिले ते चार कोटि हात संभाळु शकले नांची ! ही आसता सामान्य मनीसाली योग्यता.

पुरंदरदासांनी आपण्यालें भजनांतु कांय तरी नवे सांगले म्हण्णु न्हय. नदर पळयल्यार खंयचोयी मनीस किंवा मत पूर्णपणान स्वतंत्र नासता. किंवा ताका सर्वस्वी नवीन अशें कांयी सांगचेवा नासता. मागशेचे मनीसाले वाट धरनु तो आपण्याली मुखावयली वाट चलत आसता. जाणयाली मन पटल्यार ता तीं स्वीकारता. जंय पटनांची थंय तो स्वतःचे अनुभव चा अनुभवसिद्ध मत सांगता. परमात्मज्ञानावयर वैदिक रुशींली, कृष्ण, व्यास, शंकराचार्य किंवा मध्वाचार्यांली मालकी नासत-वेदोपनिषदांतु रुशामुनींनो प्रकट केलिलो 'एक सत्' वा किंवा "सर्व खल्विदं ब्रह्मचो"–सिद्धांत मनीस आप आपण्याले अनुभवाक लागून अुक्ते करता. रुशीमुनी साधुसंत अधिभौनिक, अधिदैविक आनी अध्यात्मिक पातळो वयल्यान आपण्यालें विवेचन करताची मुमूक्षुले अभिरुचीप्रमाणे किंवा पात्रतेप्रमाणे तांगेले मनाचो, बुद्धीचो आनी विवेकाचो विकास जावका. पुरदरदासातसले संताले जीवन आनी कार्य तितले पुरतेची आमका जरुर आसा तें आमगेले विकासाखातीर स्फुरित प्रवर्तक, पोशक, जावूं शकका आमगेले मन मेणातरेन मोंव आसल्यार तें आकार घेवूं शकताले काळीज आलो जमीन आसल्यार थंय भक्तिचे बींय अंकुर पावताले, अंतस्करण आरश्या तरेन स्वच्छ आसल्यार थंय ज्योतिचो प्रकाश पसरतालो. मनीस माध्यम जावचाक तयार आसल्यार साधुसंत सांखळी जावूं शकताची आनी सत्य साध्य जायत.

❋ ❋

# ुरंदरदासांली साधकावस्था .... ३

आध्यात्मशास्त्राचो अभ्यास करताना एक प्रश्नो मनांतु परत परत अुठत ासता. आनी तो म्हळचार, मनीस किते कारणांक लागून हे संसाराविशय निरस ाता, असंतोष पावता ! आनी संसारा व्यतिरिक्त विगड सुखाचो शोध घेवचो ़्यास घरता. हे प्रश्न्याक एक साधं सरळ अुत्तर दीवयेत. मनीस जें आपण्यालागी ां म्हण्णुं मानता ते खातीर तो तळमळता. जें आपण्यालागी नां तेंमेळयिल्यान आपूण ंसारांतु रस भरीन, संतोष पसरायीन, सुखसमाधान पावीन म्हण्णुं मानता तो ादाकाळ स्वभावत: मानता कीं संसारांतलो रस, संतोष, सुख समाधानांचे साधनं ापण्यालागींची नासताना आपण्याभायर आसतलीं. आनी ती साधनं जर हस्तगत ़लीं, ताजे वयर प्रभुत्व गाजयले तर आपण्याले संसारांतले रसांचो आस्वाद ळतालो; संतोष, सुख समाधान मेळताले. साधन आनी साध्य हे दोग्गांतुलो ंबंध ना समजचो आनी स्वत:क साधन जाय कीं साध्य जाय म्हण्णुं विवेक ना ़रचो हो मनीसालो मूळ स्वभाव नासताना, तांगेले इंद्रियासक्त मनाचो प्रतिवाद ासता. देकूनु सानपणापासून मनीस संसारांतले वातावरणांक, अनुभवांक, ामाजिक रीत–रिवाज, आचार विचारांक लागून मानत आयसा कीं आपण्याक ़ाधन मेळिल्यान " साध्य " सहज साध्य जायत.

देकूनू संसारांतु सुख समाधान इच्छा करचो मनीस सुख–समाधान ( जें ' साध्य " आसा ) मागत नासताना वित्त–वैभव, पैसो–सत्ता, कीर्ति, मान-मर्यादा ़ांचे मागशी धांवत आसता. आनी जेन्ना हीं साधनं हातांतु आयिल्यान मनीस तीं ़ाधन आसाचो हे जाणत नाशिल्यान ते साधनांक "साध्य" म्हण्णुं समजून असमाधान पावता. सुख–समाधानाचे प्राप्तीन न्हंय तर तांचे अपेक्षेनची मनीसाले आयुश्य सर्व सोंपता. आनी अखेरीक साधनं–वित्त–वैभव, कीर्ति–सत्ता–स्वत:चे मदतीक ना आयिल्यान मनीस दु:खी जाता.

रुशीमुनी साधुसंत मानताची कीं मनीसान आपण्याली दिश्टी बदलका. "साधन" खंयचे आनी "साध्य" खयंचे हांचो सारासार विचार करका, विवेक करका. आनि श्रेय–प्रेय हांचे विवेचन करनुं आपण्याले जीवन जीवका. आध्यात्म-शास्त्र सर्वशास्त्रांतु महान् शास्त्र आसा म्हण्णुं मानताची, तें हे कारणांक लागून.

अध्यात्मशास्त्र मनीसाले मनाक आफीमाची गुंगी दीना. अध्यात्मशास्त्राचे साधक साधनावस्थेंतु सुख-समाधान पावना. मनीसाले मुखार विश्वाची विशालता नियमता, दैवी शक्तिची संपन्नता पसरावनु आध्यात्मशास्त्र स्वांतसु खा मार्ग दाखयता. कर्मयोग, भक्तियोग, सन्यास योग, पातंजल योग किंवा ध्यान यो असले अनेक मार्ग साधुसतातसले पथदर्शक दाखयताची. रुशीमुनी तांचे पदक्रमण करताची तत्वज्ञानी आनी आचार्य तांचे वयर चिंतन करताची. पुण आयज मेंरेन वैदिक परंपरागत धर्मप्रणालींतु खंयचोयी एक विशिष्ट मार पुरस्कार करचांतु आयलो ना. खंयचेयी एक मार्गावयर बहिष्कार घातिलो ना तरीपुण सर्वजनसुलभ आनी लोकोपकारक असलो कर्मप्रधान भक्तियोग जास्त प्रचारांतु आयिलो आसता.

साधारण मनीसाक सर्व भक्ति मार्ग तागेले अकलत शक्तीचे भायर आसाची. ताका विश्वाचे गूढ समजचें ना. स्वतःचे दुःख निवारण करचें आसा ताका जीव-परमात्मालो संबंध जाणचो ना. स्वतःचे संबंध सांभाळचे आसा. चैतन्यमागरांतली सर्वसुखमय स्थिती, द्वैत-अद्वैताचे वाद-विवादांतल्यान अखेर मेळचीं उत्तरं जीवात्मा परमात्मांतु मेळिल्यान मेळचो अंतिम प्रत्यानंद ताका नाका. तागेले सानशे जगांतु कल्लोळ चलत आसता. संत तुकारामाले भाशेंतु "रात्रि दिवस आम्हां यद्धाचा प्रसंग ! अंतर्बाह्य जग आणी मन" ताका संसारांतलो संघर्ष जिकचो आसा.

तशे पळयल्यार ससार आनी संघर्ष हे समसमान शब्द जशें आसाची. संसार करचो आनी तांतूत संघर्ष अुत्पन्नना जावचो अशीं साध्य ना. संसार सोडनु राना-वनांतु गेल्यारिबी संसाराची बंधनं सूटनांची. देकूनु संघर्ष संसारांतु आसता; पुण संघर्ष मनीसाले मनांतु, अंतस्करणांतु आसता हें मानचे पडता. घरदारांचो त्याग करनु जो रानावनांतु दूर गेलो ताणे संसार संगाचो त्याग केलो अुरत. पुण तो संगमुक्त जालो ना. ताजे परस संसाराचे घरदारांतु आसूनबी नियमांची कर्मरेखा दांटवून वच नासतांना संसारा विशय आशिली आसक्ती जो सोडता तोची संगमुक्त जाता.

देकूनु साधुसंत मनीसाले भितरले अंतस्करणापासुन करचे प्रार्थनेक पूरक जशे आसताची म्हणयेत. मनीसाक आपण्याले जीवन सुखसमाधानान परिपूर्ण करचे आसता. सर्वसाधारण सर्व जन मागताची की आपण्याक सुख समाधान जाय. पुण तांगेली दिश्टी तांगेले कार्यक्षेत्र चूकीचे दिकान आशिल्यान तांका ते मेळना. जेन्नां तो मानता की धन-दौलत, वित्त-वैभव, सत्ता-प्रतिष्ठा मेळील्यान आपण्याक सुख समाधान मेळता तेन्ना तांगेले जीवनाचे मूल्यांचो आधार अस्तित्व चूकीचे

शरीरावयर अुभ राबिले आसता. तशें पळयल्यार सर्व जनांक कमीं जास्त सुख समाधान संसारांतु मेळत आसता. ताज्यान तागेले मन समाधान पावना. तरी पुण संसारांतु ओतिले तुमाशे हें तात्पुरते सुख बी अविनाशी सुखस्थिती मेळोवचे खातीर तागेले मन प्रवृत्त करता. पुण तो हें जाणना कीं जें सुख ताका वस्तूंक लागून प्राप्त जाता ते वस्तूंक लागूनची आसता. वस्तूपासून मेळचे सुख स्वतंत्र नासता. वस्तु नाश जालो की ताज्यान मेळचे सुखबी नाश जाता. म्हण्यकूच वस्तूंक लागून दिसून येवचे सुखाबरोबर दुःखाची सावळी बी अस्तित्वांतु आसता. मनीसाक उजवाड जाय, सावळी नाका. मनीसाक सुख जाय, दुःख नाका.

दुःखाचो विशय हो की संसारांतु मनीसाले मन जंय ताका इंद्रिय धेवनु ताची थंय तो सुख–समाधानाचे अपेक्षेन धांवत आसता. तागेली सर्व धडपड दुःख कमी करनु सुख वाढोवाचांतु आसता. पुण तागेले ते प्रयत्न केन्नांयी सोंपनांची. पुटिले तांब्यांतल्यान अुदाक गळिले तरेन तागेले सुखाचे दीस गळन आसताची. सुखाचे प्राप्तीन न्हंय तर सुखाचे अपेक्षेनची तागेले सर्व जीवन सोंपता.

वेदोपनिपद, इतिहासपुराण, अष्टांगविद्या जाणूनबी जे तरेन महारुशी नारद असमाधानी आसता, आपण्याले क्षात्रतेजान प्रभावित जालिलो पराक्रमी कुशिकगोत्री विश्वमित्र जे तरेन आपण्याले पराक्रमान असमाधानी आसता. तेची तरेन आनी तेची कारणांक लागून शीनप्प नायक आपण्याले अगणित संपत्तीत असामाधानी आसता. सुख, समाधान, शांति, तुष्टी इत्यादी मानवी आशा-आकांक्षा मनीसान हे धर्तरे वयर जन्मले पासून आसाची. तांका काळ-वेळ-देश सीमित संकुचित करुं शकना. मनीसांले मनांतले हे भाव ते ते काळांक लागून स्थळनिबद्ध आसताची.

ते गरीब ब्राह्मणान शीनाप्पनायकांले जीवनांतु येवचे हें तांका प्रपंचांतल्यान परमार्थाकडेन व्हरचे खातीर प्रवर्तक जालें म्हणयेत. रुशीमुनी, साधु-संताले जीवनांतु कांय ना कांयतरी असली प्रभावी प्रेरणा आसता, जाका लागून संसार पोळोवची तांगोली दिश्टी सामकी बदलता. वाल्या कोळी वालिमकी रुशी जालो. पराक्रमी क्षत्रिय विश्वमित्र गायत्रीमंत्र दिवचो मंत्रदृष्ट्राता जालो. इन्द्रियासक्त तुलसीदास संत जालो. धनासक्त शीनप्प नायक संत शिरोमणी पुरंदरदासांतु परिवर्तन जालो.

ब्राह्मणान शीनप्पनायकाले हातांतु नथ दवरलो. पुण ते नथाचे मोलघेवचाक परत आयलो ना. कदाचित् शीनप्पनायकाले काळजांतु आशिली धनाची आसक्ती, लोभ ताका जाय आशिलो, कारण ब्राह्मण ना आयिले पोळोवनु शीनप्प नायकाले मनांतु कल्लोळ अुत्पन्न जालिलो. मनाचो आनी संसाराचो निरस जालि ल्यान अंतस्कारणांतु एक तरेची अपूर्णता तांका भासताली. लोभ, मद, अहंकारान भरिले दृंध दोळयांतु विवेकाचे अंजन घाले अुपरांत जे तरेन दिश्टी स्वच्छ जाता, ते तरेन



शीनप्प नायकांली संसारा दिकान पोळोवची दिश्टी बदलली. कदाचित् ते ब्राह्मणाक जावका जालिलें मोल हेंची आसूयेत. देकून् कर्नाटकातु मानताची की हो ब्राह्मण साधारण कोणी नासताना साक्षात् परब्रह्म आशिलो, जो अंतस्करणांतली वासना नाश करनु थंय धर्म कल्पना प्रस्थापित करचाक हे जगाक परत परत भेट दिता.

ते भगवंताले अंशरूपान जालिले अवताराक लागून शीनप्प नायकांले अंतस्करणांतु भूकंप जसो थरकांप जालो. आनी थंय जमिले दंभ, लोभ, अहंममता, विषयासक्ति समूळ नश्ट जावनू थंय परमात्माले चिद्रूप प्रस्थापित करचाक काळीज शुद्ध जालें, अंतस्करणांतलें वजन गेलिल्यान तें हगूर जालें, अंतस्करणांतु भगवंतालो अनुग्रह जालिल्यान तें संपूर्ण जालें. न्हंय सागराक मेळका, समुद्राची ल्हारां परत समुद्रांतूचि-मेळका, आकाश अवकाशांतु प्रवेश पावका ते तरेन तांगेलें मन, जीवन जीवात्मा परमात्म्यांतु प्रवेश पावलो. तेन्नाचो अनुभव शब्दांनी सांगचो तसलो नासता; अनुभववचो आनी तत्स्वरुप जावचो आसता- जे महाशुन्यांतु आकाशाचोबी पत्तो नासता थंय आकाशगुण जो शब्द आसा ताज्यान कितें सांगचाक जाता ? थंयचान शब्द परत फिरताची. विचारांकबी वाव नासता. “ यत्तो वाचो निवर्तन्ते अप्राप्य मनसा सह ”

संसारातले हे एक क्षणाक लागुन जो बदल पुरंदर दासांले जीवनांतु जालो तो वैराग्याचो क्षण आसून ताजेवयर भक्तिचो मुकूट जेन्ना ताणी बसयलो तेन्ना साधकावस्थेंतूची संसारादिकान पोळोवची तांगेली दिश्टी बदलली. ईश्वरभक्तिची इच्छा आसुनबी ईशक्रिपेक आपूण योग्य आसनवे म्हूण्णू एक संशय मनाक येत अुरलो. आयज मेरेनचो संसार आपण्यामुखार पसरलोकी दिसून येता कीं कितलो अभागी आसा आपूण, जाका लागून विठ्ठलाली भक्ति करची ईच्छा आसल्या रियी ते इच्छेक परिपोषक असली आत्मवृत्ती, मनोवृत्ती, आचार विचार आपण्यापासुन संपुश्टांतू येनाची.

पुरंदरदासांले भजनांतल्यान ही व्यथा परत परत दिसून येता “ दास कशीं आसू हांवू रे संसारी ! नारायण भक्ति ना लवलेश ती मजे अंतरी ! ” कपाळाक व्होड नाम लायले, हातांतू तांबियोबी धरलो. पैश्यांतु अजून मन मेगेले आसक्त आसता. सत्यशौचापासून दुर अुरलो. हरिस्मरण तर केन्नांयी जालें ना. स्नानसंध्या-देवाली पूजा पाठबी केली ना. तरीपुण एक साधन मेगेले हातांतू आसा आनी ते म्हळयार पुरंदर विठलाली भक्ति. दुसरे एक भजनांतु तो आपण्याले जीवनांतु आपण्यान केलीलो कर्मकथा सांगता. अतिथीक अन्न दिले ना; परस्त्रीलो नाद सोडलोना. खावचे-पिवचांतु सर्व जन्य व्यर्थ गेलो. आता हांवु तुगेले दयेची भीख मागतआसा तूची आतांमेगेले रक्षण कर.

संसारातु आयजमरेन आयिले अनुमव जशे कांय सुप्तावस्थेंतु आशिले. तेची ायज भायर पडचाक लागले. वैराग्याचे महत्व आनी ताका लागून संसारांतलो ांतोष आनी असमाधान अुरतें जावचाक लागलो " विनय निवेदननांची मुखांतु ोले ! विपरीत अपराध प्रभ, समाविश्ट सगळे ! " म्हण्णु ते हळहळताची. बायल रडुंवालो, आवयबापयलो, मित्र राजमान्यतेचो मोहाक लागून ते विवेक सोडनुं ागताले. घर-दार, धन-दौलत, धर्म-जात, कुलशीलाचो अभिमान आयिल्यान ीस मनीसांतले मनीसपण ते विसरिले. धन, कीर्त, सामर्थ्य मेळोवचांतु सर्वशक्ति ांपयल्यारियी तांका अजून अपूरें दिसताले. सुख मेळना , दुःख सूटना. ताज्जान ांका सर्व संसार व्यर्थ अशें दिसतालो.

देकूनु जेन्ना तांका वैराग्य आयलो आनी संसाराचे सुखाक लात मारनुं ेश्वर सुखाखातीर भायर सरले तेन्ना तांका वायट अशें कांय दिसलें ना. तन ़लकें जालें, मन शुद्ध जाले. आशेची सावळीबी अंतस्करणांतु अुरली ना. कित्याक र भक्तिची शक्ति तांका आता मेळिलो. " बरें जालें, जें जालें । माधवभजन ाधन तें मेळें । ... ।। सतीली संतती अनंत ती आसुं । ताळ तंबोरा धरलो ़ातांतु तीणें ।। " आपण्याले कार्यांतु आपण्याले बायलेली मदत मुरळीत जाली हें ोळोवनुं शीनप्प नायकांक अत्यानंद जालिलो. पुण आपण्याले मनांतु आयिलें ैराग्य तिगेले काळजांतुबी आसका हीचि तांगेली काळजी आशिली.

एक खबर सांगचांतु येता. ती खरी आसूं किंवा फाल्स आसूं. पुण शीनप्प नायकाले वैराग्याचे अुदारण म्हण्णुं जरूर आसा. जेन्ना शीनप्प नायकांनी घरदार सोडलें तेन्ना ताणो विचार विनिमय करनुं ना सोडिलो. वैराग्य काळांतरान येना; तो येता विजेची झळकशी ! एकक्षण येता आनी वता, जेन्नां तो येता तेन्नाची सत्याचो साक्षात्कार जाता. विनाशी अस्तित्वाची जाण जेन्नां शीनप्प नायकांक जाली तेन्ना ते तक्षण अुठले आनी ईश्वर सुखाचो शोध घेवचाक सर्वस्व त्याग करनुं अुठले. किंबहुना त्याग करचे आसता किंवा ताणी त्याग केलो हेंबी तांका समजले ना अुरत झाडावयले पिकींले पान फांदीवयल्यान सुटून पडिले तरेन तांगेले स्वतःचे अस्तित्व संसाराचे सर्व बंधनांतल्यान सुटले आनी ते स्वतंत्र जाले.

पुण तांगेली बायल स्वतंत्र जालीना. प्रतिव्रता आशिल्यानं घोवा मागशीं मागशी तो पुण भायर सरळी. पुण भायर येताना तीणे झोळींतु एक भांगराचो पेलो घातलो. पुण जशे जशें तीळसानं येवचाक लागली तशें तशें ती पेल्याक लागून काळजी करताली. ईश्वरावयर ध्यान दवरचे बदलाक तिगेले ध्यान ते भांगराचे पेल्यावयर बसलें. कोणीतरी तें चोरत म्हण्णु ती भीयेताली. हावुं भीयेता, भीयेता म्हण्णुं जेन्ना ती सांगतालो तेन्ना शीनप्पांक सत्य समजून ताणी तो

भांगराचो पेलो दूर फेंकलो. बायलेक म्हळे, आतां तूं भीयेनाका, कित्याक
आता भींवचे तशीं तुगेलागीं कांयी अुरले ना आता धर ध्यान विठ्ठल नाम !

पुरंदरदासाले एक भजनांतु संसारांतले सर्व वस्तू विशय तांगेले त्रिच
आयल्याचि. ' मातीची ही काया, मातीची सर्व माया ।। माती आसा स
दरशन, माती ही सर्व वस्तुमात्र । मातीचोचि आधार सर्वांक, मातीची हे म
समान ।। " खावचें, जेवचें, रंग, रुप, घन, मान, अभिमान हीं सर्व मातीसमा
आसाची. हे संसारांतु मनीसान येवजूवचे सर्व मंदिर, मठ, घर, राजदरबा
शिवाले कैलास आनी गंगातटबी सर्व माती ! संसारांतु जीवचे, मरचे म्हळचा
मातीसमान. इतलेंची कित्याक विष्णुलो वैकुंठ आनी पुरंदरविठलालें पंढरपूर
मातीसमान आसा. मनीसान आयजमरेन जे विचार केल्याचि, कल्पनातरंग मनां
अुठयल्याचि, ते सर्व, रीत-रिवाज, प्रथा, अनुभवांक लागून आसाची. ते विचारांचे
कल्पनेंचे मूळ हे विश्वांतु निर्माण जालिले वस्तू, विषय, आनी गुणांक लागून आस
प्रकृतीक लागून येवजिले विचार प्रकृतीक लागूनची अस्तित्त्वांतु आसताची. पु
सत्य प्रकृतीपेक्षां पवित्र आसून तें सत्य, स्वतंत्र आसता. सत्य प्रकृतींतु आविष्का
पावत आसल्यारियी सत्य ते अविष्कारांक लागून बंधित सीमित ना, सत्याचे अस्तित्व
अविष्कारांवयर अवलंबून ना. सत्य, चिन्मय परब्रह्माचे जाग्यावयर अस्तित्वाचे
स्वरुप घेवचे हे स्थावर जंगमात्मक सर्व विश्व मातीसमान व्यर्थ आसा. तें ख
म्हंय सूर्यकिरणांवयर जे तरेन मृगजळ दिसता, ब्रह्माचे जाग्यार जड आनी विविध
नामरुपात्म विश्वाचो आभास जाता. मृगजळाक जे तरेन वास्तविक अस्तित्व
नासता ते तरेन जड विश्वाकबी वास्तविक अस्तित्व नासता. ताका किमत नासता
मोल नाशिली माती ती !

हे विश्वाचो आनी देवान पसरायिलो संसाराचो विचार करनुं पुरंदर दास
म्हणताची. " कोणःलो तो कोण रीणाचो सर्व हो संसारु । अुदकाचो जसो फुगो
अनित्य, तो श्री हरि ।। " संसारांतु सुख तें कसले ? अुदाक पिवचाक ब्रांयेदिकान
गेल्यार बांय सुकून स्मशान जाल्या; हूम येता म्हण्णुं झाडाचे सावळींतु गेल्यार
झाडची मेगेलेवयर पडता. देवा तूंची माका राख मरचे समयी.

पुरंदरदासांक आपण्याले पूर्वाश्रमाचें वागणुकीचे दुख जाता. "मेगेले कर्म
जर आसा बलवान तर तूं तरी किते करत, नारायणा ?" हे भजनांतु
आपण्याले संसारांतली वागणुक सांगता. अतिथींक दान दिले ना, बायलांली संगत
सोडली ना, जेवण खाणांतु क्षण क्षण वायट केलो, स्नान, जप-तप, नित्य कर्म
केलीं ना. देवाली सेवा करत नासताना सूणेसो घर घर फिरलों.

" सुख तें कितें हे देहाचे? शोक तो कसलो ?" क्षणांतु तें फुलता, पळभरांतु
ते बावता ? अंतकाळी अग्नींतु तें तक्षण जळता. संसारातु निरंतर रत हें देह

ुख-भोग विशयासक्त देहाचे दुःख तें कितलें ? इतरांली सेवा करत दीसदीस र्वं नाश जातालो. देवाले दर्शन नासताना भ्रमिष्ट जालिले, हे देहाचो शोक तरी केत्याक करचो ?

तरीपुण मनीस आपण्याले देहाची काळजी घेवची सोडना. संसारांतु दुःखी जाल्यारियी विषयाचे आकर्षणेन आकृश्ट जाता. "सतत चिंता हे जीवाक, भन- राघव रत जांवमेरेनरे." बायलना म्हण्णु चिंता, ती आसा म्हण्णु चिंता. कुरुपी आसा म्हण्णु आनी सुरुपी आसून बी चिंता. बापय जावनु पुत्रपोषण करची चिंता. काम मेळे तरी चिंता ना मेळी तरी चिंता. मागीर वेतन वाढले नां म्हण्णु चिंता. रीण घेतल्यार चिंता. रीण दिवची चिंता. तीन जगांतु चितेशिवाय विगड कांयी ना. घर आसून चिंता, नांसूनबो चिंता. घरसंसार बरेतरेन चलोवोची चिंता.

असले अनेक भजनांतल्यान पुरंदर दासांनी संसारांतलो असंतोष, असमाधान अुक्तें केलिलो आसा. मानवी जीवनाचें हें परावलंबन, दैवाधीनता आनी क्षण- भंगुरता पोळोवनु तांका संसाराचो कीळस आयलो. तशें पळयल्यार ब्राह्मणाले वर्तणूकीक लागून तांका स्वतः आनी स्वत.चे धनावयर, सत्ता, व्होडपणावयरचो विश्वास मढळ जाल्लो. पारमार्थिक दिश्टीन संसारांतली ही अवस्था तांका अुपयोजक जाली. आनी दिसून आयले की धनदौल्तती परस श्रेष्ठ वित्त–वैभव दुसरेंची कांय आसता. संपत्ती मागशी आयजमेरेन आशिलो शीनप्पनायक पुरंदर दासाले रुपान परिवर्तन जालो. विगंड तरेन विचार करचाक लागलो. तांगेले विचार बदलले तशें तांगेली आशा बदलली, दिश्टीकोण बदललो. अुद्देश बदललो. ध्येय बदललें, ध्यान बदलले; कार्य बदललें.

अशाश्वत धन सोडनु शाश्वत धन मेळोवचें असल्यार अर्थ, देह, जीव, प्राण हांचो त्याग करचे पडताले. मोह, माया, ममता, चिंता, विषयवासना जळनु काडचें पडताले तेन्नांची श्री हरि, पुरंदर विठ्ठल, चक्रपाणी शांति, दया, क्षमता सयत भवतांलो अुद्धार करता. देकूनु दर एक भजनेचे अंताक पुरंदर दासांली वींनंति आसता, "दुःखमुक्तीची आशा सुख प्राप्तिची आशा नश्ट जीवन आशा तोचा पुरंदर विठ्ठल " " आनी कोणालो आश्रय मांगना पन्नगशयन श्री पुरंदर विठला " " अंतरंगी नित पुरंदर विठल सुस्मरण हेंची निश्चित जीवनरे! " " एकची साधन जाणता हांवुरे, पुरंदर विठलाले चरण कमलरे "

संसारांतु मनाक समाधान केन्नांयी मेळना. कित्याक तर सर्वकाळ संसाराक जरूर आसचे वस्तुंची चिंता आसता. ताका लागुन देवदैवत बाजून पडता आनी मन भायरचे विषयांतू आसक्त जाता. रात्रदीस तडफडलो तरी आप्त- बांधवांक सुख समाधान मेळना. देवालें दर्शन दुर्लभ जाता. नित्यानित्य वस्तु

विवेक आनीअनित्य सुखाचो वैराग्य हेची मनीसाले परमार्थ साधनेची पयली पायरी आस।. "इन्द्रियार्थेषु वैराग्यं अनहंकार। एवच जन्ममृत्युजराव्याधिदु:ख-दोषानुदर्षनम् ।"

संसाराचे तापान जळचें, सांसारिक सुखाचे क्षणभंगुरता अनुभविले शीनप्प नायक जेन्नां अविनाशी सुखाचे आनी सुखस्वरुप परमेश्वराचे दर्शनेखातीर संसार आनी समाजांतलो मान सन्मान सोडनु भायर पडले तेन्ना ताणीं पयले आपण्याले आत्मपरीक्षण केलें. आपण्याले जीवन कशीं आशिलें आनी ते विशय आपण्याक कितलो पश्चाताप जाता. हे प्रकरणांतु प्रस्तुत केलिले भजनांतल्यान आमकां दिसून येता. जन आपण्याक कमीं लेखताले हाजी भीति धरत नासतान ताणी प्रामाणिकपणान आपण्याले दोश देवांमुखार दवरले. वेव्हारिक जीवनाची क्षुद्रता समजून संसार सोडलो खरो तो. पुण परमार्थचे जीवनाची साधना करची आसल्यार संसार वैराग्याक अंतरशुद्धीचें वोप दिवचो पडता. देकूनु भक्तिमार्गाचे साधकाक पयली तयारी ती अंत: शुद्धीन जाता. म्हणणुं आत्मनिरीक्षण करचे कार्य हातांतु ताणीं घेतले, कित्याक तर अभ्यंतर जर शुद्ध ना तर भगवत थंय कशी वास्तव्य करतालो ?

शीनप्प नायकांले वर्तुणकेंतु जालिलो फरक पोळोवनुं सर्वांक आश्चर्य जालिले आसूयेत. नवकोटी नारायण म्हण्णुं स्वत:क मानचो एक लोभो कृपण धनिक आयज हातांतु झोळी घेवनुं घरान घर भिक्षा मागत फिरता हें पोळोवनु सर्वांक आश्चर्य जाताले. पुण ही ईश्वर साधने खातीर ताणी केलिली तपश्चर्या आशिली. तप म्हळयार संसार सोडनुं रानांवनातु वचून बसचे म्हण्णुं न्हंय. तप म्हळयावर वासना त्याग. शरिरांतले रोमरोमांतु संचितरूपान आशिले विषय वैराग्य भूमिकेवयल्यान जळोवनुं काडचे म्हळयार तप आसा. विषयांची छायेपासून दूर गेल्यार विषयांपासून मुक्त मेळता म्हण्णु ना. वैराग्य आयिलो मनीस कसल्याचेयी परिग्रह संग्रह करना. घरदाराविशय निरासक्त आशिल्यान तो अकिंचन आसता. निरंहकार आनी निर्मल म्हळयार देहाचे कर्तव्य आपणाले म्हण्णु ना समजता, कामना रहित आनी निस्पृह जावनुं तो आपण्याले कर्तव्याचरण करता. ताका लोक कंटाळनांची आनी तो लोकांक कंटाळना. तागेले मनांतल्यात हर्ष, क्रोध भय, अुद्वेग असले भावना जळनुं गेलिल्यान तो स्थितप्रज्ञ आसता. आनी ताकाची "अनिकेत" हो गीतेतलो शब्द लागू पडता. अनिकेत म्हळयार तो मनीस जागे-लागीं आपण्याले स्वत:चे तसले घर ना. एकची जाग्यार तो राबना. पुण असलो मनीस सन्यासीची आसका म्हण्णुं ना. श्री ज्ञानेश्वर म्हणताची, " आणि वायूसि एके ठायी। त्रिढार जेसे नाही। तैसा न धरीच काही। आश्रय जो। " हें विश्वचि माझें घर। ऐसी मति जयाची स्थिर। किंबहुना चराचर। आपण जाहला ॥"

# पुरंदरदासांले आत्मपरीक्षण .... ४

शीनप्पनायकांक वैराग्य आयले तें हे तरेचे. तांगेले मनांतल्यान द्रव्य-दारादिकांची आसक्ति संपूर्णतायेन सुटिली. तांगेली वृत्ती आनी प्रपंच अनासक्त आनी अपरिग्रही आशिलो. अंतस्त्याग होची खरो त्याग म्हण्णु ते मानताले. साधु निरिच्छ असता. कसलेयी कामेच्छेन ते कर्म करनाशिले. ते मितमुक्त आसता जीभेची चव पूरी करचे खातीर ते अन्न खायनाशिले. मिताहार, हरिस्मरण करत खाताले.

असलें वैराग्य प्रधान अवस्थेंतु दैवी अुन्मादान मस्त जावनु शीनप्पनायक गळयांतु तंबोरा, हातांतु करताल, पायांतु घुंघरु, गळयांतु तुळसीमाळा, खांद्यावयर झोळी, बाजून तांबियो, माथ्यावयर अंगार आनी अक्षतेचो तिळो लावनु हरि भजन करत करत फिरत आसताले. आनी आरण्याली तपश्चर्या सामान्य जीवन जीवचांतु सफलतेंतु हाडतालें.

मानिले आसाकीं बुद्धीचे डोळयावयर आयिले अज्ञानाचो पडदो आत्मज्ञानान दूर करचे आसल्यार आनी आत्मज्ञानान आत्मस्वरूपाचे यथार्थ सूर्यप्रकाश अंतस्करणांतु समाविश्ट करचें आसल्यार अंतशूद्धीक महत्वाचे स्थान दिवचें पडता. जे मनीसाले अंतस्करण शुद्ध ना ताका काशीयात्रा कितें कामाची ? " विना मंत्राचे फल तें कितें ? विना तनशुद्ध स्नानाचें फल तें कितें ? " म्हण्णु पुरंदर दास विचारताची. मासळी निसरीन स्नान केल्ल्यान कितें मेळता? अंतशुद्धी शिवाय भायरची शुद्धी करचें पोळोवनु श्री पुरंदर विठल हासता.

मल धुंवचे तूं जाणता पुण मन धुंवचे जाणतावे ? अनेक तीर्थांतु न्हांवनु फल तें कितें मेळें ? विषयासक्त जावनु योगी म्हण्णु घेवचाक कावळचा तरेन माघ स्नान केल्यार कितें मेळे ? दुसऱ्यांले वायट येवजून, परस्त्रीली आशा मनांतु धरनुं, मुनी तरेन मौन बसल्यार, नदी तीरारी बकपक्षीतरेन आसल्यार किते मेळें ? आवय बापयक दरदीस दुःख दीवनु पितृ-मृत्युनंतर ब्राह्मणांक अन्नसत्र केल्यार कितें मेळे ? कितेंयी वाचले कितेंयी आयकले जर ध्यान मग्न जावनु हरिस्मरण केलें ना तर मौन व्रताचे फल कितें मेळें ?

देकूनु आंगारी उदाक घातल्यावर फळ ते कितें ? मनांतु हरिभक्ति दृढ आसका. दान-धर्म करनुं पाप सोडचे हें स्नान. ज्ञानानं तत्व, आनी ध्यानान माधव दर्शन हेंची स्नान आसता. गुरुले चरण आनि जाणत्यांले दर्शन. आदरान अन्न दान, हरिचरणांतु भक्तिविश्वास हेंची स्नान जावनुं आसा. दुष्ट जनालो संग सोडनुं सज्जनांलो सहवास करचें आनी जगांतु पुरंदरविठलालें चरण-स्मरण करत लीन आसचे म्हळचार स्नान आसा.

दया, क्षमा, शांति, परोपकार करचे, खरे अुलोवचें तन-मनाक स्नान घालचे तशें आसा. जे कारणांक लागून देव दूर वता तीं कारणं म्हळचार पापकर्मं. आनी म्हण्णुं मनांतल्यान फाल्न संकल्प काडनुं लौकिक वेव्हार शुद्ध पवित्र दवरका. ताजेखातीर मनीसाक काम, क्रोध, मान, दंभ, मद, मत्सर, अहंकार आपण्यालें शरीरांतल्यानं समूळ नाश करचे पडताची.

देकुनु पुरंदरदास म्हणताची "स्नान करा ज्ञान तीर्थांतु सर्व । हांवु आनी तूं सोडनुं तो गर्व ॥" आवयबापयली सेवा, बद्ध आशील्याक मुक्तता, सत्पथ जाणचें, इंदिरेषाले ध्यान हेंची गंगा स्नान जशें पवित्र आसा. परनारीलें आकर्शण, परनिंदा, परद्रव्य सोडनुं परमात्म तत्व जाणचे हेंची महास्नान आसा. स्वत:क समजून अन्याय ना करचो, व्यर्थ अुलयनासताना निरंतर हरिस्मरण करचे म्हळचार दिव्य, पुण्य स्नान जावनुं आसा. जाणत्यांली, गुरुली, बायलेन केलिली घोवाली सेवा, पार्थसारथी श्रीकृष्णाले स्मरण केलिले तरेन दिव्य स्नान आसा. सात शास्त्रांचो अभ्यास, भेदाभेद ज्ञान, सज्जनसंग हींपुण पुरंदर विठलाले भजनसागरांतु केलिले स्नान जशें आसाची.

संत सर्वसाधारण संसारांतु पळयत आसताची कीं जन मनांतु कामक्रोधादि षड्रिपु संभाळनुं भायर दाखोवचाक तप, तीर्थाटन, दानधर्म करनुं आयण्याले अहंकाराक साथ दिताची, धर्माचे नांवासकयल करचो अधर्मुची आसा हो. आसक्ति-रहित भोग होची खरो धर्म आसा, खरो त्याग आसता. भितरल्यान आसक्ति दवरनुं भायर दाखयिले अनासक्त त्यागाचो वेव्हार म्हळचार आत्मप्रति फसवणूक असून ताका लागून सुख मेळन नासताना दुःख भोगचे पडता. सर्व संताली एकची म्हण्णें आसता. जनांनी लौकिक वेव्हार सोडचे जरुर ना. संसार सोडनुं रानावनांतु वच्चें आवश्यक ना. अंतस्करण जर निर्मल केले, नामस्करणान मन शुद्ध आनी सहृदय निरहंकार केले तर ईश्वर प्राप्ती सुलभ जाता, संसाराचो घर-दार-पुत्रांचो प्रत्यक्ष त्याग करत नासताना तांतूतली आसक्ति सोडची म्हळचार भागवत धर्मांतले त्यागाचे लक्षण आसा म्हणयेत.

हे विषय पुरंदर दासांलो दोन भजनं प्रातिनिधिक आसाची. "अशींची मेळतावे ती मुक्ति मनीसा" "कशीं आसका संसारांतु, तें सर्व रेखिल्या पुराणांतु"

हे दोन भजनांतु तांगेले विचार दिसून येताची. पयले भजनांतु ते म्हणताची, "अशींची मेळताचे ती मुक्ति मनीसा ?" निश्चयान हीन विशय दूर करका, मनान संसारांतु निर्लिप्त आसका. सर्वं संशय सोडनुं स्वधर्माचरण करका. तप करचे खातीर भीयेनासताना भवसागर पार करचाक गुरुले शरण आसका. देहासक्ति त्याग करनुं देहानित्य भाव अनुभवका. परमात्मसाधना करत करत पुरंदरविठलांतु विश्वास दवरका.

"कशी आसका संसारांतु, तें सर्वं रेखिल्या पुराणांतु." खेळांतु बांदिले घर खेळु सोंपलोकी चेरडान सोडिलें तरेन; बहुविध, अतिसुंदर जात्रा पसरावनुं पथिक पथ धरता, ते तरेन; पक्षि जशो आंगणांतु येवनुं परत उडता ते तरेन; पथिक आयलो रात्र पडली, सकाळ जाली की परत चलता ते तरेन; खरेंची "हांवु" "मेगेले" हाजी दोरी दूर करनुं हे न्हंय मेगेले होचि मुक्तिसंदेश आसता. पुरंदर विठला "हांवु–मेगेले" हे बंधनांतल्यात माका मुक्त कर.

चित्त शुद्ध करनुं, मन निर्मळ शांत जालिल्यान जें सुख अनुभववचांतु येता तें अनंत–अपार आसता. कारण ते चित्तांतू प्रत्यक्ष परमेश्वर चिद्रूपावस्थेंतु निवास करचे खातीर येवचो आसता. देकूनुं भगवद् भक्ती खातीर मनीसाले मन शुद्ध आसचे आवश्यक आसता. कारण अंतरंग जर नितळ ना तर थंय श्रीरंग कशी निवास करतालो ? अभ्यंतर जर स्वच्छ ना तर विश्वंभर थंय कशी भरनुं उरतालो ? मन मलीन आसल्यार तन धूंवनु कितें उपयोग ? कामोन्मत्त जावनुं विषयासक्तीत विषयांध जालिले दोळ्यान परमात्म्याले दर्शन जायना. चित्तशुद्धी-खातीर तप करचें आसता. तप म्हळयार योग न्हंय, त्यागबी न्हंय. विषयवासनेंचो त्याग; जाका लागून अंतस्करणांतल्यान कामक्रोध नाश जाता. हृदयांतु चिद्रूप हरिले चिंतन करचे म्हळयार तप. पुण विषयेच्छेन तप करचे कनक कांती कीर्ती मागशी धावचे, जगाक अज्ञान म्हण्णुं माननुं स्वतःक ज्ञानी म्हणचें, देह म्हळयार सर्वस्व म्हण्णुं मानचे जनांक देव प्राप्त जायना. तरीपुण विषय सोडनुं रानावनांतु वचून निवास करचे म्हळयार विषयवासना त्याग न्हंय. विषय संगतींतु आसूनबी तांची आसक्यी जो सोडता तोची खरो संगमुक्त भक्त म्हणयेत. मृगजळांतु स्नान केलिलो मनीस जे तरेन सुकोचो आसता ते तरेन विषय वासना, तांचे आकर्शण हे खरे न्हंय ते क्षणिक आसता. नायिक आसता म्हण्णुं जो मनीस जाणता ताका भगवद्भक्त जावचे साध्य जाता. कठोपनिषदांतु (१.२.२४) म्हळया "नाविरतो

दुश्चरितान्नाशान्तो नासमाहितः नाशान्तमानसोवापि प्रज्ञानेनैमाप्नुयात् ॥

जो मनीस वायट आचरणेंपासून दूर वचना, कोणांली इन्द्रियं वशनांची चित्त समाधींतु स्थिर ना, ताका सत्दर्शन जायना, परमात्मदर्शनाखातीर दशीतप

करताले. तर म्हळ्यार दंभ, लोभ, अहंकार, कर्मठता, कर्माभिमान, धन, मान प्रतिष्ठा, कुळ जातीचो अभिमान, ज्ञान ध्यान, विद्या सत्ता संपत्ती हे सर्वांचो तन मनान अनासक्त त्याग. " कायेन वाचा मनसेंद्रियैर्वा बुध्यात्मना वानाऽसृतस्वभावात् करोमि यद्यत् सकलं परस्मै नारायणयेति समर्पयामि ।। " म्हण्णू शब्दानमात्र न्हंय कृतीन बी आचरणेंतु हाडची ही पूर्वतयारी केलिल्यानची मनीसाले साधनावस्थेक नवी पायरी तयार जाता.



# पुरंदरदासांक गुरुपदेश .... ५

श्री कृष्णान भगवद्गीतेंतु एक आश्वासन दिलेले आसा की, " यदा यदाही धर्मस्य ग्लानिर्भवति भारत । अभ्युत्थानमधर्मस्य तदात्मानं सृजाम्यहम् ।। परित्राणाय साधूनां विनाशाय च दुष्कृताम् । धर्मसंस्थापनार्थाय संभवामि युगे युगे ।।" रुशीमुनी सांधुसंत जेन्ना हे भूतलावर येताची ते हेची भगवत्कार्य सफलतेंतु हाडचे खातीर येताची हांतूत संशय ना. जन जेन्ना कर्तव्य विमुख जाताची, तांका आपण्यालो-यथार्थ ज्ञानाचो विसर पडता, कामक्रोधादि षड्रिपु शरीरांतु वास्तव्य केल्ल्यान मनीसाले विवेकावयर काजळ बसता, तेन्ना ईश्वर धर्मसंस्थापन करचे खातीर हे संसारातु अवतार घेता. अवतार घेवनु प्रसंग पडल्यार समाजाचे संसारांतु, मनीसांक मनीं सांले मनांतु आशिले दुश्टबुद्धीक आनी विषयांक शासन करनु भक्तांमदले न्यून पूर्ण करचे खातीर धावनु येता. किंबहुना भक्ताले भक्तीक लागून सज्जनांले परित्राण आनी दुश्टांले विनाश करचे खतीर भगवतान श्रीकृष्णालो पूर्णावतार, पुरंदर विठलालो अवतार घेतलो आनी अंशरूपान विश्वकल्याणा खातीर संतमंडल निर्माण केले.

सनातन धर्म प्रसार करचे खातीर हे संत स्वतःचे देहाविशयाचे ममत्व नाश करनु इतरांले अुपकाराखातीर जीव झिझयताची. विश्वव्यापक ईश्वराबरोबर समरस जावनु आपण्यालो विश्वप्रेम शिश्यांतु वांटताना, आपण्याक आयिले पवित्र विचार शिश्यांक दीवनु तांगेले मार्गदर्शन करताची. संतालो उद्देश सत्याचो साक्षात्कार दिवचो आसता. धार्मिक जीवनांतु क्रांति हाडचे क्रांतीदूत आसाची ते ! आध्या–त्मिक–पथ प्रदर्शक आसाची ते. संत तुकारामांनी सांगिले तरेन "जगाच्या कल्याणा संतांच्या विभूति । देह कष्टविती अुपकारें । भूतांची दया हें भांडवल संतां । आपुली ममता नाही देही ।" "आम्ही वैकुंठवासी । आलों याच कारणासी । बोलिले जे ऋषी । साच भावें वर्ताया ।।' "वाचा बोलों वेदनीति । करूं संतीं केलें तें ।।"

संत नामदेवांनी बो हेची अुद्गार काडिले आसाची " संतचरणरज लागतां सहज. । वासनेंचे बीज जळोन जाय । मग रामनाम अुपजे आवडी । सुख घडोघडी वाढों लागे ।। कंठी प्रेम दाटे नयनीं नीर लोटे । हृदय प्रगटे रामरुप ।। नामा म्हणे साधन सुलभ गोमटें । परी अुपतिष्ठे पूर्वपुण्ये ।। "

भारतांतले सनातन सत्यसाधनेंतु गुरुले महत्व अत्यंत आवश्यक आनी लाभ दायक म्हणणुं मानिले आसा. गुरुली क्रिपा पूर्वपुण्यायेक लागूनची मेळता. " परी अुपतिष्ठे पूर्वपुण्ये ।। " नारद महामुनिक सर्ववेद आनी अष्टांग विद्या समजत आसल्यारियी तांका गूरुपदेश ना जाल्लियान तांका सनत्कुमार रुशीजवळ ज्ञान मेळोवचाक येवचे पडता. सत्यकाम ब्रह्मज्ञानान परिपूर्ण आशिलो तरी ताका गूरुली जरुरियात भासता, जाका लागून तो म्हणता, " श्रुतम् ही एव मे भगवद् दृशेभ्य: प्राचार्याद् हैव विद्या विदिता साधिष्टम् प्राणतीति ( छांदो-ग्योपनिषद ४.९.३) गूरुले मूखांतल्यान आयिलो अुपदेशूचि सिद्धी प्राप्ती करुं शकता अन्यथा ना.

पुरंदरदासबी आत्मपरीक्षणे नंतर आनी भगवद् कीर्तन केलिले अुपरांत बी जाणताले की गुरुशिवाय परमार्थाची वाटचाल सफल जावची ना. कठोपनिषदांतले वचन " प्राप्य वरान्निबोधत " जशें कांय तांगेले कानांतु दुमदुमतालें. गुरुदेव रानड गुरुशिवाय आत्मज्ञान साध्य ना म्हण्णुं सांगून म्हणताची, " सद्गूरु, म्हळचार साक्षात्कारी संत, हे वीजेचे मूखेल तारेतरे आसून आमी सर्व तांगेले शाखांक लायिले दिवेशे आसाची. मुख्य तारेंतल्यान वीजेचो प्रवाह व्हावलो कीं सर्व दिवे प्रकाशिताची, तेची तरेन साक्षात्कारी संतांचे अंतस्करणांतु भरनुं आशिली परमेश्वराली चित्प्रकाशाची ज्योत तांगेले बरोबर परमार्थान संबंध आशिले सर्व शिश्यांले अंतस्करणांतु चित्प्रकाश पसरायता ......... ताका नादाचो निनाद ( Resonance ) दृश्टांतबी लागू पडता "

पुरंदरदास ताका लागून म्हणताची " जावका गुरुकारूण्य जें अति दुर्लभरे । व्यर्थं व्रथाचरणान फल ते कसलेरें ।। गुरुक्रिपेविना अन्य गती ना, गुरुविना शरीर बंधुबांधव पुत्र मित्र सद्गती साधन साध्यनारे ?" दीसरात्र गुरुपादपद्मची सर्व संपत्ती हे जाणनुं जर गूरुभक्ति केली तर पुरंदर विठल तुगेले पावन करता. दुसरे एक भजनांतु ते विशाद करताची " गूरु अुपदेश रहित ज्ञान, गुरुअुपदेश रहित योग । गुरुअुपदेश रहित कार्य कर्मसर्पाचो अुपवास जसो व्यर्थरे ।।"

पुरंदर दासांक ते काळाचे आध्यात्मिक केन्द्र म्हण्णु प्रसिद्ध आशिले श्री व्यासराय गूरु म्हण्णुं मेळे. श्री व्यासराय विजयनगर साम्राज्याचे आस्थान गूरु आसून ते विद्वान मुनी म्हण्णुं नामांकित आशिले. तांगेले पथदर्शनांन विजय-नगराचे चार राजांनी राज्य केलिलें. जेन्ना व्यासरायांनी शीनप्पानायकांलें वैराग्य पळयले तेन्ना तांका सहर्ष आश्चर्य जालें. साधनेक अनूरुप आशिले हे साधकाक शिश्य म्हण्णुं ताणी मानले. आनी पुरंदरदास हे नामकरण केलें, " गूरु व्यासरायांनी कारूण्यान माका वर महामंत्र अुपदेशिरें ! पुरंदर विठलची परदैव हे म्हण्णुं भवसागरांल्यान मुक्त केलेंरे. "

गूरुली क्रिया उपदेश मेळोकी पुरंदरदासांक धन्य दिस्ले "हरिदासांलो संग मेळो माका आनि कितें मागचे आसका। वरगुरु उपदेश मेळो माका आनी कितें पावचें आसका।।" हे भजनांतु तांगेली गुरुविशय आदर आभार दिसत आसताची. अहंकार, ममकार नाश करनुं रामनाम वाणींतु स्थिर केले. नानात्वाचो भ्रम मिटोवनु हरिस्मरण मनांतु धृढ केले. देवूची आवय–बापय जालो, संदेहातीत परमात्मज्ञान जालें. शाश्वत सुखाचो परमानंद मेलिल्यान मेगेलो वंश पावन जालो. साक्षात् पुरंदर विठलूची मेळो आनी किते पावचे आसका ?

व्यासराय किंवा व्यासमुनी हे श्री मध्वाचार्याले द्वैत मताचे अनुयायी आशिल्यान पुरंदर दासांकबी उडपी क्षेत्राचो श्रीकृष्ण आनी पंढरपुरचो पुरंदर विठल समसमान आराध्य दैवत जाले. तशे पळयल्यार कर्नाटकांतली संत परंपरा दोनसंप्रदायेंतु परिपुश्ट जालिली. एक शैव पंथ किंवा वीरशैव दुसरी वैष्णव संत परंपरा. कर्नाटकांतु संतांक अनुभावी म्हण्णुं संबोधन करताची. अनुभावी शब्दाचो अर्थ आसा "साक्षात्कारकारक" अनुभव केलिलो, कोणे आत्यंतिक सत्याचो, सदैव एकाकार एकरूप सत्याचो साक्षात्कार घेतिलो आसता. देकूनु संत साहित्याक अनुभावी साहित्य म्हणताची भक्तांक "शरणरु" म्हळयार शरण गेलिले मनीस म्हण्णुं संबोधिताची. कित्याक तर ताणी आपण्याले सर्वस्व परमात्माले चरणांतु समर्पण केलिले आसता. देकूनु तांगेले साधना मार्गाक शरण–मार्ग म्हणताची. म्हण्टकूच शैवसंतांक 'शिवशरणरु' आनी वैष्णवसंतांक "हरिशरणरु" म्हणताची. शिवशरणसंतानी आपण्याले धर्मप्रचारा खातीर वचनशैली स्वीकारल्यार हरिशरण संतांनी कीर्तन शैली भजन शैलीचो उपयोग केलो.

शिवशरण संतांले प्रमूख साक्षात्कारी महापुरुष म्हळयार मोलिगये माय्या, बसवेश्वर, अक्कमहादेवीयक्क, वेडर दासीमय्या, मडिवाल माचय्या संकलेश मादरस तसले अनुभावी–संत आशिले. हरिशरण संतांतले संप्रदायेंतु श्री नरहरीतीर्थ, श्री श्रीपादराय, श्री व्यासराय, श्री वादिराज, श्री पुरंदरदास, श्री कनकदास, श्री कुमारव्यास असले अनेक भक्तजन आशिले. हे सर्व श्री मध्वाच्वर्याक आपण्याले मूळगूरु म्हण्णुं मानताले. पुरंदरदासांले एक भजनांतु श्री मध्वाचार्यालो अूल्लेख जालिलो आसा. "मध्वमुनी अरे गूरु मध्वमुनी तो। मध्वमुनी सर्वोद्धारक मध्वमुनी तो।।" मध्वमतांतु वायूदेवांले महत्वपूर्ण स्थान आसा. गूरु स्थानावयर वायूदेवाली प्रतिष्ठा केलिले अूपरांत मध्वाचार्यालो अवतार हो तिसरो अवतार म्हण्णुं मानचांतु येता. पयलें तो हनूमंत जावनु श्रीरामचरणरत जालो, दुसरे अवतारांतु श्रीहरिलो प्राणाधिक प्रियभक्त पराक्रमी भीम जालो. आनी आता दृढयोगी जावनु वेदव्यासालो पट्ट शिश्य श्रीमद् मध्वाचार्य जाल्याची.

श्री मध्वाचार्यांलो अवतार पूर्ण जाले अपरांत तांगेले शिश्यांनी मध्वमताचो प्रचार भारतभर केलो. तांगेले शिष्य परंपरेंतु दोन शाखा आसाची. व्यासकूट आनी दासकूट. कूट हो शब्द कन्नड भाशेंतलो आसा. कूट शब्दाचो अर्थ मंडल, चौक म्हण्णु जाता. व्यास कूटांतु श्री मध्वाचार्यांनी स्थापन केलिले मठांचे आचार्य येताची तर दासकूटातु मध्वमताचे पुरंदरदास कनकदासां तसले संत येताची. व्यासकूटाचे आचार्यांनी मध्वमतावयर अनेक विद्वात्तापूर्ण ग्रंथ बरयलीं. आनी दासकूटाचे संतांनी जनभाशेंतु अनेक भजनं बरयली.

श्री पुरंदर दासांली भक्तिसाधना गीतेंतु सांगिले तरेन आर्त, जिज्ञासु; अर्थार्थी आनी ज्ञानी हे तरेन जाता. देवप्राप्तीखातीर जी तळमळ, व्यथा आसता तिका आर्त भक्ति म्हणताचि. पयलेचे भक्तांनीं स्वंयचे रीतीन भगवद्भक्ति केली हें जाणची आनी गूरुमूखांतयान ताजें विवेचन आयकुवची इच्छा म्हळ्यार जिज्ञासा आसा. अर्थार्थी म्हळ्यार द्रव्यकामना न्हयं. ताजे अूलट निसर्गांतु नाना तरेन दिश्टीक पडचे नाविन्य, विविधता, विशालता हे सर्वांचो परम अर्थ कसलो म्हण्णु साधना करता तो अर्थार्थी आसता. पुण जेन्ना साधने अुपरांत परमात्मालो साक्षात्कार जाता आनी तोंडातली अूत्रं तोंडांतु, मनांतली मनांतु अुरताची आनी विश्वंभर विश्वात्मक परमात्मा समाविश्ट आसा म्हण्णु समज येता ते मनीसाक ज्ञानी म्हणताची. असले साधकांक वैकुंठ किंवा मोक्षाची जरूर नासता. तांकायो आपण्याले अंतस्करणची वैकुंठ करचें आसता. आनी थंयीचि देवाले वसतिस्थान करचें आसता, जाका लागून हे देहाचे जल्ममरणांची परंपरा सोंपता.

पुरंदर दासाले भजनेंतु हे सर्व अनुभव अुक्ते जालिले दिसून येताची. तांगेले प्रभुत्व भाशेवयर इतले आशिलेकीं सर्वसाधारण लोकांले वेव्हारांतले सुलभ शब्द वापरनु अलौकिक सत्याचो अविष्कार ताणीं दाखयलो. थोडोबी त्रास घेत नास–ताना मृदु व्यंजनांची, अनूप्रासयूक्त, नादमधूर, प्रासाद वाणी तांगेले भजनांतु दिसली. आनी तांगेले जीवनांतली व्यथा, आत्मनीरीक्षण, हरिदर्शनाखातीर आर्तता, नामस्मरणाची महानता, काळो-सावळो विठ्ठलाले शब्दचित्रण अत्यंत भावनात्मक ओलसाणीन आनी भक्तिचे अुत्कंटतेनं प्रभावित जाली.

दासदीक्षा मेळिले अूपरांत पुरंदर दासांनी आपण्याले अुरिले आयुष्य भारत-भर भ्रमण करत सोंपयले. भ्रमण करत करत भजनांची, सुमनकमळाची वर्षा जात आसताली. ती इतली विस्तारानं जाली कीं ती एकत्रित करचे अशक्य जाले. दंतकथा आसाकीं पुरंदरदासांनी ४,७९,००० भजनं गायली. पुण आयज संग्रहित आसाची तीं थोडीची ! हे कितलें आश्चर्याचे ?

तरीपुण भजन हे शब्दांतूची 'भ' आनी 'जन'–हळचार भगवंत आनी जन- ान्याचो अनन्य आनी लागीचो संबंध आसता. मराठी संतवांग्मयांतु भजनांक ागवाणी म्हणताची. भजन, अभंग नावांप्रमाणे परमात्मा आनी जीवात्मामदले मंग असले मिलन आसा. गुरु उपदेशांनी सर्जयिले, आत्मसाक्षात्कारानं अनुभविलें ुद्ध विचार आचाराचो हो संचय आसा. धार्मिक तत्वांवयर धर्मग्रंथ बोरोवचे काराक थोडी जास्त अपरिहार्य मर्यादा आसताची. आनी तांका सर्व विचार ाचाक जाय नांची. श्रीमध्वाचार्यांनी उपदेशिलो मध्वमत श्री व्यासरायांनी तरेन तत्वदिश्टीन विवेचन केलो तोची मध्वमत पुरंदरदासांनी आपण्याले ानूभूतिपूर्ण अंतकरणान भावपूर्ण शब्दांनी सर्वजनसुलभ केलो. हरिभजन, नाम- रण, नवविधाभक्ति, तुळसीवृन्दावन, अतिथीपूजन, संतांक शरण, गोपीचंदन ळो, तुळसी माळा, एकादशीव्रत ही वैष्णवभक्तीची लक्षणं दर एक मनीसाले वनांतु हाडचें संतांले कार्य आशिलें. तें कार्य पुरंदरदासांनी कितले समाधानान ानी प्रतीभात्मरुपान संपुश्टांतु हाडले हे तांगेले जीवनकार्याक लागूनची स्पश्ट ल्या. धनपारचे सूर्याचे दर्शन घेवचाक पणतीचो आधार जाय पडना. तो सूर्य ायंसिद्ध, स्वयंसाक्ष आसता. पुरंदरदासाले जीवनबी तेची तरेन परिपूर्ण आसा



# पुरंदरदासांली आर्तभक्ति

आमी पळयले कीं, भक्तिमार्गाक लागचे पयले पुरंदरदासाले जीवन सं
मोहान, आकर्षणेन, प्रेय वस्तूंन खंयचे रीतीनं आकर्शित जाताले. आनी ताका ल
तांगेली वृत्ती, दिस्टीकोण कितलो संकुचित, स्वकेंद्रित, लोभी, कृपण, इ
जनांविशय अनादर, तुच्छभाव, तिरस्काराचो अशिलो. तांगेले संसारांतु असलो
अलौकिक क्षण आयलो जाका लागून तांगेले दोळयावयले काजळ पुसचांतु आय
मनावली धूळ साफ जावचांतु आयली, काळजांतलो रात्रीचो काळोख दूर जा
फांतोडेचीं मंद, अस्पस्ट अरुण किरणं अुदयाक आयलीं अजून मन थोडे ज
मलीन आशिलें, काळजांतलो काळोख पूर्णपणानं दूर जालिलो नाशिलो.
येवचाक अजून समय आशिलो. ताजे खातीर निष्ठा जाय आशिली, कश्ट घे
आशिले, आत्म परीक्षण करचें आशिले.

जेन्ना सांसारिक सुखाची वास्तवता, आनी अंतिमता दुःखाचे अस्तित्वा
सातत्य तांगेले वेव्हारिक मनाक पटले तेन्नांची अंतिमसुखाचो, परमात्मानुभूती
स्पर्श जालो म्हणयेत. खंयचोयी अनुभव सुरळीत, निरंतर दीर्घ समयाचो नास
तो अनुभव विजे तरेन लख्ख प्रकाशिता, मेघगर्जने तरेन गडगडता, थोडोची क्ष
जीव तो अनुभवता; ताजे अुपरांत जेन्ना मन ते अनुभवाचो परत वावरु कर
तेन्ना ते एक क्षणाक लांब समयाचें स्वरूप दिता.

जेन्नां पुरंदर दासांक सांसारिक सुखाची क्षुद्रता आनी आत्मानुभवा
अलौकिकता ध्यानांतु आयली तेन्ना जीवनांतले क्षणानक्षण लोहचुंबकाते
आकर्षित करनुं एकत्रित करचो निर्धार ताणीं केलो. जे तरेन लोहचुंबक लोख
आकृश्ट करता आनी इतर सर्व निरर्थक वस्तुं थंयचे थंय सोडता, ते तरेन पुरंद
दासांनी पारमार्थिक साधना आनी संशोधन करचे खातीर जीवनांतले निरर्थक रीत
रिवाजांचो, आचार विचारांचो पुनर्विचार करतुं, आत्मपरिक्षणेचे फातरावयर घासु
अनुभवांचे परिशीलन केलें. परमात्मानुभव जावचो आसल्यार, तन–मन नागय
स्मरणेन पूनीत जावचे आसल्यार अर्थ, देह, जीव, प्राण हांचोबी त्याग कर
जरूर पडताले हें तांका दिसून आयलें. मोह, माया, ममता, चिंता, विषयवासन
मनांतल्यान जळनुं काडनु तें वासुदेव वास्तव्याखातीर तयार करचें ताणीं निश्च

केलें. लोकलज्जा, दंभ, अहंकार, मत्सरादि आतंकं हे साधनामार्गा वयर येताची. हे दूर करचें तांका आवश्यक दिसलें देकुनु स्वत:मदले दोश काडनुं आत्मशुद्धी करचे खातीर ताणीं कठोर आत्मनिरीक्षण केलें.

जेन्ना हे तरेचे आत्मनिरीक्षणेक लागून पुरंदरदासांले शारीरिक आनी मानसिक जीवन स्वाध्यायांतु निरंतर रत जालें तेन्नां तांगेले मुखांतल्यान अंत:स्फूर्त भजनं भायर पडली. आनी ती कर्नाटकांतले जनमानसांतु जीरनुं मुरलीं. तांगेले भजनांतुइनली काय तळमळ, अुत्कटता, सखोलता आशिलीकी तांका संसारांतले सर्व दिशा, सर्व परिवर्तन, सर्व स्वरुप अनेकानेक अवस्थेंतु अनुभवांतु आयलें. ताका लागून अुपनिषदकाराले आस्थायेक लागून तांगेलो जीवबी "असतो मा सद्‌गमय, तमसो मा ज्योतिर्गमय मर्त्योर अमृतम् गमय " प्रार्थना करचाक लागलो.

हे तरेन जेन्नां संसाराचे सुखाची क्षणभंगुरता अनुभवचांतु आयली, आनी अविनाशी सुखाचो आनी सुखस्वरुप परमेश्वर दर्शनाची अभिलाशा मनांतु जागी जाली तेन्ना तांगेले भजनांतल्यान ईश्वर दर्शनाची आर्तता, तळमळ, उत्कटाता, देवाबरोबर केलिलो कलह, वादविवाद, युक्तिवाद, आशा–निराशांचे अुद्‌गार विविध उपमा, अलंकार, दृश्टांतान वर्णन जाले. संतसाहित्याचे अभ्यासकाले दिश्टीन हीं भजनं महत्वाची आशिल्यान तांची ओळख आनी परीक्षण करचे उपयोजक आसताले.

जेन्ना श्रीकृष्ण आपण्याले भक्तांले विभाजन आर्त, जिज्ञासू, अर्थार्थी आनी ज्ञानी म्हण्णुं करता तेन्नां हे विभाजन एकमेकांपासून अलिप्त किंवा स्वतंत्र म्हण्णुं केलिले नासताना, ते एकमेकांक पूरक, पोशक, उपयोजक, विकासपर्वांतले पायरी म्हण्णुं दाखयले. सर्व संत पयले आर्त आसताची तेची अखेरीक ज्ञानी जाताची. ज्ञानीं भक्तची भगवंताले प्रेमाक समर्थ जाता. 'चतुर्विधा भजन्ते मां जना। सुकृतिनोऽर्जून आर्तो जिज्ञासूरर्थार्थी ज्ञानी च भरतर्षभ ।। तेषां ज्ञानी नित्ययुक्त एकभक्तिर्विशिष्यते । प्रियो हि ज्ञानिनोऽत्यर्थमहं सच मम प्रिय: ।। " भ.गी. ७–१६–१७

पुरंदरदासांले ज्ञानसाधनेंतु हीं सर्व विकास पर्वं दिसून येताची. ते म्हणताची कितले तरी वर्सं हांवु संसार भार व्हावत आयलां. तरीपूण तुका मेगेले वयर दया येना "दया ना येना तुका देवा दया ना येना तुका! पन्नगशयना क्षीराब्धि श्रीकृष्णा ।। अनेक काळी अनेक देशी अनेक योनीयोनींतु जीव तो भटकना । 'हांव' 'मेगेले' हे नरकांतु पतीत तो हांवु । तूंचो पावन हांव् माननुं शरण आयलां. हांतूतल्यान कशी सुटकारो हांव् तें जाणना. अंतर्बाह्य काळोख – कामादि षडवर्ग अधकार कोणांकयी मजेवयर दया येना म्हण्णुं तुगेले चारणांतु आयलां: तन–मन–वचन, कृत कर्म, सर्व प्राण तुगेलेची आधीन आसाची. जें जाय तें कर ।

" दयाकर दयाकर, कर दया श्रीरंगा " हे भजनांतु आपण्याक दास करनु घे म्हण्णु मागचांतु आयल्या. कितले समय घरनु तुगेले स्मरण करत आसा. मोग मेगेले दिकान कर तर खरो ! संसारातलीं गती तूंचि. सद्गति सर्वदा दी तूं कृष्ण करुणा. हेंची करता कामीतफल हे पुरंदर विठला, तूंची तो हरि सार्वभौम. "विनय करचाक प्रभु मुख ना मेगेले । अनंत अपराध मेगेलेप्रति दिसताची ।। " चेरडांलो मोह, बायलेलो मोह, आवयबापयलो मोह, बंधु-बांधव, राजवैभवाचो मोह, जन जनांवर जमीनेचो मोह. असुरारी विसरलो हांवु चरणस्मरण तुगेले दोन. अन्न धन, अखिल वैभव, तारुण्य रुप, कुल जाती, धर्म, हे सर्वांतु भरल्या मद. दुसरे कोणी नांची मम समान मदमोह भरीत ! आशा-अभिलाशा, दुःख निवारण सुख साध्य-तीची अभिलाशा. नश्ट जाले जीवन सर्व, आशा-निराशा पुरंदर विठला.

असले प्रसंगांतु तूं मेगेलो त्याग करता खरो ? "पळयत पळयत सोडनु दिता हात खरो ! तूं बरो पुंडरीकाक्ष पुरुषोत्तम हरी ? बंधु-बांधव नांची, जीवनांतु सुखबी ना. आप्त-मित्र तूंची, नित्य चरणी शरण सुख तेंची ! एक एक खिण तेंची आसा एक युग, तणापरस हीन आमा असहन हें जग. सनकादी रुशींपासून पूजीत तूं राख देवा भाका भक्तवत्सल हृणताती तुका. भक्त आधीन आसू जाय म्हंयवे तुका तूंची मुक्तिदायक जावनु आसा पुरंदर विठ्ठला.

" तूंची तो आसा मुखार हांब तो मागशी । निरंतर नामस्मरण करीन हांवू रात्रदिवसी ।" हांवु अनाथ तर, बंधू तूं मेगेलो हीन हांवू तर तूं दयाघन. ध्यानमंत्र तूं तर ध्यानी सदा आसता हांवु. ज्ञानगम्य तर तूं अज्ञानी निजान हांवू. तूं कल्प-वृक्ष, कामधेनू, बरचिंतामणि, दयासागर तर, हांवू फलाकांक्षी, कामार्थी चिंतारत, आसा. दयाकांक्षी मेगेले शरीरांतु अवगुणांचे अनंत आवरण आसा. मेगेले आवरण दूर करनु अंतस्करणांतु निवास कर विठ्ठला ! हांवू तुगेलो दास जावनु आयला.

मेगेली व्होड अशी आशा ना. "आनी कांय हांवु मागना विठ्ठला, अंतस्करणांतु स्थिर जा तूं सदा " मेगेले शिर तुगेले चरणांतु, दोळे तुगेले श्रीमुखांतु, कान तुगेले कीर्तनांतु, नाक निर्माल्य सेवन करचांतु ! सदा मगन आसू अुत्रांनी तुजी कीर्त' हातांनी तुजी सेवा सेवानिरंतर, पाय तीर्थसहाय मन अनुदिन स्मरण. मनान आसूं बुद्धी सदा तुगेल्यांतु लीन. चित्त सदा स्थिर आसू. संत जनांली संतसंगती पुरंदरविठला ! हीची मेगेली मागणी. श्री मध्वाचार्यांनी प्रतिपादन केलिले द्वैतमतांतु भक्ति दास्य-भक्ति आसा. भक्त आनी भगवंतांतु सेवक-सेव्य भाव अुत्कटतेन अविष्कार पावता. द्वैतसंप्रदायेंतु जीव मुक्त जालो तरी तो भेद नाश जायना. देकूनु पुरंदरदास मागता दास करनु घे भाका सहस्रनाम वेंकटरमणा ! मेगेले तनमनावयर तुगेलीची सार्वभौमत्व अनुभववचांतु येवूं. हे तुगेलेंची घर म्हण्णु समज. घरांतल्यान दुश्ट बुद्धी

नाश कर करुणा कवच ती चढय. हण्टकूच हें देह चरणसेवा करु शकतालें. तुगेले चरणांतु धृढभक्ति अुत्पन्न कर. हण्टकूच हे चित्त सात्विक जातालें सेवारत हांवु जातालों. शरण आयिल्यांक प्रतिज्ञा आसा तुगेलि. चरण शरण म्हण्णुं आयला हांवु आयज. दूषण दूर करनुं करुणा कर श्री पुरंदरविठला.

असले अनेक भजनांतल्यान पुरंदरदासांली आर्तभक्ति दिश्टीक पडता; कर्नाटकांतले संतसंप्रदायेंतु पुरंदरदासाली असली अनेक भजनं लोकप्रिय आसून ती म्हणचांतु येताची. कारण तांतूत प्रत्येक भक्ताले अंतःस्करणांतु आसची न्यूनता ईश्वरदर्शनाची, परमात्मसेवेची उत्कट तळमळ उक्ती जालिली दिसता. सर्वसाधारण मनीस ज्ञानी मनीस नाशिल्यान संताले साधनेंतली ही आर्त अवस्था लागीची दिसता. संतांक प्रिय असलो संबंध म्हळचार "तूं भगवंत हांवु भक्त" "तूं सर्वाधिपति हांवु सेवक" "तूं पतितपावन हांवु पतित" "तूं करुणाकर हांवु करुणाभिलाषी" हे तरेचो लागीचो संबंध परस्परांमदी येवजिल्यान भक्तांक ईश्वरविलीन अभिलाषा नासता. तांका सगुण स्वरुप साखरेपरस गोड, चंद्रकिरणांपरस शीतल, आवयले मोगापरस प्रेमळ. देकूनु तो इच्छिता की देवांले आपण्याक दर्शन जावका, तागेले चरणांवयर आपण्याले मस्तक दवरका, तागेले बरोबर गोडगोड उत्रं उलोवका, सुखदुखाची विचारपूस जावका. पुरंपरदासांकबी हेचि तरेची इच्छा आसता. आनी ताजे खातीर वेळ करन्हंय म्हणगुं ते परत परत वीनंति करताचि.

आपण्याक देवाले दर्शन जायना, हाका कारण तो देंवूची म्हण्णु पुरंदरदास मानताची. "अपराधी हांवु न्हयं दोश तो गेलो मेगेलो। कपट–नाटकाचो सूत्रधारू तोचि तो पुरंदर विठ्ठरू ॥" तूवे जर हे जडदेह फुलयलेना तर खेळगें तें खेळू शकतालें वे? तुगेले हांतांतूची सर्व सूत्रं आसाची; ती सोडल्यार खेळणेतें नांचताले? तुगेले हे णव दरवाज्याचे घराक वीस सेवकांनी घेरयल्या आनी तांतूत माका बधित करनुं जल्ममरणान छळोवचे हें लांछनरे देवा! यंत्र चालक तुं आसा. अंतस्करणांतु बसून तुं, स्वतंत्र कर माका देवा!

तरीपुण पुरंदरदासांक दिसता आपूण पुरंदरदास म्हण्णुं घेवचाक योग्य आसा खरो? मेगेल्यातु तीं गुणं आसाची खरी? जीं भक्त, सेवक जावचाक जरूर आसताची. "दास आसुं कशी हे जगांतु ? वासुदेवांतु लेषभक्ति ती ना खरी!" मन केन्नांयी आसक्त आसता. आर्त जावनुं हरिस्मरण केलें ना हांवे केन्नांयी! सत्य शुचितेपासून अुरलों दूर, खरेंची व्यर्थ जीवन मेगेलें सर्व, स्नानसंध्या, पूजा-पाठ, जप-तप, सत्यवचन साधन केन्नांयी केलें ना. तरीपुण चरण कमलांची भक्ति मात्र तनमनान हांवे केल्या.

विठलाले प्रत्यक्ष दर्शन जायना म्हण्गुं पुरंदरदासांक दु:ख जातालें आवयले. मोगाखातीर गेलिले चेरडाक आवयलो अुमो मेळोना म्हण्गुं दु:ख जालिलेवरी संत खंत करताची. पतितपावन, करूणाकर म्हण्णु स्वत: सांगता आनी भक्तांक तू फसयत आयला म्हण्णु विठलाचेरी आरोप करचाक ते मागशी मुखार पळयनांची. पुरातन काळांतु भक्तांक रक्षण केलिले वृत्तांत अुगडास दीवनुं पुरंदरदास म्हणताची कसलो तो, करूणाकर तुं " तो विश्वास कसलोतो." आसचो परतपरत नर जन्म दीवनु परतपरत मेगेले मन मोडत आसा, घृव, बली, पांचाली अहल्या हे सर्वांलो रक्षक म्हण्गुं जन जर विचार करताले तर सर्व कांय दंतकथा कशी दिसता. जर खरेंची तुं करूणाकर आसा तर धर मेगेलो हात आनी कर मेगेली रक्षा ! सरसिजाक्षा जर तूं शासक आसा तर दुष्ट जन कित्याक माका त्रास दिताची ? मरणकाळी अजामिळाले तुंवे रक्षण केले. जर तुं ध्यानांतु घेत तर माकाबी तू राखतालो पुरंदर विठला !

संत पुरंदरदास थकले ! करुणाकर म्हळें, आवय म्हळें, बापय म्हळें अनाथांचो नाथबी म्हळे! तरीवुण विठल तो आयलोची ना. करुणा कल्लोळान कळकळचे हीं नितांत सुंदर भजनं जे भक्तांले वाणींतु प्रगट जाली तो भक्तबी अखेरीक थकलो ताणी देवाबरोबर वाद घातलो " चल यो चल यो पंचांमंडळांतु यो तूं स्वामी " आयज मेगेले तुगेले दिवप घेवप निश्चय करयां. आदि काळापासून अनेकांनी साधलेली साधनसंपत्ती तूं आमका कित्याक दिना ? रीण परत करताना अनेक सबब सांगता. काळ मात्र कपट वृत्तीन तुं सदा हरण करता. सुजनांक संमत जावूं ते तरेन तुगेले चरणांतू मेगेले मस्तक दवरीन. सनकादि संताली साक्ष दीवनुं मनाक पटत अशीं आशा दाखयली. आता कित्याक करता तू अनुमान, यो मेगीन तूं वनजाक्ष स्वामी विठला. '

संत पुरंदरदास म्हणताची मेगेली भक्ति तुगेलागी रीण म्हण्णु पडल्या. मेगेले तें धन हांवु सोडचो ना. रीण पत्रावयर मागशेचे सनकादि संतांली साक्ष आसा. तें तू कशी विसरता ? हे तरेन सावकारी भाशा वापरनुं पांडुरंगा बरोबर पुरंदरदास वाद घालताची, आसों ! रीण न्हंय तर रीण न्हंय ! पुण "माका आण आसा तुका बी ती आण" माका तुका दोग्गांकयी हरि भक्तांची ती आण ॥" तुका सोडनुं अन्य स्मरण जर हात्ते केलें आसू माका ती आण आनी माका सोडनुं तूं जर बाजून गेलो तर आसू तुका आण ! तन-मन-वाणीन वंचित जर जालो हांवु आसू माका ती आण आनि मेगेले मनांतु तूं जर स्थिर अुरलो ना तर आसू तुका आण ! दुर्जन संगती जर हांवे ती केली आसू माका ती आण आनि लौकिकपासून मुक्त ना केले तर आसू तुका आण । संतजन संगती ना केली हांवे तर आसू माका ती आण आनि दुर्जन संगतीपासून मुक्त ना केले तर आसू तुका आण. प्रभू

य तुगेलो घेतलो ना हांवे तर आसू माका आण, आनी प्रसन्न तू पावलो ना आसू पुरंदर विठला तुका आण !!

सर्वसंतांले जीवन जर पळयलें तर सर्वजन पयले पयले आर्त-भक्तंची शले. ईश्वराले दर्शनाखातीर पराकाष्ठेचे आर्ततेन भजनेंतुल्यात वीनति ली दिसून येता. आर्त भक्ति उल्यान जिज्ञासू भक्त परिवर्तित जाता. आनी राविशय विचारता. चिंतन करता, मनन करता. साधकावस्थेंतु पुरंदरदासांनी साधना आनी गुरुले सान्निध्यांतु जें वाचन केलें तांका लागून शुद्धीक आयिली ारिक प्रवृत्ती साक्षात्कारान अनुभूति जावचाक अनुरुप जाली. भक्तिभावनेन स्करण भरनं समस्त जग विश्वंभर विठलरुपान समाविश्ठ जावची अत्कंट छा तांगेले आत्म्यांतु निरंतर जागृत जाताली.

तशें पळयल्यार हांतून चूक अशे कांयी नाशिले. भारती यसाक्षात्कारी पुरुशांले परंपरेंतु ईश्वरालो साक्षात्कार जावनं, संपूर्ण जीवन प्रकाशित जावनं नंदमय जावचे भाग्य थोडेची जनांक आसता. पुरंदरदास तसले भाग्यवान क्त जगांतले पराकोटीचे आशिले. ईश्वराक रुप नासल्यारियी भक्त रुपाचो ास धरताची आनी कारुण्यान अुकळचो तो अच्युत भक्ताले अनादि-अनंत सले अंतस्करणांतु ताणीं चितन केलिले स्वरुपची धारण करनं दर्शन दिला. हें त्य आसा, आनी हे सत्याक साक्ष म्हळचार संतांले जीवन आनी सदाचरण ावनं आसा.



# पुरंदरदासांली साक्षात्कारनुभूति

पुरंदरदासांले साधकावस्थेंतु जी आर्तभक्ति दिसून आयली, जीवनांची तळमळ, अंतस्करणाची कळकळ जाणवली तीची भक्तिभावना प्रासाद वाण रुपान भजनेंतु साकार-स्वरुप जाली. पुरंदरदासांले भजनांतु शब्द साधे आसल्यारिय तांतूत ईश्वर दर्शनाची अुत्कट इच्छा समाविष्ट जालिल्यान ते भावपूर्ण जालि थासाची. ईश्वर प्रेमानं अुकळचीं हीं भजनं भाविक भक्तांक केन्ना अुपदेशपर आसताची आनी केन्ना केन्ना तर पूर्ण सुख दिताची. तांगेली ती तळमळ पोळोवन दुकां आयल्यार मनाक आश्चर्य जायना.

पुरंदरदासांले मनांतु प्रखर वैराग्य उत्पन्न जालिल्यान थंय जनार्दनाशिवाय विंगड, कोणीयी निवास करु शकचे तसले नाशिले. असले मनोस्थितीं आशिल्यान जेन्ना भक्तिरसान अुकळचे भजनांनी कर्नाटक दुमदुमताले, तेन्ना स्वत: संकीर्तनांतु तल्लीन जालिले पुरंदरदासांले मनांतु सहज फूर्तीन अुत्पन्न जालिले वैराग्य सयत त्याग, भक्ति सयत प्रेम आनी ज्ञाना सयत शांति भरली. ब्रह्मवेत्ता आसून संतुष्ट चित्त, शास्त्रज्ञ पंडित आसून आत्मज्ञ-हरिदास आसून विरक्त आशिलेतांगेले जीवन परमेश्वराले अवतरणाक योग्य अशें जालें. तशें पळयल्यार आत्मसाक्षात्कार जावचाक साधकालें कर्तुत्व आनी देवाली क्रिपा हो दोन्नोयीं जावकान्नी. श्री अरोबिंदोले शब्दातु सांगचे जाल्यार " Effort from below and grace from above."

पुरंदरदासांले आतामेरनचे जीवन हळयार पराकष्ठेचे पराक्रम आशिलें, ईश्वरभक्तिपासून ज्ञानापर्यंत भक्ताचो जो विकास जावका तो तांगेले जीवनांतु जालिलो. आर्त हळया संसारतापान असह्य जालिलो आनी जल्म–मरणाचे परंपरेंतल्यात सुटचे इच्छेंन जो साधक ईश्वरभतिविशय आकर्शित तो जाता. आर्त-भक्तीक पूरक असली जिज्ञासू वृत्ती पुरंदरदासांक जागी आनी व्यासमुनी–गुरुमुखांतर तांका तत्वजिज्ञासा पूरी जालिली. " विज्ञानार्थं गुरुमेवाभिगच्छेत् समित्पाणि : श्रोत्रियं ब्रह्मनिष्ठम्" (मुंडक १–२–१२) गुरुकडचान समजिले अर्थाची अनुभूति जावका हण्गु जो मनीस भगवद्भक्ति करता तो अर्थार्थी आसता आनि जेन्ना ती अनुभूति प्राप्त जाता तेन्ना तो मनीस ज्ञानी जाता. "ज्ञानी तु आत्मैव मे मतम्" (भ. गी. ७–१८) ज्ञानी भक्त ईश्वरालो आत्मोचि कांय अशें भास जाता.

असले सर्वानुभूतितु भक्तिभावनेचे उत्कटतेंतु अशिले पुरंदरदासांक जें श्री हरिले दर्शन जाले, तें जशें काय एक स्वप्नची आशिले. जेन्ना मनीसाक अलभ्य लाभ प्राप्त जाता तेन्ना तें सर्व स्वप्नातरेन सांशक आसता. कारण अनेकांतु एक जीवाक असलो संदर्भ प्राप्त जाता. "कश्चित् धोर: प्रत्यगात्मानमैक्षत् आवृत्त चक्षु: अमृतत्वमिच्छन्।" (कठोपनिशद)स्वप्नावस्थेंतु प्रतीत जालिले ईश्वर साक्षात्काराचे वर्णन पुरंदरदासांनी सुंदर रीतीन केलीले आसा.

"सपनीं साधलें ते गोविंदाक; सपनीं कनकरत्नमणीक, नंदनंदन मूकुंद चरणांक" हे भजनांतु कृष्णाले दर्शन स्वप्नवत् भासता. पायांतु नूपुर झूणझूण करचें, धांवत कालीयाले फणीवयर नांचचे, कंबरेक पीतांबर, गळयांतु मोति, कौस्तुभ आनी तुलसी माला, माथ्यावयर मूकुट आनी हातांतु कांकण ! चतुर्भुज शंख-चक्र-गदा-पद्माधर हरी, दुश्टांक दमन आनी शिश्टांकपालन करचो नित्य शोभामय कारुण्यमूर्ति ! असले मंगळ, वरतुंगभद्र शोभित लक्ष्मीरमण, भूरमण श्री रंगांक ताणीं पळयलें.

पुरंदरदासांक जालिलो हो साक्षात्कार स्वप्न नाशिलो, भ्रम नाशिलो मृगजळ नाशिले. तें सत्य आशिले. आनी हाजी जाणीव जेन्नां तांका सुखद स्वरुपान जाली तेन्ना तांका अतीव आनंद जालो "पळयले हांवे गोविंदाक, पुंडरीक्षाक, पांडवपक्ष कृष्णाक" हृण्णु ते नाचले. केशव, नारायण, श्रीकृष्णाक, वासुदेव अच्यूत अनंताक, सहस्त्र नांवाचे हृषिकेषाक, शेष शयन वसूदेवपुत्राक, माधव, मधूसूदन, त्रिविक्रम, यादव कुलभूषण, वेदांत वेद्य इंदिरारमण, आद्यमूर्ति प्रल्हाद वरदाक, पुरुषोत्तम नरहरी, श्रीकृष्णाक, शरण गेलिल्यांलो रक्षक करुणाकर श्री पुरंदर विठलाक पळयले. आनी अखेरीक योगींक जालिलो स्वयंसिद्ध, स्वयंसाक्ष, साक्षात्कार तांका जालो कीं तांका खात्री जाली की तो "परम पुरुष परमात्मा रुपाचो आशिलो"

हे तरेन अंतरमनाची खूणसा क्षात्कारान समजली कीं, मनोवृत्ती स्थिर जाता मनोजय, प्राण जय पावताची. नेत्र तेजपुंज जाताची, कंठ सद्गदित जाता ; आंगावयर रोमांच येताची. आत्मस्वरुपांतु विलीन जालिले मनाक जीवनाचे सार्थक जाता. नीलश्यामल प्रकाशाचे अूजवाडान अज्ञानाचो रात्र ना जावनुं आत्मज्ञानाचो सुदिन अूजवाडता आनी सर्व दिकान आनंदूचि आनंद पसरता. तांका दिसता की होचोतो दीस जें खातीर ऋशीमूनी साधूसंत जन्म जन्मांतर तप करताची. "आयचो शुभदीस; आयचो वार शुभ" इत्यादि हृणगुं अखेर हृणताची "आयजचो पुरंदर विठलाले दर्शनाचो शूभ दीस."

ईश्वराले दर्शन जाले कीं, तांगेली इच्छा पूर्ण जाली, अंतस्करणाची तळमळ शांत जालिल्यान जीवनांतु शांति प्राप्त जालि. कृत्य कृत्य जालिलो समाधान

जालो, संसारांतु धन्य जालिले परमसुख मेळें. " धन्य जालो हांवू हे जगांतु पन्नगशयन जगदीश दर्शनान ।।" हे भजनांतु एक अनुभव अुक्तें जाता, " भानुकोटी प्रभा स्वानंद पूर्ण दीन-रक्षक श्रीनिधी पुरंदर विठल श्रीरंग महिमा ती पळय !" वास्तविक साक्षात्कार जालोकीं कितें जालें आनी अष्टसात्विक भाव कशी प्रकट जाले म्हण्णु शब्दांनी सांगचे कठीण जाता स्वत: मर्यादित आनंदाचे वर्णन केल्यारियी ते आनंदाचो अनुभव मात्र तांकाचो जाता.

पुरंदरदासांक जे कृष्णालो साक्षात्कार जालो तो पौराणिक किंवा ऐतिहासिक कृष्ण न्हंय. तो आध्यात्मिक कृष्ण आसा. निर्गुण परब्रह्माचि पयली सगुण प्रतिति आकाशाचे कृष्ण वर्णांतु जात आसता वस्तुत: नाशिलो कृष्णवर्ण लोकांलें दोळयांतु दिसता. देकूनु कृष्ण म्हळय रिची सावळे परब्रह्म आसता. आनी हे वर्णांतु परमात्म ज्योतीचो प्रकाश भरलो कीं तो निळो दिसता. म्हण्णूची विश्वव्यापी विष्णूलो वर्ण नीलश्यामल मानताची.

साक्षात्काराचो किंवा पारमार्थिक अनुभवांचे स्वरुप सांगताना गुरुदेव रानडे स्पश्ट करताची कीं तें सरळ, तत्क्षण प्रतिभा ज्ञान आसता. ताजीं लक्षण सांगत ना प्रतिभा (Intutive) अतिंद्रिय (Supersensuous ) अंतस्फूर्त (Centrally initialad ) दिक्कालातीत, अखंड, एकरुप (universal) (Blissful) हे शब्द वापराचांतु येताची. साक्षात्काराचे हे स्वरुप पुरंदरदासांनी सातत्यान तांगेले भजनांतु अुक्ते केलिले दिसून येता.

पुरंदरदास असले साक्षात्कारी संत आशिले. संतांक जेन्ना साक्षात्कार जाता तेन्ना ती अवस्था द्वैत-अद्वैत हे सिद्धांता पेलतडेचीं आसता. पुरंदरदासांनी जी साधना केली ताका लागून तांका ईश्वराले क्रिपेन तागेले सर्वव्यापकत्वतेचे ज्ञान मेळनुं सर्व विश्व ब्रह्मरुप दिसले. ताका लागून तांगेलें जीवनांतु सर्व दिकान भक्त भगवंतामदीं आशिले ऐक्य आनी परस्पर संबंध दिसून आयलो सागरांतु जर जल पडले तर तें कांय अूदकवे ? अुदकांतल्यान मोती जन्मली तर ती काय अूदकवे ? मातीन मडकी बनयली म्हण्णु ती कांय मातीचे ? हरिशरण हरिदास जालो तो कशी सामान्य मनीस आसतालो ? हरिपादोदकाक तीर्थ म्हणताची, हरीन खालिले अन्न प्रसाद म्हणताची, हरिशरण हरिदास सामान्य मनीस आसतनासताना परमात्ममय नारायणरुप आसारे. परब्रह्म तो हरि आसल्यार चर-ब्रह्म ते हरिदास आसताची. हरिक्रिपेनची हें रहस्य समजता. घर्तरेंवयले हरिदासांक सामान्य मनीस म्हण्णुं समजचे जनांक रौरव नरक नशीबांतूचीरे.

मध्यमतांतु तारतम्य हो सिद्धांत मूख्यतायेन प्रतिपादिलो आसा. ब्रह्म-जीव जगत् हांचे अस्तित्व पुरातन आसून तो भेद विश्वनीर्माणापासून आसता आनी तो प्रलय कालांतूची नाश. जाता अहं ब्रह्मास्मि अमृतत्वस्य: तु न आशा अस्ति

वित्तेन " इदं सर्व यदयं आत्मा " " आत्मा वा अरे द्रश्टव्य: श्रोतव्य: मन्तव्य: निदिधासितव्य:," " मनसैवानु द्रश्टव्यं नेह नानास्ति किन्चन"" स वा एप महानज आत्मा अजरोऽमरोऽ मृतोऽभयो ब्रह्माभयं ब्रह्माभयं हि वै ब्रह्म भवति य एवं वेद " अुपनिशदांतले हे सर्व सिद्धांत मध्वमतांतु परमात्मजीवाचे अतूट सबंध दाखोवचांतु वापरल्याची म्हण्णुं जशे कांय पुरंदरदास सांगताची दर एक जीव दर एक पातळी वयर आपण्याले अस्तित्व जाणता. हरि जे तरेन परब्रह्म आसता ते तरेन हरिदास ते परब्रह्माचे अंशरुपान चरब्रह्मचि आसता. देकुनू संतांले अस्तित्व ते सत् स्थितीचे प्रमावित प्रकट रूपची आसा. देकुनू तांगेले महत्व परमात्म साधनेंतु वयले पांवड्याचे आसता.

"सत्य अस्तित्वाचे पांच भेद हे, नित्य तो श्रीगोविंदरे ।। कृत्य कळनुं तारतम्य कर, हरि हो सर्वोत्तम तें जाण रे ।। " म्हण्णुं पुरंदरदास म्हणताची. ईश्वर आनी जीवांतु भेद आसता, जीव–जीवांतुबी भेद आसता. मानुषोत्तम अधिक विश्वांतु देवगंधर्व आसाची. तांचे परस श्रेष्ठ इन्द्रादि देव. महारुद्र, गरुड, भारती सरस्वती. तांचे परस श्रेष्ठ तो वायुदेव, श्री लक्ष्मीदेवी ती अति पवित्र. अनंत लक्ष्मीपरस अधिक बल तो पुरंदर विठल आसा.

"हरि हो सर्वोत्तम हरि हो परदैवत हरि सर्व विश्वमय जग रे ।। हरिविना ना अन्य देव कोणींयी रे ।" जगजन्मदाता तागेलो पुत्र, जग संहारक रुद्र आसा पौत्र, जगपावन गंगा तागेली पुत्री, जगजननी श्री लक्ष्मी तागेली सती ती.

मध्वमतांतले सगुण स्वरुप परमेश्वरालें चिंतन करनुंबी पुरंदरदासाक ते निर्गुण स्वरुपाचे साक्षात्कार जाता, जाका लागून तागेले तन–मन पुरंदर विठल स्वरुप जाता. "बालक लक्षांतु आयलावे ज्ञानी, बालक लक्षांतु आयलावे तो ।। शतदश नांवाचो शतदश तेजाचो । सुखमय रुपाळो बालक लक्षांतु आयलावे तो ।। ज्ञानसागरांतु क्रीडारत बालक । ज्ञानीले काळजांतु विराजित बालक ।। दीन मनीसालो संरक्षक बालक । स्वत.चे म्हत्व समजचो तो बालक ।। सर्व विश्वांतु दिसचो, भक्तांले आत्मरंजन करचो, आकाररहित साकार बालक ! साकल्य बालक, साकल्य दिश्टीक अगोचर बालक पळयला वे तुमीं ? तन–मन घनांतु विराजित बालक । त्रिभूवन विश्व आधार तो बालक । बुद्धीमंडलाचे सीमोल्लंधन करचो तो बालक, चिन्मय तो पुरंदर विठल बालक पळयला वे तुमी ?" हे भजतांतु पुरंदरदास आपण्याक जालिले एक अप्रतिम असले निर्गूण परमात्माले साक्षात्काराचे वर्णन करताची हरिसर्वोतम म्हण्णुं निश्चयान सांगचो पुरंदरदासूची "आकाररहित साकार बालकां" ली ओळख काडचाक प्रयत्न करचें दिसून येता.

परमेश्वर एकूची आसल्यारिरी तागेली प्रकट नांव अनेक आसताची. हे

अनेक नांवांक, प्रतिकात्मक प्रतीमेंक लागून मनीस अनेक देव आसाची म्हण्णुं मानता. पुण हे चूकीचे आसा" तो बालक एकची आसा तोचि हरि म्हण्णुं ओळखू वचांतु येता . " एकं सत् विप्रा बहुदा वदन्ति, म्हण्णुं वेदवचन आसा, प्राचिन काळापासून अनेकत्वकडचान एकत्वाकडेन वच्चो विचारी मनीसांली प्रवृत्ती आसता. नामरुपाक लागून प्रतीत जावचो भेद तो खरो न्हंय. ते सर्व भिन्न दिसचे नामरूपांनु एकची तत्व आसा हण्णुं वेदकाळापासून रूशीमूनी साधूसंत सांगत आयल्याची. नांव अनेक आसल्यारियी सूर्य हे एकची देवाची इन्द्रमित्र वगैरे नांव आसाची हणचो वैदिक मंत्र " सूर्यस्य ब्रह्मण अनन्यत्वेन सार्वात्म्यं अुक्तं भवति" म्हण्णुं सायणाचार्य स्पश्टायताची विष्णू हो पूर्णपणान वैदिक देव आसून भग सविता, सूर्य, विष्णू हे क्रमान ते कल्पनेंचो विकास जालिलो आसा.

ऋवेदांतले ( १०.९० ) सहस्त्रशीर्ष हे मंत्राचो दृश्टा रुशि नारायण आसा. हजार माथ्याचो हजार दोळयांचो हजार पायाचो तो पुरुष ही भूंय व्यापून दशांगूल शिल्लक अशी अरलो. आनी ताका लागून सर्व स्रिश्टी आनी भूत जात कशी निर्माण जाली हण्णुं वेदांनी जे वर्णन केले ताजे विश्वरुप साक्षात् दर्शन अर्जुनाक श्रीकृष्णान महाभारताचे यूद्धभूमिवर दाखयले. " त्रिणी पदा विचक्रमे विष्णुर्गोपा अदाभ्य: धर्माणि धारयन् ।। ( ऋ. १ २२.१८) अदाभ्य म्हळयार अमर आनी अजिक्य असलो विष्णुं जगाचे हिताखातीर आधारभूत जाता आनी आपण्याले तीन पावलांनी पृथ्वीवयर संचार करता " दिवि सूर्यसहस्रस्य भवेधुगपदुत्थिता । यदि भा: सदृशी सा स्याभद्भास स्तस्य महात्म: ।।" आकाशांतु जर एक हजार सूर्यांची प्रभा एकदम प्रकट जाली तर ती ते महात्म्याले कांतीसारखी कदाचित दिसून येतालो. हे तरेन साक्षात्काराचे प्रकाशांचे स्वरूप आसता. विश्वव्यापी सर्वोत्तम प्रकाशाचे स्वरूप आशिलो विष्णु प्रकाशां तल्यानची प्रकट जालो. प्रकाश देवाले ते आगमनाची पूर्वसूचना दिता. ताणे आयले कीं अंधःकार नाश जाता आनी सर्व दिकान धवल तेज पसरता. हाका अुपनिषदकार " तत् शुभ्रं ज्योतिषां ज्योति: तद्यत् विदु: आत्मविदो "मूडकोपनिषद २-२-९) हण्णुं सांगता हाकाची पुरंदरदास आपण्यालें सरळ सर्वजन सुलभ भाशेंतु " भांनुकोटि प्रभा स्वानंदपूर्व दीन रक्षक " म्हण्णुं वर्णन करता.

पुण हे ज्योतिचे दर्शन जावचें सहजसुलभ ना. देकूनु श्रीकृष्ण अर्जुनाक सांगता. " न तु मां शक्यसे द्रष्टुमनेनैव स्वचक्षूषा । दिव्यं ददामि ते चक्षू: पश्य मे योगमैश्वरम् " (भ. गी. ११.८) हे तुगेले चामडयांचे दोळयांनी तू माका पोळोवू शकचो ना देकूनु हांवु तुका दिव्य दिश्टी दितां. जाका लागून तू मेगेलें ईश्वरी योगसामर्थ्य पोळोंव शकतालो. पुरंदरदासबी हेंची विगड शब्दांतु म्हणताची, " दोळयान पळया श्री हरिक; पुण ज्ञानदिश्टीन पळया सर्वत्रहरिक."

भक्तिमार्ग सर्वजन सुलभ आसल्यारियी जो भक्त ज्ञानी आसा तोची भगवंताले अनुग्रहाक अनुरुप आसता. तोची भगवंतालो अत्यंत प्रिय आसता. "तेषां ज्ञानी नित्ययुक्त एकभक्तिर्विशिष्यते । प्रियो हि ज्ञानिनोऽत्यर्थमहं स च मम प्रियः ।। (भ. गी. ७–१७) सर्व भक्तांतु नित्य समभाव दवरचो योगी आनी एकनिष्ठ ज्ञानी भक्त विशेष श्रेष्ठ आसून तांका हांवु अत्यंत प्रिय आनी ते माका अत्यंत प्रिय आसाची. ब्रह्मात्मैक्यज्ञानाची आनी ताका लागून प्राप्त जावची ऐक्यानुभूतिचें जेतरेन भक्तियोग एक साधन आसा ते तरेन तु निर्गुण सगुण स्वरुपांची चित्त स्थिर करचाक एक वितड तरेची अकलन शक्तित जरुर आसता. ते अभ्यासु योगाक राजयोग म्हणताची. ते साधनेचो मार्गक्रमण पुरंदरदासांनी केलिलो अशें हे "दोळयान पळया श्री हरीक, पुण ज्ञान दिश्टीन पळया सर्वत्र श्री हरिक" भजनेंतल्यान दिसून येता.

भगवद्गीतेंतु ईश्वराले जाग्यार मन आनी बुद्धी अर्पण करनुं सदैव तागेलेंची स्मरण करचे योगाक. 'अभ्यासयोगयुक्तेन चेतसा नान्यगामिना (भ. गी. ८–८) "अभ्यासयोगेन ततो मामिच्छाप्तुं धनंजय" (भ. गी. १२–९) "अभ्यासेन तु कौंतेय वैराग्येणा च गृहचते." (भ. गी. ६–३५) म्हण्णू स्पष्टीकरण केलिलें आसा. श्रीकृष्णान प्रतिपादन केलिलो हो राजयोग पुरंदरदासबी शिफारस करताची. हे भजनेचें विवेचन श्री बाबुराव कुमठेकरांनी अत्यंत सुंदर आनी सुलभ शब्दांनी केलिलें आसा. ते हृणताची," हे भजनांतु योग प्रणालीचे मुखांतर भक्तिचें रहस्य समजायिलें आसा. भारतीय जीवन साधनेचे परम लक्ष्य म्हळचार मोक्ष आसा. मोक्षाखातीर साक्षात्कार अनिवार्य आसा. साक्षात्काराचे दोन भाग आसताची. एक स्वतः आपण्यांतु आनी दुसरी विश्वांतु. स्वतः आपण्यांतु जो साक्षात्कार जाता तो आत्मसाक्षात्कार जाता. विश्वांतु जो साक्षात्कार जाता तो परमात्म साक्षात्कार आसता. एक स्वरुप दर्शन आसा, दुसरे विश्वरूप दर्शन.

स्वरुप दर्शनाखातीर सचक्रांचो शोध घेवचो आसता. हीं स चक्रं कुंडलिनीचे मार्गावयर आसताची. जीव मातृकुक्षींतु प्रवेश करचे तेन्नां कुंडलिनी आनी प्राण शक्ति सयत प्रवेश करता. म्हण्टकूच कुंडलिनीचो संबंध प्राण शक्ति बरोबर आसा.

कुंडलिनीचे मूळस्थानांतु मूळाधार चक्र आसता. बेंबलीलागीं स्वाधिष्ठान चक्र आनी ताजे वयर मणिपूरक चक्र आसता. हृदयालागीं अनाहद चक्र आनी कंठांतु विशुद्धाख्य चक्र आसता. भोंवयांचे मदें आज्ञा-चक्र. हे स चक्रांचो शोध घेवचो आसता. प्राणायामाक लागून हो शोध सफल जाता. सतत नाम स्मरणाचे चरम-रूप अजपा– जा पआसा. जे तरेन हृदयाचे स्पंदन आनी श्वासोच्छ्वास सहज सातत्य रुपान चलत आसता, ते तरेन अजपा-जाप सहज आनी सतत अुरता

शब्दोच्चारण हे एक तरेचे स्पंदन आसा. स्पंदन हें प्राणायामाचे सूक्ष्म रुप आसा. सतत-नाम-स्मरण केलिल्यान जें सूक्ष्म स्पंदन जाता, ताकालागून अनायास प्राणायामाची प्रक्रिया जाता. भक्तितु जें एक विशिश्ट नांवाचे सतत स्मरण चलत. आसता ताका लागून शरीरांतु प्राणाचे विशिश्ट रूपान स्पंदन जात आसता. हाकाची लागून स चक्रांचो शोध जाता. हीचि भक्तियोगाचि सहज प्रक्रिया आसा

ही जाली शरीर शुद्धीची प्रक्रिया पुण भक्तियोगांतु प्रवेश करचे खातीर कोणाली भक्ति कर्ची आसता ताजे खातीर निष्काम निरतिशय प्रेमाची आवश्यकता आसता. हे निरतिशय प्रेमा खातीर इतर सर्व इच्छा संपूर्ण त्याग करचे आवश्यक आसता हे प्रबल इच्छांक " एष्णा " म्हणताची हे एष्णाचे त्रिविधरूप आसता. १. पुत्रेष्णा २. वित्तेष्णा आनी ३. लोकेष्णा.

हे त्रिविध एष्णा त्याग केलील्यान जी भक्ति अुत्पन्न जाता ताका लागून निष्काम आनी तिरतिशय प्रेम अुत्पन्न जावचो संभव आसता.

नामस्मरणाचे सातत्य आनी ताजे तीव्रतेन स चक्रांची शोध जाताना कुंडलिनी क्ति ( म्हळचार प्राणशक्तिचो वाहक ) जागी जाता. आनी वयर अुठता ती शक्ति सुषुम्ना भेद करनुं सहस्त्रारांतु ( म्हळचार ब्रह्मरंध्रांतु ) पावता जाका लागून आत्मनुभूती जाता. थंयींची ब्रह्मदर्शन जाता."

पुरंदरदासांक आत्मानुभूती जालिले वर्णन करचें हें भजन पूर्णतरेन दिवचे आवश्यक आसा " दोळयान पळया श्रीहरिक; पुण ज्ञान दिश्टीन पळया सर्वत्र. आधार आदि स चक्र शोधुनुं सोड ईष्णा तीन कर सुषुम्नेक साधन भेदन कर आनी थंय पळय परब्रह्माक ! अनिमेष दिश्टीन तू पळय । प्राणापात पूर्ण बंधन कर ।। प्राणामान बंधन कसुं अंतरनाद आयकुन् तुं नवविधभक्तीव भजप श्री हरि तूं अंडांत् खेळत तो आपता ब्रह्माण्डांतु तो नारायण म्हणयता कुंडलीचे घरांतू बसून जगाचे रक्षण पुरंदर विठल करता.

हे तरेन पुरंदरदासांक विश्वं जाली. आनी भराले धवल प्रकाशाचो तेजाचो साक्षात्कार अुपरांत तांगेले सर्व जीवन तेजोमय जीवाचो आनी अतिम अस्तित्वाची जाणीव जाली. जीवाचे जीवत्व नाश जावनुं जीवात्मा परमात्माचे सान्निध्यांतु नित्य निरंतर निवास करतालो जालो. जें जाय आशिले तें मेळिल्यान, जे विशयाची अुणीव आशिली ती मेळिल्यान जीवन धन्य जाले.

पुरंदरदासांक आपण्याले जीवनाचे सार्थक जाले म्हण्णुं दिसले की तांगेले तोंडांतल्यान अुद्गार आयले, " हरिदासांलो सग मेळो माका ! आता आनी जाय किते तें!" कारण अभिमान गुरु उपदेश मेळोकी अहंकार, ममकार मिटलो, रामन जीभेवयर अुभो राबलो, नानात्वाचो भ्रम दूर जालो, हरिस्मरण मनान धारण

केले, माता–पिता तो मुकुंद जालो, संदेहातीत परमात्माज्ञान मेळे, शाश्वत सुखानंद मेळो, मेगेलो वंश पावन जालो. पुरंदर विठला, साक्षात् तूंची माका मेळो. आनी आतां जाय किते माका !'

जे मनीसाले अंतस्करणांतु निवास करचाक देव येता तो मनीस स्वत: देव-स्वरुप जाता. तागेली जल्ममरणाची परंपरा सोंपता. तोआशा ममतेंतु मग्न आसना. अुत्रांक असत्याचो मळ लागना. सर्व जगची हरिरुप जाता. हरिशिवाय मनीस विगड अुरिले नाशिल्यान ध्येय, ध्याता, ध्यान एकची जाता. प्रकाशाचो साक्षात्कार जालो. आनी परोपकाराखातीरची पुरंदरदास शिल्लक उरले. काया–वाचा–मन कृष्णार्पण केलिल्यान परमेश्वर प्रेमान जय व्हरता थंय वच्चे, ते तरेन वागचें आनी तागेले इच्छेतरेन अुरिले जीवन जगचें पुरंदरदासांनी ठरयले. आनी हे धर्तरे-वयले आपण्याले कार्य सोंपलेकी हरिचरणांतु अनंतकालामेरेन अुरचो हव्यास धरनु पुरंदर विठलादिकान दिश्टी ताणीं स्थिर केली.



# पुरंदर दासालें आराध्य दैवत ८

रुशीमुनीक, साधसंताक जेन्ना पयलावयलें भगवत् दर्शन जाता किंवा साक्षात्कार जाला, तेना तें खयचे तेरन जाता म्हण्णु सांगचे कठीण जाता. कारण तो अनुभव अतींद्रिय, अंतस्फूर्त, अखंड, एकरूप आनी आनंदमय जाता. संतांक साक्षात्कार पंचेंद्रियान जायना. सर्व साधारण दोळयांनी तें दीसना. ते दिसचे खातीर संतांक एक असामान्य दिश्टी जावका. जेन्नां श्रीकृष्णालें रुामैश्वर्य अर्जुनाक पो. ोवचें आसता, तेन्ना तो देवाक विचारता, " मन्यसे यदि तच्छक्यं मया द्रश्टुमिति प्र ो। योगेश्वर ततो मे त्वं दर्शयात्मानमव्ययम् ।" ( भ. गी. ११.४ ) श्रीकृष्ण अुत्तर दिता " न तु मां शक्यसे द्रष्टुमनेनैव स्वचक्षुषा । दिव्य ददामि ते चक्षु पश्य मे योगमैश्वरम् ।" ( भ. गी. ११.८ )–अर्जुना, तेजेले हे सामान्य दिश्टीक लागुन तूं मेगेले हे परमात्म स्वरूप पोळोवू शकचो ना. देकून हांवु तुका दिव्यदिशी दिता जाका लागून तूं मेगेलें " योगमैश्वरम् " पोळोब शकतालो.

सर्वात्मक ईश्वराविशय आनी ताणें व्यापिलें जगाविशय भक्तिची. प्रेमाची भावना जे मनीसाले मनांतु अुठता तेन्ना "... ये यथा मां प्रपद्यन्ते तांस्तथैव भजाम्यम् ।"... यो यो यांयां तनुं भक्त. श्रद्धयार्चितुमिच्छति । तस्य तस्याचलां श्रद्धां तामेव विदधाम्यहम् "–जे तरेन मेगेली प्रार्थना करताची ते तरेन हांतु तांका दर्शन दिता जे जे भक्त जे जे स्वरूपाची श्रद्धेन भक्ति करताची, तांगेली ती भक्ति हांवु ते ते स्वरूपातु सदृढ करता आपूण अचक्षु आसल्यारियी भक्तांले दर्शन घेवचे खातीर दोळे धारण करता, आनी आलींगन दिवचे खातीर दोनी हातें पसरायतां- भक्तान कीर्तन केले कीं आपूण पायांनी नाच करता, शून्य आकाशांतु सूर्य उदेता ते तरेन निराकार ब्रह्माक कृष्णरूपी अंकुर फुटून तें साकार जाता. योगीक अुन्मनी अवस्थेतु हृदयाकाशांतु जे आनंदमय तेजाची अनुभूती जाता ताकाची योगी विष्णु, कृष्ण, विठल, पांडुरंग म्हण्णु ओळखताची

छंदोग्योपनिषदांतु ( १-६-६ ) " आदिव्यस्य शक्लं भा: सैव साथ यन्नीलं पर: कृष्णम् " असलो सूर्याचे शुभ्र तेजाबरोबर, नील आनी कृष्ण तेजाचो अुल्लेख जाता. आकाशाक वर्ण नासतानाबी जे तरेन कृष्णनील दिसता तेंची तरेन योगीक ध्यानाअवस्थेंतु विश्वव्यापी असली कृष्णनील तेजाची जी अनुभूती येता तेंची कृष्णाचे मूळस्वरूप आसा.

योगी जन जें अलौकिक आनी दिव्य तेज ध्यानावस्थेंतु पळयताची तेंची

र्गूण परब्रम्हाचे तेजस्वी श्यामल प्रभेचो कृष्ण " ज्योतिषां ज्योति " भक्तांले माखाथीर करकंबरे वयर दवरनूं पढरपुरांतु विठ्ठल रूपान अुभो राबला, म्हण्ण रंदरदास मानताची. " भानुकोटी प्रभा स्वानंद पूर्ण दोनरक्षक। श्रीनिधी पुरंदर ठल श्री रंगाली महिमा पळय। " म्हण्णुं आव्हाहन दिताची. " करूणाकर श्री ठल तो, परमपुरुष परमात्मस्वरूप तो। " " नीलवर्णाची दिव्यमणि मेळया का " " मन अुरका कर्म कार्यांतु। तूं तूंचि आसा सर्वत्र पुरंदर विठला " तुगेलेंची गायन, तुगेलेंची पूजन। तुगेलेंची स्मरण। तोचों सहारो ते चरणांचो " हृण्णुं आश्वासन दिताची.

पुरंदर दासांले व्यतिरिक्त कर्नाटकांतले अनेक संतांनी पंढरपूरचे विठलाक आपण्याले कुलदैवत मानलें श्रीपादरायांनी " रंग विठल " श्री विजयदासांनी ' विजय विठल " श्री मायण्णदासांनी " गोपाल विठल " श्री जगन्नाथ दासांनी ' जगन्नाथ विठल " नांवान अुपासना केली.

वास्तविक महाराष्ट्राचें संतपरंपरेंतु विठलभक्ति फलद्रुप जावचे पयलें ही भक्ति परंपरा कर्नाटकांतु सखोलतेन आशिली अशें दिसून येता. देकूनची श्री ज्ञानेश्वरांनी ते विठलाक " कानडा हो विठ्ठल कर्नाटकू " म्हण्णु, नामदेवांनी " विठ्ठल कानडे बोलू जाणे। त्याचि भाषा पुंडलिक नेणे " एकनाथांनी " विठ्ठला कानडा विटेवरी " म्हण्णुं अुद्गार काडनु हें दैवत मूळचे कर्नाटकांतलें दैवत आशिले म्हण्णु सांगले.

" तीर्थ कानडे देव कानडे। क्षेत्र कानडे पंढरिये। विठ्ठल कानडे भक्त हे कानडे। पुंडलीक अुघडे अुभे केले। एक जनार्दनी, भक्ताचिया चाढा विठ्ठल विठेवरी "

पंढरपूरचे विठ्ठलाक पांडुरंग विठ्ठल म्हणताची. पुण पांडुरंग हें शुभ्रवर्णीय रुद्रशिवाचे नांव आसा. देकुनु पांडुरंग हांगेलो पंढरपूर गांव हो पयले शैवक्षेत्र आसचे संभव आसा म्हण्णुं तज्ञ मानताची. ताका लागुन एक मत अशें असा कीं हे क्षेत्रांतले विष्णुरुपी विठ्ठल पयले थंय नाशिलो. तो पुंडलीकाले पितृभक्तिक लागून प्रसन्न जालो आनी कर्नाटकांतल्यान येवनुं विठेवयर अुभो राबलो.

तशें पळयल्यार पुंडलिक स्वत: शैव आशिलो अशें दिसता. कारण तागेले समाधीवयर शिवलिंग आसा आनी तागेलें दर्शन घेतले अुपरांत विठ्ठल दर्शन घेवचो संप्रदाय आसा. पुंडलीकान विष्णुसयत शिवाकबी पंढरपूरांतु हाडले म्हण्णुं निवृत्तीनाथ म्हणताची.

" पुंडलिकाचे भाग्य वर्णावया अमरी
नाही चराचरी ऐसा कोणी
विष्णु सहित शिव आणिला पंढरी
केले भीमातीरी पेरवणे जेणे
निवृत्ती मांगे नातु विठ्ठल अुच्चार
वैकुंठ अुतरे एक्या नामे ।।,

पुंडलीकान विष्णुसयत शिवाकबी पढरपूरांत हाडनुं भीमानदीतीरावयर तांगेली स्थापन केली म्हळळी परंपरा कित्येक शतकांपासून कर्नाटक–महाराष्ट्रांतु स्वीकारचांतु येतालो. शंकर आपण्याले हृदयांतु सदैव विष्णूलें ध्यान करता आनी शंकर सर्वश्रेष्ठ भक्त आशिल्यान विष्णून ताका आपण्याले मस्तकावयर धारण केलें. ज्ञानेश्वर म्हणताची,

" माझ्या शरिरि ज्योतिर्लिंग अुगवले । अगाध कवळले हस्तेवीण । बाप रखुमादेवीवरु ज्योतिर्लिंग विश्वनाथ । तेणे माझा मनोरथ पुरविला गेमाये । " ...... " द्वादश लिंगाचें जें का आत्मलिंग । ते हे पांडुरंग विटेवरो । अनंत सूर्याची ज्योतिची निजज्योति । ती ही अुभी मूर्ति विटेवरी । "

संत निळोबा म्हणताची "ऐक्यरूप हरिहर । अुमाकटीकर विटेवरी ।" तेची तरेन संत रामदास अुल्लेखिताची "विठोने शिरों वाहिला देवराणा । तया अंतरी ध्यास रे त्यासि नेणा । " एकंदरीत विठोबाले माथ्यावयर शिवलिंग आसा म्हण्णुं समज़त पूर्वकाळापासून आशिली.

कर्नाटकांतले कवि द रा. बेंन्द्रे म्हणताची, " शंकराचार्यांनी पंचायतनाक आसरो दिलो. ब्रह्माची महती प्रतिष्ठित केली. आनी हरि-हर ऐक्याची मूहूर्तमेढ रोयली. प्राचीन पंपाक्षेत्रांतु हरिहरसमन्वयात्मक श्री विरुपाक्षालि महती वाढयली. तुंगा-भद्रा ही हरिहरात्मक आसा म्हण्णुं प्रसिद्धी दिली. हे प्रभावाक लागून. कर्नाटकांतु देवळं बांदचातु आयली. हरिहर हेची जगाचे आवय बापय आसाची. हरि आनी हर हे एकमेंकाली शक्ती आसा. हर मुक्ति दिता तर हरि-भक्ती दिता एकाली निवृत्ती तर दुसऱ्याली प्रवृत्ती. धर्म दोनमार्गी आसा. अभ्युदय आनी निःश्रेयस हे क्षेत्रांचे ऐक्य साधका. हरि-हर ऐक्य, प्रवृत्ती – निवृत्तीची संधी, इष्ट आनी धर्म हांचे संयोजन ...... हांचे संमिलनाचे फळ म्हळचार विठ्ठल. " हेची विठ्ठलाले पूर्व स्वरूप मार्कान्डेय ऋशींनी " शिवाय विष्णुरुपाय शिवरूपिणे । यथान्तरं न पश्यामि । " म्हण्णुं शिव-विष्णूले ऐक्य हरिवंशपुराणांतु सांगल्या.

विष्णु शब्दाचो अपभ्रंश विठ्ठु म्हण्णु कन्नड भाशेंतु जालो म्हण्णुं रामकृष्ण भाण्डारकर म्हणताची " पंडरंगो रुद्रः " म्हण्णु हेमचंद्रान शब्दाचो अर्थ दिलिलो

आसा. पंडरंग किंवा पांडुरंग हे शब्दाचो मूळ अर्थ रुद्र किंवा शिव म्हण्णुं आसा. " पंडरंगपुर " म्हण्णु जें इतिहासांतु नांव दिसून येता ताजे वयल्यान हांगा पयलें शिवालें देवालय आसचो संभव आसा. तशें पळयल्यार आळंदीबी पयलें सिद्धेश्वराले शैवक्षेत्र आशिले. पुण जशें जशें वैराग्य संपन्न शिवोपासना मागशी पडली तशें तशें महाराष्ट्र कर्नाटकांतु वैभवशाली विष्णूली अुपासना प्रचारांतु येवचाक लागली. महाराष्ट्रांतु ज्ञानदेव-नामदेव एकनाथ तुकारामांतसले वैष्णव संतांक लागून आनी कर्नाटकांतु श्री मध्वाचार्य, श्री नरहरीतीर्थ, श्री श्रीपादराय, श्री वादिराज, संत पुरंदरदास, कनकदास असले संतांनी विष्णुरूपी विठ्ठलसंप्रदाय प्रसार केलो.

सर्व संतांनी मान्य केलें आनी पुंडलीकाली शैवभक्ति लक्षांतु घेवनु शिव-विष्णूंतु आसचो अभेद दाखोवचे खातीर ताणीं पंढरपूरांत विष्णूले वैकुंठ आनी शिवाले कैलास ह्यांचे ऐक्य घडोवनु हाडलें. नामदेव सांगताची " पुंडलीकभाव पाहूं आला देव। प्रसन्न झाले सर्व पुंडलीका ॥ वैकुंठ कैलास आणील हा येथे। नामा म्हणे हित झाले आम्हा ॥"

परंपरेन आतां पांडुरंग आनी विठ्ठल हे दोन्नी शब्द इतले एकरूप जाल्याची कीं पांडरंग शब्दाचो अर्थ शिव आनी विठ्ठल शब्दाचो अर्थ विष्णु म्हणुं जाता, हें सहसा कोणांलेयी लक्षांतु येना. कदाचित् पांडुरंग हो शब्द विठ्ठलाक अुद्देशून लायताना भाविकांले मनांतु विश्वास आशिलो अुरत कीं शुभ्रवर्णाचो शिव आनी कृष्णवर्णाचो विष्णु हे मूळांतु एकची आसाची. विष्णुसहस्रनाम हे महाभारतांतु आसा. " सर्वः शर्वः शिवः स्थाणुः " आनी " स्वयंभूः शंभुरादित्यः" ही नांव आयल्यांची शंकराचार्यांनी हे शब्दांवयर भाष्य करताना " स ब्रह्म स शिव इत्यभेदोपदेशात् शिवादिनामभिः हरिरेख स्तूयते " म्हळचा.

मार्कंडेय रूशींनी जेन्ना शिव-विष्णूले ऐक्य हरिवंशपुराणांतु सांगले तेन्नां विठ्ठल हेंची ताका लागून निर्माण जालिले प्रतीक आसूयेत. कदाचित् शैव-वैष्णवांमदलें वैमनस्क दूर करचे खातीरची कर्नाटकांतल्यान तो आयलो आनी भीमातीरावयर अुभरावलो. " एक सत् " हे महान सिद्धांतांचे प्रतिपादन हे देवलेक लागून जाल्या. मूर्ती विष्णूली आसल्यारियी ते मूर्तीचे माथ्यावयर शिवलिंग आशिल्यान हरिहर सामरस्याचे तत्व प्रत्यक्षांतु दिसले. महाकवी बेंद्रे म्हणताची, " कर्नाटकांतले रुद्रभट्ट, चौंडरस, कुमारव्यास, लक्ष्मीश, चाटुविठ्ठलनाथ हे कवींनी हरिहरसामरस्याचें तत्व प्रतिपादन केलिले आसा. आनी तें एक अर्थान विठ्ठलतत्वची आसा."

" एक सत् विप्रा बहुदा वदन्ति " हे वैदिक मंत्रावयर भाष्य करताना सायणाचार्य म्हणताची, " अमुमेवादित्यं एकमेव वस्तुतः सन्तं विप्राः मेधाविनः देवतातत्वविदः बहुदा वदन्ति ।"

विष्णुपुराणांतु " परमार्थतस्त्वमेवेको नान्योसि जगतः पते । तवैष महिमा येन व्याप्तमेतच्चराचरम् ।। " विष्णु हे एकची देवाले महिमेन सर्व चराचर भरिलें आसा. हे एकची देवाक देवतातत्ववेत्ते अनेक नांव दिताची. शिव हें नावानबी हरीलेंची स्तवन जाता. म्हण्टकूच शंकराचार्य, सायणाचार्य इत्यादींनी प्रतिपादन केलिलो आनी विठ्ठल स्वरुपांतु अुक्ते स्वरुप धारण करचें हरिहरतत्त्व हे विकासाचे एक पर्व आसूयेत अशें दिसून येता.

पांडुरंग हे विठ्ठलाचेंची नांव आशिल्यान शैव आनी वैष्णव पंढरपूर दिकान आकृष्ट जावकाची हें स्वाभाविक आसा. कर्नाटक महाराष्ट्राचे सरहद्दीवयर आशिले हे क्षेत्रांतु शैव योगी आनी वैष्णव भक्त निर्गूणात्मवादी आनी सगुणात्मवादी, अद्वैती आनी द्वैती मताचे जन प्रांतभेद, भाषाभेद, जातिभेद विसरनु एकत्र आयले. आनी ते दिश्टीन पंढरपूर हें महान आध्यात्मिक आनी सामाजिक विकासाचे, प्रगतीचे केन्द्र जालें.

असले महान् दैवत पुरंदरदासांले आराध्य दैवत जालें. तांगेले साधकावस्थेंतु ईश्वरदर्शनाचे अुत्कट इच्छेन अभंग स्फुरण पावले आनी तांतूत पंढरपूर आनी विठ्ठल भक्तीचे अुकळचे प्रेमान तांगेले तन-मन कवळलें. मन स्वरूपांतु विलीन जाले अंतर्बाह्य तेची स्वरूपान आकार पावलें. आनी तांगेले श्रीमुखांतल्यान अुद्गार आयले " मन-वचनीं कार्यकरणीं तूं तूं तूंची तो पुरंदर विठलु " " नित्यानित्य वस्तूंतु नित्यतृप्त तो पुरंदरविठलू । " पुण ते अनंत काळापासून अस्तित्वांतु आसचे असामान्य देवतेक कोण समजू शकता ? " तुजें तें म्हात्म्य तूंची तें जाणता ; अन्य जन अनुभवीत कांय पुरंदर विठला "

संताक जेन्नां खरें तत्वाची जाण घेवची आसता आनी ती जाण इतर मनीसांक वितरण करची आसता तेन्नां वेदज्ञानाचो अर्थ समजचाक सर्वसामान्य असली शक्ती तनमनांतु अभिव्यक्त करची अवश्यकता दिसून येता. खरे ज्ञान, सर्व समाधानकारक नम्रता, निरिच्छिता आनी समाधान वृत्ती निर्माण करता. असले वृतींतु वैराग्यासयत त्याग, भक्तिसयत प्रेम, आनी ज्ञानासयत शांती प्राप्त जाता.

पुण जे विठलाले दर्शन पुरंदरदासांक जालें तो कांय ऐतिहासिक विठल म्हंय तर आध्यात्मिक विठल जावनु आसा. निर्गुण परब्रम्हाची पयली सगुण प्रतीति तांका विठलस्वरूपांतु जाली आनी तीची ताणीं " भानु कोटी प्रभा स्वानंद पूर्ण दीन रक्षक " रूपान पळयली. सूर्य तेजाचे प्रतिक जावनुं आसा. ऋग्वेदांतले अुत्तम आनी श्रेष्ठ ज्योती म्हळ्यार " तत्सवितुर्वरेण्यं भर्गोदेवस्य धीमहि " (३ – ६२ – १०) हे सावित्रीं मंत्रांतले " वरेण्यं भर्ग " म्हळ्यार श्रेष्ठ तेज आसा. तेची ज्योतीक " अच्युत " म्हणचांतु आयल्या. आनी बृहदारण्यकोपनिषदांतु " तद्देवा

ज्योतिषां ज्योतिरायुर्होपासतेऽमृतम् ” (४. ४. १६) “ अमृत ” म्हळचां, विष्णं चक्रपाणी आसून तो गरूडावयर बसून येता “ वर चतुर्भूज शंख चक्रधर ” तागेले हातांतले वर्तुळाकार सुदर्शन चक्र हें सूर्याचेंची प्रतीक आसा. विश्वव्यापक सूर्यतेजाकचीं विष्णूले सगुण स्वरूप दीवनु “ दिव्य: स सुपर्णो गरुत्मान् ” हे गरुडालें वाहन दीवनुं सुदर्शन चक्रांचे आयुध दीवनुं मूर्ती कल्पना केली. आनी ताची कल्पना पुरंदरदासांनी आपण्याले आराध्य दैवत म्हण्णुं मानलें.

“ जग वेष्ठित तूं तुगेले मायेन
तूं वेष्ठित तूं मेगेले मनान ।।
तूं जाणता हें त्रिभुवन ।
हांवु जाणता केवल नारायण ।।
त्रिभुवन ते तुज्यांतु आनी तूं मेज्यांतु ।
जशें मावता ती हस्ति आरश्यांतु /
तशें आसता विठला तूं मेगेल्यांतु ।। ”

“ माका पार करचो भार तो तुगेलो ।
तुका स्मरण करचो वेपार ता मेगेलो ।।
सती-सुतादींलो तो तुंची आसा गति ।
सकल सर्वस्व अर्पण ती आसा नित्य नीति ।।
काळजाक कवटाळनुं पालन करचो तुजो तो धर्म ।
चरण कमळ धरनूं ध्यान करचो मजो तो कर्म ।।
चूको अनेक मेजचे मेगेले काम ते तुजे न्हंय ।
तुका विसरुनु नासचे मेगेले धर्म ते तुजें न्हंय ।
तुजे विना गति ती खंयची पुरंदर विठला ।। ”

पुरंदरदासांक सगुण साकार विठ्ठलमूर्तिची पूजा–आराधना म्हळ्यार प्रकाशाची, परमात्माली प्रतीकाची पूजा आसा. अंतस्करणांतु आत्म प्रकाश प्रगटलोकीं काळजांतले मंदिराचे गर्भगुडींतु ज्योतीचे निज ज्योतीचो पूजा करची आसता. देव शब्दाचो धात्वर्थची दिव्य, जें प्रकाशिता म्हण्णुं जाता. अवकाशांतु परमात्मज्योति प्रकटली कीं थंय नीलश्यामल वर्ण प्रतीत जाता. देकून विश्वव्यापक विष्णूलो वर्ण नीलश्यामल आसता. आनी तागेली मूर्तीबी कृष्णपाशाणचीचि आसता. जेन्ना अंतस्करणांतु कृष्ण प्रगटता तेन्ना ताजे मुखार अहोरात्र नंदादीप प्रज्वलित करचो आसता. आरतीचे वेळार बंद आशिले कवड उघडची आसताची. आनी गर्भगुडी इतलीचो न्हंय देवळाचो सर्व प्राकारबी स्वच्छ आनी पवित्र करचो आसता. ते विशय संताले जीवन, चलन, मनन, चिंतन आभगेले सामान्य भाविकाले मदतीक येता.



# पुरंदरदास आनी नामसंकीर्तन ....९

ईश्वराले दर्शन, प्रसाद आनी क्रिपा जी संतांक जाता ती ते आपण्याले अभंगांचे मुखांतर आत्मविश्वासान दिताची. आनी तें दिताना तें विवेचन तात्विक किंवा तार्किक नासता. " जगाच्या कल्याणा संतांच्या विभूति । देह कश्टविती अुपकारे " म्हण्णुं संताले कार्याविशय ते स्पश्टीकरण करताची. संताली महानता आनी महत्त्व सांगताना पुरंदरदास स्वत: संताविशय आशिलो आपण्यालो आदर आनी कृतज्ञता अुक्तें करताची. " हरिदासालो संग मेळो माका आनी किर्ते जाय ते माका । "

" सज्जन संग आसा नित्य स्नान तें ।
पुरंदर विठल भजन सागर स्नान तें ।। "

सर्वसाधारण जनसामान्य मनीस आपण्याले जीवन आनी भक्ताले भूमिके-वयल्यान वावरत नाशिल्यान ताका आनी तांगेले अकलन शक्तिक आनी अभिव्यक्तित्वाक साजेशें आध्यात्मिक माध्यम जरूर आसता, हें संत जाणताची. देकून सर्वजनसुलभ असलो, नामसकीर्तनेचो मार्ग ते प्रामुख्यान दाखयताची. "श्रवणं कीर्तनं विष्णो : स्मरणम् पादसेवनम् । अर्चनं वंदनं दास्यं सख्यमात्मनिवेदनम् । " हांतूतले ईश्वर नाम निवेदन वाणी आनी मनान अखंड प्रवाहारुपान पुरस्कार आनी प्रचार संतांनी केलो

ईश्वराली नांव अनेक आसाची. पुण ती सर्व एकची ईश्वरालींची आशिल्यान अमुकची एक नांव घेवका म्हण्णु आग्रह धरचें म्हळयार दुराग्रह आसा. ईश्वराक आकार किंवा रुप नासता, पुण जेन्नां तो साकार जाता, रुप धारण करता तेन्नां ताजे बरोबर तागेले नांवयी प्रत्ययेंतु येता. तशें पळयल्यार ईश्वरालो प्रतीकं अनेक आसताची. तातूत नाम हें शब्दरुप प्रतीक आसा. प्रार्थीव प्रतीकापरस नामाचे प्रतीक जास्त अव्यक्त, निराकार आनी सूक्ष्म आशिल्यान ताजे संबंध ईश्वराबरोबर लागीचो आसता. देकून ॐ हे ब्रह्माचे प्रतिक म्हण्णुं मानताची. आनी ते अक्षरांतु नाश जावचें तशें कांयी नासता. म्हण्णु जें अ–क्षर आसा तें अविनाशी आसा. ते शब्द ब्रह्माचो अुपासना संत सांगून दिताची. कित्याक तर ईश्वर निपिलो आसल्यारियी तागेलें नांव निपिलें नासता. अव्यक्त ईश्वराक व्यक्त करची शक्ती नावांतु आसता. वैखरी वाणीन घेतिले नांव, मध्यमापश्यतिचे मार्गान अंतस्करणांतु वचुनु चित्त् शुद्ध करता. कामक्रोधादि विकार, द्वेश, असूया, अहंकारादि हीन वृत्ती नश्ट जावनुं चित्त ईश्वराले जागीं स्थिर जाता.

तशें पळयल्यार हिंदू धर्मांतु इतलेंची न्हंय तर संसारांतले सर्व भक्तिपंथांतु नामस्मरण आनी नामसंकीर्तनाचो पुरस्कार केलिलो आसा "आस्य जानन्ता नाम चिद्विवक्तन । महस्ते विष्णो सुमति भजामहे ।" विष्णूले नांवाचो अर्थ समजून तागेले संकीर्तन करा. प्राचीन वेदकाळापासून आता मेरेन संसारांतले सर्व सत्पुरुषांनी नामसंकीर्तनाचो अवलंब घेतला.

पुरंदर दासांनी स्वीकारिलो आनी पुरस्कार केलिलो भक्तिपंथ हेंची तरेन सत्याचो पथप्रदर्शन करताची. ज्ञानी भक्ताचे भूमिकेवयल्यान अज्ञ जनतेक समजतालें आनी सहज आचरणेंतु हाडचांतु येत असले नामभक्तीचो पुरस्कार केलो.

"हरिस्मरण विना नर जन्म तो व्यर्थ ।

हरिस्तवन विना नर वाणी ती व्यर्थ ।।"

म्हण्णु ते मानताले. देवान गोड गळो ना दिलो तरी रामकृष्ण संकीर्तन करका. ज्ञान आसून ताजे महत्व तें कितें, जर मन आत्मारामाले नाम गुणगुणना ? "कायी वाचले ते कितें, कायी आयकलें तें कितें । ध्यान मग्न जावनुं हरिस्ममण नित्यतें केलें ना " म्हण्णु तो संतशिरोमणी विचारता. जन्ममरणाचे चक्र जर राबोवचें आसा तर नामजपाचो मार्ग धरका. " कलिकुलांतु स्मरणान हरिनामाचो अुद्धार जाता ते कोटिकुळाचो । सुलभ मुक्तिचो सरलमार्ग जाणून । जलरूहनामाचो स्मरण करून ।"

देकूनु " नारायण तव नाममहिमेचो । सारामृत येवूं मेगेले अुत्रांतु ।"... ... ... " एक खिण स्मरण कर, कोटी जप फल प्राप्त । इंदिरेश पुरंदर विठलाले दिव्य हें तें नाम ।" ...... " गोविंद गोविंद अति आनंद । सकल साधन तव आनंद ।।"

पुरंदरदासांनी नामसंकीर्तनाचे महत्व आपण्याले भजनांतल्यान अनेकपरी सांगले. नामजपाचो मार्ग सरळ आनी ससार आसा. ताजे खातीर संसार सोडचो पडना, रानावनांतु वच्चें पडना. ईश्वरनाम अवचित आयल्यारियी मनीसालो अुद्धार जाता. अजमेळासारखो पातकीबी अखेरिक नारायण नांव अुच्चारिल्यान अुद्धार पावला. नामोच्चारान तन-मन शांत जाता. तें खंयीथी घेवूं शकताची. नित्य नामस्मरण केलिल्यान मनीसाली मनोवृत्ती बदलता. आनी नामासयत हरि हृदयांतु प्रवेश करता. सर्वकाळ अच्युताले नांव घेवचे मनीसाले देह आनी वाणी पवित्र जाता. भगवंताले चिंतनान पातकांची राशी जळून वता. कारण भक्त, देव आनी देवाले नांवांचे त्रिवेणी संगम आसा.

पुराणांतु नामसंकीर्तनाचे गुणगान केलिलें आसा. शंकर आदिनाथ राम नाम सदा जप करता. नारदांले जीभेवयर नारायण नाम सदा आसता. परिक्षित नाम

जपान मुक्त जाल्यार, वाल्या कोळी नामजपान वाल्मिकी रुशी जालो. श्रीरामा परस रामनाम श्रेष्ठ म्हण्णुं हनुमतान सीतामायेक पटोवनु दिलिलें आसा.

अमृतापरस जास्त मधूर आसचें नामामृताचे थेंबोबी मेळच्यार जीभ कोतुकान नाचता. नामसंकीर्तनाचे महत्त्व भक्तियोगांतु सतत सांगचांतु येता. कित्याक तर थंय हरीले स्मरण तागेले नावाचे अुच्चारण जालें कीं इतरांक श्रवण जावचें भाग्य प्राप्त जाता. कीर्तनेंतु ' श्रवणं, कीर्तन विष्णो: स्मरणं "हांचे एकत्र समावेश जात आशिल्यान पुरदरदास ताजो पुरस्कार करताची.

हरिकथा श्रवण केलिल्यान पतित पातकी पंक्तिपावन जाता आनी तागेले पाठी पुरुशोत्तम अुभो आसता. निर्गुण परमेश्वर कीर्तनेचो ब्रम्हानंद रस घेवनुं नाचता, गायता. " नाहं वसामि वैकुंठे योगिनां हृदये रवौ । मद्‌भक्ता यत्र गायन्ति तत्र तिष्ठामि नारद " म्हण्णुं भगवंत सांगता. टाळमृदंगाचे कललीळांतु जेन्नां भक्तिरसाचो अुकळ येता, तेन्नां भक्तांले जीवनांतु सुकाळ येता, दुश्ट बुद्धी नष्ट जाता, आनी कीर्तन आयकत आयकत अ–भक्त भक्त जाता. आनी तांगेले मुखार साक्षात् विठल अुभो राबता.

ईश्वराक हे तरेन तन-मन अर्पण केले कीं ईश्वर तांका आपण्याले वैभवाचो स्वामी करता. तांका आपण्या परस वेगळे दवरना " त्वमेव शरणं गच्छ सर्वभावेन भारत । तत्प्रसादात् परां शांति स्थानं प्राप्यसि शाश्वतम् । " (भ. गी. १८–६२) गंगा सागरांतु विलीन जालिले तरेन भक्ताले अहंकार, वाणी, चित्त भगवंताले चरणांतु शरण जाले की भक्त वेगळो आसना. परमात्मतरेन तो विश्वव्यापी जाता. भगवंताली भक्ति म्हळ्यार सर्व भूतांची भक्ति म्हण्णुं समजिल्यान भूतमात्री क्रिा, करूणा, सर्वभूतसमता, परोपकार, मृदुता, निर्लोभिता, पवित्रता असले समाजहितकारक सद्‌गुण भक्ताले आंगांतु येताची. जातिकुळवर्ण हांचो आभिमान, गर्व तांच्यातु नासताची. प्रारब्धकर्माप्रमाणे विषयसेवन करीत आसताना तो तांतूत आसक्त आसना, परिग्रही आसून बो अपरिग्रही आसता. ताका कर्तुत्वाचो अहंकार नासता. साधनरूप प्राथमिक भक्ति नामसंकीर्तने मुखांतर सुरवात करनुं श्रवण–मनन–चिंतन–स्मरण–अर्चन–वंदन–कीर्तनादि प्रकारांचे मदतीन भक्त अभेदशक्ति संपादन करता. हे तरेन चित्ताची निर्विषय आनी वृत्तीशुन्य अवस्था जे खिणाक जाता ते खिणाक भक्त भगवंतांतु समरस जाता. भक्त भगवंत जाता. असली अभेदभक्ती चारी मूक्ति आनी चारी पुरुषार्थापरस श्रेष्ठ आसता आनी ते दिश्टीन पुरंदरदास पुरंदर विठल साद्दश्य जाता.



# पुरंदरदासांली भजनं

– भजनं हीं भावनेंची उक्तें स्वरुपं आसताची.

– भावनेक शब्दान पूर्णत्व प्राप्त जायना.

– संतांनी वापरिले शब्दांक अनुभवाचो सुगंध आसता.

– संतांनी वापरिले शब्दांचो भाषांतर केल्यार
ते सुगंधाचो सुवास नाश जाता.

– देकूनु कोंकणी भाशेंतले हे भजनांचे भाशांतर
भावनेची उत्कटता दाखोवूं शकना.

– क्षमस्व.

-----

मनीस जन्म आसा तो महान १
हानी ना कर ताजो पिसाळ मनिसा !
कान डोळे हातपाय जीभ जेन्ना आसारे,
माती खावनुं पिसाळ मनाचो जाता कित्याकरे ?
माती कामिनी खातीर तूं हरिनामामृत सोडनु,
उपवास कित्याक करतारे ? मनीस तूं मूर्खरे.
यमदूत जेन्नां पाश लावनुं तुका खेंचताले,
राब राब म्हळ्यार कांय ते राबतालेरे ?
दुःख प्राप्त जावचे पयले धर्म प्राप्त कररे.
भव सागर आडंबरांतु फसू नाका तूंचीरे.
कारण कितें तें, यदुपतिक विसरलो तूं,
धन धान्य पुत्र येताले म्हणून मानतावे तूं ?
आतां तूं एक भाव करून भज तूं,
वरद श्री पुरंदर विठल निजस्वामीक तूं.

----

कोणालो तो कोण, रीणाचो हो सर्व संसारु २
उदकाचो जसो आसा फुगो अनित्य तो. श्री हरी !
तान्हेलो द्रेकूनु गेलो बांयेदिकान हांवु
सुखली ती बांय, जालें तें स्मशान. ॐ श्री हरी !
हुमेलो म्हण्णुं गेलो रुखाचे ते छायेंतु
पडलो माथ्यावयर, तुटलो तो रुख. श्री हरी !
वांधलो तो झोपाळो, वांधून घर वनांतु,
मेळलो तो ना बाळ, पाळण्यांतलो तो. श्री हरी !
वापय तूंची विठल पुरंदरा. नारायणा,
राख तूंची श्री हरि समयी ते मरणा !

----

३

सतत चिंता हे जीवाकरे
नित्य मन माधव रत जाव मेरेनरे.
बायल ना ती चिंता, बायल आसा तीबी चिंता,
कुरुप आसल्यार चिंता, सुरूप आसल्यारबी चिंता.
बापय जावनुं पूताक वाढोवची चिंता,
जगांतु जंय थंय दिसता, चिंताचि चिंता.
काम मेळचार चिंता, काम मेळना म्हण्णुं चिंता,
कामाचो पगारु ना मेळो ती दुसरीचि चिंता,
रीण घेवची चिंता आनी ती परतावचीबी चिंता.
चिंतेविना ना कांयी हे त्रिभुवनांतु.
घर आसल्यारी चिंता, नासल्यारिबी चिंता,
घरांतु सर्व नीट नासची ती दुश्चिता.
अंतरंगांतु पुरंदर विठलालें नित्य चिंतन
करचो मनीस मात्र आसता निश्चित जीवूरे !

----

४

सुख तें किते हे देहाचे ? शोक तो कसलो ?
खिणान फुलता आनी तें खिणान वावता,
मसणांतु देह तें तक्षण जळता.
सति-पति मेळिल्यान, रतिक्रिडा केलिल्यान,
पतित-इन्द्रिय-प्रतिमा रूपी हे देहाची,
सुख उपभोग दाहक देह तें,
भोगरत सत्व नाशक देह तें.
परसेवारत नरक सोसचे देह तें,
पर-परत नश्ट जावचे देह तें.
पुरंदर विठल चरणांतु नित्यरत
ना जावनुं भ्रमित आसचे देह हें.

----

हरिस्मरण विना नरजन्म तो व्यर्थ ५
हरिस्तवन विना नरवाणी ती व्यर्थ.
वेदपठन हीन विप्र तो व्यर्थ
युद्धविद्या हीन सैनिक तो व्यर्थ
कोप सोडना संन्यासी तो व्यर्थ
विना आदर अमृतान्न तें व्यर्थ.
सत्यशौच रहित सदाचार तें व्यर्थ
नित्यनेम रहित जप-तप तें व्यर्थ
सत्य वचन विना प्रवचन तें व्यर्थ
भक्तिभावविना हरिपूजन तें व्यर्थ.
अकालरचें संतान तें व्यर्थ
ज्ञान-दान विना गुरु तो व्यर्थ
वारिजनाभ श्री पुरंदर विठ्ठल
दर्शन विना नयन हे व्यर्थ.

-----

खंयचो कुळाचो आसा तो खंयचो कुळाचो तोरे! ६
आत्मभाव जाणिल्यान कुळबंधनांतल्यान तो मुक्त रे!
कोबू वाकडो देकूनु रस तो वाकडो आसतावे ?
विशयआशा सोडनुं सतत हरिसंकीर्तन कर रे.
विगड रंगाची गाय देकूनु दूधाचो तो रंग विगडवे ?
हीन कर्म काडनुं ज्ञानी मनीसालें कुळ तें कसलें रे.
कुळाची चर्चा सोडरे भावा, ज्ञानीक कुळ ते कसलेरें ?
पुरंदर विठ्ठल चरण शरण तोची दास सदा मुक्त रे.

-----

सरळ मेळतावे ती मुक्ति मनीसा ? ७
हीन वासना दूर ती करका
मन निर्लेप प्रंपची तें अुरका

मनांतले सर्व संशय तो सोडका,
तन-मन धर्मांतु अर्पण तें करका,
पाप कोप सर्वपरी तो सोडका,
गोपाल स्मरण सतत तें करका,
तप करचांतु तत्पर तु आसका,
भवसागर पार करचाक गुरुशरण आसका.
देह-भाव आपण्यालो सोडनु तो दीवका,
देह-अनित्यभाव सतत तो अनुभववका.
परसाधना नित्य रततू जावनु
पुरंदर विठ्ठलालो विश्वास तो घरका.

-----

आंगावयर अुदाक ओतले ताजे फल तें कितें,
जे हीन मनीसाले मनांतुन दृढ भक्ति ती ना.
दानधर्म करचें तेंची आसा स्नान
हीन पाप सोडचें तेंची आसा स्नान
ज्ञान तत्त्व जाणचें तेंची आसा स्नान
ध्यानान माधव दर्शन तेंची आसा स्नान.
गुरु-पद-दर्शन भाव तेंची आसा स्नान
जाणत्यांले दर्शन तेंची आसा स्नान
आदरान अन्नदान तेंची आसा स्नान
हरीचरणी भक्तिविश्वास तेंची आसा स्नान.
दुष्टसंगती त्याग तेंची आसा स्नान
सज्जन संग भाव तेंची आसा स्नान.
स्रिश्टींतु पुरंदर विठ्ठल चरण स्मरण
लीन आसचें तेंची आसा नित्य महास्नान.

-----

मल धूवचें तूं जाणता, मन धूवचें तूं जाणतावे ? ९
अनेक तीर्थ न्हांवनु तन धुंवनु फल ते कितें ?
भोग विशयांतु आसक्त, रागलोभांतु प्रमत्त
भरनु भ्रम सतत ग्रस्त, जन भाग्यवंत जाताची वे ?
योगी तरेन लोकप्रिय जावचाक तीर्थस्थळांतु वचूनु
कावळ्या भशेन बुडल्यार माघ स्नानाचे फल तें येतावे ?
अन्यांले अन्याय चिंतून गुरु जनांली निंदा मानून
परम सौख्य परस्त्री संपादनेंतु, अशें मनांतु मानून
धरती वयर मौन बसून दंभ, अशें जनांतु मानून
नदीतीरावयर वक ध्यान केलें म्हण्णु फल तें मेळतावे ?
धनाची आशा मनांतु धरनु हरिदास असो दिखावो धरनु
देश भटकत काशीयात्रा केली म्हणु फल तें कितें ?
आशापाश नाश ना करना, हीन विशय मनांतु भरता
वेशधारी जावनु बदरीयात्रा केली म्हण्णु फल तें कितें ?
माता-पिता घरी नित्य दुःख त्रस्त आसून बी
तांची अवहेलना करनु वेश्यादालन वचूनु बी
पितृमृत्यु अुपरांत सहस्र ब्राह्मण अन्न-वस्त्र दीवनुबी
श्राद्धकर्म केलें म्हणु पितृ तृप्ती फल तें कितें ?
अनेक वाचन केलें कितें आनी अनेक आयकले म्हण्णु कितें
ध्यान-मग्न आसून हरिस्मरण नित्य ना केलें म्हणु कितें
मौन-नेम निष्ठेन केलें हीन-चित्त म्हण्णु रितें
श्रीनिवास पुरंदर विठ्ठल संतुष्ट तो आसतालोवे ?

----

स्नान करा ज्ञान सागरांतु सर्व १०
हांवु आनी तूं सोडनु तो गर्व.
आवय-बापयली सेवा तेंची आसा स्नान
बंधितांक मुक्त करचें तेंची आसा स्नान
सत्पथ सदा जाणचें तेंची आसा स्नान

इंदिरेशाली ध्यान करचें तेंची आसा स्नानरे !
परनारी ना चोवचें तेंची आसा स्नान
परनिंदा ना करचें तेंची आसा स्नान
परवित्त ना इच्छुचें तेंची आसा स्नान
परतत्व तें जाणचें तेंची आसा स्नानरे !
आत्म तें जाणचे तें दिव्य आसा स्नान
अन्याय ना करचें तेंची आसा स्नान
अन्यथा ना उलोवचें तेंची आसा स्नान
सतत हरिस्मरण तेंची पुण्य आसा स्नानरे !
जाणत्यांली सेवा तेंची आसा स्नान
गुरुसेवा करचें तें नित्य आसा स्नान
सतीली पतिसेवा तेंची आसा स्नान
पार्थ सारथी-स्मरण तेंची दिव्य आसा स्नानरे !
सात शास्त्र वाचन तें आसा स्नान
भेदाभेद ज्ञान तें आसा स्नान
सज्जन संग तें आसा महानित्य स्नान
पुरंदर विठल भजन आसा सागर-स्नानरे !

----

११

विना शुद्ध मनाचे मंत्र फल तें खंयचे ?
विना शुद्ध तनाचे स्नान फल ते खंयचे ?
स्नानाचे फल तें मेळतावे ते मासोळी-सिंसरीक ?
निवास फल तें मेळतावे ते श्रीशैल कावळ्याक ?
भितरलें स्नाना विना भायरचें स्नान म्हळ्यार
हासता पळय तो श्री विठ्ठल पुरंदर.

----

१२

दास कशीं आसूं हांवु हे संसारी
नारायण भकुति ना लवलेश मजे अंतरी.

निढळी नाम लायलें, हातांतु गोल तांबिये धरले,
रुंद किनारी अनवाळेंबी हांवे पांघुरले,
तरी आंग कवळनु पाय ताणीं दूर दवरले,
आनी पाखंड पाळोवनु ते जन जगी फसले.
धना तांतु मन मेगेले आसक्त तें आसा,
संसारी जीवन जीवचें व्यर्थ तें आसा.
ना केलें केन्नांयी आर्त जावनु हरिस्मरण
दूर अुरलो सदा सत्यशौच्यापासून रे सुजन
पूजा ना केली इंदिरेशाली हांवे केन्नांयी
पूजा जप–तप, स्नानसंध्या थोडेंबी जाणना
सूचता साधन एकची तें पुरंदर विठ्ठल
चरण कमल भकुति जाणतां ची सकल.

----

अपमान जावचें वरें मनीसाक १३
अपरूप हरिनाम जपचें ते जीवाक.
मानान अभिमान तो वाढता
अभिमानान तप तें हीन जाता.
मानी दुर्योधनाली जाली हानी ती
अनुमान ना मानापमाना सम ती.
अपमानान तप तें वाढता
अपमानान पुण्य तें सफळता.
अपमानान नृप धृवरायाक जे तरेन
कपट नाटकी विष्णु दरशन जालें तें तरेन.
कितें करूं खंय वचूं कोण कोणालागीं
कमलनयन हरि जो मेरेन जायना जागी
मुनि-जन रक्षक पुरंदर विठ्ठल
मागता मानापमान हांवु केवल.

----

कशीं आसूका संसारांतु  १४
तें सर्व रेखिल्या पुराणांतु.
खेळांतु बाळान घर जशें बांधिलेंरे
खेळ सोडनु जे तरेन तो धावलोरे.
जत्रा जनांनी सुंदर जशें सजयिलें
पत्रां कवळनु जे तरेन पथिक परिक्रमिलेरे.
आंगणांतु अगणित पक्षि जशें आयले
आकाशांतु जे तरेन अुडून ते गेले रे.
पथिक आयलो आनी रात्र पडली
फांतोडी आयली रस्तो तो चाललोरे.
संसारांतु आसा ‘ अहम् मम ’ तो पाशरे
‘ इदं न मम ’ तोची तो मुक्ति संदेशु रे.
पुरंदर विठ्ठला क्रिपा माका कर रे
‘ अहं मम ’ पासून मुक्त तूं कर रे.

----

हांवु मागना विंगड कांयीं विठ्ठला.  १५
हृदय कमलांतु तू स्थित जारे स्वामी.
तुगेले चरणांतु शिर स्पर्श पावूं
तुगेले मुखदरशन डोळे सदा जडूं
तुगेले भजन गीत कान नित्य आयकूं
निर्माल्य सेवन हरि नांक नित्य करूं.
तुगेले यशोगान अुत्रांक करुं दी
तुगेले सेवारत हातांक आसूं दी
तुगेले तीर्थयात्रा पायांक करुं दी
तुगेले अनुदिन स्मरण मनांक आसूं दी.
बुद्धी तुगेल्यांतु लीन आसू, मन मेगेले
चित्त सदा तुगेल्यांतु स्थिर आसूं सगळें
भक्त जनांलो संग सदा आसूं हे स्वामी
पुरंदर विठ्ठला हीची दी तू दया हमी.

----

करुणा कर तूं म्हणयता कित्याक १६
भरवसो तुजो तो ना माका.
नाना तरेचे नर जन्म दीवनु माका
पुनः पुनः मन मेगेले मोडनु तें काडता.
धृव बली पांचाली अहिल्यादिलो
रक्षक सर्व संसारांतु तूं म्हणयता.
विचार करनु जर नियाळून पळयता
दिसता ती हीं सर्व जशें दंतकथा.
करुणाकर जर तू खरो आसा हे समय
कर तूं रक्षण धरनु मेगेलो हातु पळय.
सरसिजाक्ष तूं शासक सत्य आसा तर
दुरित जन माका सतयताची कित्याक तर !
मरणकाळांतु अजामिळाले केलें तुवें रक्षण
गरुडवाहनु जावनुं केले सांगताची तें तक्षण
हे सर्व पदावळी जर आसका तुका सदा
क्षणांतु संभाळ तूं माका पुरंदर विठला.

----

सकल सर्व हरिपूजन तूं मान १७
रुक्मिणी पति विना अन्य कांयी ना मान
वचनं सर्व नारायण कीर्तन तूं मान
चलनं सर्व श्री हरियात्रा समान
दिवचे दिवोवचें सर्व कृष्णार्पण मान
मेळिले अन्न विष्णु प्रसादसम मान
नवें वस्त्रपरिधान हरीन दिलिलें दान
सुमन सुगंध सर्व श्री कृष्णार्पण मान
आभरणं सर्व नंद नंदनाली तीं मान
नवपरिणीता-संग गोपालकृष्ण-संग-मान
खेळक्रीडा सर्व अंतर्यामीले तीं मान

मिलन दर्शन तें सर्व हरि दर्शन
उत्तम वस्तु आसा पुरुषोत्तम मान
संसार ताप नाटक तीं सूत्रधारीलीं मान
निदचे जागचे तें सर्व क्षीराब्धी निवास
निधि विधि सर्वस्व गजराज वरद
रौद्र दारिद्र्य सर्व राघव चरणीं मान
श्रीमुद्रा धारण आसा हरिदासांक मान.
अणुरेणु तणकाश्ट परिपूर्ण आसा तो
अनंतानंत महिमा संपूर्ण आसा तो
दुश्ट मर्दन शिश्ट पालन व्रतधारी तो
फणिशायी पुरंदर विठल परदैव आसा तो.

----

यंत्र मेळे माका तें योग मंत्र रे — १८
यंत्रवाहक नारायण स्मरण अंतरंगातुरे.
आशेंतु बुडचो ना तो, क्लेशांतु नाश तो ना
वासुदेव कृष्ण हरिले शाश्वत दिव्यनाम सदा तें.
पसरायशी तूं पांघुरशी, खावनुं पोट पूर्ण भरशी तें
दासरक्षक नित्यनारायणाले दिव्य नाम म्हणशी तें
एक वेर स्मरण कर कोटि जपाचे फळ प्राप्त कर
इंदिरेश पुरंदर विठलालें दिव्य नाम स्मरण धर.

----

गुरु कारुण्य विना परमगती ती दुर्लभरे, — १९
व्यर्थाचरणेन केन्नांयी फळ ते मेळनारे,
गुरु कारुण्य विना अन्य गति ती नांचिरे.
पुत्र मित्र आप्त वांधव सर्वई शरीराचे
सद्गतीचें साधन ते खंयचे तरेन आसतालेरे ?
गुरु शरण हीची ती शाश्वत सतत गती,
पावयताली तीचि पुरंदर बिठलाले श्री चरणीं ती.

----

गुरु उपदेश विना ज्ञान २०
गुरु उपदेश विना योग
गुरु उपदेश विना कार्य
कर्म सर्पालो जसो उपवासरे.
व्यास गुरुरायांले कारुण्यान माका
वर महामंत्र मेळो उपदेश माका
पुरंदर विठलची आसा तें परदैवरे
मुक्त केलें माका भव भयांतल्यान रे.
व्यास गुरुरायांले चरणची ती मम गति
पुरंदर विठल दरशनची ती मम प्रतीरे.

---

मध्वमुनी तो गुरु मध्वमुनी तो २१
सर्वजनांलो उद्धारक मध्वमुनी तो.
प्रथम मारुती श्रीरामचरण कमल दास
मध्वमुनी जालो तो धरनु ती आस
सोमवंशी बलभीम जावनु तो खास
श्रीहरीलो भक्त तो प्राण प्रिय मित्ररे.
कलीकाली धृढयोगी वेदव्यासांलो,
श्री पुरंदर विठला, शिश्यरुपी अवतरलोरे.

---

तुकाची भजता हांवु तुकाची पूजता, २२
तुकाची मागता हांवु तुकाची येवजिता.
तुजेची चरणांचो मागता आश्रयु
तूची पुरंदर विठला आसता रक्षकु.

---



दया कर दया कर दया कर श्रीरंगा २३
दया कर दास मानून दया कर श्रीरंगा.
करत आसा तुजें स्मरण काळ अनेका
परत पळय प्रेम दिश्टीन श्रीवारिजनाभा तू माका
इह पर गती तो तूंची, तो तूंची इंदिरारमणा
सावळी ती आसों सदा, स्वामी तुजी ती करुणा
करता राज हें तूं कामित फल
हरि तूंची सार्वभौम तूंची तो पुरंदर विठल.

----

जंय आसता सदा हरिसंकीर्तन प्रसंगु २४
थंय आसता गंगा यमुना गोदा सरस्वती सिंधू
येवनु सकयल आसताची तीर्थ उभे ते सन्नद्ध
वल्लभ श्री पुरंदर विठलु तो सदा कटिबध्द,
जय जय हरि हरि हेंची सर्वकाल
जय जय हरि हरि हेंची तारावल
जय जय हरि हरि हेंची चंद्रबल
जय जय हरि हरि हेंची विद्याबल
जय जय हरि हरि हेंची दैवबल
जय जय हरि हरि तेंची पुरंदर विठल
तेंची तेंची आसता सुजनांले वल वल.

-----

पळय रे कल्प भूरुहराले हे जगांतु २५
विष्णुदास नासता साधारण मनीस तो.
दुधांतु मेळिले उदकाक कोण म्हणत नीर ?
उदकांतल्यात जन्मिली ती मोती, उदक खरी ?
मातीचि ती मडकी, अजून आसता माती खरी ?
ना ! हरिशरण तो हरिदास मानव नासता संसारी.

हरिलें पादोदक तें तीर्थ जशें,
हरिभक्ष अन्न तें प्रसाद जशें,
हरिशरण हरिदास नर सामान्य नासता,
परमात्ममय नारायण स्वरुप तो आसता.
परब्रह्म हरि तो आसा चरब्रह्म हरिदासु
हरि क्रिपेन रहस्य तें जाता ताका सुलभु.
पुरंदर विठलाले धर्तरेवयले दासांकरे
नर म्हणचे जन वताची रौरव नरकांकरे.

----

हरिदासांलो संग मेळो माका आनी कितें मेळोवचें आसा ? २६
वरगुरु उपदेश मेळो माका आनी कितें मेळोवचें आसा ?
अहंकार ममकार मिटलो मेगेलो आनी कितें मेळोवचे आसा ?
रामनाम वाणींतु स्थिर जालें आनी कितें मेळोवचें आसा ?
नानात्वाचो भ्रम तो मिटलो आनी कितें मेळोवचें आसा ?
हरिलें ध्यान चित्तांतु स्थिरलें आनी कितें मेळोवचें आसा ?
माता-पिता तो मुकुंद जालो आनी कितें मेळोवचें आसा ?
संदेहातीत परमात्म ज्ञान मेळें आनी कितें मेळोवचें आसा ?
शाश्वत तें सुखानंद मेळें आनी किते मेळोवचें आसा ?
वंश मेगेलो पावन जालो आनी कितें मेळोवचें आसा ?
स्वतः पुरंदर विठलूची मेळो आनी किनें मेळोवचें आसा ?

----

मुख्य प्राणु मेगेलो मूल गुरुरे, २८
राक्षसांतक श्रीरामालो तो निजदासुरे.
आवय-वापय तूंची, भावु-वांधवबी तूंची
नित्यप्रति भक्तांलो राखणारो तो तूंचीरे.
तात कर्ता तूंची, वित्त वैभवबी तूंची
सत्य नित्य तूंची, सदाचारबी तो तूंचीरे.

सुखसुलभ तूंची, आनी एकांत गुरुबी तूंची
श्री पुरंदर विठलालो निजदासुबी तो तूंचीरे

-----

दी वरु, गजवदना वरु तूं दी गौरी तनया                                                  २९
तीन-जग तूं वंदितु, सुजन रक्षकु
पाशांकुशधर तूं परमपवित्रु
मूशक-वाहन मुनिजन पोशंकु
मोगान चरण तुगेले ते दाखई
वंदित सादर योग्यांनी नित्यई
सरसिज नाभ पुरंदर विठाई
सतत स्मरण आसूं क्रिपा नित्यई.

-----

दरुशन जालें गोविंदाले                                                  ३०
पुंडरीकाक्ष पांडव पक्ष कृष्णालें,
केशव नारायण श्री कृष्णाक
वासुदेव श्री अच्युतानंताक
सहस्र नावाचे हृषीकेशाक
शेष-शयन वसुदेव तनयाक.
माधव मधुसूदन त्रिविक्रमाक
यादव कुळाचे भूषणाक
वेदांत वेद्य इंदिरारमणाक
आदि मूर्ति प्रल्हाद वरदाक
पुरुषोत्तम नरहरि श्री कृष्णाक
शरणागत सतत रक्षकाक
करुणाकर श्री पुरंदर विठलाक
परम पुरुष ते परमात्म रूपाक.

----

गोविंदु गोविंदु आसा अति तो आनंदु ३१
सकल साधन आसा तुजोची आनंदु.
अणुरेणु तण काश्ट परिपूर्ण आसा तो गोविंदु
विमलात्म जाण जावनं स्व-संपूर्ण आसा तो आनंदु.
स्त्रिश्टी स्थिती लय कारण तोचि तो गोविंदु
महिमानुभव अनुभववचो आसा तो आनंदु.
मंगल महिम परिपूर्ण श्री पुरंदर विठलु
सहज-भजन-रत आसचांतु सदा तो आनंदु.

----

धन्य जालो हे जगांतु हांवु
पन्नगशयनाक पोळोवनं हांवु. ३२
उन्नत महिम पावन चरित सुर सन्नत श्री चरण
गरुड वाहन पुरुषरत्न चन्निग श्रीरंग दरुशन.
देवदेवोत्तम रक्षक श्रीरंग तें परदैवत
कावेरीतट उत्तमक्षेत्र पन्नगशयन तें पळयत.
भानुकोटि प्रभा स्वानंद पूर्ण दीन रक्षक
श्रीनिधि पुरंदर विठल श्रीरंग महिमा ती पळयत.

----

पोळोवनं तुका जालो धन्य श्रीनिवासा,
पोळोवनं तुका जालो धन्य. ३३
पक्षिवाहन लक्ष्मीरमणा
लक्ष दीवनं पळय पांडवा
पक्ष सर्व दैत्य नाशका
रक्षा कर श्री कमलाक्षा.
देशविदेश भटकत भटकत
आशाबद्ध जालो तो हांवु
दास तूं कर माका जग–

दीश श्रीश श्रीनिवासा.
काम-जनक आयक माका
अंतरंगांतली ती आशा
अंतर रहित मुक्ति दी माका
पुरंदर विठल तूं श्री कांता.

----

अच्युतानंत गोविंद नांवाची वस्तु पावली, ३४
अनंत पुण्यायेन पर वस्तु ती माका पावली.
व्यय जायना ती, निपोवनु आसना ती,
सम-समयी उठून गायची वस्तु ती माका पावली.
क्षीरसागरांतले अमृत, कामधेनु ती माका पावली,
नील वर्णाची दिव्य मणि ती माका पावली.
सुरवर मुनीजनांक मेळची रत्नमूल्य ती
वरद पुरंदर विठल नांवाची दिव्य मणि ती पावली.

----

हरि सर्वोत्तम तो, हरि तो परदैवत ३५
हरि सर्व देव तो विश्व-मय जगत
हरि विना आनी कोणी देव अन्य ना.
उरग फन धरनुं म्हणता हांवु बांधवा
जगजन्मदाता तो, ब्रह्म ताजो आसा पुत्र,
जगसंहारक रुद्र आसा ताजो पौत्र,
जगपावन भागीरथी आसा ताजी पुत्रि,
जगजननी श्री लक्ष्मी आसा ती स्त्री.
विश्वतोमुख आसा तो, विश्वचक्षुबी तोची
विश्वतोबाहु आसा तो, विश्वपादबी तोची,
विश्वनाटक सूत्रधारी आसा तो श्री हरि.
आगम निगम पुराण सर्व समान

योगी मुनि गुण गायताची गायन
नाग शयन योगी भूषण वंदित तो
भागवत जनप्रिय पुरंदर विठल तो.

----

नंद नंदन मुकुंद ३६
निगमोद्धार नवनीत चोर
खगपति वाहन जगदोद्धार
शंखचक्र धर श्री गोविंद
पंकज लोचन परमानंद
मकर कुंडल धर मोहन वेष
रुक्मिणी वल्लभ पांडव पोष
कंसमर्दन कौस्तुभाभरण
हंस वाहन पूजित चरण
वर बेलापूर तो चेन्न प्रसन्न
पुरंदर विठल सकल गुणपूर्ण,

----

वालक जाणताचीवे ज्ञानीजन तुमी ३७
जाणताची तो वालकवे ?
शतदश नावांचो शतकोटी तेजाचो
सुखमय रूपाचो जाणताची तो वालकवे ?
ज्ञानसागर क्रीडा रत वालक
ज्ञानी अंतस्करणांतु दिसचो वालक
दीन दासांलो रक्षक तो बालक
स्वतःची महिमा जाणचो तो वालक.
भुवन मंडल सगळें पोळोवचो तो वालक
आत्म-भक्त-मन-रंजक असाचो तो बाकल
आकार रहित साकार तो वालक

साकल्य दिश्टीक अगोचर तो वालक.
तन-मन-धनांतु विराजित वालक
त्रिभुवनविश्व आधारित वालक
बुद्धि-मंडल सीमोल्लंघित बालक
चिन्मय आसा पुरंदर विठल तो वालक.

----

३८

नेत्र दिश्टीन पळय श्री हरिक
ज्ञान दिश्टीन सर्वत्र श्रीहरिक.
आधार आदि षड्चक्र
शोधून सोड ईष्णा त्रय
साधन कर सुपुम्ना ती
भेदन करनु पळय परब्रह्माक.
अनिमेश दिश्टीन तू पळय
प्राणापान बंधन तु करनु पळय
अंतरनाद तो आयकुनु
नवविध भक्तिन भज ते श्री हरिक.
अंड भितर तो खेळत आसता
ब्रह्माण्डांतु नारायण म्हणयता
कुंण्डलीचे छिद्रांतु जो वसता
ते जगरक्षक श्री पुरंदर विठलाक.

----

३९

मेगेलो हो स्वामी आसा जगंतर्यामी
भितर तु पळय, आपण्यांतु भरला तो परब्रह्म
फाफूड तो अहम् आपलो, समज तो निजधर्म
आस्थाय वस्तूची सोडनु स्वस्थ मनन तु करनु
सर्वत्र संचारनु सर्व जनां कर सहवास तु
मळोवनु मग गुरुलो, तें ध्यान धर हरिलें रे
पुरंदर विठलालें दरुशन तेन्नां तें प्राप्त जाता रे.

----

सकल ग्रह बल तूंचि रे सरसिजाक्ष, ४०
निखिल रक्षक तूंचि, विश्वपालक रे.
रविचंद्र बुध तूं, राहु केतुबी तूंची
कविगुरु शनि आनी मंगलबी तूंची रे,
दीस-रात्री तूं, नव-विधानबी तूंची,
भव-रोग-हर तूं ओषधबी तूंची रे.
पक्ष-मास तूं, पर्वकालबी तूंची
नक्षत्रयोग आनी तिथीकारणबी तूंचीरे,
'अक्षय' देखुनु द्रोपदी मान रक्षक तूंची
पक्षिवाहन आनी दीन रक्षकबी तूंचीरे.
रितु संवत्सर तूं, आनी युग आदिबी तूंची
कृतु होम यज्ञ सद्‌गती बी तूंची रे
जय जय आसू स्वामी पुरंदर विठला
श्रुति-मुक्त अप्रतिम महामहिमा तूंची रे.

----

यादव नंदन यो यदुकुलनंदन यो ४१
माधव मधुसूदन सत्वर तूं यो रे.
मामाक मथुरेंतु तुवें मार मारले
यशोदा नंदन सत्वर तूं योरे.
शंखचक्र ते हांतांतु धरनु
सुंदर गोप-कुमार सत्वर तूं योरे.
अकलंक महिमा तूं आदि नारायणा
भक्त रक्षक श्री हरि सत्वर तूं योरे.
पाद नुपुर झुन-झुन-झुन करनु
वेणु वादन वाजयत सत्वर तूं योरे
चेंडु चीणीफणि खेळत खेळत
गोप गोपालां सयत सत्वर तूं योरे
खगवाहन तुजें अनंत तें रूप
हास्य वदन रायु सत्वर तूं योरे
सर्व संसारांतु शुभ महिमा गायीन
पुरंदर विठला सत्वर तूं योरे.

----

४२

आसका जशें आसून नासता,
संसारांतु जनक राजरुशी तरेनरे !
मिथिल नगर भस्म जालें आयकूनु तें
मिथिलेश म्हणता " मम किंचन्नदह्यति " अशें !
दधीचि रुशीन जेन्ना दिली सुरांक अस्थि आपली
मधुवैरीन वैकुंठपुर दिली जे तरेन आपली !
पुरंदर विठलाले दासांली साथ ती
पुत्र मित्र बंधु बांधवा तरेन ती !

----

४३

पळयलें सपनीं गोविंदाक,
पळयलें सपनीं कनक रत्न मणीक
नंद नंदन मुकुंद चरणांक.
चरणीं नूपुर झुनझुनताची
कालिंग फणीवयरी चडताची
धिं धिमि धिमि किट ताल गती अति
मोहक नृत्य रत मुकुंद चरणांक.
कटि पीतांबर गळयांतु ती मोती माळा
कौस्तुभ मणि ती आनी तुलसी माळा
माथे मुकुट दिव्य कर तीं कंकणं
धृत द्वादश नाम निगम गोचरांक.
वर चतुर्भुज शंख चक्रधर हरि
गदा पद्म आनी दिव्य ती आयुधं
दुश्ट-दमन करता शिश्ट पालन हरि
नित्य शोभामय करुणा मूर्तीक.
मंगल वर तुंग भद्र शोभित, श्री
लक्ष्मीरमण आनी भू रमणाक
भवभय ते मिटय लक्ष दीवनु पळय,
श्रृंगार मूर्ति श्री पुरंदर विठलाक.

----

# श्रीसूक्त



नागेश सोंदे

**वासंती प्रकाशन :**
प्रकाशन क्रमांक–१२.



आवृत्ती पयली
जानेवारी १९८२

मूल्य
पंधरा रुपये



**प्रकाशक :**
**वासंती नागेश सोंदे**
**कोंकणी कलासागर प्रा. लि.**
१०, वत्सला निवास,
६५-बी, लिंकिंग रोड,
सांताक्रूझ, मुंबय ४०० ०५४.



**मुद्रक :**
**के. आर. कदम**
आर. के. प्रिंटर्स,
६, रूपालय बोरीवली,
मुंबई ४००० ६६.



**मुखपुश्ट आनी सजावट :**
**सुरेश प्रधान**

## ...यलेचीं दोन उत्रां.....

सवितासूर्यनारायण जेन्नां पूर्व दिकान उदेता आनी आपण्यालीं सहस्र ज्योतिस्वरूप किरणं विश्वांतले प्राणिजीवांवयर आनी निसर्गातिले तण–झाड, फल–फुलांवयर पसरायता, तेन्ना आत्मोद्धाराचे कर्मप्रधान यज्ञकार्याक सुरवात जाता. हे यज्ञाक लागून धर्तरेंतु ऊब, फल–फुलांतु रसामृत, निसर्गातु नवचैतन्य आनी मनिसांतु ज्ञानैश्वर्य वितरण जाता.

सवितासूर्यनारायणाले हें कार्य हे भूतळावयर अनेक रुशी–मुनि, संत आनी सत् पुरुशांले मुखांतर सफल जाता. श्री पांडुरंग शास्त्री आठवले–हे सवितासूर्यनारायणान वेंचिले एक माध्यम जावनु आसाची. ताणीं दिलिले ज्ञानामृतान प्रभावित जालिले मनीसातु हांवु एक मनीस आसा. पुण सूर्यकिरणांचे प्रकाशान प्रभावित जालिलो मनीस जे तरेन सूर्यभगवंताले ज्ञान मेळें म्हण्णु सांगू शकना, ते तरेन श्री सूक्ताचे विवेचनान प्रभावित जालिलो हांवु श्री सूक्ताचे सर्वांगी ज्ञान मेळवूं शकलां म्हण्णु खंडीत सांगू शकना. पुण सवितासूर्य नारायणान दिलिली ऊब, जे तरेन थोडेची प्रमाणांतु निसर्गातले तण–झाडांतु शोषण जाता, आनी ते तरेन शोषण पाविले उबेंतली थोडीची ऊब अंशरुपान फल–फुलांतु प्रतिसंकलित जाता, ते तरेन श्री पांडुरंग शास्त्रि आठवलेनी दिलिले अणभवांचो थोडो अंश मेगेले हे पुस्तकांतल्यान दिसून येत. मानिलें आसा कीं शास्त्रीजीले अमृतबिंदूंचो स्पर्श जालो तर मनीस कृतार्थ जाता. देकूनु हांवु मानता कीं श्री सूक्ताचे तांगेले विवेचनान हांवु थोडे प्रमाणान तरी कृतार्थ जालिलो उरत. ते अमृतस्पर्शाचो अणभव माका दरदिवस जात आसता आनी मेगेलें मन अविस्मरणीय आनी अनिर्वचनीय असले आनंद, सुख, सूमाधानान संवेद्य जाता. ते आनंद, सुख, समाधानाचो अणभव हांवु उक्तें करूं शकना. किंबहुना तांचे परिभाशण करचेंबी अगत्य ना. जें आसा, तें आसा. तेंची पुरो.

– नागेश सोंदे

आमकां जाणते सांगताले कीं मनीसान रुशीलें कूळ आनी न्हंयेचें मूळ ...न्नांयी सोदचें न्हंय. कित्याक तर, रुशीनीं आपण्याले संसारांतलो संबंध सोडि-यान ह्रोची तागेलो बापय आनी हीची तागेली आवय म्हण्णुं सांगचें कठीण ...ाता. आनी जेन्नां पुरातन काळांतले रुशी विशय उलोवचें असता तेन्नां तर ही ...मस्या जास्तची कठीण जाता देकूनु रुशी मुनींलो जल्म पुराणांतु ब्रह्मदेवांले ...ानांतल्यान किंवा नाकांतल्यान सोदची परंपरा आसा. अत्रि रुशी हो ब्रह्मदेवाले ...नांतल्यान जल्मला किंवा वसिष्ठालो बापय मित्र–वरुण देव म्हण्णुं सांगचें सहज ...ालें. तेची तरेन कोणालो जल्म द्रोणांतु सोदल्यारी कोणांलो जल्म न्हंयेपासून ...ालिलो दिसता.

रुशी–मुनींली जी गत आसा तीची गत न्हंयेची आसा. निर्जन आनी अत्यंत कठीण असले पर्वतांतले गुहेंतल्यान वा प्रदेशांतल्यान जेन्नां एक न्हंय जल्म पावता ...ानी राना-वनांतल्यान वाट काडत काडत, आनी अनेक झरीन मेळत मेळत सुपुश्ट जायत प्रशस्त प्रदेशांतु संथपणान "गंगा" हें नांव घेवनुं व्हांवता, तेन्नां त्रिविक्रम असले विष्णूले किरगळींतल्यान ती जल्माक आयली म्हण्णुं मानचे शिवाय दुसरें गत्यंतर आमकां आसना.

रुशीलें कुळ आनी न्हंयेचे मूळ सोदचें नज म्हण्णुं जाणत्यांनी हे तरेन वजावून सांगल्यारीयी जशें मनीसांले मन तांगेलें मूळ सोदची खटपट करत आसता तशें तो देवांलें कुळ आनी तांची जात सोदची खटपट केन्नांयी करता. मनीसांले मन हें कल्पनेचें स्थान आसा. मनांतल्यान अनेक विचार, कल्पना, आशा–आकांक्षा, स्वप्न आनी विचित्र प्रतिरुप सजोवचांतु ताका स्वारस्य दिसता. ताका लागून देवांले कुळ आनी तांगेले जल्म विषय विचार करचांतु आनी ताजें विषय अनेक कथानक रचो-वचांतु तो आपण्यालें जीवन सोंपयता. तागेले हे कल्पनाशक्तीक लागून हिंदू परंपरेंतु सुंदर आनी स्वारस्याचें कथासागर आमकां प्राप्त जालिलें आसा. देवालें विशय अनेक उल्लेख, कथानक आनी कल्पनेचे अविश्कार आमगेले साहित्यांतु दिसून येताची. पुराणांतु आमकां देवांलो जल्म, बालपण, यौवन, तांगेली झगडीं आनी यश, जनन, उत्क्रांती आनी पतन, सविस्ताराने वर्णन जालिलें दिसता.

हिंदू धर्माचो आनी पुराणिक साहित्याचो अभ्यास केल्यारी दिसून येता कीं हिंदू धर्म ह्रो केवल वैदिक धर्म नासताना वैदिक धर्मावयर आधारलेलो आनी ताजे शेकातळाक येवनु समागम जालिले अनेक आर्येतर धर्मांचो एक समूह आसा. काळानुसार हे सर्व धर्म समूहांतले देवांपैकी थोडे देव मुखार येवचे कामांतु प्राधान्य पावल्यारी थोडे देव काळाचे काळोखांतु अ.श्य जाले. " **वेदो-खिलो धर्ममूलम्** " म्हण्णु मानचें हिंदूंक सहज आसल्यारीयी हिंदू धर्माचे आंगणांतु अवैदिक असले अनेक देवांली हालचाल प्राधान्यतेन दिसून येवचाक लागली. ताका लागून हिंदू देवांले कुळ सोदचें शास्त्रज्ञांक एक स्वारस्याचो विशय जालो.

इतिहासाचो अभ्यास करचांतु एक लाभ आसता. तो केलिल्यान आमकां दिसून येता कीं वैदिक साहित्यांतु जे देव–इन्द्र, अग्नि, वरुण मरुत्––पयलें पयलें स्वतंत्र आनी श्रेष्ठ अशें दिसताले ते देव नंतरचे पुराण काळांतु उप-देव रूपान वावुरचे दिसलें. विष्णु–जो ऋग्वैदिक काळांतु इन्द्रसखा म्हण्णु मानचांतु अभिमान धरतालो––तो नंतरचे काळांतु श्रेष्ठ आनी एकमेव दैवत परमात्मा म्हण्णु धार्मिक साहित्यांतु विराजमान जालो. शिव, महादेवी, गणपती, हनुमान, असले अनेक अवैदि. देवांनी आपण्याले स्थान हिंदू धर्मांतु प्रस्थापित केलें. देकूनु दर एक देवांले मूळ आनी कूळ खंचेयी आसल्यारियी तागेले स्थान आनी तांगेलो प्रभाव मात्र हिंदू मानसावयर धृढतायेन बसलो.

वेदांतु आयज दिसचीं सूक्तं हीं सर्व रुशींनी अनादि काळापासून सर्व काळांतु रचयिली सूक्तं नासल्यारियी वैदिक धर्म आनी सर्व देवांले मूळ वेदांतूची आसा म्हण्णु मानचें साहजीक जालें. हे दिश्टीकोणान पळयले तेन्नां वेदांतले हे सूक्तांचो सांकेतिक अर्थु समजता. ' **इन्द्रं मित्रं वरुणमग्निमाहूरथो दिव्या स सुपर्णो गरुत्मान् । एकं सद्विप्रा बहुधा वदन्त्यग्नि यमं मातरिश्वानमाहुः ।** '[1] आकाशांतु उडचो सुपर्ण म्हळयार सूर्य, होची खरो देव आसून ताकाची जाणते इन्द्र, मित्र, वरुण, अग्नि, यम, मातरिश्वा म्हण्णु आपयताची. ' **एक एव अग्निर, बहूदा समीधा । एक सूर्यो विश्वः अनुप्रभूतः । एकेवोसह सर्व इदं विभाति । एकं वेदम् वी बभूव सर्वम् । ।** '[2] –– एक अग्नि अनेक तरेन जळता, एकची सूर्यु अनेक विश्व प्रकाशिता. एक देव सर्व काळोख नाश करता. एकची तो जो आपण्याले स्वरुप सर्व दिकान प्रगटायता.

हे तरेन देवालें कुळ, मूळ आनी दायज सोदचे वेदकाळापासून मनीस करतालो. जे तरेन मनीसालें मानस विकास पावलें ते तरेन तागेले धार्मिक विचार बदलत गेले. वैदिक साहित्यांतु इन्द्रापासून विष्णु देवते पर्यंत जालिलो विकास दिसून आयल्यार मुखावयले काळांतु, जशे जशें आर्यांलो संबंध आर्येतरांबरोबर निकट आनी लागींचो आयलो, तशें तशें आर्येतरांले देवबी आर्य देवसंघांतु समागम जाले. श्री कृष्ण आपण्यालें दैवी महत्व दाखोवनु दिताना म्हणता, ' **येऽप्यन्यदेवता भक्त यजन्ते ऋदयान्वितः । तेऽपि मामेव कौन्तेय यजन्त्यविधिपूर्वकम् ॥** '[3]

हे पार्श्वभूमीवयल्यान जेन्नां आमीं लक्ष्मी किंवा श्री हिगेले मूळ स्वरुपाचो ां घेताची तेन्ना दिसून येत कीं हे देवीलो उल्लेख मूळ वेदांतु मेळत नासताना ाचे काळांतुले खिल पर्वांतु तो दिसून येता. शास्त्रज्ञांले मतान श्री आनी लक्ष्मी ूळांतु दोन विंग-विंगड दैवत आसून नंतर आर्य आर्येतरांले संयोगान हे दोन ांक एक रुप प्राप्त जालें. शिवाय, ती पयलें पयलें एक स्वतंत्र देवता म्हण्णुं पूज- ्र येत आसल्यारियी नंतरचे पुराण काळांतु ती विष्णु पत्नी म्हण्णं मानचांतु ाली. हांचो विचार थोडे विस्तारान करयां.

गोंडा[4] हे पाश्चात्य लेखिकेलें मतान लक्ष्मी ही मूळांतु वैदिक देवता नासताना ालें अस्तित्व वेदपूर्वक काळापासून एक प्रकृतिरुपी, सस्यशालिनी, जीवनदायी ण्णुं आशिलें. जशें जगन्मातेचे उत्क्रांत रुप पार्वती, दुर्गा हे देवींतु आमकां दिसून ालें तशें हे प्रकृतिरुपी लक्ष्मीलें उत्क्रांत रुप वैभव, वित्त, उत्कर्श, संपत्ती हे तरेन मकां पुराण साहित्यांतु विस्तृत जालें. हे मताक आधार म्हण्णुं तिगेलें 'पुश्टि- ांक' हे विशेषण दाखोवचांतु येता. जसवाल[5] हे विचारवंताले मतान हस्तिले ुदायांतु लक्ष्मीक दाखोवचें हें तिगेले आदिवासी प्रभावाक लागून आसा. अय्यं- राले[6] मतान लक्ष्मी ही विष्णुपत्नी रुपान आर्य समुदायांतु आयल्यारियी ती मूळांतु र्येतर दैवत आसून तिगेल्यांतु निसर्ग, प्रकृती आनी कृशीप्रदान गुणं एकठांय ेलिलीं आसाची. मोतिचंद्र हो शास्त्रज्ञबी हेची मताचो आसा.

जेन्नां लक्ष्मी हे देवतेली जाण आर्यांक जाली तेन्नां ताणीं तिगेलो संबंध ापाम् हे आर्य देवते बरोबर बांदलो. लक्ष्मीले वर्णन '**समुद्रवसने देवी**' म्हण्णुंजें ेता, तें हाका लागून आसा म्हण्णुं तांगेले मत. शेंबावनेकरांले मतान लक्ष्मीलें मूळ ा वैदिक उषादेवतेंतु दिसून येता. लक्ष्मी आनी तिगेली भयणी अ-लक्ष्मीलो विचार रनुं ते म्हणताची कीं जेन्नां आर्यांक उत्तर ध्रुव प्रदेशांतु लांब समयाचो काळोखी ात्री उपरांत प्रातःकाळाची उषादेवी उदयाक येताली तेन्नां तांका अ-लक्ष्मी परांत येवचे लक्ष्मीदेवीलो साक्षात्कार जातालो.

यास्काचार्यांनी लक्ष्मी हे शब्दाचो मूळ धातु अनेक क्रियापदांतल्यान शोधिलो ासा. लांछ, लाश, आनी लाग हे शब्दांवयल्यान ते लक्ष्मी हे शब्दाचो उगम दाख- ताची. गोंडा हिगेले मतान लक्ष्मी हो शब्दु लक्षण, चिन्ह, संकेत हे अर्थान पयलें ो लक्षणं शोभेचीं, बैभवांची आसाचीं तीं लक्ष्मीली म्हण्णुं वेव्हारांतु वापरचांतु ायली. जे मनीसालागी शुभ लक्षणं आसाची तो लक्ष्मीदेवीले क्रिपेक पात्र आसा ्हण्णुं मानचांतु आयले. उदारण, '**यस्य दक्षिणतो लक्ष्म भवति ताम् पुण्यल- क्ष्मक इति आचक्षत उत्तरत स्त्रीया।**'[7] म्हण्णुं शतपथ ब्राह्मणांतु म्हळचां. '**यस्य ुखे लक्ष्म भवति ताम पुण्यलक्ष्मका इति आचक्षते।**' हे तरेन लक्ष्मीदेवीलो ाकारस्वरूप तयार जालो. '**पुण्य भवन्तु या लक्ष्मीः पराभवन्तु यः पापी.।**'[8]

ह्याजे उलट श्री हे देवतेले स्वरूपाचो विकास वैदिक साहित्यांतु विगड न
जालो तशे पळयल्यार श्री हे देवतेलो उल्लेख स्वतः ऋग्वेदांतु ना. पुण त
उल्लेख जो मेळता तो केवल खिल पर्वांतु आसा. श्री सूक्त हे वेदांतु मुख्यतः न
ताना खिलपर्वांतु मेळचे कारण म्हळयार मूळ वेद काळांतु तिगेलें प्राधान्यत्व ज
दिसून आयले ना. पुण जेन्नां श्री किंवा लक्ष्मीलो समावेश वैदिक धर्मांतु पयला
कर्दम, चिक्लीत आनंद इत्यादि रुशींक लागून जालो, तेन्नांचान हे आर्येतर देवत
समावेश आर्यसंघांतु निकट जालो म्हणयेत. कर्दम आनी चिक्लीत हे लक्ष्मी
म्हण्णु श्री सूक्तांतूची उल्लेख आयिल्यान श्रीले आराधनेंतु तांगेले कितले मह
आसा तें दिसून येता.

श्री किंवा लक्ष्मीदेवी ही विष्णु देवतेली बायल म्हण्णु वैदिक काळांतु प्रच
रांतु नाशिले. ही कल्पना नंतर पुराण काळांतु आयिली उरत म्हण्णु शास्त्रज्ञांले म
आसा. हाका आधार म्हण्णु श्री सूक्ताचे पयले पंदरा मंत्राचो उल्लेख करता
काश्मीरांतु प्रचारांतु आशिले ऋग्वेदाचे प्रतींतु पयले पंदरा मंत्रं मात्र असून विष
पत्नी म्हण्णु उल्लेख जालिले नंतरचे मंत्रं नांची.[9] ताका लागून जसवाल हांगे
मतान ही नंतरची मंत्रं गुप्तकाळांतु श्री सूक्तांतु समावेश जाली.

हे तरेन हिंदू धर्मांतु श्री जानी लक्ष्मी देवीलोसमावेश आनी विकास जाल
संसारांतु जे कांय शुभ, वैभव, तेज, आनी वित्त आसा ते सर्व श्री किंवा लक्ष्मी
क्रिपेक लागून आसा म्हण्णुं मानचांतु आयले. सर्वं जीवनाची मूळ शक्ति तीच
आसा आनी तिगेलो सहवास सदासर्वदा आसचाक जाय ही कल्पना मनीसां
वावुरचाक लागली. देवांनी आनी दानवांनी समुद्रमंथन करनुं जेन्नां अमृत काड
निश्चय केले तेन्नां अमृताचो कलश प्राप्त जावचे पयले लक्ष्मीदेवीलो जल्म त
समूद्रांतल्यान जालो म्हण्णुं पुराणांतु कथानक आसा. ती लक्ष्मी तेजाळ, सुंदर
सौरभ, वैभवशाली आनी सामर्थ्यवान आशिल्यान ही सर्व गुणं आत्मसात करचे
श्री विष्णूले सान्निध्यांतूची ती सदाकाळ विराजमान जावूं शकता. ताका लागून
कवि कल्पनेक साजेशे रूप तिका हिंदू धार्मिक साहित्यांतु प्राप्त जाले.

वैदिक रुशींनी लक्ष्मीदेवीले चित्रण अत्यंत व्यापक दिश्टीन केलिले आसा
मनीसांले जीवनविकासांतु जरूर आसचे उत्कृश्ट अर्थशास्त्र ते मुखांतर दिलिले
आसा. भौतिक समृद्धी बरोबर आत्मिक सौंदर्य जे जनांनी फुलयल्यां ते जनांक
भारतीय संस्कृतीन राजर्शी म्हण्णुं सन्मान केंलिलो आसा. रत्नान सुसज्ज आशिले
सिंहासना वयर बसचो जनक राजा हो महान रुशी म्हण्णु मान्यतेंतु येवका हे हिंदू
संस्कृतीचे वैभव म्हणका.

वैदिक रुशींनी लक्ष्मीदेवीक माता, आवय म्हण्णुं संबोधन केल्या. देकूनु, माता
आवय ही भोग्य नासताना, पूज्य आसता. लक्ष्मी आवय समान मानचो मनीस ती

आयिल्यान उन्मत्त जायना, अहंकारी जायना, मदांध जायना, पिसो जायना. ले दोळचामुखार मोहाचो अंतरपाट आसना, भोगाचे उज्यांतु तो जळना. आव- दूध पीवनुं तृप्त जालिले चेरडावरी तो शांत आसता, समाधानी आसता. श्री ग्यार लक्ष्मी, लक्ष्मी म्हळयार शोभा. मानवी जीवनाची शोभा वाढोवचाक जो स आपण्याली शारीरिक शक्ति, बौद्धिक विद्वत्ता आनी आर्थिक संपन्नता जाखातीर अर्पण करता तोचीं खरो कुलीन, सुसंस्कृत श्रीमंत, आनी लक्ष्मीपुत्र ा. दुसरे कोणीयी न्हंय.

---

:

ऋग्वेद, १-१६४·४६.

ऋग्वेद, ८-५८·२.

भगवद् गीता, ९-२३.

Gonda, Aspects of Early Vishnuvism Page 176

Jaswal, Origin & Development of Vaishnavism. Page 91

Quoted in "Some Minor Divinities in Vedic Mythology & Ritual."—Page 103.

शतपथ ब्राह्मण,

भारद्वाज शौतसूत्र, ४-२०.

श्री सूक्त, ४-४, ४-११.

सामान्य मनीस आनी प्रतिभासंपन्न रुशी किंवा कवी ह्यांतु महत्वाचो भे
होची आसता कीं रुशी आनी कवीली निरीक्षण शक्ति आनी कल्पनाशक्ति साध
रण मनीसांपरस जास्त व्यापक, तीक्ष्ण आनी सखोल आसता. ताका लागून मृ
आनी दुश्ट मनीसांले मनांतु परकाया प्रवेश करनुं तांगेले कृती मागशीची वागण
प्रत्यक्ष दृश्य पोळोवका ते तरेन तो पळयता. देकूनु ताका क्रांतदर्शी म्हणताचे
प्रतिभासंपन्न रुशीले कल्पनाशक्तिक अगम्य, ना मेळचें, ना कळचें अशीं कांयी
नासता.

देकूनु वैदिक साहित्यांतले रुशीक जीवनांतली जाणीव मेळिल्यान तांगे
ऋचांतले अलंकार, कल्पनेचें सौंदर्य ते अर्थपूर्णतेक लागून अजून वाढता. ता
लागून अनुभवितांक काव्यानंदाचे परस वयले पावंड्याचो अविनाशी असलो अध्य
त्मिक आनंद मेळता. तत्वज्ञानाचे परिभाशेंतु हे आनंदाक ब्रह्मानंद म्हणताची.

नाद, बिंदु आनी कला हे तीगांचे रुपान योगी आनी भक्तांक परमात्म्याले
सगुण स्वरुपाचो साक्षात्कार जाता. सुसंस्कृत मनीसान ब्रह्मानंद सहोदर असले
आनंद दिवचे जे कळा निर्माण केल्यो ते सर्वांचे मूळ हे नाद– बिंदु– कला ह्यां
आसा. संगीत हे नादब्रह्माक साक्षात्कार दिता. काव्याचे परिभाशेंतु ब्रह्मानंदा
ब्रह्मरस, शांतरस किंवा महारस म्हणताची. थोडे काळ आनंद दिवचे विगड स
रसांचो आधार हे शांतरसावयर आसता. केवल आत्मानंदान तो मेळत आशिल्या
अध्यात्माचो आनी काव्याचो संबंध जास्त लागीचो आसता. सप्तसुरांचे अने
रागांचे मिश्रणान रसिक जे तरेन पिसो जाता आनी नादब्रह्मांतु विलीन जालि
ल्यान स्वतः आपणाक थोडे काळ तरी विसता, ते तरेन शांतरसाचो अणभ
मेळिलो रुशी श्रोते नासल्यारीयी आपण्याले धुंदींतु गायन करचे कलाकारा तरे
धुंद जावनुं आपण्याले हे अणभवान समाधीसुख पावता. हे समाधीसुखाचो आनं
शब्दांनी कितले तरेन सांगल्यारीयी तो पुर्णपणान अविष्कृत जायना.

तरीपुण हे तरेचो ब्रह्मानंद, अथवा आध्यात्मिक, परमार्थिक किंवा अतिभौ
तिक आनंदाची कल्पना सामान्य मनीसांक येवका म्हण्णुं भौतिक आनंदाचे परिभा
शेंतु भौतिक दृश्टांताचे माध्यमांतल्यान आध्यात्मिक आनंद वर्णन करचें साहस रुशीं

ऱ्वी करता. आनी हे तरेन करताना तो भाशेची, दृश्टांतांची, कल्पनेची, रुपकांची र्यादा जाणून करता पुण ही मर्यादा जर वाचक जाणू शकना तर ते आनंदाची ाणीव वाचकाक सखोल रीतीन मेळची ना, हे निश्चित आसा

मनीस हो भावनाप्रदान जीव आसा. पुण हे भावनेक चलन दिवची शक्ति ागेले आत्मीय स्फुरणेन जागृत जात आसल्यारियी ते स्फुरणेक पोशण, तागेले ंभोवती वावुरचे निसर्गातल्यान प्राप्त जाल्या निसर्गातले सर्व शक्तिमान घटकांतु नीस एक अल्प अशीं दिसल्यारियी तो आपण्याले बुद्धी आनी मानसाक लागून नसर्गाचे अनेकानेक शक्तिवयर विजय मेळवू शकिलो आसा. पावलांनी पावूल घालत काळांतरान तो निसर्गावयर आपण्याले वर्चस्व बसयत आयला. तरी पुण तो आप-ण्याले अंतस्करणांतु जेन्नां भावनावश जाता तेन्नां निसर्गाचे अतुल्य आनी विविध रुपान तो बेभान जाता आनी आपण्याले शक्तिचे, सामर्थ्याचे अंतिमतेविशय सांशक नदरेन विचार करता. आयजचे वैज्ञानिक युगांतु बी मनीस निसर्गातले अनेकानेक अविश्कारांपासून आश्चर्य चकित जाता, गोंधळून वता. निसर्गाचे सर्व अविश्कार ताका समजनांची. ताणें समजचांतु आयिले निसर्गातले गूढ तत्वांपरस जास्त गूढ तागेले पासून अजून दूर आसाची हाजी जाणीव वैज्ञानिकाक, सत्य शोधकाक सतत जात आसता तागेलें दर एक पावूल ताका लागून विकासाची, निसर्गाची गूढत्व जाणचे रस्त्यावयली मार्गदर्शनीय खुणो, विरामस्थानं जावनु आसताची.

देकूनु तो आपण्याले जीवनाचे विकासाची वाट निरंतर सतत चलत आसा. **' अस्ते भग आसीनस्य उर्ध्वस्तिष्ठति तिष्ठतः । शेते निपधमानस्य चरति चरतो भगः ।। चरैवेति । चरैवेति । '** —— जो मनीस स्वस्त बसता, तागेले भाग्यबीं स्वस्त बसता. जो उभो राबता, तागेले भाग्यबीं अभें राबता. जो निजता, तागेले भाग्यबी निजता, आनी जो चलत आसता, तागेलें भाग्यबी चलत आसता. देकूनु तू चलत ऊर चलत ऊर.

गीतेंतु श्री कृष्ण सांगता कीं मनीसाले जलमांतु कर्म केलिले शिवाय ताका गत्यंतर ना. **' न हि कश्चित्क्षणमपि जातु तिष्ठत्यकर्मकृत् '**[1] मनीस आपण्याले कर्म केलिले शिवाय एक क्षण बी असू शकना. पुण हे कर्माक स्वाध्यायाचो सुगंध आयिले तेन्नांची ताका कर्तुत्वाची कुशलता प्राप्त जाता. **' योग : कर्मसु कौशल्यम् '**[2] पण जें कर्म यज्ञकल्पनेन करचांतु येना तें कर्म बाधक आसता, बन्धकारक आसता. **' यज्ञा-र्थात्कर्मणो ऽ न्यत्र लोको ऽ यं कर्मबन्धनः । '**[3] देकूनु आसक्त जायनासताना आपण्याले कर्म मनीसान करका. हाकाची म्हणताची यज्ञसाधना.

पुरातन काळापासून भारतांतले धार्मिक जीवन यज्ञ संस्थेवयर अवलंबून वावुरत आसा. ब्रह्मदेवान स्त्रिश्टी निर्माण केली, ताका लागून यज्ञ संस्थेची मूळ सुरवात आसा. जेन्नां ही आदिसंस्था निर्माण जाली तेन्नांची स्त्रिश्टींतले सर्व मनी-

सांनी करची नित्ययागबी निर्माण जालो. स्वतः परिश्रमान, प्रामाणिकपणान आनी पराक्रमान मेळयिली शारीरिक शक्ति, बौद्धिक विद्वत्ता आनी आर्थिक संपन्नता हांचो थोडो तरी वांटो यज्ञनारायणाक दीवनृते निमित्तान सत्पात्र लोकांक अभय-दान, विद्यादान आनी द्रव्यदान करनुं स्वकीय संपत्तीचो दुसऱ्यांखातीर त्याग करचें तत्व यज्ञसंस्थेचे मुखेल तत्व आशिलें. यज्ञाशिवाय विगड विशयांखातीर केलिलें कर्म बंधक आसता देकून तू यज्ञाखातीर फलासक्ति सोडनु कर्म कर म्हण्णु जेन्नां श्री कृष्ण गीतेंतु सांगता तेन्नां ताका यज्ञ आनी कर्म हांतूतलो मूळ संबंध दाखोवचो आसता.

**'न मे पार्थास्ति कर्तव्यं त्रिषु लोकेषु किंचन नानवाप्तमवाप्तव्य वर्त एव च कर्मणि ॥** '[4] हे तीन लोकांतु हांवे करचें तसलें कर्म कांयीची ना. कर्म केलिल्यान प्राप्त करचें तसलेंबी कांयी ना. तरीपुण हांवु केन्नांयी कर्म करत आसता. भगवान् सविता सूर्यनारायण हो एक अखंड चलिलो, चलत आशिलो अनासक्त यज्ञ आसा. हे यज्ञपुरुशाले अखंड तिरंतर चलत आशिले ज्वलनाक लागून सर्व स्रिश्टी जगन आसा. '**कृष्णं नियानं हरय: सुपर्णो अपो वसाना दिवमुत्पतन्ति । त आववृत्रन्त्स-दनादृतस्यादिद् घृतेन पथिवी व्युद्यते ।** '[5] सूर्यनारायणाले उष्णतेन उदकाचो होम जावनुं ते उदकाचे रुपांतर वाफेंतु जाता. मेघाचे मदतीन ते उदाक पृथिवीवयर परत पावसाचे रुपान फापुडचांतु येता, ताका लागून अन्न आनी वनस्पती निर्माण जाताची. तांतूत सूर्याली उष्णता मेळिल्यान जीव संसारांतु समावेश जाता. अन्नापासून रेत उत्पन्न जाता. ते रेत स्त्रींतु सिंचन जालिल्यान स्रिश्टींतली प्राणिपरंपरा चालू जाता. स्रिश्टीचे उत्पतीक, स्थितीक आनी उदरगतीक कारणीभूत आशिलें हें यज्ञ चक्र मनीसांनी सतत चालू दवरका.

देकूनु धर्माचो आनी सामाजिक वेव्हाराचो हो अतूट संबंध जर मनीसानी ध्यानांतु दवरलो तर तांगेले रोजचें जीवनांतु एक विशिश्ट फरक दिसून येतालो. सामाजिक आनी वेव्हारिक कर्म कर्तव्यं म्हळचारीची धर्म आनी यज्ञ म्हण्णुं मानलें तर ती कर्तव्यं प्रामाणिकपणान, स्वार्थत्यागान इतरांखातीर करचें आमका भाग पडता. ताका लागून धर्म विशयाचे आनी आत्मविशयाचे अज्ञानांतल्यान आमीं भायर पडनुं इहलोकाचे उत्कर्शाचे आनी परमार्थिक कल्याणाचे जीवितकार्य आम-गेले हातांतल्यान घडता.

वैदिक धर्माचें आनी यज्ञसंस्थेचे हे उन्नत आनी विकसित रूप पुरषसूक्तांतलें '**यज्ञेन यज्ञं अयजन्त देवा: तानी धर्माणि प्रथमान्यासन्** '[6] मंत्रमुखांतर दाखोवनु यज्ञपुरुषाखातीर आमगेलें सर्वस्वाचें यज्ञ करचें आसा म्हण्णु आमकां सांगचांतु आयल्यां. निसर्गांतु आनी प्राणिस्रिश्टींतु अखंड यज्ञची चलत असता. स्वधर्मप्राप्त कर्तव्यकर्म जो मनीस करना तागेलें जीवन व्यर्थ आसा. शरीराबरोबर कर्तव्यं

आयलीं. देह मेळ्ळे नंतर कर्तव्य कर्म करचाक जो मनीस पाय मागशीं घालता तो मनीस अज्ञानी इतलोची न्हंय तर चोर आसताची आनी ताका लागून हे भूयतळां-वयर भारभूत आसताची.

पुण वैदिक यज्ञाचे. हें स्वरूप सूक्ष्म आनी गूढ आशिल्यान तें सामान्य मनीसांक समजचांतु आयलें ना. यज्ञकुंडांतले अग्निक हवी दिवनुं करचे स्थूल यज्ञाचे दर्शन जशें तांका समजतालो तशें अग्निशिवाय जावचे निर्हेतुक कर्तव्यकर्माचो सुक्ष्म यज्ञ मात्र तांका भेगीन समजलो ना. व्रतनियम करचीं, उपवास-अपवास करचे, दूर दूर तीर्थयात्रेक वच्चे, योगांतली घ्यान-धारण, कामनापूर्तीखातीर देवताराधना, मंत्र-तंत्र-यंत्राची शाक्त उपासना – हे सर्व करचें म्हळयार धर्माचरण म्हळ्ळीं लौकिक समजूत वैदिक काळांतुबी आशिली हांतु संशय ना. तशें पळयल्यार. कर्तव्याचरणेक आवश्यक आनी उपयुक्त असली व्रत-नियमं करचांतु कोणालोयी विरोध फावो ना. पुणं स्वधर्मप्राप्त कर्तव्य-कर्म आचरणेतु हाडत नासताना हजारो व्रत-नियमं करचीं, म्हळयार मनाची शुद्ध फसवणूक म्हणका. रुशीमुनीले वास्तव्यान पवित्र जालिले तीर्थक्षेत्रं, नैसर्गिक भव्यतेन मनीसाले मनाक ऊंच वातावरणांतु व्हरचे हिमालयाचे दर्शन, किंवा गंगा-यमुनेसारखे न्हंयेचे दर्शन घेतल्यार ताका कोण विरोध करतालो. चित्ताची स्थिरता आनी शांतता संपादन करचे खातीर कोण एक मनीस ध्यान, धारण किंवा पूजा करता, तर तें एक दिश्टीन योग्यची आसा. निजधर्म तोची आसा जेन्नां मनीस आपण्याली कर्तव्य कर्म करता आनी धार्मिक आनी भोतिक विशयांचो विचार अचार विवेकान करता.

यज्ञाची ही व्यापक कल्पना आनी यज्ञ-धर्म हांचे एक्य सांगून रुशीनी यज्ञ स्वरुपी विष्णूदेवते खातीर चारी वर्णांचो यज्ञ केलो. मनीसान आपण्याली बुद्धी, शक्ति, आनी संपत्ती ईश्वराले चरणांतु अर्पण करनुं आपण्याले जीवनाचो यज्ञ करका, हो वैदिक धर्माचो मूळ पायो आशिलो. छांदोग्य उपनिषदांतु सांगल्या, '**पुरुषो वाव यज्ञस्तस्य यांनी चतुर्विंशति वर्षाणि तत्प्रातःसवनं अथ यानि चतुश्चत्वारिंशद वर्षाणि तन्माध्यंदिन सवनं० । अथ यान्यष्टांचत्तारिंशद वर्षाणि तृतीय. सवनं० । सह षोडशं वर्षशतमजीवत प्र ह षोडशं वर्षं शतं जीवति य एवं वेद ॥** '
–मनीसाले जीवन म्हळयार एक यज्ञची आसता. तांतूत चोवीस वर्षांचे प्रातःसवन, चोवेचाळीस वर्षांचें माध्यंदिन सवन, आनी अठ्ठेचाळीस वर्शांचें सायं सवन हे क्रमान जाता. आपण्याले आयुश्यांतु एकशे सोळा वर्शं यज्ञ करचें आसता. हे तरेन जीवन जगचे मनीसाक वेदांतु शतक्रतु म्हळयां.

गीतेंतु श्री कृष्ण सांगतां, कीं स्वधर्मयज्ञान जें ऐश्वर्य– तें आर्थिक, बौद्धिक किंवा आध्यात्मिक आसू–- मनीसाक प्राप्त जाता – तें तो देव, रुशी, पितर आनी प्राणिमात्रेखातीर वापर करना तर तो पापी आनी चोर आसा. त्यागाचे पायरीवयर

ही यज्ञसंस्था आशिल्यान श्रीमंत लोक आपण्याले ऐश्वर्याचे वितरण करनांची, तर ते धनिक आसून बी श्रीमंत आसनांची. देकूनु वेदकामांतलो साधक " **स्वे शरीरेयज्ञं परिवर्तयामि** " म्हण्णु घोश करता. " **शरीरं यज्ञः वाग्वै यज्ञस्य होता । चक्षुर्वै यज्ञस्याध्वर्युः । प्राणो वै यज्ञस्योग्द्राता । मनो वै यज्ञस्य ब्रह्मा** " म्हण्णु बृहदारण्यक उपनिषदांतु सांगल्या. मनीसालें हे शरीर म्हळयार सात रुशींलें घर आसून ते रुशीं यज्ञ स्थानाचें रक्षण करताची. ' **सप्त ऋषयः प्रति हिता : शरीरें सप्त रक्षन्ति सदमप्रभादम् ।**

यज्ञ शब्दांतलो यज् धातूचो पाणिनीय धातुपाठांतु " **देवपूजासंगतिकरणदानेषु** " म्हण्णु अर्थु दिलिलो आसा. यज्ञ कार्यातु देवपूजा समाविश्ट आसून देवदेवतेची पूजा मंत्रोच्छारान जाता ताका लागून देवांलो सहवास मनीसांक मेळता. हे यज्ञपुरुषालें भौतिक वास्तव्य ते यज्ञ समारंभांतु जमिले श्रेष्ठ विद्वान, कलाकार आनी सत्प्रात्र लोकांतु दिसून येता. यज्ञक्रिया केले उपरांत स्वतः परिश्रमान आनी प्रामाणिकपणान मेळयीले द्रव्य।चो थोडो भाग यज्ञ पुरुशाक अर्पण करचें आसता. देवपूचा, संगतीकरण आनी दान हे तीन्नीं विशय यज्ञसंस्थेवर मुखेल आधार आसताची. दान हें मूळांतूची त्यागाचें प्रतीक आशिल्यान मनीसांले जीवन यज्ञातरेन आसका ही भावना वेदकाळांतु आसताली.

जो मनीस हे तरेन देवाले आशीर्वादाक अनुरुप आसता ते मनीसांतु नम्रता आनी कृतज्ञतेचीं लक्षणं आसताची. तोची मनीस लक्ष्मी किंवा श्री हे देवीले आशीर्वादाक, वरदानाक अनुरुप आसता. तोची मनीस यज्ञ करचाक योग्य आसता. ताकाची अग्निदेव मुखार येवनु तागेलीं मंत्रं ते ते देवालागीं व्हरता.

ऋग् वेदांची सुरवात अग्निदेवाक उद्देशून केलिले मंत्रापासून जालिली आसा. " **ॐ अग्निमिळे पुरोहितं यज्ञस्य देमृत्विजम् । होतारं रत्नधाततम्** "[11] यज्ञाचे मुखावयर स्थापन जालिलो, देवांक आवाहन करचो, प्रज्वलित आनी ऐश्वर्यसंपन्न अग्तिदेवाली हांवु स्तुती करतां. देव आनी मनीसां मधलो मध्यस्त अग्नि आसा. तश पळयल्यार देवाली स्तुती अग्निमुखांतर करचांतु औचित्य आसा. श्री ही वैभव दिवची, तेजाळ, प्रभावी शक्ति आसा. आग्नितु प्रभावी, विकसनशील, गतिशील शक्ति आसा. मनीसांतु उष्णता आसा म्हण्णुं तो गतिशील आसा. भूयेंतु उष्णता आसा म्हण्णुं रोंयीलें बीं परिपक्व जाता. अग्नि शिवाय गति ना गति शिवाय प्रगति ना. देकूनु रुशींनी अग्निदेवाली प्रार्थना करचांतु औचित्य आसा.

अग्नि उपासना ही निज आनी विज्ञानाधिष्ठ वस्तुस्थिती आसा. हवन केलिल्यान अग्नि दिपता. जनांनी हवन ना केलें तर वैभव प्राप्त जावचें ना. धनाचें वितरण हे एक तरेचे हवनकार्य आसा. धन–दौलत झांकूनु दवरल्यार ताजो विकास जायना. लक्ष्मी वैभवशाळी आसा. वैभव झळकल्यार वैभव आसता, दिपल्यार दवैदीप्त जाता. देकूनु ते तेजाळ श्री आमगेलें घरांतु हाडचाक तेजःपुंज अग्निली

मदत मनीसाक लागता. कित्याक तर, " **त्वमग्ने द्युभिस्त्वमाशुशुक्षणी स्त्वमद्भय-स्त्वनस्परि। त्वं वनेभ्यस्त्वमौषधीभ्य स्त्वंनणां नृयते जयसे शुचि:॥** "[12] – नवतेजान झळकुवचो, लोकांलो अधिपति अग्नि दररोज उदकांतल्यान, अश्मांतल्यान, लाकडां-तल्यान आनी वनस्तींतल्यान जल्माक येता. " **त्रिरस्य ता परमा सन्ति सत्या स्पार्हा देवस्य जनिमान्यग्ने: । अनन्ते अन्त: परिवीत आगाच्छुचि: शुक्रो अर्योरोरुचान:** "[13]– देकूनु अग्नि, सूर्य आनी वीज हे तीन रुप धारण करचो, अंतरिक्षांतु निवास करचो. शुद्ध, तेजस्वी आनी प्रकाशमान अग्नि देव आमगेले यज्ञस्थानालागीं येवू. " **अयं योनिश्चकृमा यं वयं ते जायेव पत्य उशति सुवासा: । अर्वाचीन: परिवीतो नि षिदेमा उ ते स्वपाक प्रतिचि ।** "[14] –– देकूनु हे सत्कर्म करचे अग्नि, घोवाकडेन आशेन पोळोवचे बायले तरेन आमगेले यज्ञांतले दर्भांसन तुगेली वाट पळयत आसा. आम-गेले मुखार सपरिवार येवनु तू यज्ञांतलीं स्तोत्रं स्वीकार कर.

श्री सूक्त हे लक्ष्मीदेवीक उद्देशून आसा. ती तेजाळ तेजस्वी देवी आशि-ल्यान तिगेले सहवास घडोवचाक अग्नि तसले प्रतिभावान माध्यम जाय. रुशी आप-ण्याले स्तोत्र ' **हे जातवेद, मे लक्ष्मीं, आवह,** ' म्हृण्णु सुरवात करता. रुशीले उत्रांक मान आसा. कित्याक तर ते शब्दांमागशी अविरत, सतत तापस्य आसता. अग्नि-देव तागेली मागणीं मान्य करता आनी जे तरेन ताणें श्रीलें चिंतन केलें, मनन केलें, धारण केलें ते तरेन ते लक्ष्मीले दर्शन ते रुशीक घडयता. " **आ हि ष्मा सूनवे पिता पिर्यजत्यापये सखा सख्ये वरेण्य: ।** "[15] –– जशें बापय पुताक, इश्टाक इश्ट तशें अग्नि आमगेले यज्ञाक सुयश हाडूं.

---

टीप :

1 भगवद् गीता, ३·५.
2 भगवद् गीता, २·५०.
3 भगवद् गीता, ४·९.
4 भगवद् गीता, ३·२०.
5 ऋग्वेद, १·१६४·४७.
6 ऋग्वेद, १०·९०·१६.
7 छंदोग्य उपनिषद्, ३·१६·१–७.
8 प्राणाग्नि उपनिषद्, २.
9 बृहदारण्यक उपनिषद्, ३·१·१–६.
10 यजुर्वेद, ३४·५५.
11 ऋग्वेद, १·१·१.
12 ऋग्वेद, २·१·१.
13 ऋग्वेद, ४·१·७.
14 ऋग्वेद, ४·३·२.
15 ऋग्वेद, १·२६·३.

मंत्र–१

हरि ॐ ।। हिरण्यवर्णां हरिणीं सुवर्णरजतस्रजाम् ।
चन्द्रां हिरण्मयीं लक्ष्मीं जातवेदो म आवह ।१।

तां म आवह जातवेदो लक्ष्मीमनपगामिनीम् ।
यस्यां हिरण्यं विन्देयं गामश्वं पुरुषानहम् ।।२।।

अश्वपूर्वां रथमध्यां हस्तिनादप्रबोधिनीम् ।
श्रियं देवीमुपव्हये श्रीर्मादेवी जुषताम् ।।३।।

कांसोस्मितां हिरण्यप्राकारामार्दां ज्वलन्तीं तृप्तां तर्पयन्तीम् ।
पद्मेस्थितां पद्मवर्णां तामिहोपव्हये श्रियम् ।।४।।

चन्द्रां प्रभासां यशसा ज्वलन्ती श्रियं लोके देवजुष्टामुदाराम् ।
तां पद्मिनीमीं शरणमहं प्रपद्ये ऽ लक्ष्मीमें नश्यतां
त्वां वृणे ।।५।।

अर्थु –

हरी ॐ. हे अग्निदेव, भांगरातरेन रंगाची, चित्थलातरेन चपळ, रुप्पें आनी भांगराचे आभरणांनी शोभची, चन्द्रातरेन शीतळ सुवर्ण-स्वरूप लक्ष्मीदेवीक मेगेले घरांतु घेवनु यो. हे जातवेद, जें मेळिल्यान हांवू भांगर, गाय, घोडे आनी इश्टमित्र मेळवूं शकतालो तसली अविनाशी लक्ष्मी मेगेले घरांतु घेवनुं यो. जी रथांतु बशिली आसूनु जिगेले मुखार घोडे धांवताची, कोणें येवचो संकेत हस्तीले चीत्कारान जाता, तसली लक्ष्मीदेवीक हांवु येवकार दितां. देकूनु ती मेगेले वयर क्रिपा करू. हांवु ते लक्ष्मीक आपयतां जी अवर्णनीय आसा, सस्मित आसा, हिरण्यस्वरूप आसा, अति कोमळ आनी तेजस्विनी आसा, जी स्वतः तृप्त आसूनु भक्तांकबी तृप्त करता, जी तांबूस रंगाची आसूनु कमळावयर बसल्या, जी चन्द्रातरेन शीतळ आसूनु जिगेली कीर्त तीनीं लोकांतु पसरल्या, जी सर्व देवांपासून सेवित आसा, जिगेले चारी दिकान कमळांचे वर्तुळ आसा तिगेलागीं हांवु स्वतःचे संरक्षणेखातीर वता. समस्त संसाराची आवय ! तूं मेगेलें दारिद्रय नाश कर. हांवु तुगेलो शरण आसा.

मानिलें आसा कीं रुशीमुनी हे मूळांतूची चैतन्यघन आसून तांका निर्गुण परमात्म्यालो साक्षात्यार समसमान जाता. साक्षात्कार जालिलो. रुशी आत्मविश्वासान म्हण् शकता कीं '**वेदाहम् एवं पुरुषं महान्तम् आदित्यवर्ण तमसः परस्तात्**।'[1] हांवु ते महान् पुरुषाक जाणूं शकलां जो अंधःकाराचे पेलतडेन सूर्यातरेन प्रकाशमान आसा. देकूनु रुशीक जालिलो साक्षात्यार हो स्वयंसिद्ध आनी तेची तरेन स्वयं साक्षी आसा. पुण विशयासक्तीन कुरडो जालिले मनीसाक मात्र स्वतःचे काळजांतु आशिले परमात्म्यालें दर्शन जायना. कित्याक तर जनार्दनालें ज्ञान मनीसाले मलीन मनांतु केन्नांयी प्रतिबिंबित जावचें ना. मनीसांले मन जेन्नां आरश्यातरेन स्वच्छ, निश्कलंक आसतालें तेन्नांची आनी तांतूतची परमात्म्यालें स्वरूप चित्रित जायत. अन्यथा ना.

परमात्म्यालीं प्रतीकं अनेक आसाची. तांतूत नाम हें तागेले शब्दरूप प्रतीक आसा. प्रार्थीव प्रतीकापरस नामाचें प्रतीक अव्यक्त, निराकार, सूक्ष्म आसा. देकूनु ॐ हें ब्रह्मांचे प्रतीक जालें. रामकृष्णहरी किंवा हरहरमहादेव हे ध्यानावस्थेंतु प्रतीत जावचे परमात्म्याचे वर्णस्वरूप आशिल्यान ते पुण्यदायक प्रतीक तर आसाची. पुण हरि ॐ शब्दांनी वेदोच्चराक वैदिक लोक सुरवात साधारणतःकरताची.

ईश्वराले नांवाचो अर्थ समजून ताजें संकीर्तन करचें हें भक्तिमार्गावियलें पयलें पावूल आसा.

हे निराकार परमात्म्याक पयलें प्रथम नामरूपाचो सूक्ष्म आकार मानसांतु आयलो आनी तोची काल्पनिक आकार मुखारसरनुं धातु आनी पाशाणाचे स्थूल माध्यमांतल्यान व्यक्त जावचांतु आयलो. पुण तो स्थूल आकार म्हळचार परमात्मा न्हंय. तो आकार म्हळचार केवल कल्पनेन निर्माण केलिलें प्रतीक आसा. स्थूल बुद्धीचें मनीसांक स्थूल प्रतीक उपयुक्त आसा. पुण हें स्थूल प्रतीकामागशीं आशिले सूक्ष्म स्वरूपाकडेन वच्चांतुची मनीसालें श्रेय आसा.

ईश्वराले स्थूल मूर्तीचें प्रतीकापरस तागेले नांवाचे शब्दाचें सूक्ष्म प्रतीक हें ईश्वरालें लागीं जास्त निकट आशिल्यान वैदिक परंपरेंतु ईश्वराले स्थूल मूर्तिचे भक्तिपरस तागेले सूक्ष्म आनी दिश्टीक अव्यक्त असले नामभक्तिक जास्त प्राधान्य दिलिलें आसा.

विश्वात्मक परमेश्वराले भक्तितल्यान नीतीचो उदय जाता. मनाचो आनी इंद्रियांचो संयम, तपश्चर्या, शुचिता, क्षमावृत्ती, ऋतुजा, ज्ञान आनी विज्ञान हांचे संपादन, ईश्वरांतु नितांत श्रद्धा दवरिल्यान प्राप्त जाता. जे तरेन हंस दूध आनी उदाक विगंड करता, जे तरेन सोनार मळ काडनुं भांगराक वोप दिता, जे तरेन बायलननीस दह्यांतले लोणी विगंड करता, ते तरेन ज्ञानी मनीस श्रेय आनी प्रेय हांतूतलें श्रेष्ठकनिष्ठतेचें पृथक्करण करनुं श्रेयस्कर विशयांचो स्वीकार करता

परमात्म्यालें स्वरूप मूळांतूची अव्यक्त, अमूर्त, निर्गुण आनी निराकार अशि-
ज्ञान ताजें वर्णन शब्दमुखांतर जावचें साध्य ना. देकून उपनिषदांतु परमात्म्याली
व्याख्या नेति नेति म्हण्णु केलिली आसा. पुण जे तरेन भक्त आपण्यालें रूप चिंतन
करता, ध्यान धरता ते तरेन रूप धारण करनु परमात्म भक्तांले भक्तिक लागून
दर्शन दिता. '**येमेवैष वृणुते तेन लभ्यः तस्यैष आत्मा विवृणुते तनूं स्वाम्**।'[2]
भक्तान प्रार्थना केलेकीं आत्मा आपण्यालें स्वरूप दाखयता. मुखारसरनु आप-
ण्याले कल्पनेक लागून भक्त ते रुपाक आकार दिता. अलंकारांनी शोभयता.
प्रतिभासंपन्न रुशी आनी सामान्य मनीसांतले मूळ वेगळेंपण हेंची आसा कीं रुशीली
निरीक्षण शक्ति आनी कल्पनाशक्ति सामान्य जनांपरस जास्त तीक्ष्ण आनी तरल
आसता. ताका लागून निसर्ग आनी भौतिक जन-जीवनांमागशीं आशिले अस्तित्वाची
जाण तो रुशी प्रत्यक्ष आनी साक्षात्काररूपान घेवूं शकता. देकूनु रुशींक क्रांतदर्शी
म्हण्णु आपोवचें उचित आसा. देकूनु विश्वात्मक चैतन्याबरोबर समरस जालिले हे
प्रतिभासंपन्न रुशींक कांयी न समजचें तसलें आसना.

मानिलें आसा कीं रूशी हे ज्ञानाचे दृश्टे आसाची, कर्ते न्हंय. तांगेले ज्ञान
पुरुशकृत नासताना अपौरुशेय आसा. रूशीले निर्मळ मनांतु जेन्नां स्वयंप्रेरित,
स्वयंसिद्ध आनी स्वयंप्रकाशित आत्म्याचें दर्शन घडता तेन्नां '**भिद्यते हृदयग्रन्थि-
च्छिद्यन्ते सर्वसंशयाः**।'[3]– काळजांतली सर्व बंधनं तुटून पडताची, सर्व संशयांचो
नाश जाता. वारयांन जशें ढगं दूर केलिल्यान सूर्यालें देदीप्त दर्शन घडता तशें
संशयाचो नाश जालें कीं अंतस्करणांतु देवदेवतेचे दर्शन तांका मेळता. अलौकिक
काव्यानंदापरस श्रेष्ठ असलो भावानंद तांका प्राप्त जाता जे आनंदाक तत्वज्ञानाचे
परिभाशेंतु ब्रह्मानंद म्हणताची. ब्रह्मरस, शांतिरस, महारस हे ते साक्षात्काराचे
गुण आसून आत्मज्ञान हो ताजो स्थायी भाव आसता.

पुण हे तरेन जेन्नां रूशी भावसाधनेन्तु समागम जालिलो आसता तेन्नां तागेलें
मन आनी वाणी स्तब्ध आसताची. '**यतो वाचो निवर्तन्ते अप्राप्य मनसा सह**।'[4]–
ते अणभवांतु मन आनी वाणी परतताची. पूण वारो व्हांवनु गेल्यारियी जशें
झाडाची पानं अजून हालत आसताची, कापूर जळनु गेल्यारियी जशें ताजो सुवास
आयदनाक चिकटलेलो आसता, गीत संपल्यारियी जशें नादलहरी मनांतु आसता,
तशें साक्षात्काराचो अणभव संपल्यारियी ताजी याद मात्र रूशींक अनेक काळमेरेन
सतयता. सगुण ईश्वराची आनी तागेले भक्तिची कल्पना ही मूळांतूची असत्य आसा
हें ते जाणताची. ईश्वराले सगूण स्वरूप हे संकुचित रूप आसून ते खरें न्हंय.
ईश्वराक शरीर ना, किंवा जल्म–मरणबी ना. तो आपण्याले अव्यक्त स्वरूपान
विश्व व्यापून उरचो विश्वात्मक सर्वात्मक आसा. तरी पुण देवदयेन प्राप्त जालिली
आध्यात्मिक, परमार्थिक किंवा आदिभौतिक परमानंदाची कल्पना जनसामान्याक

येवका म्हण्णुं भौतिक आनंदाचे परिभाशेंतु भौतिक दृश्टांताचे संकेत, उपमा, अलंकारांचे मदतीन रूशी आपण्यालो अणभव व्यक्त करता. देकून शब्दाचे, भाशेचे व्यक्त रुपाची मर्यादा लक्षांतु घेतनासताना रूपकांचो विचार जर सढळ तरेन केलो तर ती रूपकं विसंगत जाताची. आध्यात्मिक ग्रंथांचो अभ्यास करचे दर एक मनीसांनी जर हें लक्षांतु घेतलें तर ते ग्रंथांचो आशय तांका समतोल रीतीन जातालो हांतु संशय ना.

जेन्नां रूशींनी लक्ष्मी वा श्री हे देवतेचे ध्यान धरलें, चिंतन केलें, मनन केलें तेन्नां तांगेले निश्कळंक मनांतु जे तरेन ती साक्षात्कार पावली ताजें वर्णन ते भौतिक परिभाशेंतु करताची. आनी ते तरेन वर्णित जालिले लक्ष्मीदेवीक आपण्याले घरांतु हाडचाक अग्निदेवतेली प्रार्थना करताची.

हरि : ॐ। **हिरण्यवर्णां हरिणीं सुवर्णरजतस्रजाम्। चन्द्रां हिरण्मयीं लक्ष्मीं जातवेदो म आवह ॥**

हरि : ॐ।

हरि हे शब्दांचे उच्छारान वेदमंत्राचो पाठ करची परंपरा वेदकाळापासून सुरवात जाली. '**त्रीणि पदा विचक्रमे विष्णुर्गोपा अदाभ्यः अतो धर्माणि धारयन्।**'[5] म्हण्णुं वेदवाक्य आसा. अदाभ्य म्हळयार अमर किंवा अजिक्य असलो विष्णु धर्माक म्हळयार जगाचे हितकारक कर्मांक आधारभूत जावनुं गोपाः म्हळयार जगाचें रक्षण करत आपण्याले तीन पावलांनी संचार करता. ॐ शब्दाची व्याख्या करताना माण्डूक्य उपनिषद सांगता, '**ओमित्येतदक्षरमिदं सर्वम्। भूत भवद् भविष्यदिती सर्वं ओंकार एव। यच्चान्यत् त्रिकालातीतं तदाप्योंकार एव ॥**'[6] –ॐ हे एक अक्षरान सर्व विश्वाची जाण मेळता. भूत, वर्तमान आनी भविश्यकाळांतु जें जालें आनी जें जावचें आसा तें सर्व ओंकाराक लागून जाण जाता. हे शिवाय जें त्रिकालातीत आसता तेबी ओंकारची आसता. तैत्तिरीय उपनिषदांतु परमात्म्यालें विश्वरूप दाखयताना म्हळयां, '**ओमिती ब्रह्म। ओमितीदं सर्वम् ॥**'[7] हे तरेन हरि आनी ब्रह्मत्वाचे ऐक्य दाखोवनुं रूशी श्री सूक्ताची सुरवात करता.

**जातवेदो मे आवह**

वैदिक परंपरेंतु अग्निलें स्थान देव आनी मानीसांलो मध्यस्थ म्हण्णुं आसा. अग्निदेवता ही एक परमात्म्याली सुप्त शक्ति आसा. जातवेद म्हळयार अग्निदेव. ऋग्वेदाची सुरवात ताका लागून '**ॐ अग्निमिळे पुरोहितं यज्ञस्य देवमृत्विजम्।**'[8] म्हण्णुं जाल्या. यज्ञसंस्थेंतु अग्निले स्थान महान आनी प्रभुत्वाचे आसा. अग्नि हो तेजाचो प्रतीक आसा. यज्ञकार्यांतु तो गृहस्वामी आसून होता, पोता, ऋत्विज, नेष्ठा, अग्निध्र, प्रशास्ता, अध्वर्यु, ब्रह्म इत्यादींची कर्म साधक आसा. वैदिक रूशीली कल्पना, प्रतीक, संकेतीकरण मूळांतूची प्रभावी आशिल्यान यज्ञ कार्यांतु

अग्निदेवतेलो सहाय्य घेवचांतु औचित्य आसा. कित्याक तर अग्निलो स्वभावची गतिशील आसा. जंय जंय गति दिसून येता थंय थंय अग्निलो निवास आसा म्हण्णु मानयेत. अग्नि स्वभावतः गतिशील आसा. अग्निशिवाय गति ना. गति शिवाय प्रगति ना. देकून रूशी आपण्याले कामांतु अग्निदेवतेली मदत मागता.

अग्निली उपासना विज्ञानाधिष्ठ आसा. हवन केल्यार अग्नि दीपता. वैभवा-चेंबी अशींची आसा. जे जन वैभवाची हवन करनांची पुण ते धनाचें निपून रक्षण करताची, तांगेले जीवन दीपना. रूशीले शब्दाक किमत आसा. रूशीले शब्दा-मागशी तागेली साधना, तप सुप्तावस्थेंतु आसा. अग्निली प्रार्थना केलिल्यान तागेली सुप्त शक्ति प्रकट जाता. जें अव्यक्त आसा तें व्यक्त जाता. जें अचिन्त्य आसा, जें निर्गुण आसा, तें चिंतन पावता, तें सगुण रूप धारण करता. श्री देवतेले आगमन आमगेले संसारांतु जावचें आसा. ते खातीर अग्निदेवतेली मध्यस्थी मनीसाक जरूर आसा. देकून रूशी प्रार्थना करता की '**जातवेदो** ... मे आवह' अग्निदेव मेगेले कडेन घेवनुं यो. श्री, लक्ष्मीदेवीक घेवनुं यो.

जे काळांतु भाव आनी भावनेचें दैवतीकरण जालें तेची काळांतु जीवनाचे भाग्य, वैभव, समृद्धी, सुख, संपदा इत्यादि निर्माण करची श्री किंवा लक्ष्मीदेवीबी प्रकट जाली. रुशीन जेन्नां भावनाप्रधान जावनुं श्री देवतेले ध्यान धरलें, चिंतन केलें, मनन केलें तेन्नां ताका एक अत्यंत रमणीय, हृद्य, आकर्षक, सुंदर, कारुण्य-मय आनी प्रेमळ असलें मूर्त रूप दोळचामुखार आयलें. आनी ती देवता ते भक्ताले प्रेमाक लागून भक्ताले आपोवणीक लागून, जे तरेन तिका आपयलें, जें रूप ताणें चिंतन केले, मनन केलें, ध्यान धरलें, तें तें रूप धारण करनुं ती तांगेले मुखार येवनुं उभि राबली. अंगप्रत्यंगान परिपूर्ण आनी सौंदर्यान भरपूर असलें ते श्री देवीले रूप प्रकट जालें. गीतेतु श्री कृष्ण म्हणता, '**ये यथा मां प्रपद्यन्ते तांस्तथैव भजा-म्यहम्।**'[१]

श्री जेन्नां रुशीले मुखार साक्षात्यार पावता तेन्नां ती '**हिरण्यवर्णा**' आसता.

### हिरण्यवर्णा

हिरण्यवर्णा म्हळचार हे संसारांतु जें कांय सुंदर आसा, ते सर्वांचे सौंदर्य एक केलें तर ते सौंदर्यापरस जास्त सुंदर ती श्री आसा. हिरण्यवर्णा म्हळचार भांगराचे रंगाची. भांगर हें तेजाचें, वैभवाचें, सौंदर्याचे प्रतीक आसा. तिगेले आंगाची कांती भांगरातरेन हळदुवी–तांबूस रंगाची आसा. '**दिवो रुक्म उरुचक्षा उदेति दूरे अर्थस्तरणिभ्राजमान।**' हे वैदिक मंत्राचो उल्लेख करनुं सायणाचार्य म्हणताची, '**अयं सूर्यः रुक्मः रोचमानः** दिवः अंतरिक्षान् उदेति यद् वा दिव

अंतरिक्षस्य रुक्म: आभरणस्थानीय:।' – रुक्म म्हळ्यार तेजस्वी असलो सूर्य जो अंतरिक्षांतु उदय पावता किंवा अंतरिक्षांतु अलंकारसो उदय पावता. रुक्म हो शब्द-ताका लागून वैदिक परिभाशेंतु प्रकाशमान, तेजस्वी, कांतिमान, देदीप्त आभरण म्हण्णु अग्नि, मरुत्, सूर्य हांचे तेज वर्णन करचांतु वापरिलो आसा. परब्रह्माले चिन्मयतेवयर केलिले अनेक रूपकांतु एक रूपक म्हळ्यार रुक्मिणी आसून तीची भगवान विष्णूली पट्टराणि जाली. हे तरेन लक्ष्मी जी हिरण्यवर्णा आसा, जी रुक्मिणी आसा ती आपण्याले घरांतु येवों म्हण्णु रुशी इच्छिता.

## हरिणीं

रुशी लक्ष्मीक हरिणीं म्हण्णु संबोधिता. हरिणीं म्हळ्यार पाचवे रंगाची. पाचवो रंग हो नाविन्यतेचो, आल्हादाचो, ताजेपणाचो तरतरीत जीवंतपणाचो संकेत आसा. गीमांतले रखरखीत वताळचा उपरांत आशाढांतु जेन्नां मुसळधार पावुस पडता तेन्नां निसर्गांतु पाचवे चार तण धर्तरेरि उगवता. तेन्नां तें हरिणीं आसता. तो समय जीवनांतु श्रीले आगमनाचो आसत.

हरिणीचो दुसरो अर्थु चित्थल म्हण्णु जाता. चित्थल हें चापल्याचें, ताजेपणाचे प्रतीक आसा. चित्थलांतु सुस्तपण नासता. सुस्तींतु जीवंतपणा ना. लक्ष्मी जी सुस्त आसा, ती विकासाक, प्रगतीक उपयोजक ना. लक्ष्मी विनियोग केलिल्यान, उपयोगेंतु हाडिल्यान, प्रसार केलिल्यान वाढता, शोभता.

## सुवर्णरजतस्रजाम्

सुवर्णरजतस्रजाम् म्हळ्यार ती लक्ष्मी जी भांगर आनी रुप्याचे आभरणांनी सुशोभित आसा. हिंदू शास्त्रांतु भांगर हे तेजाचें प्रतीक आसा. रुप्पें समाधानाचे प्रतीक आसा. ताका लागून भांगराचो उपयोग आंगारी करचो आनी रुप्याचो उपयोग आयदनांतु करची परंपरा आसा. जेवताना उजवे बोटांतु भांगाराची मूदी घालची आनी रुप्याचें आयदनांतु जेवची प्रथा आसा, जाका लागून आपण्याले शरीरांतु तेजा बरोबर समाधानबी येवूं. मनीसान मेलिले उपरांत तागेले जीभेवयर भांगराचे पान दवरचें, परंपरेक लागून आसा. भांगर हें तेजाचें प्रतीक आसा. लक्ष्मी ही तेजाची अधिष्टात्री आसा.

## चन्द्राम्

श्री चन्द्राम् आसा. चन्द्र हो शांती, समाधान, आल्हाद शीतळतायेंचो संगम आसा. लक्ष्मी ही संसाराची आवय आशिल्यान तिगेल्यांतु हे सर्व गुण आसचें साहजीक आसा. तिगले मुखावयर परिपूर्णतायेचो समाधान आसचें अगत्य आसा. तिगेले तेजोमय दिश्टींतल्यान कारूण्याची, मोगाची अमृतधारा व्हांवता. आनी जे तरेन चन्द्र रात्रीचे सुखद वातावरणांतु फलफुलांतले कणकणांतु म्होंवाचे थेंब

ब दवरता ते तरेन आवय आमगेले जीवनांतु सदा सर्वदा अमृताचो वर्शाव करता.

**हिरण्मयीं**

वैदिक अध्यात्म शास्त्राक लागून मानचांतु येता कीं मनीसाले हें शरीर ोन आवरणांनी झांकिले आसा. तांतूत तेजस् शरीर हें सूक्ष्म आसून लोकांले ोळचांक दीसना. पुण पंचभूतात्मक शरीर मात्र नदरेक येता. मनीसांले आनी देव-ःवतेलें शरीरांतु फरक इतलोची कीं देवांले शरीर केवल तेजस् शरीर आसून ांका पंचभूतात्मक शरीर आसना. मनीस जेन्नां मरता आनी हे शरीरांतल्यान आत्मा वता, तेन्नां तो आत्मा केवल तेजस् शरीर घेवनुं वता. रुशीन जेन्नां लक्ष्मी-ःवीले दर्शन घेतलें तेन्नां ताका तिगेले साहजीक असलें तेजस् शरीर दिसलें. ननीसांले पंचभूतात्मक शरीर षड् भावांनी युक्त आसता. – जायते, वर्धते, विपरि-णमते, अपक्षीयते, आनी नश्यते. तेजस् शरीर हे षड् भावापासून अलिप्त आसता. लक्ष्मीदेवीलें शरीर तेजस् आशिलें, हिरण्मयीं आशिलें. हिरण्य हे तेजाचें प्रतीक आसा.

क्रांतदर्शी रुशीक श्रीलो सहवास जाय, अनुग्रह जाय म्हण्णुं अग्निदेवतेक तो प्रार्थना करता कीं ' हे **जातवेद मे हिरण्यवर्णां, हरिणीं, सुवर्णरजतस्रजाम, चन्द्रां हिरण्मयीं लक्ष्मी आवह** ।' हे तरेची तेजाळ, मोगाळ, वैभवशाळी आवयक मेगेले घरांतु घेवनुं यो.

**तां म आवह जातवेदो लक्ष्मीमनपगामिनीम् ।**
**यस्यां हिरण्यं विन्द्रेयं गामश्वं पुरुषानहम्** ।।२।।

आपण्याले घरांतु खंयचे तरेची लक्ष्मी येवचाक जाय हे विशय रुशीन सखोल विचार केलिलो आसा. ताका सामान्य लक्ष्मी येवची नाका-लक्ष्मीदेवी विशय ताणें ध्यान धरिलें आसा, मनन केलिलें आसा, चिंतन केलिलें आसा. लक्ष्मीलें ताणें दर्शन बी घेतिलें आसा. ते लक्ष्मीदेवीले स्वभाव आनी गुण धर्म तो जाणता. देकूनु तो अग्निदेवालागीं मागता कीं तो **अनपगामिनीम् श्री** आणण्याले घरांतु हाडूं.

**अनपगामिनीम्**

अनपगामिनीम् म्हळचार जी आपण्याली पाठ फिरोवनुं परत वच्ची ना. लक्ष्मीन आपण्याले घरांतु सोयरोसो दोन दीसाखातीर येवचें रुशीक नाका. ताका तिणें आवय तरेन सदाकाळ आपण्याले घरांतु, घरांतले सर्व कोने–कोपऱ्यांतु येवनुं वास्तव्य करचें जाय. तो जाणता कीं आपण्याले घरांतु आवय तरेन आयल्यार ती हात हालयत येवची ना. आवय जेन्नां आपण्याले चेरडाले घरा वता तेन्नां तीं

आपण्याले दोन्नीं हातांतु ताणें इच्छा करत आसची सर्व सामग्री–साधनं घेवनु वता. ते तरेन सर्व सुख–संपदा, वैभव–वित्त, शक्ति–सामर्थ्य घेवनु आपण्याले घरा येवची आनी परत पाठ फिरोवनु ना वच्ची आवय लक्ष्मी रुशी मागता. अनपगामिनीम् म्हळचार शाश्वत लक्ष्मी जी वैपुल्याबरोबर शांती समाधान सदाकाळ हाडत. **यस्यां हिरण्यं विन्देयं गामश्वं पुरुषानहम्**. आपूण येताना भांगर, गाय, घोडो आनी मनीस घेवनु येवची तसली लक्ष्मी रुशीक जाय. रुशी हो क्रांतदर्शी आशिल्यान तागेले शब्दांमागशीं गूढार्थु आसता. तागेले शब्द सांकेतिक आसताची. एक दृष्टांतान तो हजारो कल्पनाचित्र रंगोवू शकता देकूनु तागेले शब्दांमागशीचे तथ्यं जाणची शक्ति आमकां आसचाक जाय. हिरण्यं, गाम्, पुरुषम् हे भौतिक शब्दांक आध्यात्मिक गूढार्थु आसा.

**हिरण्यं**

हिरण्यं म्हळचार तेजस्. भांगर हें तेजाचें प्रतीक आसा. घरांतु लक्ष्मी आयल्यार तिगेले तेजान तें घर दीपका. तशें पळयल्यार कितले तरी घराण्यांतु लाखो लाख रुपयांचे धन एकठांय जालिलें दिसून येता. चार दिकान दरोडो घालनु, लोकांक फसोवनु, गरीब जनतेक मारनु लुबाडनु धन एकठांय केलिलें दिसून येता. हे तरेन धन एकत्रित केल्यार ते घरांतु लक्ष्मी आयली म्हणु मानचें भ्रांत कल्पना आसा. असले मनीसांले धन तें केवल तिजोरीतु निपून दवरिलें धन आसता. जनांले दिश्टीपासून निपून दवरिलें तें धन, ते मनीसाले जीणेक पुरुषार्थ हाडना. ते घरांतु सुख ना. शांती ना, समाधान आसना. तो केन्नांयी भयान, काळजीन, लोभान कश्टी आसता. ते घरांतु धन आसा, पैसो आसा. पुण थंय लक्ष्मी ना. श्री ना.

**गाम्**

गाम् म्हळचार गाय जी ज्ञानाची प्रतीक जावनु आसा. रुशी मानता कीं ज्ञान हेबी एक ऐश्वर्य आसा, लक्ष्मी आसा. ज्ञान म्हळचार नित्य–अनित्य, सत्य–असत्य, बरें–वायट, धर्म–अधर्म हांचो विवेक करची अकलन शक्ति. लक्ष्मी घरांतु आयले कीं खंयचे तरेचो विवेक आसचाक जाय. विनियोग, वितरण आनी संचयिता ही लक्ष्मीलीं तीन कार्य असताची जीं विवेकान केल्यार ती अनपामिनीम् आसता.

विनियोग म्हळचार धनाचें यथायोग्य उपयोजन. संसारांतु आमीं पळयताची कीं देववशात् अनेक जाणांक अकस्मात धन प्राप्त जाता. पुण ते लोक स्वतः लोभी कृपण अविवेकी आशिल्यान लक्ष्मी आयिले उपरांत तांगेले हातांतल्यान ते धनाचो विनियोग जायना. तें धन तांगेले तिजोरींतु हात लागनासताना पडिलें उरता. मनी-सांली एक चूक समजूत आसता कीं धन एकठांय केल्यार धनाची, लक्ष्मीली वाढ

जाता. तें खरें न्हंय. तो मनीन विवेकी न्हंय. धन एकठांय केलिल्यान वाढना. धन विनियोगांतु हाडिल्यान, उपयोजनेंतु हाडिल्यान, ते धनाक चलन दिलिल्यान ते धनाची वाढ जाता. वर्तमान अर्थशास्त्रबी हे विचाराक पुश्टी दिता.

स्वतः परिश्रमान, प्रामाणिकपणान आनी पराक्रमान मेळयिलें धनाचो थोडो तरी भाग सत्प्रात्र लोकांक द्रव्यदान किंवा अन्नदान करनु स्वकीय स्वामित्वाचें संपत्तीचें वितरण वा त्याग दुसरे लोकां खातीर करचें हें वैदिक यज्ञसंस्थेचे ध्येय आशिलें. यज्ञ करनु रघुवंशाचे राजे दर पांच वर्सांनी आपण्याली सर्व धन–संपत्ती जनकल्याणाखातीर उपयोग करताले म्हण्णु पुराण सांगता. हाजे उलट जे लोक ऐश्वर्य मेळळे कीं स्वधर्म कर्म करनांची, मेळिलें ऐश्वर्य सत्पात्री दान करनांची पुण द्रव्यमदान उन्मत्त जावनु धनाचो उपयोग केवल स्वतःचे भोगाखातीर वापरताची, ते लोक भगवद् गीतेचे मतान चोर आसाची. तांका अखेरीक दुःख आनी दैन्य भोगचें पडता.

पुण हाजो अर्थु हो न्हंय कीं हातांतु आयिलें धन सढळ रीतीन अविवेकपणान बेफिकीर खर्च करका. तशे पळयल्यार धनाचो विनियोग अपात्री किंवा स्वभोगाखातीर खर्च करनासताना ते धनाचो सांभाळ आनी बचत भविश्य काळाचे त्यागाखातीर करचें हें विवेकाक लागून आसा. अविवेकाक लागून घरांतु आशिलें धन अपात्री दान केलिल्यान पुण्य मेळचें तर उरों तर तांका ताका लागून पापाचो स्पर्श जावचो संभव आसता. देकनु सत्पात्री दान केलिले उपरांत उरिलें धन भविश्यकाळाचे विनियोग वितरणाखातीर एकठांय करचें हें ज्ञानी मनीसांले लक्षण आसा.

जो मनीस हे तरेन धनाचो संकलन, विनियोग, आनी वितरण करता तोची मनीस अनपगामिनीम् लक्ष्मीलो क्रिपेक आनी शाश्वत सहवासाक अनुरुप आनी योग्य आसता.

**अश्वं**

अश्व म्हळचार घोडो. हो बल, शक्तीचो प्रतीक आसा. आयचे वैज्ञानिक युगांतुबी प्रत्येकाचें बळ अश्वशक्तीक लागून मोजचांतु येता. देकूनु जेन्नां रुशी अश्वबळ मागता तेन्नां ताका वैभवाची शक्ती, सामर्थ्य, तपोबळ, चलन, विकास जाय.

**पुरुषान्**

पुरुषान् म्हळचार मनीस बळ. धन आयलें, वैभव आयलें, अपार समृद्धी आयली, पुण ते धन, वैभव आनी समृद्धीचो भोग घेवचाक जर मनीस नांची तर ते धनाचो उपयोग खंयचो? देकूनु रुशी मनीस बळ मागता; पुत्र, मित्र, इश्ट–

बांधव मागता. तेजस् ज्ञान शक्तिक लागून लक्ष्मी घरांतु आयली कीं तिगेली वहि-वाट चलोवचाक मनीसबळ जाय. घरांतु पैसो आयलो कीं जाय तितलें मनीसबळ खरीद करयेत म्हण्णुं मानचें चूकीचें आसा. कदाचित् पैश्याचे बळान मनीसाले शरीरावयर बंधन घालूयेत. पुण तागेले मन, काळीज, विचार, मैत्रि, शक्ति, भक्ति-वयर मात्र बंधन घालचें शक्य जावचें ना. देकूनु मनीस एक वैभव आसा. लक्ष्मी आयलीकीं तिका योग्य असलें पुरुष वैभव जाय. अनेक जनांक संसारांतले लोकांपरम तिजोरींतले पैशे म्हत्त्वाचे दिसताचीं. हे जनांले घरांतु, संसारांतु परिवारांतु, जीवाक जीव दिवचे, आस्थायेन विचारचे अंतस्करणांतु नितांत प्रेम दवरचे, निष्ठा, भक्ति दवरचे बांधव, इश्ट किंवा नोकर-चाकर मेळनांची.

तशें पळयल्यार '**यस्याति वित्तं स नरः कुलीनः स पण्डितः स श्रुतवान्गुणज्ञः। स एव वक्ता स च दर्शनीयः सर्वे गुणा कांचनमाश्रयन्ति।**' म्हण्णुं वर्तमानकाळाचे वेव्हारिक तत्वज्ञान जावनुं आसा. जे मनीसालागीं धन आसा, तोची कुलीन, पंडित, बहुश्रुत, गुणाढ्य, वक्ता आनी रूपाळो म्हण्णुं अविचारी, अविवेकी मनीस तणापरस नीच आसचे मनीसांमागशीं वच्चे आमी आयजचे समाजांतु पळयताची. पुण हे तरेन आसचो मनीस, मनीस म्हण्णुं घेवचाक योग्य नासताना ते वास्तविकतेंतु मनीसाले आकारंतले हर्पकिडके आसाची. पोटांतु आसून रक्त शोषण करचे जंतु आसाची सुभाशितकार म्हणता, "**आहारनिद्राभयमैथुनं च सामान्यमेतत्पशुभिर्नराणाम्। धर्मो ऽ हि तेषामधिको विशेषो धर्मेण हीनाः पशुभिः समानाः ॥**" – जेवण, नीद, भय आनी स्त्रीलो सहवास, हीं लक्षणं मनीस आनी पशुप्राणींतु समसमान आस-ताची. पुण धर्म हो एकची गुण तो तांका एकमेकांपासून विगड करता. आनी जर धर्म ना तर ते मनीस जनावरा तरेन आसाची. "**येषां न विद्या न तपो नं दानं ज्ञानं न शीलं न गुणो न धर्मः। ते मृत्युलोके भुवि भारभूता मनुष्यरुपेण मृगाश्चरन्ति।**"– जे मनीसालागीं विद्या ना, तप ना, त्याग ना, ज्ञान ना, शील ना, सद्गुण ना आनी धर्म ना, ते जन हे मृत्युलोकांतु धर्तरे वयर वजन घालचे आनी मनीसरूपांतु फिरचे पशूची आसाची. देकूनु रुशी ते मित्र, इश्ट, बंधु-बांधव मागता जे तागेले जीवनांतु वैभव तरेन आसताले.

तशें पळयल्यार सन्मित्र हे एक लक्ष्मीले लक्षण जावनुं आसा. सुभाशितकार सन्मित्राली व्याख्या करताना म्हणता, "**दोषान्निवारयति योजयते हिताय गुह्यानि गूहति गुणान्प्रकटीकरोति। आपद्गतं च न जहाति ददाति काले सन्मित्रलक्षणमिदं प्रवदन्ति सन्तः।**" – दोशांचे जो निवारण करता, जें हिताचे आसा तेंची विचार करता, गुपित तें झांकून दवरता, बरें गुण प्रकाशांतु हाडता, संकट आयले तेन्नां तो त्याग करना आनी प्रसंग आयल्यार मदत करता, तोची खरो मित्र आसा म्हण्णुं जाणते सांगताची. असले जनांली जरूरियात आसची मनीसांले अभ्युदयाक उपयो-जक आसा. असले मनीसबळ रुशी मागता

**अश्वपूर्वां रथमध्यां हस्तिनादप्रबोधिनीम् ।**
**श्रियं देवीमुपाह्वये श्रीर्मादवी जुषताम् ।। ३ ।।**

रुशीन चिंतन केलिली लक्ष्मी ही मूळांतूची वैभवशाली लक्ष्मी आशिल्यान तिगेलें वैभव भौतिक परिभाशेंतु जितले मेरेन वर्णित करचाक जाता तितले मेरेन रुशी प्रयत्न करता. वैभव म्हळेंकीं रथ, घोडे आनी हस्ति दोळयामुखार येताची. हीं संकेत वापरनु रुशी म्हणता, जी लक्ष्मी मेगेले घर येत ती चोरातरेन लपून छपून ना येवों. घोर चूक वा पाप केलिल्यान, लज दिसिल्यान तोंड जनांक दाखयना. सताना घरांतु येवचे मनीसातरेन ती लपून छपून ना येवों. ती हे तरेन येवों कीं तिणे मेगेले धरा आयिलें चारी दिकान लोकांक कळ्ं. ती रथांतु बशिली आसून तिगेले मुखार घोडे आसताले. तिणें येवची खबर हस्ति आपण्यालो सीत्कार करनु कळयताली. रथ, घोडे आनी हस्तिले सांकेतिक रूप दाखोवनु रुशी संपत्तीबरोबर येवचें सामर्थ्ययुक्त वैभव मागता. राजलक्ष्मीली याचना करता. "**चतुरंग बलोपेतां धनधान्य सुखस्थितिः । अश्वारूढ अहं वन्दे राजलक्ष्मीं हिरण्मयीं**" 'चतुरंगबलोपेता'– चतुरंग सैन्यासयित. 'धनधान्यसुखस्थितिः' धनधान्याची विपुलतेन समृद्ध, 'अश्वारूढं' घोडयावयर बशिली लक्ष्मी आपण्याले घरांतु येवों ही रुशीली मागणीं आसा.

राजलक्ष्मी मागचांतु रुशीली कल्पना उदात्त आनी व्यापक आसा. कित्याक तर संपत्ती बरोबर रुशी शक्ति मागता, सामर्थ्य मागता, सत्ता मागता. सत्ता, सामर्थ्य हें एक महान वैभव आसा. अश्वशक्ति ही चपळ शक्ति आसा. ती प्रगतिशील शक्ति आसा. रुशीक स्थित शक्ति नाका. ती विकसनशील, प्रगतिशील, व्यापक शक्ति आसचाक जाय.

लक्ष्मी आयली कीं तिगेले बरोबर थोडी शक्ति थोडें सामर्थ्य येवका. तेन्नांची ती शोभता. थोडो अभिमानवी येवका. तो अभिमान तिका प्रभाव हाडता. घोडो धांवताना पळया, जी ऐट तागेले धांवचांतु असता. हस्ति चमकताना पळया, जो अभिमान, जें गांभीर्य ते गजगतींतु आसता. घोडो आनी हस्ति वैभवाची, अभिमानाची, सत्तेची जीवंत स्वरूप आसाची. घोडो आनी हस्ति हे स्वात्मानंदात्मक मदोन्मत्त शक्ति स्वरूप आसाची. क्रियाशील प्रवृत्तीचे जीवंत प्रतीकं आसाची. तशें पळयल्यार वैदिक साहित्यांतु प्रत्येक संकेत हे गूढार्थांन भरिले आसाची. भौतिक शब्दां मागशी आध्यात्मिक सत्य निपून आसा. साक्षात विष्णु हें विश्––म्हळयार सतत क्रियाशील आसचें – हे धातुवयल्यान उगम पाविलें आसा. लक्ष्मी ही विष्णु पत्नी आशिल्यान तिणेंवी क्रियाशील आसचें औचित्यपूर्ण आसा. श्री सूक्तांतु अग्नि, गो, अश्व आनी हस्तिले संकेतिक प्रतीकं वापरनु रुशी श्रीलें कार्य प्राण, ज्ञानसामर्थ्य तपोबल, वैभवाचें विकास करचें म्हृणु सांगता. आनी आपण्याले जीवनांतु

ती लक्ष्मी येवुं जी आपण्याले जीवनाचे विकासाक हितकारक, प्रयोजक आनी अभ्युदयकारक जाताली. मेगेले घरांतु ती लक्ष्मी येवूं जी रथांतु बशिली आसून तिगेले मुखार घोडे धांवत आसताले आनी तिगेलो येवकार हस्तिले सीत्कारान घोषित जाताली.

संपत्ती म्हळयार केवल वित्त, धन, पैसो न्हंय. संपत्ती म्हळयार सामर्थ्य, सत्ता शक्ति, अभिमान, तेज, शौर्य, संघर्श, दृढनिश्चय, आत्मविश्वास आनी ईशविश्वासाचें संगम आसा. रुशी ताका लागून सामर्थ्ययुक्त लक्ष्मी मागता. कित्याक तर तो शक्तिचो उपासक आसा.

तशें पळयल्यार उंच पांवडयाचे मूल्यांचे रक्षण केन्नांयी उंच पावंडयांचे शक्ति--सामर्थ्यानची शक्य आसता, हें आमगेले पूर्विले जाणते केन्नांयी विसरले नांची. म्हण्णु शक्तिबी एक वैभव म्हण्णु मानचांतु आयलें. हिंदू देवदेवतेले हातांतलीं शस्त्रं ते जाणीवेची साक्ष दिताची. सुदर्शन चक्रधारी श्री कृष्ण, धनूर्धारी श्रीराम आनी सायुध्य महाकाली मानवी आदर्श जावनुं भारतीय अस्मिताय उजळयताची. '**सशक्तिकं आवाहयामि**' म्हण्णु हिंदू मनीस देवाक येवकार दिता.

पुण ऊंच पांवडयांची मूल्यं ऊंच पांवडंयाचे शक्तिन शक्य आसल्यारीयी, ती शक्ति भक्तिचे भावनेन पूर्णतायेक हाडका. "**धर्मस्य मूलं अर्थः अर्थस्य मूलं राज्यं राज्यस्य मूलं इन्द्रियनिग्रहः**" म्हण्णु कौटिल्य सूत्र आसा. देकूनु शक्तिची साधना भक्तिचे मुखांतर जावचें, अनन्य, शरण्य भावनेन जावचें अत्यंत जरूर आसा. आनी ते तरेन जर लक्ष्मी घरांतु आयली तर ती लक्ष्मी ते मनीसाक समाजांतु, राष्ट्रांतु, संसारांतु ऊंच जागो दिता हांतु संशय ना. रुशीक ते तरेची सामर्थ्यवान लक्ष्मी जाय.

**कांसोस्मितां हिरण्यप्राकारामार्द्रां ज्वलन्तीं तृप्तां तर्पयन्तीम् ।**
**पद्मेस्थितां पद्मवर्णां तामिहोपव्हये श्रियम्** ॥ ४ ॥

कां – सोस्मिताम् –

कः हे शब्दाचो अर्थ वैदिक पारिभाशेंतु अत्यंत म्हत्वाचो आनी गूढ अशी आसा. "**प्रजापतिर्वैकः**"[10] प्रजापति हो क जावनं आसा "**को वै नाम प्रजापतिः**"[11] प्रजापतीले नाव क जावनुं आसा. 'क' चें स्त्रीलिंग म्हळयार 'का' जावनुं आसा- काम् म्हळयार अमूर्त, अनिर्वचनीयतेंचें तें एक रूप आसा. काम म्हळयार अप्रकट, मनान किंवा उत्रांनी जें स्पष्ट करचें अशक्य आसा, तें. "**यत्तो वाचो निवर्तन्ते अप्राप्य मनसा सह**"[12] म्हण्णु तैत्तिरीय उपनिषद व्याख्या करता. '**न तत्र चक्षुर गच्छति न वाग् गच्छति नो मनः । न विद्मो न विजनिमो यथेतद् अनुशिश्यात**'[13] म्हण्णु केनोपनिषद सांगता. परमात्म्यालें मूळ स्वरूपची अप्रकट, अव्यक्त, अमूर्त आशिल्यान आत्म हे शब्दाची व्याख्या '**इदं इत्थं**' म्हण्णु करचें साध्य ना.

कूनु उपनिशदकार ते विशय मौन धरता किंवा **नेति नेति** म्हण्णुं आपण्याले शक्यतेची जाण दिता.

तरी पुण मनीस हो मूळतः मानसाचो संभाव्य आशिल्यान प्रत्येकाचो विचार का संकेताक लागून, शब्दमुखांतर करचे पडता. देकूनु सगुण साकार लक्ष्मीदेवी ी ते अव्यक्त, अप्रकट परमात्म्याची प्रतीकाची अणभव स्वरूप आसता म्हण्णुं ानयेत. जेन्नां मूर्तिपूजेचें हें संकेतीकरण वा प्रतीकात्मकत्व विसरचांतु येता, तेन्नां विश्वात्मक आनी प्रकाशमय ईश्वराचो भक्ति बाजूक पडता आनी प्रतिमापूजेक हत्व येता. ताका लागून मूळ कल्पनेचें विसंगत रूप नदरेक येतो.

देकून लक्ष्मी हें आध्यात्मिक रूप खंयचे तत्वावयर आधारलेलें आसा हें जर मजलें तर वैदिक वांग्मयांतले भक्तिचें स्वरूप लक्षांतु येत. आध्यात्मिक, ारमार्थिक किंवा अतिभौतिक आनंदाची कल्पना येवका म्हण्णुं भौतिक दृश्टांताचो उपयोजन करचें औचित्य आसता. पुण ताजी मर्यादा जर आमीं दांटवली तर सर्व रूपकं वैशयिक पातळीवयर येताची आनी भक्तिमार्गाचो अधःपात जाता.

जेन्नां रूशी आवयलें रूपक ध्यानांतु हाडता, तेन्नां ताका ते लक्ष्मीलें मुख सोस्मिताम् अशें दिसून येता. अनेक दिसांनी चेरडाले घरा आयिले आवयले तोंडा-वयले माधुर्यान भरिलें स्मित ताका दिसून येता. जेन्नां आवय आपण्याले कंकणयुक्त हात पसरावनुं आपण्याले चेरडाक आपण्याले काळजाक लायता तेन्नां तिगेले तोंडारी प्रसन्नता, माधुर्य, रमणियता आनी थोडी आसक्ति बी आसता. पुण " आवय " हे शब्दाचो अर्थु जशें अर्थांतर केलिल्यान मेळना तशें स्मित हे शब्दाचो अर्थु शब्दाचे विवेचन करनुं साध्य जायना. शब्दाचें सामर्थ्य शब्दांतूची निपून आसता. " **अस्य शब्दस्य अयमेय अर्थः इति ईश्विरेच्छा संकेतः शक्तिः** " म्हण्णुं पाणिनीन व्याख्या केलिली आसा.

आवयले तोंडारी तेन्नाची स्मित हास्य आसता जेन्नां आपण्यालो पूत आप-ण्याली वाट अनासक्तेन, भावनापूर्ण नदरेन पळयत आसता. ते दिश्टींतु आवयले मोगाची इच्छा आसता, भोगाची न्हंय. आवय भोग्य नासता, पूज्य आसता. आवय घरा आयले उपरांत पूताले तोंडारी समाधानाची छटा दिसचाक जाय. तागेले मनावयर शांततेचो अविर्भाव आसता, मोहाचो अंतरपाट न्हंय. देकूनु जो मनीस लक्ष्मीदेवीक आवय समान मानता आनी आवय म्हण्णुं येवकार दिता तो आपण्याले घरा लक्ष्मी आयिल्यान उन्मत्त, मदांध, गर्विष्ट जायना. आवयलें स्तनपान करत आसचे चेरडाले मुखावयर दिसून येवची तृप्तता, शांतता, समाधान तागेले वयर दिसून येता. असले भावपूर्ण वातावरणांतु आवयले मुखावयर स्मित हास्य झळकता.

**हिरण्यप्राकाराम्**

हिरण्यप्राकाराम् म्हळयार भांगराचे वर्तुळांतु समाविश्ट जी आसा ती. लक्ष्मी

वा श्री ही परमात्माले सच्चिदानंद स्वरूपावयर केलिलें रूपक आशिल्यान तिगेलें तेजाक भांगराचे तेजाची उपमा दीवनु तिगेले वर्तुळांत अशिलें वायुमंडल भांगराचे तेजान समायुक्त आसा म्हणचें उचित आसता. पुण लक्ष्मीदेवीक भांगराची उपमा दिलिल्यान प्राचीन वैदिक वांग्मयांतले रूपकात्मक वर्णनांक वेव्हारिक पातळीवयर हाडचें हें पिश्शेपणाचें आसा. देकून जेन्नां परमात्माले हे चित्कलेक हिरण्य, तेजस्, रुक्म, श्री इत्यादि रीतीन वर्णन करचांतु येता तेन्नां " **इदं श्रेष्ठं ज्योतिषां ज्योतिरुत्तमम्** "[14] हे कोटि सूर्यतेजाची याद येता. लक्ष्मी ही ते दिश्टरीन हिरण्यप्राकाराम् आसा. तिगेलो आकार भांगरातरेन शोभायमान आसा. तिगेले आसन भांगरातरेन द्वैदीप्त आसा. तिगेले संभोवती मुसमुसचें वायुमंडल भांगराचे तेचान लखलखता. तिगेले सान्निध्यांतु स्रिश्टींतले समस्त अस्तित्व तणासमान क्षुद्र आसता.

**आर्द्राम्**

आर्द्राम् म्हळचार ओली चिंब. समुद्राचे मंथन जेन्नां देव–दानवांनी केलें तेन्नां तांतूतल्यान लक्ष्मी देवी प्रगटली. तेन्नां ती ओली चिंब भिजीलि दिसूनु आयली. ते अवस्थेंतूची विष्णून तिगेलें पाणिग्रहण केलें. लक्ष्मी अर्द्राम् आसा म्हणचांतु औचित्य आसा. तिगेले मन, काळीज सुकिलें ना. तें अजून भिजिलें, ओलें, उदकाक लागून टवटवींत, नवजीवनाक, नवचैतन्याक उपयोजक अशीं आसा. तिगलें जीवन आनी व्यक्तित्व रुक्ष नासताना ओलसर आसा.

**ज्वलन्तीम्**

रुशीक ते तरेची आवय जाय जी आपण्याले चेरडाखातीर, चेरडाले बरेपणाखातीर जीव, काळीज जळयता. चेरडु आपण्याले आवय विशय अनास्थाय दाखयत आसल्यारियी तागेले विशय ती काळजीन तडफडता. चेरडू मूर्ख आसा, अजाण आसा, असमंजस आसा म्हण्णु ती तळमळता. अस्वस्थ जाता. चेरडाक मनीस जल्मातसलो अलभ्य जल्म दिलो, ते खातीर जरूर आशिली बुद्धी आनी विवेक दिलो. श्रेय आनी प्रेय हांतू भेद करचाक जरूर आसची अकलन शक्ति दिली. तरी पुण आपूण कोण, आपण्यालें कर्तव्य कितें, आपूण खंयचान आयलां, आपण्याक खंय वच्चें आसा, हें सर्वांचो जेन्नां तो विचार करना तेन्नां आवयलें काळीज जळता. संसारांतले आकर्शणेन कामासक्त जावनु देहाची सुखं म्हळयार इतिकर्तव्यता म्हण्णु मनीस मानताची; कर्तव्यप्रधान कर्मांचो विसर पडनु जेन्नां ते विशयांध आनी विशयलंपट जाताची, तेन्नां हे तरेन वाट चुकीले चेरडांखातीर आवय लक्ष्मीलो जीव जळता. ती चिंता करता. आस्थाय धरता. रुशी लक्ष्मी देवींतु आस्थायभाव पळयता.

रुशीक ती आवय लक्ष्मी जाय जी चेरडाले विकासा खातीर. अभ्युदयाखातीर, मोक्षसाधनेखातीर सदाकाळ निरंनर हुसको काडत उरत. आवय तेन्नांची

ाळजी करत, हुसको काडत जेन्नां तिका चेरडाखातीर अनन्य, असामान्य आनी नतांत प्रेम आसतालो. रुशीक ती आवय नाका जी तागेले विशय तटस्थ, उदासीन ानी निर्दयी आसताली. ती ज्वलन्तीन् आसचाक जाय.

रुशीले कल्पनेंतु आवय विशय विंगड विचारबी आयिले उरत. ज्वलन्तीम् हळयार ती देवी जी जीवनांतु जें काय अनावश्यक, अहितकारक आसता तें सर्व ाश करता. आवयलें दर्शन जालेंकीं मनीसाले मनांतु आशिलो काम, क्रोध, मोह नद, मत्सरांचो नाश जाता. उजळ पातळी वयर बशिली आवय दिश्टीक पडलीकीं चेरडाली दिश्टी पवित्ररूप धारण करता आनी भोगवस्तूंतलें भोगबी तागेले नदरेक येना.

**तृप्ताम्**

तृप्ताम् म्हळयार समाधान, तनमनाचो समाधान· लक्ष्मी तृप्त आसचाक जाय. तिगेल्यांतु स्वतः आनी ती घरांतु आयिले उपरांत मनीसांतु समाधान आसचाक जाय. जी स्वतः तृप्त ना ती दुसऱ्यांक खंयचे तरेन तृप्त करू शकताली बरी? मनीस तेन्नांची तृप्त आसू शकता जेन्नां तो इच्छा, आशा, आकांक्षा, कामना रहित आसता. अहंकर्ता–फलासक्ती पासून स्वतंत्र आनी आत्मज्ञानांतु निरंतर मग्न आशिलो मनीसची ते स्वतंत्र आनी तृप्त देवीले साक्षात्काराक योग्य आसूं शकत. जर मनीसाक शांती, समाधान, तृप्ती जाय तर ताका ते लक्ष्मीलो सहवास जाय जी स्वतः तृप्त आसून आपण्याले चेरडूंवांतु तृप्तता दिवूं शकता.

तशे पळयल्यार तृप्ती ही भूखेंतल्यान समाधान पावची वृत्ती आसता. भूखेंतल्यान रुची निर्माण जाता, रुचीचो समाधान केलिल्यान मनीस तृप्त जाता. पुण जी तृप्तता रुशी चिंतन करता, ती तृप्तता भूखेंतल्यान निर्माण जालिली ना. निजान लक्ष्मीक इच्छा–आशा–आकांक्षा नासता. तेन्नां तिका भूखखंयची आसताली ?

कर्मयोगीनबी कर्तव्यकर्म करताना तागेली देहेंद्रियं विषयांतु व्याप्त आसताची. असले स्थितींतु चित्तवृत्ती स्थिर आनी प्रसन्न दवरची एकची युक्ति आसता. आनी ती म्हळचार निष्कामबुद्धीन कर्तव्यकर्म करचें आसा. यशाची, लाभाची, विजयाची कामना म्हळचारी इच्छा–आसक्ति दवरत नासताना यशापशय, जयापजय, लाभालाभ, समान माननुं कर्म करचाक जाय. "**विहाय कामान्यः सर्वान् पुर्माश्चरति निःस्पृहः। निर्ममो निरहंकारः स शांतिमधिगच्छति** "[15] म्हण्णुं गीतेंतु भगवान् सांगता. जो मनीस सर्व इच्छा त्याग करता आनी निरिच्छ जालिल्यान हांवू आनी मेगेलें हे मोहजालांतु ना गुंतता, अहंकाराचो त्याग करनुं वेव्हार करता ताकाची शांती मेळता. तोची मनीस तृप्त मनीस म्हणयेत. लक्ष्मी घरांतु आयिल्यान मनीसाक हे तरेची तृप्ती येवका. रुशी मागता की आपण्याले घरांतु ते तरेची लक्ष्मी येवुं जी स्वतः तृप्ततेची प्रतीक आसून मेगेले जीवनांतु तृप्तता हाडताली.

**तर्पयंतीम्**

लक्ष्मीदेवी जे तरेन तृप्ताम् आसा ते तरेन ती तर्पयन्तीम् बी आसचाक जाय तर्पयन्तीम् म्हळचार जी आमगेले आकांक्षा तृप्त करता ती तशें पळयल्यार चेरडाले अतृप्तेविशय चेरडापरस आवयक जास्त खब्बर आसता. चेरडान जल्माक आयलेकीं तागेले पोशण करचे खातीर जरूर आसचें दूध देवान तिगेल्यांतु निर्माण केलिलें आसता. पुण आवयलागीं दुध मागची गरज चेरडाक केन्नांयी भासना. चेरडान दूध पिवची वेळ आयली कीं आवयले स्तन चिवचिवताची आनी आपण्याले पान्हें ती चेरडाले तोंडाक लायता. चेरडाले भूखे खातीर आवय आपण्याली भूक विसरता. आवयले स्तनांतलें दूध पीत आसताना ते चेरडावयर आवयले मोगाची, प्रेमाची दिश्ट नियाळत आसता. देकून जरी स्तनांतले दूध संपले तरी पान्हे चेरडान चोखत आसचे चेरडाक साह्जीक आसा. आवयले मोगाचे, वात्सल्याचे दिश्टीचे उबेन तें चेरडूं जशें वाढता ते तरेन समस्त स्रिश्टीबी वाढता. आवय आनी चेरडाले मध्यें जेन्नां हे तरेचो संबंध घट् जाता तेन्नां पुत्रवात्सल्यान तृप्त जालिली ती आवय आपण्याले चेरडांकबी तृप्त करता. हे तरेचे आप–आपसांतले संबंधान निसर्गाचो वेव्हार चलका.

पुण जेन्नां मनीस आपण्याले वैशयिक सुखाखातीर तप करताची कनक-कांता कीर्ति हे त्रिपुटीचे दडपणांसकयल दाबिले आसताची, जन अज्ञानी आसूनबी सुज्ञानी समजताची, हें देह म्हळचार आपूण समजून ताजें सुखाखातीर आसक्त आसताची, तेन्नां ते मनीसांक तृप्तता केन्नांयी साध्य ना. असले मनीसांनी लक्ष्मीदेवीली याचना करचेंबी अनुचित जावनु आसा. तिगेलें तप केल्यार ती प्रसन्न जावची ना. कित्याक तर तप म्हळचार मूळांतूची वासनात्याग; आशा आकांक्षांचो, फलासक्तीचो, वासनांचो त्याग जावनु आसा. श्रीलें चिंतन करचें हेंची तप आसल्यार ते तपाक उपयोजक असली मनोवृत्ती जागृत करचें आवश्यक आसता भोगवस्तूंचो संग सोडनु रानावनांतु निवास केल्यार वासनात्याग जायना. तो केवल संगत्याग जाता; संगमुक्तता जायना. पुण विशयसंगतींतु राबनु विशयासक्तिपासून जो मुक्त आसता तो चिखलांतु राबूनबी जशें कमळ स्वच्छ आसता, जगाचे सर्व बाजूक स्पर्श करनुंबी सूर्य जशें दोशमुक्त आसता, तशें तो निस्पृह आसता. ताका लागून वित्त, वैभव, संपत्ती आनी कीर्त मेळनुंबी जो तांचे पासून आसक्त जायना तोची खरो तृप्त आसा म्हणयेत. आनी ताकाची लक्ष्मीदेवी खरे अर्थान सुख समाधान दिता. तेन्नांची तागेलें जीवन पूर्ण, सफल आनी भावपूर्ण आसता.

**पद्मेस्थिताम्**

जेन्नां रुशीक तागेलें निर्मल जालिले बुद्धीक लक्ष्मीदेवीलें स्वयंसिद्ध दर्शन जालें तेन्नां ती कमळाचे आसयावयर बशिली दिसून आयली. वैदिक परिभाशेंतु

मळ अनासक्तिचें द्योतक आसा सरोवराचे उदकांतु आसूनबी सरोवराचे चिख-
ापासून आनी उदकापासून कमळ वेगळें आसता. सरोवराचें मालिन्य ताका लागू
इना· तेची तरेन मनीसान संसारांतु आसूनबी संसाराचे दोशांपासून स्वतंत्र
ासचें जरूर आसा. मनीसालो जगाकडेन पोळोवचो दिश्टीकोण बदलका. आपूण
हाइतलो संकुचित आनीं देहा तरेन विनाशी नांची. ताजे उलट आमी विश्वव्यापक
ातन्यातरेन व्यापक आनी अविनाशी आसाची म्हण्णुं जेन्नां आमकां जाणीव येता
ान्नां जीवनांतल्यान निराशा, दूःख आनी कमीपणांचो नाश जाता. मनीसाले
ाळजांतु धैर्य आनी उत्साह निर्माण जाता. हे ज्ञानान देहसापेक्ष संकुचित व्यक्तित्व
वेश्वा इतलें व्यापक जाता. अनंतकाळापासून चिखलांतु निवास करनुंबी जशें कमळ
ापण्यालीं कमळदळं विस्कळीत करनुं आपण्याले काळजांतु एकत्रित केलिलीं
ासंख्य बीजकणांचो बहार दाखयता, तेची तरेन हे संसारांतु राबूनबी ज्ञानी मनोस
आपण्याले काळजांतु संघटित केलिले ज्ञानकणांचो अविश्कार दाखयता. कमळासना-
वयर विराजमान जालिली ती लक्ष्मी आपण्याली क्रिपादिश्टी जेन्नां आपण्यालें
चेरडांवयर घालता तेन्नां तो आपण्याले कर्म कार्याविशय अनासक्त जाता. विश्व
तेंची आपण्याले निज स्वरूप हें अणभवता आनी विश्वांतु ते तरेन वेव्हार करता.
गीतेंतु भगवान बी आश्वासन दिता कीं "**ब्रह्मण्याध्याय कर्माणि संग त्यक्त्वा करोति यः । लिप्यते न स पापेन पद्मपत्रमिवांभसा ।**"[16] जो कोण मनीस फलाची
इच्छा सोडनुं आपण्यालीं कर्म कार्य करता, तो कमळ जशें उदकांतु आसून बी
भीजना तशें तो पापान अलिप्त आसता.

लक्ष्मी विशय जो कोणियी भोग दिश्टीन पळयता, तागेले घरांतु आवय म्हण्णुं
ती येना. देकूनु जे घरांतु तिका आवयलो भोग, सन्मान मेळता ते घरांतु ती येता
रुशीक ती लक्ष्मी आवय तरेन येवचें जाय.

**पद्मवर्णां –**

पद्मवर्णां म्हळ्यार कमळाचे रंगाची. कमळाचो रंग तांबडो आनी धव्वे
रंगान मिसळिलो आसा. जीवनांतलो तांबूस रंग जो जीवंतपणाचो, चैतन्याचो संकेत
आसा, तो कमळाचे रंगातरेन अरुण वर्ण आसा. सूर्य जेन्नां दरदिवस उदतेंतु उगम
पावता तेन्ना तो आपण्यालो अरुण वर्ण धारण करनु येता. रुशी जेन्नां निसर्गांतले
रम्य वातावरणांतु तल्लीन जावनुं लक्ष्मीदेवीलें चिंतन, मनन, ध्यान धरता तेन्नां
ती सूर्यातरेन शुभ्र, कृष्ण, नील, पीत, रक्त वर्णांनी शोभचीं वस्त्रं घालनुं अवतरता.

**चद्रां प्रभासां यशसां ज्वलन्ती श्रियं लोके देवजुष्टामुदारम् ।**
**तां पद्मिनोमीं शरणमहं प्रपद्येऽ लक्ष्मीर्मे नश्यतां त्वां वृणे ।। ५ ।।**

**चन्द्राम्**

आवय चन्द्रातरेन सुखद, शीतळ, आल्हाददायी आनी पोशक आसा. सर्व

रात्र जागी राबनुं एकठांय केलिले म्होंवाचे थेंबे आवयीची चेरडाले तोंडातु, फुलांचे कणकणांतु ल्हवु ल्हवु सिंचन करता. ताका लागून चन्द्राम् हे शब्दाचो अर्थ तृप्ती समाधान, संतोष म्हण्णुं जाता. पुण ही तृप्ती, हो समाधान वा संतोष अज्ञानांतल्यान न्हंय तर विवेक–विचाराचे उपरांत येवचे ज्ञानाक लागून आसचाक जाय. तृप्त किंवा समाधानी मनीस हो भावनाशून्य मनीस म्हण्णुं मानचें योग्य न्हंय. चन्द्र आपण्याले सुखद किरणांनी जशें जगाचे प्राणीजीवांचे काळजांक स्पर्श करता तशें मनीस जर अहंकार आनी स्वार्थ वृत्ती सोडनुं आपण्याले कर्तव्यकर्माचें पालन करत तर ते मनीसालें मन आपोआप चन्द्राम्, तृप्त, समाधानी जायत. प्रसन्न काळजाचे ते मनीसाली बुद्धी सदैव प्रसन्न आशिल्यान तो आपोआप परमात्मस्वरूप जातालो. चित्ताची अखंड प्रसन्नता, समाधानता, तृप्तता ही स्वतःक आनी इतरांक आनंदित करची उदात्त अमृतोपम भावना चन्द्रांतु आसता. आनी ती भावना लक्ष्मी देवींतु रुशी जाणवता.

**प्रभासाम्**

प्रभासाम् म्हळचार अत्यंत कांतिमति आवयलें वर्णन करताना रूशी जितलो विवेक दवरूं शकता तितलो विवेक दवरनुं निगेलें वर्णन करता. ती प्रभासाम्, आसा. भासाम् म्हळचार शोभायमान, दीप्त, तेजाळ. प्रभासाम् म्हळचार **प्रकृष्टेन भासाम्**–अत्यंत कांतिमति, वैभवसंपन्न. वैदिक धर्म हो तेजाचो, प्रकाशाचो उपासक आसा. ऋग्वेदकालापासून हे तेजाची उपासना हे देशांतले रूशी, मुनी, योगी आनी भक्त करत आयिले आसाची. '**इदं श्रेष्ठ ज्योतिषां ज्योतिः**' '**तद्देवा ज्योतिषां ज्योतिः आयुर्होपासतेऽ मृतम्**' ते तेजाळ ज्योतिची, वैभवसंपन्न देवतेची क्रिपा जेन्नां तिगेले चेरडांवयर जाता तेन्नां बंद अशिली कवडं उघडताची आनी पळयलें थंय प्रकाशूची प्रकाश पसरता. '**तस्य भाषा सर्वमिदं विभाति**' ताजे प्रकाशान सर्व कांय प्रकाश पावता. चिन्मय प्रकाश हो नित्य आशिल्यान तो प्रकाश आशिले थंय अज्ञान केन्नांयी शक्य ना. सूर्यामुखार जशें काळोख नासता तें तरेन परमात्मप्रकाशा मुखार, प्रभासाम्, श्री मुखार अज्ञान आसचें साध्य आसना

**यशसा ज्वलन्तीम्**

म्हळचार तीन लोकांतु सुयशान उजळ, यशान शोभची, देदीप्यमान, तेजस्वी. श्री जंय येता थंय यश आसचाक जाय. तिगेले तेजान चारी दिशा प्रभावित जावचाक जाय. तिणें आयल्यार ती आयल्या म्हण्णुं चारी जणांतु चारी दिकान समजचाक जाय. ती येवनुं गुपचुप तिजोरींतु बसची लक्ष्मी आसू फावो ना. आवयक सर्व चेरडूंव समसमान आसताची. तो शुद्ध आसूं वा अशुद्ध आसूं. तो पुण्यवान वा पापी आसूं. तो उच्च आसूं वा नीच आसूं. सर्वांलागी ती वता. ती आवय आशिल्यान चेरडूं जे तरेन आसा ते तरेन ती ताका स्वीकारता. पुण चेरडूं तो

ळिद्र आसता. आवय आयल्यार खंयचे तरेन तिका येवकार दीवका, हें तो नेण.
ा आयल्यार तिका शोभेन तो हाडना, तिगेलें वास्तव्य सवांक जाण करना. तिगेले
वकाराविशय तो संकोच करता. तो सर्वांक तिणें आयिले खबर जाणयना. पुण
ो आवय येवनु सर्वांक खबर पडना तो आवय घरांतु येवनु किते उपयोग ? जी
ावय आयल्यार शोभायमान ना, तेजाळ ना, प्रभाबित ना ती आवय घरांतु आयली
कवा ना. हांतु फरक कसलो? पुण रुशीक ती आवय येवचाक जाय जी आयिल्यान
ागेलें घर तेजान शोभतालें, यशाची छाया घरांतु पसरताली, वैभवाचे वजन
ासतालें. रुशीक ती आवय जाय, जी आयिल्यान तागेलें घर यशान उजळ जातालें
ार जण समजताले; चार जण तिगेलो मोग आनी यशाचे क्रिपयिश्टींतु सुख पाव-
ाक जमताले. यशसाम् ज्वलन्तीम् असली श्री रुशीक जाय.

**देवजुष्टाम्**

श्री विश्षु भगवान् हो षड्गुणाधिकरण आसा. भगवान हे शब्दांतूतले भग हे
दोन अक्षरांतूची भाग्यवान्, ऐश्वर्यवान्, वैभवसंपन्न, सौंदर्यसंपन्न, श्रीलो स्वामी,
उदार दाता वगैरे अर्थ मेळिले आसाची. देवजुष्टाम् म्हळचार ती जिगेलो आश्रय
देव सदाकाळ अपेक्षा करताची. 'भग' हो शब्दु स गुणांचो वाचक आसून भगवान
श्रीं विष्णु षड्गुणैश्वर्यसंपन्न आसा. हीं स गुणं संकलन केलिलो एक श्लोक विष्णु-
पुराणंतु आसा. '**ऐश्वर्यस्य समग्रस्य धर्मस्य यशमः श्रियः। ज्ञानवैराग्ययोश्चेति
षण्णां भग इतीरणा॥**' भग म्हळयार भाग्य वा समग्र ऐश्वर्य, धर्मरक्षणान प्रजेचे
रक्षण करतालो, यशस्विता, श्री संपन्न, ज्ञान आनी वैराग्ययुक्त देव. ताका लागून
विष्णु देवतेक श्री विष्णु म्हण्णुं नामाभिदान जालें. तो श्रीपति वा श्रीनिवास म्हण्णुं
बी ओळखुवचांतु आयलो.

लक्ष्मी ही एक प्रभावी शक्ति आशिल्यान तिगेंलो सहवास सज्जनांनी करका
म्हण्णुं वैदिक अर्थशास्त्र निष्ठून सांगत आसता. जेन्नां श्रीलक्ष्मीलें उगम क्षीरसाग-
रांतल्यान जालें तेन्नां साक्षात् परमात्मस्वरुपी श्री विष्णून लक्ष्मीलें सहवासार्थ
आपण्याले करकमल पसरायलीं. अथर्ववेदांतु लक्ष्मी, धन, संपत्ती कमोवचे खातीर
अनेक विधानं दिलिलीं आसाची. अविवेक, अज्ञानाक लागून किंवा चूकीचे समजूतीन
लक्ष्मीलो तिरस्कार वा त्याग केल्यार ती लक्ष्मी नीच, दुर्वर्तनाचे, दुश्ट लोकांलें
हातांतु वता. आनी ताका लागून धर्माचो, नीतिचो, संस्कारांचो, संस्कृतीचो अधः-
पात जाता. संसाराचो संहार जाता. देकूनु लक्ष्मीदेवीलो सहवास सज्जनांलागी
आसचांतु औचित्य आसा. कित्याक तर, लक्ष्मी, वित्त ही एक महान शक्ति आसा.
ती जेन्नां सत्पात्री कर्म आनी धर्मनिष्ठ कर्तव्याखातीर उपयोजनेंतु येता तेन्नां धर्माचें
परिपालन आनी मनीसालो आत्मोद्धार जाता. देकूनु हे शक्तिक देवबी आपणावचांतु

निमग्न आसताची. देवजुष्टाम् हे व्याख्येंतु महान, विचार समाविश्ट जाल्ले आसाची.

वैदिक आनी पुराण काळांतु हे शक्तिचें पूजन तनमनान जातालें. ऋग्वेदांतु असले अनेक मंत्रं आसाची जंय रुशी ऐश्वर्याची, धनाची. संपत्तीची मागणी देवा-कडेन करता. अध्यात्म, विरक्ति आनी अनासक्त कर्म कार्याची खबर आयली की तांतूत वित्त, धन वा संपत्तीचो प्रवेश ना म्हणची एक भ्रांत कल्पना बौद्धकाळा उपरांत भारतांतु वावुरचाक लागली. जो मनीस भौतिक सुख, धन, वैभवाचो त्याग करनु अरण्यांतु निवास करचाक वता, तो महान त्यागी जानी परब्रह्चालागीं पाविलो म्हण्णु एक चूक समजूत आसा. पुण ही कल्पना एक तरेची मानसिक विकृति आसा. तशें पळयल्यार, जो मनीस धन–वैभवांचो त्याग करत नासताना तांतूतली फलाशेचो आनी कर्तुत्वाचो त्याग करता तोशी खरो त्यागी म्हण्णु मानका. तोची परमात्मस्वरुप किंवा देव म्हण्णु म्हणयेत.

महालक्ष्मी देवजुष्ट आसा, हाजो अर्थु लक्ष्मीलो सहवास देव इच्छिताची. वैदिक काळातु वित्त–वैभवाचे प्राप्तीखातीर यज्ञ याग करताले. वसिष्ठ–विश्वामि-त्रादि रुशी, जनक–रघु इत्यादि क्षत्रिय राजर्शी लक्ष्मीक्रिपेचे पात्र आशिले. वैदिक काळांतु लक्ष्मीं सात्विक आनी दैवी लोकांले सहवासांतु आशिल्यान ती संस्कृती भारत वर्ष हें जगांतले महान् राष्ट्र, स्वर्गभूय म्हण्णु नांव लौकिक पावलें. आयज लक्ष्मीविषय सात्विक लोकांनी उपेक्षा केलिल्यान ती नीच मनीसांतले हातांतु गेल्या. आनी ताका लागून जगांतु हे कलियुगांतु एक विलक्षण तरेची भौतिक अनीतीचो अधर्म चलत आसा. ताका लागून लक्ष्मीलो आनी तिगेले शक्तिचो उपयोग दुर्जनां-कडचान जात आसा. हे मानवी अभ्युदयाक उपयोजक, हितकारक अशें ना. देकूनु सात्विक मनीसांनी वित्त–वैभव संपत्ती कमोवका, सांभाळका, वाढोवका. आनी ते. शक्तिचो उपयोग आनी विनियोग योग्य तरेन करका. देवजुश्टाम् हे शब्दांतु मानवी विकासाचे, अभ्युदयाचे बीज निपून आसा.

### उदाराम्

औदार्य ही एक उदात्त वृत्ती आशिल्यान ताजो पुरस्कार सात्विक मनीसांनी सतत करका. मनीस उधळो आसल्यार उदार म्हण्णुं न्हंय. त्यागाचे पायरी वयर उभी आशिली यज्ञसंस्था ही दानाखातीर आशिल्यान मनीस जर आपण्यान कमयिले संपत्तीचो थोडो तरी वांटो सत्पात्री दाना खातीर वापरना तर तो उदार ना. औदार्य ही मनाची एक वृत्ती आसा. स्वतःचें कर्तुत्व आनी देवावयलो विश्वास हांचें मिश्रण म्हळयार औदार्य. सुभाशितकार म्हणता, '**शतेषु जायते शूरः सहस्रेषुच पण्डितः । वक्ता दशसहस्रेषु दाता भवति वानवा ॥**' शौर्य पांडित्य आनी वक्तव्य हे सर्वसामान्य दिश्टीक पडता पुण औदार्य आसचें देवी शक्तिक लागून आसा.

कूनु उदार आसचें देवत्वाचे लक्षण आसा. जे मनीसालागीं वैभव आसा, संपत्ती ासा तागेलागीं जर औदार्य बी आसा तर तो साक्षात् देवसमान आसा. आनी ाची लक्ष्मीले क्रिपेक साजेसो आ ा. तोची लक्ष्मीपुत्र म्हणोवनुं घेवचाक अनुरूप ासा.

**पद्मिनीमीम्**

पद्मिनीमीम् म्हळचार कमलासनावयर जी बसल्या, ती. कमळ हे अनास-क्तीचें द्योतक. मनीसान हे जगांतु कर्तव्यकर्म करत असताना, प्रतिभेन, यशान, समाधानान, सात्विक त्याग–दान करत आपण्यालें कर्तुत्व सफलतेंतु हाडका. ताणें ती कर्तव्यकर्म करत असताना अनासक्त जावनुं कमळदळातरेन वेव्हार करत, भितरल्यान अलिप्त आसचाक जाय लक्ष्मीदेवी संसारांतु निवास करत आसल्यारियी ते चिखलाचे दुर्गंध–दुर्गुणांपासून स्वतंत्र आसता. ते तरेन मनीसान आपण्यालें जीवन जगका. असली अनासक्त लक्ष्मी, जी आयिल्यान मनीसाले मन दूशित जावचें ना, गर्वान–मदान धुंद जावचें ना, ताजे उलट शांति, समाधान, सुख–वैभव जीवनांतु झळकता, आपण्याले घरांतु ती येवूं म्हण्णुं रुशी मागता.

**मे अलक्ष्मी नश्यतां त्वां वृणे**

मेगेलें जीवनांतु जें अलक्ष्मी स्वरुप आसा, जें अशुभ आसा जें अहितकारी आसा ते सर्वाचे नाश जावूं. **त्वां वृणे** हांवु तुका शरण येता. आवय मेगेले जीवनां-तलें दारिद्रच तू नाश कर. माका संपत्तीमान, धनवान कर. कित्याक तर हे संसारांतु धनहीन मनीसाक सन्मान ना. सुभाशितकार म्हणता, ‘ **वरं वनं व्याघ्रगजेन्द्रसेवितं जनेनं हीनं बहुकंटकावृतम् । तृणानि शय्या परिधानवल्कलं न बन्धुमध्ये धनहीन जीवनम् ॥** ’ वाघ, हस्ति भरिलें रान बरें, जनांली वस्ति नाशिले रान बरें, कांटयान–खुंटयान भरिलें रान बरें, तणारी निदून झाडाची सालं न्हेंसचे बरें, पुण बांधवांले मध्यें धनहीन आसचें असह्च आसा. देकूनु अलक्ष्मी दारिद्र्याचो नाश जावूं आनी श्री, लक्ष्मीलो येवकार आपण्यालें जीवनांतु येवूं म्हण्णुं रुशी प्रार्थना करता.

श्री सूक्ताचे पयले मंत्रांतु रुशी अनन्य भावनेन शरण वचत आसा. निर्गुण, निराकार, अविनाशी, निष्क्रिय आत्मस्वरुपाचे जाग्यार आपण्याले चित्त, भक्ति

आनी शरण भावना दवरनुं जेन्नां आपूण हे जगांतले कर्तव्यकर्मांचो कर्ता ना, ही जाणीव मनीसाक जाता तेन्नां ताणें जगत् आनी जगदीश्वरादिकान पोळोवची दिश्ट साफ बदलता. जाका नामरुपं नांची ताका रुशीन साकार केलें. जाका अंतपार ना, वर्ण-कुळ-जाति, हात–माथे ना असले निष्क्रिय निर्गुण परब्रह्म भक्तांलें सुखाखातीर सक्रिय आनी साकार जाता रुशीनीं दिलिली नांव ताणें धारण केलीं आनी भक्ति-खातीर तो सान जालो. पुण रवि जे तरेन निसर्गातले सर्व रसग्रहण करनुं बी ते रसांचे गुणदोशांपासून अलिप्त आसता ते तरेन परब्रह्म नामरूपादि धारण करनुं बी मूळांतु तो धर्मरक्षणेखातीर आपण्याले अनेकानेक भिन्नत्वांतल्यान वावुरता. आनी काळांतरांनी देव क्रिपेक पात्र जालिलो भक्त देवापासूनबी वेगळो आसना. सूर्य आनी ताजीं किरणं, साक्कर आनी ताजी गोडी, घंटा आनी ताजो नाद हे तरेन देव आनी भक्त आप–आपसांतु एकरुप जाताची आनी तांतूतची ते भक्ताक मुक्ति आसा.

---

टीप :

1. यजूर्वेद ३१.१८.
2. कठोपनिशद् ३·२३
3. मुण्डकोपनिशद् २·२·८.
4. तैत्तिरीय उपनिशद् २·९.
5. ऋग्वेद १·२२·१८.
6. मांडूक्योपनिशद् १.
7. तैत्तिरीय अुपनिशद्.
8. ऋग्वेद १·१·१.

) भगवद् गीता. 4-11.

1 तैत्तिरीय संहिता. १·७·६·६.

. ऐतरेय ब्राह्मण. ३–२·२१.

2 तैत्तिरीय उपनिशद् २·९.

3 केनोपनिशद् १·३.

4 ऋग्वेद १०·१८०·३.

5 भगवद् गीता. २·७१.

6 भगवद् गीता. ५ १७.

मंत्र – २.

आदित्यवर्णे तपसोऽधिजातो वनस्पतिस्तववृक्षोऽथ बिल्वः ।
तस्य फलानि तपसानुदन्तु मायान्तरायाश्च बाह्या अलक्ष्मीः।।१।।
उपैतु मां देवसखः कीर्तिश्च मणिना सह ।
प्रादुर्भूतो सुराष्ट्रेऽस्मिन् कीर्तिमृद्धिं ददातु मे ।। २ ।।
क्षुत्पिपासामलां ज्येष्ठामलक्ष्मीं नाशयाम्यहम् ।
अभूतिमसमृद्धींच सर्वा निर्णुद मे गृहात् ।। ३ ।।
गन्धद्वारां दुराधर्षां नित्यपुष्टां करीषिणीम् ।
ईश्वरीं सर्वभूतानां तामिहोपव्हये श्रियम् ।। ४ ।।
मनसः काममाकूतिं वाचः सत्यमशीमहि ।
पशूनां रुपमन्नस्य मयि श्रीः श्रयतां यशः ।। ५ ।।

र्थु –

हे सूर्यातरेन तेजाळ आवय, तुगेले तपोबलाक लागून बिल्व
ाडाचो जल्म जालो. तुगेले तपस्येक लागून निर्माण जालिले ताजे
ळान मेगेले अंतस्कारणांतु जल्माक आयिलें अविद्येचें अज्ञान आनी
ायर प्रगट जालिलें दारिद्रय नाश जावूं. हे लक्ष्मीदेवी, कुबेर आनी
ाश सयत कीर्ति माका प्राप्त जावूं. कित्याक तर हांवु हे राज्यांतु जल्म
ाविलो आसा. ताका लागूम माका कीर्त आनी ऐश्वर्य मेळूं. माका
ऽक्ष्मी प्राप्त जावचें पयलें मेगेल्यांतु तान भुखेक लागून निर्माण जालिलें
मळ आनी दारिद्रय हांवु नाश करता तूं मेगेले घरांतलो समृद्धीचो
अभाव आनी दारिद्रय नाश कर. हे अग्निदेव, हरण करचाक शक्य ना
तसली, नित्य, सर्व समृद्धीन परिपूर्ण, सुकिले गोमयान आकार पाविली
पृथिवीरुपी जगन्माता लक्ष्मीक हांवु हांगा आपयतां. हे महालक्ष्मी, तूं
आमगेल्यांतु धन-धान्यविपुलतेन परिपूर्ण आनी सुकीर्तिरुप लक्ष्मी स्थिर
कर. जाका लागून आमगेले मनोरथ, संतोष, सत्यवचन, पशुसमुदाय
आनी पोशणाखातीर आमी अन्न संचय करूं शकताले.

**आदित्यवर्ण :**

आदित्यवर्ण म्हळ्यार सूर्यातरेन रंगाची, सूर्यातरेन शोभची, सूर्यान प्रभावशाळी जी आसा, ती. ती जेन्नां हे जगांतु येता तेन्नां जे तरेन सूर्य आयिल्य जगांतलो काळोख नाश जाता ते तरेन तिगेले शुभ्र, धवल तेजाक लागून अज्ञा दारिद्रय नाश जाता. हाकाची उपनिषदकार " **तत् शुभ्रज्योतिषां ज्योतिः तद्द आत्मविदो विदुः** "[1] म्हणता. परमात्म्याले तें तेज केन्नांयी निपोवनु दंवरचः जायना. जगाचो सर्व प्रसार ताकालागून तेजोमय जाता. आनी तांतू सर्व नामरू विलीन जावनु सत्य मात्र शाश्वत उरता. हे तेजांतु जीवाचें आनी परमात्म्या ऐक्य जाता आनी जीवाचें जीवत्व तेजाळ जाता.

सूर्याक उदकाची कसली गरज आसता ? तरी पुण तो जगांतलें सर्व उदा शोषण करता. आनी तें उदाक तो आपण्याखातीर दवरत नासताना जगा कल्याणाखातीर यज्ञरूपान तो परत धर्तरेरी सिंचन करता. लक्ष्मीदेवीक धन संपत्तीची गरज कसली ? देकूनु लक्ष्मी सूर्यातरेन यज्ञकर्मांक हातभार लायत लोभी, कृपण मनीसाले घरांतु अनुपयोगी पडिलें धन शोषण करनु तें धन त पुण्यवान मनीसाले पदरांतु घालता जाका लागून तो पुण्यवान मनीस तें ध सत्पात्री कर्म कार्याक उपयोग करत.

**बिल्व :**

वैदिक विचारसरणींतु बेलाचें झाड आनी बेलाचें फळ लक्ष्मीदेवी बरोब संबंध लायताची. **तपसो उ अभिजातः** मानिलें आसा कीं बेलाचें झाड लक्ष्मीदेवीन तपश्चर्येन निर्माण केलें. ताका लागून बेलाचे झाडासकयल लक्ष्मीलो निवास आस म्हण्णुं मानचांतु आयले. बेलाचे फळाक श्रीफळबी म्हणताची. देकूनु बेलाचे पान आनी फळ मेगेले भितर आशिलें अज्ञान आनी भायर दिसचे दारिद्रय नाश करू म्हण्णुं रुशी मागता.

**देवसख :**

देवसखः म्हळ्यार कुबेर जो धनाचो कोशाध्यक्ष आसा. तागेले घरांतु लक्ष्मी, धन, वैभव निरंतर वास करनु आशिल्यान तो स्वतः देवसखः देव जालो. लक्ष्मीलो सहवास नित्य आसचें आनी लक्ष्मीलो वोप आप याले जीवनाक लागचो ना अशें आसचें शक्य ना. देव जे मनीसाले काळजांतु निवास करता तो मनीस तशें पळच-ल्यार देवची आसता.

**सुराष्ट्रे अस्मिन् :**

रुशीक आपण्याले पुण्य, पवित्र भारत भूये विशय अपार भक्ति, अभिमान आसा. तो म्हणता : हांवु हे पुण्य भूयेचो सुपुत्र आसा. तो म्हणता, **अहं अस्मिन्**

**सुराष्ट्रे प्रादुर्भुतः अस्मि । मे किर्ति ऋद्धं ददातु ।**' हांवु हे पुण्य राष्ट्राचो पूत आसा. देकून माका कीर्त आनी वैभव दी. एक राष्ट्राचो पूत आशिल्यान ताजे व्होडपण तें खयंचे. राष्ट्र म्हळ्यार एक जंनांग न्हंय. राष्ट्र म्हळ्यार एक भूंय प्रदेश न्हंय. धर्तरेचो आवाठ आनी तांतूतली जनवस्ती एक राष्ट्र निर्माण करना. राष्ट्राची निर्मिती तेन्नांची जाता जेन्नां एक जनांलो भूप्रदेशावयर आवय तरेन प्रेम आसता.

अर्थवेदांतु सांगल्याकीं "**त्वज्जाताः त्वयी चरन्ति मर्त्याः**" ते आवय भूयें पासून ते जल्मा आयिले आसताची आनी तिका लागूनची ते मनीस जीवन चलय-ताची. ताजी शहरं देवांनी निर्माण केलिलीं आसताची, "**यस्याः पुरो देवकृताः**" हे तरेन जो देश आवयले प्रेमान आनी अभिमानान सुपुश्ट जालिलो आसता तोची देश राष्ट्र म्हण्णु घेवचांतु योग्य आसता. साधारण जनसंख्येन राष्ट्र निर्माण जायना, साधारण तत्व, ध्येय, वा विचार आशिले जनांपासून राष्ट्राची निर्मिती जायना. महान् तत्वनिष्ठ, ध्येयनिष्ठ, आत्मियवृत्ती, कर्तव्यदिश्टी आशिले मनीसांक लागून महान् राष्ट्र निर्माण जाता. भूंयप्रदेश म्हळयार राष्ट्र न्हंय किंवा एक भूंयप्रदेशारी जल्मल्याचि म्हण्णु ते राष्ट्रीय लोक न्हंय. प्रत्येक राष्ट्राचे मागशीं एक विशिश्ट परंपरा आसचाक जाय. मेगेलें राष्ट्र, विशिश्ट विचारधारा, विशिश्ट परंपरा, विशिश्ट जीवनपद्धती, विशिश्ट धार्मिक–नैतिक–आत्मिक–कल्पना — हे सर्वाचें सकलन जे मनीसांतु जालिलें आसता तेची राष्ट्राचे पूत आसताची. जेन्नां रुशी **प्रादुर्भूतो सुराष्ट्रेऽस्मिन्** म्हण्णु म्हणता तेन्नां तागेले मनांतु तागेले राष्ट्राची हजारो वर्सांची परंपरा उभि राबिली आसता. भारतांतले भव्य पर्वत आनी थंय व्हांवचे न्हंयो तागेले दोळ्यामुखार आसताची. तागेले मुखार धर्मान, संस्कृतीन, नीती आनी कौशल्यान साकार जालिली अस्मिताय आसता. देकून जेन्नां तो म्हणता कीं **प्रादुभूतो सुराष्टे ऽ स्मिन कीर्ति ऋद्धं ददातु मे**, तो हे राष्ट्राचे अभिवृद्धीखातीर **कीर्त** आनी वैभव वाढचाक लक्ष्मीदेवीलो अनुग्रह मागता.

रुशी हो ज्ञानाचो सागर आशिल्यान तो जाणताकीं जर आपण्याले घरांतु, देशांतु लक्ष्मीदेवी येवची आसा आनी ती अनपगामिनीम् आसचाक जाय, तर आप-ण्यान ते लक्ष्मीक अनुरूप असले विचार आचार वागणूकींतु हाडचाक जाय देकून तो तिका आश्वासन दिता कीं,

**"क्षुत्पिपासामलां ज्येष्ठामलक्ष्मीं नाशमाम्यहम्"** ।
**अभूतिमसमृद्धीं च सर्वां निर्णुद मे गृहात्** ।। ३ ।।

**क्षुत्पिपासामलां –**

हें विश्व ते विश्वात्मक परमेश्वरापासून भरिलें आशिल्यान ते परमेश्वराली उपासना ते दिश्टीकोणांतल्यान जावचाक जाय. तशें पळयल्यार रुशीमुनींली साधना

केवळ पारमार्थिक नासताना संपूर्ण समाजाक नवें वळण दिवची आनी शुद्ध करची मनीस-मनीसांतले वेव्हारांतु प्रेमाची आनी प्रामाणिकपणाची कर्तव्यकर्म साधची चळवळ आशिली. "**सर्व खल्विदं ब्रह्म**" हे जर मानचांतु आयले तर मनीसाली जगादिकान पोळोवची दिश्ट बदलता आनी ताका लागून जगांतु भेदाभेद मानचें जल्माचें, संपत्तीचें, सत्तेचें, पांडित्याचें व्होडपण माननु एक मनीस वरिष्ठ आनी दुसरो कनिष्ठ म्हण्णु ग्रहीत धरचें अमंगळ असले भ्रम आसा, मायीक आसा. समविषमतेक आनी सात्विक भ्रमाक लागून जगांतले मनीसजातींतु सर्व दुःख निर्माण जालिली आसाची. देकूनू ईश्वर हो सर्वेश्वर आसा ही जाण लक्षांतु घेतल्यार कोणांलोंयी मत्सर ना करचें, परस्त्री आवयसमान मानचें, दुसऱ्यांली निंदा ना करची, परद्रव्याची अभिलाशा ना धरची, सत्य भाशण करचें हे सर्व वेव्हारिक नीत जाता. परमेश्वरप्राप्तीची साधनं जाताची. वेव्हार चोखट जावचाक काम, क्रोध, मान, दंभ, अहंकार हांचो त्याग करका तीळ, तांदूळ जळनु होमयाग करचें आनी काम-क्रोध हे वैरी मात्र मनांतु दाबून दवरचें, तप, तीर्थाटन, दान धर्म करनु अहंकार मात्र कायम दवरचो म्हळचार मनाची आनी जनाची शुद्ध फसवणूक म्हणयेत.

रुशी खात्रीपूर्वक जाणताकीं आसक्ति, मान, दंभ, अहंकारांक लागून जी कर्तव्ककर्म करचांतु येताची तीं मूळतः अधर्मिक वा धर्मरहित आसाची. जे काम केलिल्यान देव दूर जाता तें पाप, ही जाणीव जे मनीसाक येता तो ईश्वरानुग्रहाक योग्य आसता. देकूनु रुशी लक्ष्मीदेवीक आश्वासन दिता कीं, "**ज्येष्ठां क्षुत्पिपासा-मलां अलक्ष्मीं च अहं नाशयामि**" — आशा, आकांक्षा, आसक्ति आनी लोभाक लागून जें मळ मेगेले मनांतु सांठल्या, तें हांवु पयलें नाश करता.

भक्तियोगांतु अंतशुद्धीक जास्त महत्व आसा. जे मनीसाले अंतरंग शुद्ध ना तागेले बाह्यरंगाची गंगा-यमुना खंयचे तरेन स्वच्छ करूं शकत ? काळीज मलीन आसल्यार शरीर धुतल्यार कसलो उपयोग ? देकूनू मनांतल्यान कामक्रोधमत्स-रादि स वैरी काडनु, तें निर्मळ आनी शांत दवरल्यार जें सुख अणभवचांतु येशा तें अनंत आनी अपार आसता. ते जाग्यार प्रत्यक्ष परमेश्वर निवास करचाक येता. आनी जे मनीसाले काळजांतु देव निवास करचाक येता तो मनीस स्वतः देवची जाता.

### अहं नाशयामि

रुशी आपण्यालो पुरुशार्थ सफलतेंतु हाडच तु धन्य मानता. परमेश्वर परम शक्तिमान आसल्यारियी, आपण्यांतु आसचें देवप । आनी ताका लागून सुप्तावस्थेंतु आसची शक्ति रूशी विसरना. हे जाणीवेंतल्यान येवची जबाबदारी तो विसरना.

देकूनु आपण्याले मनांतले मालिन्य दुर करचें कार्य तो स्वतः वयर सोंपयता. **अहं नाशयामि**. सत्य संकल्प केलिले मनीसाक देव रक्षण करता. “ **वासुदेवाश्रयो मर्त्यो वासुदेवपरायणः । सर्वपापविशुद्धात्मा याति ब्रह्म सनातनम् ।**”

मनीसान आपण्यालें मन परमात्म्याले चरणांतु समर्पण केलेकीं ताका ईश्वर आपण्याले वैभवाचो स्वामी, दैवी शक्तिचो प्रवर्तक करता. किंबहुना तो देवापेक्षां वेगळो उरना. गंगा महासागरांतु मेळीले तरेन मनीसाले अहंकार, वाणी, चित्त ईश्वारांतु जेन्ना एकरुप जाताची तेन्ना भक्त वेगळो आसना. तो आपण्याले दैवी भूमिकेवयल्यान आपण्याली कर्तव्य कर्म करता. मनीसाले पुरुशार्थ म्हळचार मूळांतूची हे दैवीशक्तिची जाणीव म्हणयेत. देकूनु मनीसान आपण्यालो पुरुशार्थ साफल्यतेंतु हाडचाक जाय. पुरुशार्थ सफल जाल्यार ते मनीसाले जीवनांतु जगांतले सर्व गुणं दिसून येत. दोंगराची स्थितप्रज्ञता, समुद्राची गंभिरता, आकाशाची विशाळता तागेले जीवनांतु दिसून येता. कित्याक तर, तो मूळांतु परमात्माचो अविश्कार आसता.

**अभूतिमसमृद्धीं**

रुशी मनांतु संकल्प करता. लक्ष्मीदेवीक आश्वासन दिता, कीं आपूण आपण्याले मनांतल्यान, मालिन्य नाश करता. देकूनु देवी, तू आतां मेगेले जीवनांतल्यान अभूति–म्हळचार असंतोश–असमृद्धी–म्हळचार निश्कांचन दारिद्रच, काडनुंउडय. अनेक जनांले घरांतु अगणित संपत्ती आयिली आसता. पुण तांगेले संसारांतु संतोश आयिलो आसना. तृप्ती आयिली आसना. हे तरेची अ–लक्ष्मी मेगेले घरांतल्यान नाश कर. जाका लागून मेगेले घरांतु राजलक्ष्मी, विजयलक्ष्मी, दीप्तलक्ष्मी, आदीं लक्ष्मी येत. आनी आशा–आकांक्षा, काम–क्रोध–मत्सररूपी अ-लक्ष्मी नाश जावूं.

**गन्धद्वारां दुराधर्षां नित्यपुष्टां करीषिणीम् ।**
**ईश्वरी सर्वभूतानां तामिहोपव्हये श्रियम** ।। ४ ।।

रुशीक आपण्याले आवय भूंये विशय अत्यंत प्रेम आनी कळकळ भरिली आसा. ताका लागून तो ते देशांतु नित्य आनी परिपूर्ण असलें वैभव आनी समाधानाची मागणी करता. देश म्हळचार तो भूंयप्रदेष न्हंय जो भूगोल शास्त्रज्ञान रेखा धालनुं निश्चय केला· पुण तो भूंयभाग जंय एक समाजाची, वंशाची धार्मिक, नैतिक आनी सांस्कृतिक परंपरा संकलीत जाल्या. हिंदू संस्कृतींतु आवयभूंयेक देवसमान मानिलें आसा. फांतोंटे जागी जाले कीं जमीनेरी पयलो पाय दवरचे पयलें तिका नमस्कार करनुं प्रार्थना करची आसता, “ **समुदवसने देवी । पर्वतस्तनमंडले।**

**विष्णुपत्नि नमस्तुभ्यं पादस्पर्शं क्षमस्व मे ।**" सर्व मनीसजाती आणि प्राणि जीवनाक आधारस्थान जशी आशिले ते आवयभूंयेची सहनशीलता आनी महानता ती कितली वर्णन करची ? अथर्ववेदांतलो मातृभूमिसूक्तांतलो हो मंत्र कितलो बोधप्रद आसा, तें पळया. "**उदीराणा उतासीनास्तिष्ठन्तः प्रक्रामन्तः । पद्भ्यां दक्षिण सव्याभ्या मा व्यथिष्महि भूम्याम् ।**"[2] उठचे, बसचे, उभि राबचे, आनी चलचे हे सर्व आमगेले दावे–उजवे पायांनी भूयेंक जास्त दुःख दीव न्हंय. कित्याक तर आमी दिलिलें सर्व दुःख सहन करनुबीं ती आमकां ममतेन आधार दिता. आनी "**ऊर्जं पुष्टं बिभ्रतीमन्नभागं घृतं त्वाभि नि षीदेम भूमे ।**"[3] – पुश्टि दिवचें अन्न आमगेले खातीर ती भूंयदेवी मुखार हाडनु दवरता.

ही भारत भूंय देवनिर्मित आशिल्यान पुण्यतम आसा. देकून जी लक्ष्मी हे देशांतु अवतरत ती बी सुगंधित, दुराधर्ष, नित्यपुष्ट आनी करीषिणीम् आसचाक जाय.

**गंधद्वारां**

गंधद्वारां म्हळचार जी आपण्याले गंध, सुवासाक लागून ओळखुवचांतु येताली. आवयलो सुगंध तो कसलो ? भूंय अतिशय तापिली आसा आनी तिगेले वयर जेन्नां शीतल पावूस पडता तेन्नां जो सुगंध येता तो कितलो मधुर आसता; पावसाळचा उपरांत जेन्नां फुल–फल आनी वनस्पती चारी दिकान पसरताची, तेन्नां ते सर्वाचो सुगंध तो कसलो ? जेन्नां देवान दिलिले वैभव पोळोवनु मनीसाले मन भरनु येता आनी तो सहर्षान, भक्तिन आनी भावनेन यज्ञ, होमांतल्यान अग्नि-मुखांतर हवि अर्पण करता तेन्नां तो सुगंध कसलो ? मनीसाले कर्तव्यनिष्ठतेंतु, कृतज्ञतेंतु, भक्तिंतु एक श्रेष्ठ आनी उंच पांवडचाची प्रासादिक शीतळता आसता. तांतूत आवयलें वात्सल्याचो सुगंध आसता.

**दुराधर्षा**

दुराधर्षा म्हळचार ती लक्ष्मी जी बळत्कारान ओढनु घेवनु वच्चाक जावची ना. मेगेले घरांतु जी लक्ष्मी येत तिका भायरचे लोक मेगेले इच्छे शिवाय तिका मेगेलेपासून दूर घेवनु वचूं फावो ना.

**नित्यपुष्टा**

नित्यपुष्टां म्हळचार ती लक्ष्मी जी सदासर्वदा मनीसांक शक्ति सामर्थ्य दिताली. पृथ्वी आपण्याले शक्तिक लागून अन्न आनी मानसिक स्थैर्य मनीसांक दिता. आमी जाणताची कीं हे धर्तरेचे सर्व भाग समान सुपीक नासताची. ही भारत

भूंय पुण्यतम आशिल्यान ती आमका पुश्टीदायी आसा. मनीस आपण्याले स्वाध्या-यान, कर्तुत्वान, कौशल्यान जमीन पुश्ट करू शकता आनी ताका लागून काळांत-रान देशांतु, मनीसाले घरांतु नित्यपुश्ट लक्ष्मी निवास करचाय येता.

**करीषिणीम्**

भारतीय संस्कृतींतु गायीलें महत्व महान् आसा. गाय ही धर्तरेतरेन आवय म्हण्णु दिदू मनीस मानत आयला. आर्थिक किंवा भौतिक विकास हें मनीसालें एकमेव भवितव्य न्हंय. भक्तिमार्गांतु बूद्धीपरस भाव आनी भावनेक जास्त महत्व आसता. भाव हे शब्दाचो उपयोग जेन्नां जाता, तेन्ना भक्तु देवाले अस्तित्वावयर आनी तागेले दयालुत्वावयर नितांत आनी नैसर्गिक असली श्रद्धा दवरता. हिंदू सांस्कृतिक परंपरेंतु देवालें मातृतुल्य वात्सल्य आनी भक्ताली श्रद्धायुक्त भक्ति गाय हे प्राणींतु संगम पाविली आसता. रुशी जेन्नां करीषिणीम् लक्ष्मी आपण्याले घरांतु येवूं म्हण्णुं मागता तेन्नां तागेले मन गायीले भावनात्मक संकेतान आकार घेतिले आसता. करीषिणीम् म्हळचार सुकिले गोमय आशिली जागा. भारतांतु गायीले संकेत मानसिक स्थैर्य, मनोधैर्य, वैभव म्हण्णु मानचांतु आयल्यां. देकूनु जेन्नां रुशी करीषिणीम् सक्ष्मी मागता तेन्नां तो गाय हे पशुसमुदायान भरिलो प्रदेश मागता. इतलोची न्हंय तर ज्ञान सामर्थ्यान परिपूर्ण आनी संकलित जालिली भूंयप्रदेशबी मागता. "**सर्वभूतानां ईश्वरी तां श्रियं अहं इह उपव्हये**" हे नरेन सर्वकाळ समृद्ध, परिपूर्ण लक्ष्मी मेगेले हे राष्ट्रांतु येवूं म्हण्णु हांवु मागत आसा.

**मनसः काममाकूति वाचः सत्यमशीमहि ।**
**पशूनां रूपमन्नस्य मयि श्रीः श्रयता यशः** ।। ५ ।।

रुशीक आत्मविश्वास आसा, ईशविश्वास आसा कीं जेन्नां तागेले थंय लक्ष्मी देवी निवास करचाक येत तेन्नां ती आपण्याबरोबर सौभाग्याची, वैभवाची सर्व सामग्री घेवनु येताली.

**मनसः काममाकूति**

वैदिक शास्त्रातु मानस हाका आनी ताजे उदरगतीक प्राधान्य दिलिलें आसा. कित्याक तर शरीरबी मनाक लागून स्वास्थ्य–अस्वास्थ्यतेचें घर जावूं शकता. मनाचे विकार शरीरावयर प्रभाव घालताची, जाका लागून संसारांतले सर्व वेव्हार प्रभावित जाताची. तरी पुण आयजचे जगांतु जी आस्थाय शारीरिक उदरगतींतु मनीस दाखयता ती आस्थाय मानसिक विकासांतु दाखयना, हीं दुर्देवाची खबर आसा. मन शक्तिमान करचाक जाय, सुसंस्कारी करचाक जाय, समाधानी करचाक

जाय. पुण लोक आयज शरीर तपासताची, ताजी पुश्टता वाढोवची खटपट करताची. मनाचें आरोग्य सांभाळचांतु ते उपेक्षा करताची. हें देह म्हळचार सर्वस्व आनी ताजें पालन पोशण म्हळचार इति कर्तव्यता म्हण्णु ताजे उदरगतींतु जास्त लक्ष दिलिलें आसता.

पुण रुशी हे विचाराक पुश्टी दीना. जाका लागून मन तेजस्वी जायत, शक्तिमान जायत, दैवी जायत, ताकाची महत्व दिता. मानस हें एक अद्भुत सामर्थ्य आसा. संस्कारांची ती एक अक्षय स्मृतिमंजुषा आसा. मानस हे केवळ हे जल्मांतले संस्कारांचे सकलन न्हंय तर जल्म–जल्मांतरांचे संस्कारांचे संकलत आसा. देकुनु हे संस्करांवयर, मनोरथांवयर, संकल्पांवयर जीवनलक्ष्मीलो प्रभाव आसचाक जाय. मनींसांले जीवन मनोरथांक लागून उज्वल जात आशिल्यान जे मनोरथ, जे संकल्प देवांक आवडताले ते मनोरथ आत्मसात करचांतु मनीसांलो पुरुषार्थ आसा. सत्य संकल्पांचे समाधान दिवची ती भगवती भक्ताले सर्व मनोरथ जाणता. देकूनु भावबळान सधृढ जालिलें संकल्प तिगेले क्रिपेन समाधान पावताची. संकल्प सत्य तेन्नांची आसूं शकताची जेन्नां ते भौतिक विशयांची इच्छा करचे मनान येवजिलीं नासताची गीतेंतु परमात्मा म्हणता, "**संकल्पप्रभवान्कामांस्त्यक्त्वा सर्वा-निशेषतः । मनसेवोन्द्रियग्रामं विनियम्त समन्तत ॥ यतो यतो निश्चरति मनश्चंच-लमस्थिरम । ततस्ततो नियम्येतदात्मन्येव वशं नयेत ॥ प्रशान्तमनसं हृयेनं योगिनं सुखमुत्तयम । उपैति शान्तःजसं ब्रह्मभूतकल्मषम ॥**"[4] संकल्पाचान जल्माक आयिले सर्व इच्छांची संपूर्ण नाश करनु मनानची सर्व इंद्रियांचे नियमन करका. चंचल मन जर चारी बाजून विचलित जावचाक लागलें तर तें मन परत जाग्यार हाडचाक जाय. हे प्रकार जे मनीसालें मन शांत आनी रजोगुणांपासून अलिप्त आसता ते ब्रह्मरूप जालिले योगीक उत्तम सुख निश्चयान प्राप्त जाता. देकूनु रुशी आपण्याले मन देवाश्रयाक अनुरूप जावूं म्हण्णु आस करता. हे **श्रीः तव प्रभावेण मनसः कामं आकुति अशीमहि** । ... हे देवी भगवती, तुगेले क्रिपेन मेगेलें मनाचे संकल्प दिव्य आनी भव्य जावूं.

**वाचः सत्यमपीमहि**

मुखारसरनु रुशी मागता कीं आयण्याक वाणीचें सत्य प्राप्त जावूं. मनावयर विचारांचो जबरदस्त प्रभाव आसता देकूनु मनांतु कुविचार येवनुं मनाचो अधः-पात जावचाक दीवन्हंय. मनांतु सुविचार स्थिर जाल्यार मनीसालो विकास हो निश्चित आसता. वाचः म्हळचार वाणी आनी वाणि म्हळचार केवल आमी उलोवचीं उत्रं न्हंय आमगेली उत्रं खंयचान जल्माक येताची म्हण्णु आमीं जाणनांची. आतांचे वैज्ञानिक आनी मानस शास्त्रज्ञबी हे विशय अजून साशंक आसाचि. पूर्वजांनी हे

विशय सखोल विचार केलिलो आसा. शब्द उच्छारचांतु जेन्नां येता तेन्नां जे कांय प्रक्रिया उत्पन्न जाताची तांचो विचार पाणिनीन केलिलो आसा. तो म्हणता,

**आत्मा बुद्ध या समेत्यार्थान् मनो युंक्तेविवक्षया ।**
**मनः कायाग्निमाहन्ति स प्रेरयति मारूतम् ।।**
**मारुनस्तूरसि चरन्मंद्र जनयति स्वरम् ।**
**सोदीर्णो मूध्न्र्यभिहतो वक्त्रमापदय मारुतः ।**
**वर्णान् जनयते तेषां विभागः पंचदा स्यृत ।।**

–आत्मा बुद्धीबरोबर संयुक्त जावनु थोडे भाव व्यक्त करचे इच्छेन मनाक प्रेरणा दिता. ते मन शरीर–अग्निवयर जोर दिता. ती अग्नि वायूक प्रेरणा दिता. तेन्नां तो वायु छांतींतु संचार करता. ताका लागून मंद स्वर उत्पन्न जाता.चि तो स्वर ताजे उपरांत विंग–अिगड जाग्यार वचूनु विविध वर्ण उत्पन्न करता. हे तरेन एक शब्द उच्छारचांतु तन–मनांतले अनेक जाग्यार अनेक तरेन प्रक्रिया जाता. देकूनु मनीसाले विचार केवल मानसिक किंवा शरींरिक परिवर्तनेक लागून मात्र जायनासताना ते सर्वांचि समूहक कार्याक लागून संयोजित रूपान जाता म्हण्णुं मानयेत. हें तर खरें आसा तर मानवी विचार धारेक समतोल वळण दिवचाक मनीसाले जीवन सर्व रीतीन परिपूर्ण विकसनशील आसका हांतु संशय ना. देकूनु रुशी मागता, हे आवय मेगेली विचारसंपदा आनी ताका लागून मेगेली वाणी सत्यशील, प्रामाणिक आनी उन्नत विचारांची आनी विकसनशील आसूं.

देकूनु रुशी आपण्याले शांतिपाठांतु प्रार्थना करता. ॐ **आप्यायन्तु ममाङ्गानि-वाक् प्राणश्चक्षुः श्रोत्रमथो बलमिन्द्रियाणिच सर्वाणि।**'[5] हे परमात्मा, मेगेले संपूर्ण अंग, वाणी, प्राण, दोळे, कान आनी सर्व इन्द्रियं तेची तरेन शक्ति परिपुश्ट जावूं. ॐ **वाङ् मे मनसि प्रतिष्ठिता मनो मे वाचि प्रतिष्ठितमाविराविर्म एधि ।**[6] ६ हे परमात्मा, मेगेली वाणी मेगेले मनांतु, आनी मेगेले मन मेगेले वाणींतु प्रतिष्ठत जावूं. म्हण्टकूच तूं मेगेल्यांतु प्रकट जातालो." **आ नो भद्राः क्रतवो यन्तु विश्वतः ।**[7] मेगेले मनांतु सद्विचार चारीं दिकाचान येवूं.

**पशूनां रूपम्**

पशूनाम् रूपं म्हळ्यार गुणवान, सौभाग्यशाळी, वैभवशाळी पशुप्राणी मेगेले घरांतु वास्तव्य करताले जावूं. भूतदया ही एक महान मानसिक प्रवृत्ती आसा. जो मनीस हे जगांतु आनी जगांतले सर्व पशु प्राणींतु परमात्म्याले प्रतिबिंब पळयना तो परमात्म्याले अनुग्रहाक आनी सहवासाक अनुरुप आसना. निसर्ग, पशुप्राण्यां-विशय जे जे मनीसाक संवेदनात्मक जाणीव आसता तो लक्ष्मीदेवीले अनुग्रहाक पात्र आसा. देकूनु रुशी मागता कीं मेंगेलें मन पशुं विशय संवेदनात्मक जावूं.

**मयि अन्नस्य श्रीं: यश: श्रयतां**

भूयेतल्यान अन्न पिकोवचांतु एक महान तत्व, ध्येय आसता. अन्नाचे निर्माण हें नवजीवनाचें, नव चैतन्याचें, अभ्युदयाचें, विकासाचें द्योतक आसा. अन्नाचे पीक भक्त–भगवंताले सहकार्याचे सुफळ जाता. भक्त आपण्याले कर्तुत्वाक लागून, परुशार्थाक लागून बीयेची पेरणी करता. पुण ती बी सुफळाक येता ती ते भग-वंताले अनुग्रहाक लागून. रुशी आपण्याले वती आपण्याले कर्तुत्वाचो विकास करची इच्छा आनी निश्चय दाखयता. भगवतीलो क्रिपादिश्टीचो लोभ धरता म्हण्टकूच हे परस्पर मदतीन तागेलें जीवन यशदायी जायत. **मयी श्री श्रयता यश:**... श्रीले अनुग्रहान आपण्याक यश मेळत.

हे मंत्रातु रुशी लक्ष्मीदेवीलें म्हात्म्य जाणत आशिल्यान तिगेले अनुग्रहाक प्रात्र जावचें आसल्यार जें कांय करचे आसता तें सर्व करची जबाबजारी घेता. खंचेयी काम हातांतु घेवचें आसल्यार मनीसान आपण्याली उणीव, न्यूनता वा दोश समजून घेवनुं तांचे वयर विजय पावचो धृढनिश्चय करका. असामान्य मनीसाले हातांतल्यानची असामान्य घटना घडू शकता. असामान्य कार्यक्षेत्रांतूची असामान्य असली लक्ष्मीदेवो पदार्पण करता. हें रुशी जाणता. लक्ष्मीदेवी महान आशिल्यान तिगेले प्रभावाक अनुरुप जावचें इच्छेन तो आपण्याले जीवन, तन–मन, आशय आनी आकांक्षा देवी प्रभावासकल हाडता. म्हण्टकूच श्री, लक्ष्मीदेवी तागेले घरांतु शाश्वत आनी अनंत काळा मेरेन, अनपगामिनीम् लक्ष्मीले रुपान निवास करताली.

---

ीप :

1 मुण्डकोपनिशद् २.९.
2 अथर्ववेद १२.१.२८.
3 अथर्ववेद १२.१.२९.
4 भगवद् गीता, ६.२४.। ६.२६.
5 केनोपनिशद् शांतियाठ
6 ऐतरेय उपनिशद् – शांतिपाठ.
7 ऋग्वेद. १.८९.१.

मंत्र–३.

कर्दमनप्रजाभूता मयिसंभवकर्दम ।
श्रियं वासयमेकुले मातरं पद्ममालिनीम् ।।
आपः स्रजन्तु स्निग्धानि चिक्लीत वस मे गृहे ।
नि च देवीं मातरं श्रियं वासय मे कुले ।। २ ।।
आर्द्रां पुष्करिणीं पुष्टिं पिङ्ग लां पद्ममालिनीम् ।
चंद्रां हिरणमयीं लक्ष्मीं जातवेदो म आवह ।। ३ ।।
आर्द्रां यः करिणीं यष्टिं सुवर्णां हेममालिनीम् ।
सूर्यां हिरणमयीं लक्ष्मीं जातवेदो म आवह ।। ४ ।।
तां म आवह जातवेदो लक्ष्मीमनपगामिनीम् ।
यस्यां हिरणमयीं प्रभूतं गावो दास्योऽश्वान् विन्देयं पुरुषानहम्
।। ५ ।।

र्थ –

हे कर्दम, तू मेगेले वयर क्रिपा कर. लक्ष्मीक तूंवे आवय म्हण्णुं ानिल्यान ती पुत्रवती जाली. कमळांची माळा घालनुं घेतिली ती ोले कुळांतु स्थिर आनी शाश्वत आंसताली अशीं कर. हे जलदेवतेनों, मी सात्विक, चिकट, उपयोगी, आनी अभ्युदयकारी वस्तूंची निर्मिती ारा. हे चिक्लीत, तूं मेगेले घरांतु निवास कर जाका लागून आवय क्ष्मीबी तुगेले बरोबर मेगेले कुळांतु निवास करत. हे जातवेद, रोवरांतु निवास केलिल्यान ओली, कमळांची माळ घालिली, पिंगला, क्तांक सुपुश्ट करची, आल्हाददायक आनी तेजस्वी लक्ष्मीक हांवु ापयत आसा. हे जातवेद, ओली, कोमळ, धमशस्त्र धारण करनुं नुशासन हाडची, भांगराचे आभरण घातिल्यान भांगरातरेन कांतिमति ानी सूर्यातरेन तेजाळ आसचे लक्ष्मीक मेगेले घरा धाडनुं दी. हे ग्निदेव, असले अक्षय लक्ष्मीक हांवु आपयत आसा. म्हण्टकूच माका संख्य गायो, दास–दासी, भांगर, घोडे आनी पुरुषांची प्राप्ती जावूं.

**कर्दमनप्रजाभूता मयिसंभवकर्दम ।**
**श्रियं वासयमेकुले मातरं पद्ममालिनीम् ।। १ ।।**

आतां मेरेन केलिले अभ्यासावयल्यान दिसून येत कीं रुशींली क
तांगेलो विचार, तांगेलो आदर्श आनी तांगेले चिंतन कितले महान्, प्रभावी
व्यापक आसा. तांगेले विचारांतु संकुचित भावना ना. तांगेले दिश्टींतु विश्व
पूर्णतायेचो विस्तार, विशालता, संवेदना आसा. जेन्नां तो चिंतन करता,
करता, ध्यान धरता तेन्नां ते स्वाध्यायांतु विश्वात्मक परमात्म्याली ताका जा
दिसून येता. लक्ष्मीदेवीले दर्शन हें स्वयंसाक्षी आनी स्वयंसिद्ध आशिल्यान ते सा
त्कारांतु हिमालयाची महानता आनी महासागराची सखोलता आसा. ही
आनी दिव्य विचारधारा तांका आनी तांगेले जीवनाक स्वाध्यायाचो सुगंध दित

**कर्दमेन प्रजाभूता**

कर्दम हो वेदकाळांतलो एक महान् रुशी आशिलो. लक्ष्मीदेवी विशय
नितांत आनी परिपूर्ण असली भक्ति. लक्ष्मीदेवीलो साक्षात्कार ताका जाले उप
ताणे हे देवीली ओळख वैदिक धर्मशास्त्रांतु, वैदिक देवशास्त्रांतु करनुं दिली. त
लागून तो लक्ष्मीलो सुपुत्र म्हण्णुं मानचांतु आयलो. किंबहुना ताका लागूनची ल
पुत्रवती जाली म्हणयेत.

हे विवेचनाचे पयले प्रकरणांतु आमी सांगल्या की, शास्त्रज्ञांले मतान ल
ही आर्येतरांली देवी आसून वैदिक देवसंघांतु मागीर आर्यआर्येतरांले पर
संयोगाक लागून समावेश जाली. आर्य लोकांक तिगेलें महत्व दाखोवनुं तिगे
समावेश आर्यधर्म आनी आर्य देवसंघांतु करचांतु कर्दम, चिक्लीत आनी आनंद
रुशीनी पुढाकार घेतिलो. श्री सूक्त ऋग्वेदाचे खिल पर्वांतु समावेश जावचाक
कारणीभूत आसाची. तिगेले अनुग्रहाक लागून ते तिगेले परमप्रिय सुपुत्र म्ह
मानचांतु आयल्यार तांतू दोन मत आसचीं नांची.

लक्ष्मीदेवीले साधनेंतु तांगेले हे तरेचे महत्व मानचांतु आयिल्यान र
मागता की, हे कर्दम तूं मेगेले धरांतु येवनुं निवास कर. आपण्याले पूतावयर आस
आवयलो मोग रुशी जाणता. देकूनु ताका खात्री आसा कीं जर कर्दम तसलो सु
आपण्याले घरांतु निवास करचाक आयलो तर ताका लागून तागेले मोगाची आ
श्री, लक्ष्मीबी आपण्याले कुळांतु निवास करचाक येत. गाय घरांतु हाडची आसल्य
तिका बलत्कारान हाडचें जरूर ना. तिगेले वासराक जर घरांतु हाडलें तर ती ग
आपोआप स्वखुशीन ते वासरा मागशीं येता.

रुशीले विचार महान् आशिल्यान तागेली प्रार्थनाबी महान् आसा. तागे
घरांतु धन-संपत्ती आयल्यार पुरो ना. ताका तें धन उपभोग करचाक कर्दम तस

महान् तपस्वी, बुद्धीशाळी, तेजीश्ट पूत जाय. कर्दम तसलो पूत आसचांतु लक्ष्मी अभिमान धरता. देकूनु रुशी विचार करता कीं आपण्याले धरांतु धन आयलें, वैभव आयलें पुण ते–वैभवाचें सुख घेवचाक, भोगचाक विनियोग–वितरण करचाक जर कर्दम तसलो पूत ना तर ते धन–वैभवाची शाश्वताय कसली? देकूनु रुशी सु–संतान मागता.

रुशीन कर्दम तसलो पूत, संतान मागचांतु एक मनोनिश्ठता आसा. रुशी विचार करता, आपण्यान चिरकाळ आणण्याले घरांतु आसची, अनपगामिनीम् तसली लक्ष्मी मागिली आसा. पुण ती आयिले उपरांत जें तप, जी निष्ठा, जी आस्थाय आपण्यान आनी आपण्याले संतानान दाखोवका ती जर दाखयली ना तर आपूण तिका खंयचे तोंड दाखवूं! आपण्याले उत्रांक मान दीवनुं ती जर खरोखर आपण्याले धरांतु आयली तर तिगेलो आदर, सत्कार करचाक योग्य तसले मनी-सबळ, संतान जर आपण्यालागीं ना तर तिणें आपण्याले घरांतु येवनु कितें कामाचें? देकुनु कर्दम तसलो पूत, जो आवयलो मोगाचो आसा, रुशी मागता.

कर्दम, चिक्लीत तसले संतानाचो उल्लेख करनुं सुपुत्र आनी आवयलो संबंध दाखोवचांतु रुशीलो दुसरोबी एक हेतु आसा. लक्ष्मीदेवी ही अत्यंत सुंदर, तेजाळ, आकर्शक आसता. जगांतु लक्ष्मी इतलो मोहक विगड कांयी ना. ज्ञानी, त्यागी आनी भोगी– सर्वांक लक्ष्मीलें आकर्शण आसा. सर्वांक ती जाय. पुण लक्ष्मी जे तरेन मोह्क आसा ते तरेन ती मादकबी आसा. कित्याक तर तिगेलें सौंदर्यांतु स्त्री सौंदर्याची मादकताबी आसता. सुभाशितकार म्हणता. " **विश्वामित्रपराशरप्रभुतयो वाताम्बुपर्णाशिनास्तेपि स्त्रीमुख पंकजं सुललितं दृश्टवैव मोहं गताः** " हे तरेन स्त्रीलें सौंदर्य मोह्कबी आशिल्यान आनी लक्ष्मींदेवी स्त्री आशिल्यान जेन्नां घरांतु लक्ष्मी येता तेन्नां ताका लागून मनीसाले नदरेंतु मोहाची नशाबी आयल्यार तांतुत आश्चर्य खंयचो!

पुण जे तरेन एक स्त्री एकांतांतु आसल्यार मादक आसता ते तरेन जेन्नां ती आपण्याले सान चेरडाले संगतींतु आसता तेन्नां ती मादक दीसना. तेन्नां तिगेले मुखावयर आवयलें वात्सल्य दिसून येता. जेन्नां मनीस एक स्त्रीलागीं आवय म्हण्णुं वता तेन्नां तागेले नदरेंतु कामदिश्टी आसना, पुण ते जाग्यार पूज्य दिश्टी आसता. ती स्त्री मादक नासताना आदरणीय, वंदनीय, पूजनीय आसता. देकूनु रुशी लक्ष्मी-देवीले आव्हान करताना कर्दम–चिक्लीत हे तिगेले चेरडांलें संगतीतु करता. तूं एकलीची आयल्यार मनीसाली दिश्टी, मनीसालो विवेक, मनीसाले मन बेचैन जावचें संभव आसता. पण तूं तुगेले चेरडांबरोबर आयल्यार मनीसाले विवेका-वयर ताबो आसतालो. देकूनु तुं आपण्याले मोगाचे पूत कर्दम आनी चिक्लीत

बरोबर यो. लक्ष्मी घरांतु आयल्यार रुशीलो हेतु पुर्ण जायना, ती आयल्यार भाव-नेचो अर्थपूर्ण सहवासबी येवका.

**आपः सजन्तु स्निग्धानि चिक्लीत वस मे गृहे ।**

**नि च देवी मातरं श्रियं वासय मे कुले ॥ २ ॥**

**आपः स्रजन्तु स्निग्धानि**

रुशी आपण्याले घरांतु जलदेवतेंक आमंत्रण दिता. म्हण्टकूच तागेले घरांतु अनेक तरेची मंगल कार्य जावचाक येतालीं. वैदिक धर्म शास्त्रांतु उदकाक महत्व दिलिलें आसा. दोंगरांतु ल्हान उगम पावनु महासागरांतु सतत एकठांय जावचे न्हंयो म्हळयार जशें काय जीवनाचो प्रवाहची आसा; आनी ताका लागून निरंतर चलत आशिलो पुण्य यज्ञ आसा. उदाक ही एक महान् शक्ति म्हण्णुं मानिलें आसा. तें एक वैभव आसा. हिंदू धर्मांतु दरएक भौतिक विशयांचे मागशीं आध्यात्मिक गूढ अर्थु निपूनु आसता. जल ही एक अधिष्टात्री देवता आसा. देकूनु जेन्नां हिंदू मनीस यज्ञ करता किंवा पूजा करता तेन्नां तें यज्ञ करचें किंवा पूजा करची जागा पुण्यतम उदकांनी पवित्र करता. " **अत्र गायत्री सावित्री शान्तिः पुश्टिकरी तथा । आयान्तु मम शान्त्यर्थं दुरितक्षयकारिकाः ॥ गंगे च यमुने चैव गोदावरी सरस्वती । नर्मदे सिन्धू कावेरी जलेऽस्मिन् सन्निधी कुरु ॥ ब्रह्माण्डोदरतीर्थानिकरैः स्पृष्टानि ते रवेः । तेन सत्येन मे देव तीर्थं देहि दिवाकर ॥** "**म्हण्णुं न्हंयेची प्रार्थना करता**

उदकांतु महान् शक्ति सुप्तावस्थेंतु आसता. " **पर्जन्यात् अन्नसंभवः** " ही एक सर्व सामान्य जाणीवेंतु आसची खबर जावनुं आसा. वेदांतु तर वृष्टीक लागून आकाशांतलो प्राणची सकयल पृथ्वीवयर येता म्हण्णुं सांगल्यां. प्राण आपण्याले व्होड अवाजान आपण्यालो संदेश वनस्पतीक दिता ताका लागून ते गर्भ धारण करताची आनी फलद्रूपी जाताची. योग्य तरेन पावूस पडलो तर हो प्राण गर्जन करनुं आपण्यान आयिलीं खबर औषधीक दिता जाका लागून धर्तरेवयले सर्व पदार्थ आनंदित जाताची. प्राण आणण्याली वृष्टी जेन्नां हे धर्तरेवयर करता तेन्नां सर्व पशु आनंदित जाताची आनी आपण्याली शक्ति वाढताली म्हण्णुं आप–आपसांतु सांगताची.[1]

" **यज्ञात् पर्जन्यः भवति** " यज्ञाक लागून पावसाची झर सुरु जाता. जे तरेन सुप्तावस्थेतु आशिले अन्न–तेज उदकाक लागून फलद्रूप जाता, ते तरेन मनीसाले आध्यात्मिक तेजबी जलदेवतेले अनुग्रहाक लागून फळाक येता म्हण्णुं रुशी मानता.

**चिक्लीत वस मे गृहे**

रुशी मागणी करता कीं लक्ष्मी आपण्याबरोबर आपण्यालो पूत चिक्लीतबी घेवनुं येवो. म्हण्टकूच चिक्लीत–कर्दमा तसलो ज्ञानी, तपस्वी, तेजस्वी आनी निष्ठा.

वंत संतती आपण्याक लाभताली. लक्ष्मीदेवीले आनी तिगेले पूतांले वास्तव्यान मेगेले घरांतु मंगल कार्य घडतालीं ताका लागून ते वंदनीय, पूजनीय, आदरणीय, वैभवसंपन्न लक्ष्मीदेवीलो चिरकाळ निवास आपण्याले कुळांतु आसतालो.

**आर्द्रां पुश्करिणी पुश्टिं पिंगलां पद्ममालिनीम् ।**
**चन्द्रां हिरण्मयीं लक्ष्मीं जातवेदो म आवह ॥ ३ ॥**

**पुश्करिणी**

पुष्करिणीं म्हळ्यार तळें, सरोवर. हस्तीले सोंढलेचे अग्रभागाकबी पुष्कर म्हणताची. म्हण्टकूच, पुष्करिणीं म्हळयार सरोवरांतली हस्ति जी आपण्याले सोंढलेंतल्यान उदकाचो वर्शाव करता, ती देकूनुं लक्ष्मीदेवी सरोवरांत कमळाले-सनावयर बशिले तेन्नां दोनी बाजून आशिले हस्तिनी तिका कलशांतल्यान उदकाचो अभिशेक करचो आसता. जे तरेन भारतीय संस्कृतींतु सिंह हो शौर्याचो प्रतीक म्हण्णुं मानचांतु येता, ते तरेन हस्ति भौतिक ऐश्वर्याचें प्रतीक आसा. ताका लागून संस्कृत भाशेंतु गजान्तलक्ष्मीं हो शब्दु मेळता. गजान्तलक्ष्मी म्हळयार ती लक्ष्मी जी घरांतु आयिल्यान हस्ति झुलता. किंवा कोणाले घरांतु हस्ति झुलत आसता. जे तरेन हस्ति भौतिक वैभवाची प्रतीक आसा ते तरेन ती उदार बी आसा. देकूनुं लक्ष्मी जी येता ती वैभवशाली तर आसका. ती उदारबी आसचाक जाय. औदार्याचे पाठीवयर बशिली लक्ष्मी केन्नांयी फुलता. कंजूश मनीसाले घरांतु आशिली लक्ष्मी फुलना.

**पुष्टिम्**

पुष्टिम् म्हळयार ती, जी स्वतः सुपुश्ट आसून भक्तांक बी पुश्ट करता. पुण लक्ष्मीदेवी केवल एक मनीसाक मात्र न्हंय तर समस्त मानव्याक पुश्ट करताली तसली आसचाक जाय. ती संस्कृतीचें, आध्यात्माचे, भक्तिचें, पोशण करताली तसली आसचाक जाय. वित्त–लक्ष्मीन जर मनीसाले सर्वांगी जीवन पुश्ट केलें ना तर संसारांतु दैवी शक्तिचो अभाव जाता आनी अनैतिक विचांराचो प्रभाव वाढत वता. देकूनु जी लक्ष्मी रुशी मागता, ती पुष्टिम् आसा.

**पिंगला**

पिंगल वर्ण म्हळयार तांबडो आनी हळदुवे रंगाचे मिश्रण. जेन्नां रुशीक लक्ष्मी देवीलें दर्शन जालें तेन्नां तिगेलो रंग पिंगला दिसून आयलो. तांबडो आनी हळदुवो रंग सामर्थ्य आनी समृद्धतेचे द्योतक आसा. म्हण्टकूच, रुशी सामर्थ्य आनी समृद्ध लक्ष्मीली याचना करता.

**आर्द्रां यः करिणीं यष्टिं सुवर्णां हेममालिनीम् ।**
**सूर्यां हिरण्मयीं लक्ष्मीं जातवेदो म आवह ॥४॥**

**यः करिणीम्**

लक्ष्मी आर्द्रां म्हळचार ओलसर आसचाक जाय. ती सुकी आसचें फावो ना. तरी पुण ती यः करिणीम् आसचाक जाय. यः करिणीम् म्हळयार वेत्रवति, जिगेले हातांतु धर्मदंड आसा ती. हिंदू धर्म शास्त्रांतु देवदेवतेलें हातांतु जेन्नांयी शस्त्र आसताची. परमात्मा मूळांतु पितातुल्य आसल्यारियी तो शासकबी आसा. '**परित्राणाय साधूनाम् विनाशायच दुष्कृताम् । धर्मसंस्थापनार्थाय संभवामि युगे युगे ॥**'[२] म्हण्णुं श्री कृष्णान आश्वासन दिल्यां. देकून् लक्ष्मी जेन्नां येता तेन्नां ती धर्म संस्थापनार्थ येवचाक जाय. चेरडान चूक केल्यार ताका शासन दिवनुं जीवनांतु नियम हाडची, अनुशासन हाडची लक्ष्मी मेगेले घरांतु येवूं. चेरडाक चेरडूं म्हण्णुं शिक्षा दिवूं, गुन्हेगार म्हण्णुं न्हंय. तशे पळयल्यार जेन्नां आवय चेरडाक शिक्षा दिता तेन्नां ताजी खूण चेरडाले पाठीवयर न्हंय तर आवयले काळजांतु उमटता.

लक्ष्मी घरांतु आयल्यार शासक लक्ष्मी येवूं. धन–संपत्ती कितली एकठांय करची, खंयचे तरेन विनियोग–वितरण करची, खंयचे विशयांतु करची––हें सर्व सांगची लक्ष्मी मेगेले घरांतु येवूं आनी हांवे जर तिणें सांगिले तरेन केलें ना तर माका योग्य ती शिक्षा दिवची आवयलक्ष्मी मेगेले घरांतु येवूं. तूं मेगेले घरांतु, मेगेले मनांतु बसून नियमन कर.

वेत्रवती लक्ष्मी मेगेले घरांतु येवों जाका लागून ती धर्मनिष्ठ देवी आसताली. ऐश्वर्याचे नियंत्रण करची धार्मिक शक्ति जर ना तर ऐश्वर्य घातक जाता. नियंत्रित लक्ष्मी शोभायमान आसता. अगणित धन–संपत्ती आशिलो मनीस जेन्नां विनयान विनम्र आसता तेन्नां तो ते धनाची संभावना करता. रावणालागीं धन संपत्ती आशिली आनी तेची तरेन श्री रामालाशीं बी धन संपत्ती आशिली. रावणालागीं सुवर्णलंका आसल्यार श्री रामालागीं वैभवशाली अयोध्या आशिली. पुण हे दोन राज्यांतु खंयचे वैभव शोभचांतु येतालें ?

देकून रुशी मागता कीं आपण्याले घरांतु **यः करिणीं यष्टिम् लक्ष्मी** येवूं. जी लक्ष्मी संतृप्त आसा, जी धर्म नियंत्रित आसा, शिक्षा दिवची, नियमन करची अनुशासन हाडची लक्ष्मी मेगेले घरांतु येवूं.

**तां म आवह जातवेदो लक्ष्मीमनपगामिनीम् ।**
**यस्यां हिरण्मयी प्रभूतं गावो दास्योऽश्वान विन्देयं पुरुषानहम् ॥५॥**

रुशी अग्निदेवालागीं पुनः पुनः अनपगामिनीम् लक्ष्मीली याचना करता. अग्निदेव हो मनीस आनी देवांमधलो मध्यस्त आसा. '**अग्निर्होता कविक्रतुः सत्यः**

**वत्रश्रवस्तमः । देवो देवेभिर आ गमम् ।।३।।**[3] --- अग्निदेव यज्ञदेवांक येवकार दवचो, निश्कपटी, बुद्धिमान, कर्तुत्ववान, सत्यनिष्ठ आनी अतिशय कीर्तिवान आसा. हो अग्निदेव विंगड देवांबरोबर हांगा येवो. ' **आ हि श्मा सूनवे पिता अन्पि रजति आपये । सखा सख्ये वरेण्य ।।४।।**[4] बापय आनी आप्त मनीसाले आपुलकीन मगेलो सर्व श्रेष्ठ सखा अग्निदेव मेगेले यज्ञ कार्याक यश हाडता. आतां मेरेन रुशीन आपण्याले मर्यादित दिश्टीकोणाक लागून एक एक विशय अग्निदेवाकडचान मागिले. पुण जशें ताका लक्ष्मीदेवीले सर्व व्यापक सामर्थ्याचें आनी वैभवाचें जाण मेळत गेलें तशें तशें तागेली दिश्टीबी व्यापक जात गेली. तेन्नां ताका जगज्जननी श्री लक्ष्मी अत्यंत प्रेमळ, सुंदर, शक्तिमान, अति तेजस्वी, तेजःपुंज, ज्योतिस्वरूप दिसचांतु आयली तशे पळयल्यार लक्ष्मीदेवीले. किंचित् सावळींतु आयल्यारबी मनीसाले जीणेंतल्यान भौतिक समृद्धीची गंगा व्हावचाक लागता. आनी जर हे भौतिक गंगा बरोबर मानसिक ऐश्वर्याची यमुनाबी व्हांवचाक लागल्यार ताजेपरस जास्त प्रभावी संगम संसारांतु खंय साधतालो ? हे संगमाक लागून संसारांतले सर्व संकल्प, मनोरथ, मनःशक्ति, विचारशक्ति कृतार्थ जाताले.

देकूनु रुशी अग्निदेवालागीं मागता कीं तू मेगेले लागीं ते तरेची अनपगामिनीम् लक्ष्मी हाड कीं जाका लागून मेगेले जीवनांतु भौतिक वैभवाबरोबर आध्यात्मिक वैभव बी येतालें. आनी हांवु हे संसारांतु कृतार्थ जातालो. तशें पळयल्यार अग्निदेव स्वतः कृतार्थ आशिल्यान तागेले दिकान सर्व वैभव आपूण जावनु स्वखुशीन येता. ' **त्वम् अग्ने प्रमति सत्वं पितासि नस् त्वं वयस्कृत् तव जामयो वयम् । सं त्वा रायः शतिनः सं सहस्त्रिणः सुवीरं यंति व्रतपाम् अदाभ्य ।।५।।**[5]--- बुद्धिशाळी, अप्रतिहत, व्रतनियमांचो संरक्षक असले अग्निदेवा, तू आमगेलो बापय, मित्र, आनी सोयरोसो आसा तुगेले दिकान शतावधि, सहस्त्रावधि धन आपूण जावनु धांवत येता. ते तरेचो गतिशील, प्रगतिशील, विकसनशील अग्निदेव आमगेले जीवनांतु सत्व, आनी स्वाध्यायाचो संगम हाडू.

---

**टीप :**

1 अथर्ववेद. ११·४·३–५.

2 भगवद् गीता. ४·८.

3 ऋग्वेद. १·१·५.

4 ऋग्वेद. १·२६·३.

5 ऋग्वेद. १·३१·१०.

मंत्र – ४.

यः शुचिः प्रयतोभूत्वा जुहुयादाज्यमन्वहम् ।
सूक्तं पंचदशर्चं च श्रीकामःसततं जपेत् ॥१॥
पद्मानने पद्मउरू पद्माक्षी पद्मसंभवे ।
तन्मे भजसि पद्माक्षी येन सौख्यं लभाम्यहम् ॥२॥
अश्वदायें गोदाये धनदाये महाधने ।
धनं मे लभतां देवी सर्वकामांश्च देयि मे ॥३॥
पद्मानने पद्मविपद्मपत्रे पद्मप्रिये पद्मदलायताक्षि ।
विश्वप्रिये विष्णुमनोनुकूले त्वत्पादपद्मं मयि संनिधत्स्व ॥४॥
पुत्रपौत्रं धनंधान्यं हस्त्यश्वादिगवेरथम् ।
प्रजानां भवसि माता आयुष्मन्तं करोतु मे ॥५॥
धनमग्निर्धनं वायुर्धनं सूर्यो धनं वसुः ।
धनमिन्द्रो बृहस्पतिर्वरुणो धनमस्तु मे ॥६॥
वैनतेय सोमं पिब सोमं पिबतु वत्रहा ।
सोमं धनस्य सोमिनो मह्यं ददातु सोमिनः ॥७॥
न क्रोधो न च मात्सर्यं न लोभो नाशुभामतिः :
भवन्ति कृतपुण्यानां भक्तानां श्री सूक्तं जपेत ॥८॥
सरसिजनिलये सरोजहस्ते धवलतरांशुकगन्धमाल्यशोभे ।
भगवति हरिवल्लभे मनोज्ञे त्रिभुवनभूतिकरी प्रसीदमह्यम् ॥९॥
विष्णुपत्निं क्षमां देवीं माधवीं माधवप्रियाम् ।
लक्ष्मीं प्रियसखीं देवीं नमाम्यच्युतवल्लभाम् ॥१०॥
महालक्ष्मी च विद्महे विष्णुपत्निं च धीमही ।
तन्नो लक्ष्मीः प्रचोदयात् ॥११॥
श्रीर्वर्चस्वमायुष्य ारोग्यमाविधाच्छोभमानं महीयते ।
धान्यं धनं पशुं बहुपुत्रलाभं शतसंवत्सरं दीर्घमायुः ॥१२॥

अर्थु –

जे मनीसाक लक्ष्मीली इच्छा आसा ताणें पयलें न्हांवनुं स्वच्छ आनी पवित्र जावचो प्रयत्न करका. ताजे उपरांत हे पंदरा मंत्रांचो सतत जप करका. हे कमळमुखी, पद्मउरू, कमळाक्षी, पद्मजा, तूं मेगेले सेवेचो स्वीकार कर, जाका लागून हांवु सुख प्राप्त करूं शकत. घोडे, गाय, धन दिवची धनदेवी, तूं माका धन दी आनी मेगेले सर्व इच्छा परिपूर्ण कर. हे पद्ममुखी, पद्मप्रिया, कमळपत्राक्षी, विश्वप्रिया, विष्णुदेवाले मनाक अनुकूल आसचें तूं मेगेले काळजांतु तुगेले चरण-कमळ दवर. तूं सर्व प्रजेली आवय आसा. पूतं–नातू, धनधान्य, हस्ति–घोडे, गाय–रथ आनी आयुश्य माका दी. अग्नि, वायु, सूर्य, धर्तरी, इन्द्र, बृहस्पति, वरुण हेची मेगेले धन जावूं. हे वैनतेय तूं सोमपान कर. इन्द्रबी सोमपान करतालो. ते दोग्गंयी माका सोमरस दिताले. जे मनीसांनी पुण्यकामं केलिली आसाची तसले भक्तांक कोप, मत्सर, लोभ वा अशुभ बुद्धी येव न्हंय म्हण्णुं श्री सूक्तांचो जप करका. कमळची कोणांले घर आसा आनी कोणांले हातांतु बी कमळ आसा, शुभ्र आनी धव्वी वस्त्र जी न्हेसिली आसा, चंदन आनी माला घातिल्यान जी शोभता ती विष्णु पत्नि, मनोहर आनी तीनलोकांतु कल्याण करची भगवती मेगेले वयर प्रसन्न जावूं. विष्णु पत्नि, क्षमाशीले, माधवाली पत्नि, अच्युताली पत्नि, सर्व जनांली आवडचे ते देवीक हांवु नमस्कार करता. आमीं महालक्ष्मीक जाणताची. तिगेले ध्यान करत आसाची. विष्णु पत्नि आमगेले बुद्धीक प्रेरित करूं. श्री, तेज, निरोगिता, आयुष्य, धनधान्य, पशु, पुत्र, आनी शंभर वर्स जीवचें आयुष्य तू आमकां दी. ॐ तत्सत्.

विश्वा इतले व्यापक आशिले परमात्म्याले जाण जर हे विश्वांतु यःकश्चित अणु परस क्षुद्र आशिले मनीसाक जाय तर ते मनीसाक ते परमात्मा इतले व्यापक जाले शिवाय गत्यंतर ना. पुण मनीस जेन्नां हे संसारांतु जल्माक येता तेन्नां तो इन्द्रिय, माया-मोहाक आनी वासनेंक लागून, ते विश्वव्यापकत्वापासून दूर दूर वता, शिवाय ते पूर्णताये लागीं किंवा अर्हते लागीं येवचाक फावो जाय ना. अनेकानेक अधार्मिक आनी अनैतिक कर्मांक लागून तो ते विश्वात्मक परमेश्वराले जाण घेवचाक अनुरुप जायना. तागेले अंतस्करण कल्मश आनी मालिन्यान अशुद्ध जालिल्यान ताका तागेले परमेश्वरालें दर्शन वा साक्षात्कार सरळ तरेन, स्पष्ट तरेन ज़ायना देकून ताणें स्वतःचे कर्तव्य बुद्धीक आनी इच्छेक लागून आपण्यालें जीवन पवित्र आनी पुण्यतम करचें पडता. तशें पळयल्यार धार्मिक प्रवृत्तींतु मनाचे आनी अंतस्करणाचे पवित्रतेक अत्यंत महत्त्व दिवचांतु आयिलें आसता.

मनीस दैवी प्रभावान देवते विशय आकृश्ट जायना. ताजे अुलट तो संसारातले वेव्हार आनी तांचे ताप-कश्टांक लागून जणूं काय ते कष्टांपासून दूर वच्चाक आनी देवांदिकान आकर्शित जावचाक परावृत जाता. पुण भगवद् भक्तीचे मार्गारि उंच पांवड्यांचे अध्यात्मापरस मनीसाक सुलभ तरेन समजचो, भावनांनी परिपूर्ण असलो भक्तिमार्ग जास्त मानवता. देकूनु जेन्नां ब्रह्मविद्येचें आनी अध्यात्माचें गूढ तत्वज्ञान सामान्य जनतेक समजना तेन्नां वाद-विवाद, पूर्वपक्ष-उत्तर पक्ष हांचे गोंधळेंतु पडतनासताना रुशी मुनीनी सर्व सुलभ भक्ति मार्गाचे मुखांतर ते यथार्थ ज्ञानाचो दिवो प्रज्वलित केलो आनी सत्याची समज उपमा- दृश्टांताचे मदतीन, नैतिक आचारणेचे पातळीवयर दिली. तशें पळयल्यार रुशींक सगुण आनी निर्गुण परमात्म समसमान भासता. पुण विशयासक्तिन विशयांध जालिले सर्व साधारण मनीसाक मात्र तें चेतन्य स्वरूप निर्गुण रूपांतु दिसना आनी ते हृदयस्थ परमात्म्याली जाण ताका सरळ तरेन जायना. विशयासक्ति हृदयांतल्यान ना जाली आनी चित्त शुद्ध जालें तर स्वच्छ केलिले आरश्यांतु चित्र प्रतिबिंबित जालिले तरेन अंतस्करणांतु परमात्मालो साक्षात्कार जाता शरीर आनी चित्तशुद्धीखातीर भगवंताले भजन, आनी तें जावचे खातीर जप-तपादि साधनं उपयोजनेंतु हाडचीं आसताची. तप म्हळ्यार केवल योग वा त्याग न्हंय. तप म्हळ्यार व्यासना त्याग, जाका लागून तुटत कामक्रोध. अंतस्कारणांतु आशिले चिद्रुप चित् तत्त्वाचें चिंतन करचें आसल्यार दंभ, लोभ, अहंममत समूळ नश्ट जावका. ते तपान संतुश्ट जावनु भक्ताले माथ्यावयर जो मेरेन भगवंत आणण्याले करकमळ दवरना तो मेरेन परमात्म प्राप्ती ते मनीसाक जालीं ना म्हणणुं मानचें अनिवार्य आसता.

जीव-जगत जानी परमात्मा हांचे स्वरुप आनी परस्पर संबंध सांगचें हें तत्वज्ञानाचें कार्य जावनु आसा. कर्मयोग, भक्तियोग, बुद्धियोग, सन्यास योग, किंवा

नयोग हीं सर्व आत्मज्ञानाची विर्गविगड साधनं आसाची. जीवाचो परब्रह्मा-
ाबर योग म्हळचार ऐक्य हाडचीं हीं साधनं आशिल्यान तांका योग म्हणताची.
नु खंयचेयी एक ना एक साधनावयर बहिश्कार घालचें अयोग्य आसता. तरी
: सर्वजनसुलभ आनी लोकोपकारक असलो कर्मप्रधान भक्तियोग भगवद् गीतेक
ग्रासापरस जास्त पसंतीचो जालो. मनान हरीलें ध्यान करचें, कानांनी हरीलें
गान आयकुवचें, जीभेन नामोच्छार आनी हातांनी हरीपूजन करचें, पायांनी
ालयांतु वच्चें, नाकांनी तुळशीचो सुवास घेवनुं निर्माल्य माथ्यावयर दवरचें हीची
ली तनमनान जावची हरीली भक्ति.

हे तरेन भक्ति करचे भक्त आनी तांगेले उपास्य जावनुं आशिले भगवंतांतु
गले वयर दिसचो भेद नाश जाता आनी तांगेल्यांतु एक अतूट, अनुस्युत ऐक्य
त्त जाता. हे भक्त विशयसेवन जरुर करताची, पुण तांचे सुख:दुख ते भक्तांक
धना, कित्याक तर भगवंतापरस विगड भासचे हें जगत् तांगे ले दिश्टीन स्वप्नतशें
ासता. देह, इंद्रिय, मन, बुद्धी आनी प्राण हीं जीवाची पांच बंधनं आसताची. ताका
ागून तान, भूख, भय, क्लेश, जल्म–मरण हांचो अपार त्रास जीवाक जाता.
ाकाची संसार धर्म म्हणताची. पुण जे भक्तांक आत्माराम प्रसन्न जाता तांका हो
ाम, त्रास आराना. मन हरिचरणांतु मग्न जाल्लियान तान – भूखेची ओढ तांका
ासना आनी संसाराचे भय दोसना. देहाची अहंममता गेलिल्यान ते देहाक अपार
ुःख सोसचें सुलभशें जाता. देह हें एक मिथ्या आसा आनी हांवु स्वतः साक्षात्
रमेश्वर आसा म्हण्णु मानचें भक्ताक स्वतःचो देहाभिमान आसना. ताका लागून
देहाकडचान घडचे कतृत्वाचें श्रेय तो स्वतःकडेन घेना. ते भक्ताले मनांतु ईशमनन
चिंतन–स्मरण–अर्चन–वंदन–कीर्तनादि प्रकारांक लागून सर्वश्रेष्ठ अभेदभक्ति
निर्माण जाता.ही अभेदभक्ति चारी मुक्ति आनी चारी पुरुषत्वापरस श्रेष्ठ आसता.
कारण हे भक्तितु परमेश्वरालें प्रेम आसता. किंबहुना हें प्रेम म्हळचारिची परमेश्वर
आसता.

देकूनु रुशी सांगता कीं.

**यः शुचिः प्रयतोभूत्वा जुहुयादाज्हमन्वहम ।**
**सूक्तं पंचदशर्चं च श्रीकामः सततं जपेत् ।। १ ।।**

**श्री कामः**

श्री कामः म्हळचार तो मनीस जो श्री किंवा लक्ष्मीदेवीली इच्छा करता.
श्री म्हळचार केवल वित्त-वैभव न्हंय. श्री म्हळचार संपत्ती-सत्ता न्हंय. श्री म्हळचार
पैसो–ऐशआराम न्हंय. श्री म्हळयार मनाची एक वृत्ती, जीवनाची एक प्रवृत्ती.
श्री म्हळचार निरपेक्षता, मनन, शाँति, समदर्शन, आनी निर्वैरत्व आसा. श्री

म्हळच्यार गुण, विद्या, भाव, प्रेम, श्रद्धा, ज्ञान, वैराग्य, औदार्य, शक्ति, बल,
वीर्य, तृप्तता, सुख समाधान--- हे सर्वांचे सुभग समन्वय जावनु आसा
समन्वयाचो अधिकार तेची मनीसाक प्राप्त जायत जे मनीसाले वैभव ते परमात्म
चरणामृत आसूयेत आनी कोणाले जीवन तेंची प्रभूलो प्रसाद रुपान आसूयेत.

देकूनु रुशी म्हणता कीं जर मनीस श्रीकामः आसा तर ताणें पयलें
**शुचिः प्रयतः भूत्वा अन्वहं आज्यं जुहूयात** – स्नान करनु आपण्यालें तन,
शुभ विचारांनी, संकल्पांनी, आपण्याले मन स्वच्छ करनु **अन्वहं आज्यं जुहु**
दररोज कर्तव्य कर्माचे हवन करका. आनी ते तरेन शुद्ध जावनु मनीसान ज
पंदरा मंत्रांचो जप केलो तर ताका श्री वा लक्ष्मीदेवीलो अनुग्रह जाता. ता
जीवनांतु, संसारांतु भौतिक ऐश्वर्याची गंगा, मानसिक ऐश्वर्याची यमुना अ
कृतार्थतेची सरस्वतीलो संगम जाता. संपत्ती बरोबर स्वच्छता, पवित्रता आ
हवनशीलता जीवनांतु आयल्यार श्रीलो सहवास सतत जाता, अन्यथा ना.

पुण आयचे समाजांतु लक्ष्मी संपादन करचे तेन्नां स्वच्छता, पवित्रता कि
हवनशीलतेचो विचार जायना. सत्य सांगचांतु दुःख जाता, पुण सत्यापासु
गत्यंतर ना. आयचे समाजाक पैसो हातांतु आसल्यार नीत आनीपवित्र कल्पनें
सहवास नाका. रावणाले लंकेचे वैभव न्हंय तर श्री रामाले अयोध्येचे वैभव जा
तर ताका अनुरूप असली मनोवृत्ती मनीसालागी आसचाक जाय. रावणाले वैभ
मागशीं श्री रामाले वैभवाची शोभा नासता. तरी पुण आयज संपत्तीचे आसव
आशिले मनीसांतु विवेक ना. तांगेले श्रद्धेंतु सात्विकता ना, तांगेले नमस्कारां
निष्ठा किंवा प्रेमपूर्वक आवाहन ना. आयजचें विज्ञान हें वाममार्गी आसा. विज्ञा
चारित्र्य ओळखना. ताका चारित्र्याची जरूरियात ना. देकूनु शस्त्र हातांतु आशिल
मनीस शस्त्राचे सामर्थ्यान आपण्याले अभिश्ट धन-संपत्ती संपादन करूं शकता.

तशें पळयल्यार आयजचे अर्थशास्त्राक नीतिशास्त्राबरोबर कांयी संबंध न
देकूनची आयजचे वैभव दीपना, शोभना; आयजचे मनीसालागीं अगणित संपत्ती
वैभव आसूनबी तागेली संपत्ती-वैभव सुखार्थ ना. आयजचे मनीसाले मन संवेदनक्षम
ना. संपत्ती बरोबर त्यागाचो विवेक आयलो ना. जीवनांतु चारित्र्यनिष्ठ
आयली ना. भारतीय अध्यात्म आनी अर्थशास्त्राचे मागशीं संवेदनक्षम मन
आसा, चारित्र्यनिष्ठा आसा, त्यागाची भावना आसा. म्हण्टकूच मनीसाले जीवन
सुखार्थ आसतालें. कृतार्थ जातालें. देकूनु रुशी आमकां सावध करता की जर
मनीसाक सुखार्थ असलें, कृतार्थ करचें वित्त-वैभव जाय तर ताणें **शुचिः प्रयतोभूत्वा**
**आन्वहं जुहूयात**. जे मनीसाक वैभव जाय, आनंद जाय, समृद्धी जाय, शांतिरस्तु
पुष्टिरस्तु-तुष्टिरस्तु आसचाक जाय ते मनीसान संवेदनक्षम मन दवरनु, चारित्र्य-

ः आसून, त्यागाची दीक्षा घेवनुं, स्वच्छ जावनुं पवित्र जावनुं, हवनशील जावनुं ाूक्ताचे मंत्रं प्रेमपूर्वक मनन करचाक जाय.

**पद्मानने पद्मऊरू पद्माक्षी पद्मसंभवे ।**

**तन्मे भजसि पद्माक्षी येन सौख्यं लभाम्यहम्** ।। २ ।।

रुशीले दरएक शब्दाक गूढार्थ आसता. प्रत्येक शब्द ताजें मर्म समजून ःरचांतु आयिलो आसा. भारतीय संस्कृतींतु कमळ हें अनासक्तीचें संकेत म्हण्णुं ःरचांतु येत आसा. देकूनु कमळाची उपमा श्री किंवा लक्ष्मीक दीवनुं रुशी स्पष्ट ा कीं जें वित्त-वैभव मनीस मागता ते कमळातरेन अनासक्त आसचाक जाय. ाळिले उपरांतबी ते वित्त-वैभवापासून मनीसान स्वतंत्र आसचाक जाय. जे ा कमळ सरोवरांतले दुर्गंधीत वातावरणांपासून दूशित जायना ते तरेन संसा– ् आशिले मनीसान संसारांतले वित्त–वैभवापासून स्वतंत्र आसचाक जाय. चन्द्र- ासी कमलिनीक चन्द्राविशय अत्यंत मोग आसता. चन्द्र उदयाक आयलोकीं ती ाण्याली कमळदल फुलोवनुं ताका आलिंगन दिवचाक उत्सुक आसता. तरीपुण कमळ आपण्यालें स्थान आनी आपण्याली मर्यादा विसरनासताना दूर आसूनबी ा करता तेची तरेन मनीसान आपण्याले स्थान आनी आपण्याली मर्यादा जाणून त-वैभवांचो उपभोग घेवचाक जाय.

श्री ही क्षितिजाचे वयर फुलिलें विश्वकमळ आसा. आनी तें कमळ विकसित ालेंकीं संसारांतली समस्त कमळंबी विकसित आनी प्रफुल्लित जाताची. मनीसाले ्तकांतु सहस्रदलांचे कमळ आसून ताजी नाळ म्हळचार पाठींतलो कणो आसा. ाश्व, स्रिश्टी आनी मनीस हांका व्यापून आसचे परस्परानुरागाचे प्रतीक म्हण्णुं ाकसित कमळ भारतीय संस्कृतीचे प्रतीक जावनुं आसा.

**पद्मानने**

पद्मानने म्हळचार जिगेलें मुख चेहरो कमळातरेन फुलिलो आसता. लक्ष्मीक मळाबरोबर तुलना करनुं रुशी एक मूळ तत्वाची जाणीव दिता. कमळ एक र्गंध तसले सरोवरांतु जन्माक आयिले उरत. ताजी तिका चिंता ना. आयज ाकासांतु आयिलें फूल फाल्याचे फांतोटेरी बावनुंबी वचत. ताजीबी तिका पर्वाना. ण आयजचे वर्तमान काळांतु जे मेरेन आपण्याले नस–नसांतु जीव आनी जीवन ाळकत आसा ते मेरेन आपण्यालें विकासाचें पर्व लोककल्याणाखातीर अर्पण करत ासा. **पुनरपि जननी जठरे शयनम्** हाजी जाणीव ते कमळाक आसा. देकूनु कितलो ाळ परमात्मान आमकां हे संसारांतु दिलिलो आसा तितलो काळ परमात्माले हे त्रश्टींतु आनंदवर्धन आनी सौंदर्यवर्धन करचे कार्यांतु समरस जावचें हें आपण्याले र्तव्य म्हण्णुं कमळ मानता. जीवन इतलो अर्थपूर्ण आनी सहेतुक आसचाक जाय

कीं तांतुत भूतकाळाची भीती नासता. भविश्यकाळाची अपेक्षा नासता. पु
वर्तमानकाळाचे जीवंत स्फुरणाची जाण घेवनुं आपण्याले कार्य चलत आसता. ल
पद्माननें आसा. देकूनु तिगेलें जीवन आनी दिश्टीकोण कमळातरेन आसा.
मनीस हे तरेचे विचारांनी प्रभावित आसा तोची लक्ष्मीपुत्र म्हण्णुं घेवचांतु यो
आनी अनुरूप आसता. एशी असले जीवन लक्ष्मीली अपेक्षा करता. पांडव आपण्य
सर्वस्व त्याग करनुं राना वनांतु निवास करत भटकताले. तरी पुण ते लक्ष्मी
नाशिले अशीं ना. अर्जुनालो चेहरो फुलातरेन सदा प्रफुल्लित आसतालो. देकूनु
कृष्ण गीतेंतु म्हणता. **पांडवानां धनंजय** पांडवांतु आपूण अर्जुन आसा.

अर्जुन लक्ष्मीपुत्र आशिलो. संकटकाळांतुबी तागेले मुख तेजान झळकता
हातांतु धन-संपत्ती दिसली ना म्हण्णुं तो लक्ष्मीवान ना म्हण्णुं अशीं जाय
आपण्यांतु जें ना तांचो तो विचार करत बसलो ना. पुण आपण्यांतु जें आसा तां
संभाळ तो करनुं तांचो उपयोग आनी विनियोग जनकल्याणाखातीर केलो. तो
खरो लक्ष्मीपुत्र.

**पद्मऊरू.**

आवयली होंटी शांतिदायी, शीतळ आसचाक जाय. कित्याक तर संसारांत
त्रिविध तापान त्रास जालिले मनीसाक सुख दिवचाक भगवतीली होंटीची आस
देकूनु ती होंटी कमळातरेन शीतळ आसचाक जाय. म्हण्टकूच **तुष्यन्ति च रमन्ति**
**च** असलो अणभव मनीस घेवू शकत.

**पद्माक्षी**

पद्माक्षी म्हळ्यार ती जिगेले दोळे कमळातरेन आसाची. कमळ हें अनास
क्तिचें द्योतक आसा. देकूनु लक्ष्मी घरांतु आयली तर मनीसान आपण्याले जीव
आनी तांतूतले प्रत्येक क्षण अनासक्त नदरेन कर्तव्यकर्माखातीर एक साधन म्हण
जीवका. आनी धनसंपत्तीची आसक्ति दवरनासताना जीवन जगका. पद्माक्ष
म्हळ्यार ती भगवती जिगेले दोळे अनासक्त आसाची आवयले दोळे नियाम
आसाची. चिकित्सक आसाची, प्रेमळ आसाची, भावपूर्ण आसाची.

**पद्मसंभवे**

अज्ञानी मनीस जेन्ना समजता कीं देह म्हळ्यार आपूण, ताजीं सुखं म्हळ्या
आपण्यालीं सुखं, तेन्नां तो देहाचे भोग करता, तो सुखासीन जाता, देहत्यागा
आनी मरणाक भिता, आनी आपण्याले कर्तव्यापासून विमुख जाता. पुण जो मनी
आपण्यालें जीवन अनासक्त योगाक लागून जगता, आपण्याली कर्म करत आसतान
स्वतः कर्मरहित आसता ते मनीसालो जल्म आनी तागेले जीणेचो आकार कमळ
पासून जाला म्हण्णुं मानयेत. कमळाक आपण्याले जल्माचे यथार्थ ज्ञान आसता

ताका लागून कमळाक अहंकर्तुत्व नासता आनी ताजे क्रियेचे कर्मत्वबी नाश जाता. हे काम हांवे केले म्हण्णु जेन्नां मनीसाक अहंकार नासता तेन्नां ते कर्माचे फळाची आशाबी नासता. आनी ते आत्मज्ञानाक लागून तो स्थितप्रज्ञ म्हण्णु आपोवचांतु येता. स्थितप्रज्ञ म्हळचार भावनाशून्य किंवा जीवंत आसून मेलिले तरेन आसचो मनीस न्हंय. पुण जे तरेन कमळ चिखलांतु जल्म घेवनुंबी ते भायरचे दोशांनी बाधित आसना ते तरेन इन्द्रिय आनी मन स्वतःचे ताब्यांतु आशिलो मनीस ते कमळातेरेन दुशीत वातावरणांतु जल्म घेतल्यारबी ते वातावरणांनी तो प्रभावित जायना.

**पद्मउरू**

पद्मउरू म्हळयार ती आवय जिगेली हॉंटी असंख्य कणकणांनी भरिली आसा. ते, कमळाचे म्हाऱ्यांतु अनेक मधुकण एकठांय आसताची जे आपण्याले प्रभावी सुगंधान सर्व वातावरण आनी वायुमंडल प्रभावित करताची. पुण कमळ आपण्याले म्हाऱ्यांतु आशिले कणकण आपण्यालागींची दवरनासताना ते कण जगत् कल्याणा-खातीर चारी दिकान कर्तव्य कर्म म्हण्णु पसरायता. आपण्याले म्हाऱ्यांतु अनेकानेक विभूतींक एकठांय केलिले लक्ष्मीदेवीक रुशी प्रार्थना करता –

**अश्वदाये गोदाये धनदाये महाधने ।**
**धनं मे लभतां देवी सर्वकांमाश्च देयी मे ।। ३ ।।**

रुशी म्हणता कीं अश्वदाये ( म्हळयार भौतिक ऐश्वर्य ) गोदाये (म्हळयार ज्ञानैश्वर्य ) धन–संपत्ती दिवशी लक्ष्मी माका मेगेलो संसार, जीवन सफलतायेन चलोवचाक आनी मेगेले सर्व मनोरथ, कामना पूर्णतायेक हाडचाक माका योग्य तरेचें धन दिवूं. तशे पळयल्यार रुशी परत परत निश्चयान सांगता कीं धन हें स्वतः त्यज्य नासता. पुण धनाक लागून जी आसक्ति, मोह, लोभ इत्यादि अहित प्राप्त जाता ते सर्व त्यज्य आसा. " **धनात्कुलं प्रभावति धनाधर्मः प्रवर्धर्मः ।** " म्हण्णु महाभारतांतु निष्ठून सांगिले आसा. धनान कुल आनी धर्माचि वाढ जाता. अश्व, गाय हांची उपमा दीवनुं रुशी भगवतीक याद दिता कीं आपण्याक असली धन–संपत्ती दी जी आपूण अनासक्तीन सत्कार्याक वापरीन." **विभूतीः प्राप्य परमाः सतां संभोग्यतां व्रजेत् ।** " उत्तम मनीस वैभव संपत्ती मेळोवनुं तांचो सज्जनांले सेवे-खातीर उपयोग करता. जे साधनांनी आपण्याले सौख्य वाढोयेत ती साधनं दी म्हण्णु रुशी मागता. धनांचे मुखांतर सौख्य दिवची शक्ति श्री सूक्तांतु आसा.

**पद्मानने पद्मविपद्मपत्रे पद्मप्रिये पद्मदलायताक्षी ।**
**विश्वप्रिये विष्णुमनोनुकूले त्वत्पादपद्मं मयि संनिधत्स्व ।। ४ ।।**

धनाचो लोभ मनीसाक सदाकाळ आसता. कित्याक तर ताजें आकर्षण हें अत्यंत प्रभावी आसा. धन-संपत्ती आयले उपरांत मनीस आपण्याले मनावयलो ताबो विसरचें साहजीक आसता. देकून रुशी पद्म कमळाची उपमा पुनः पुनः दीवनु मनीसाक जाण करता कीं धन संपत्ती ही विनियोग–वितरणाखातीर आसता शिवाय लोभी–कृपण जावनुं तिजोरींतु एकठांय करचे खातीर न्हय. रुशीक जी लक्ष्मी जाय ती पद्मानने आसा. पद्मानने म्हळचार जिगेले मुख कमळातरेन सुंदर आसूनबी जी अनासक्त आसा. धन–संपत्ती यज्ञ कार्याखातीर आसा म्हण्णुं दाखोवनुं रुशीन ईशभक्तिचे आनी ईश स्तवनाचें मूळ ध्येय स्पष्ट केलिलें आसा. यज्ञाचो आनी स्वधर्मपालनेचो संबंध ऐहलौकिक जीवना-बरोबर कितलो घनिष्ट आसता हें दाखोवनुं मोक्षाखातीर किंवा ईश्वरप्राप्ती-खातीर ऐहिक जीवनापासून निवृत्त जावचें अगत्य ना म्हण्णुं रुशीन दाखयल्या. वर्णधर्मप्राप्त सामाजिक कर्तव्यकर्म करत फलाची आशा सोडनुं ईश्वरार्पण बुद्धीन जो आपण्याले जीवन जगता तोची भगवंताले प्रसादाक योग्य ठरता.

कमळाची उपमा दीवनु आमकां रुशी मार्गदर्शन दिता की, जीवन सफळ जावचें आसल्यार, सार्थक जावचें आसल्यार, दान–धर्म जीं मनीस करता तीं सुखार्थ जावचीं आसाची तर, मनीसाले हात केवल हातची न्हंय तर ती ते करकमळ जावूं. पाय केवल पायची न्हंय तर ते पादकमळ जावूं. सुभाशितकार कवी, सांगता, **नौपा, पुरुषी लोके सूर्य मण्डभेदिनो । प्रमुख क्षमया युक्तो दारिद्रश्च प्रवानवान् ।।** '' संसारांतु दोन तरेचे मनीस आसताची ज मेलिले उपरांतबी सूर्यमण्डल भेत्तून मुखार वताची. ते दोन मनीस कोण ?' एकलो, जो समर्थ आसूनबी क्षमाशील आसता आनी दुसरो, जो कांयी नासतानाबी दानी आसता. '' **विद्या ददाति विनयं विनयाद्याति पात्रताम् । पात्रत्वाद्धनमाप्नोति धनाद्धर्मं ततः सुखम् ।।** '' विद्या विनय दिता विनय मनीसाक योग्यता दिता. योग्यता आशिले मनीस धन मेळयता. धन मेळयिल्यान धर्मपालन जाता, आनी धर्म पालन जर केलें तर सर्व सुख प्राप्त, हे निश्चित.

देकूनु मनीसान आपण्याले जीवन कमळातरेन परिवर्तन करचाक जाय मुखकमळ, पदकमळ, हस्तकमळ, हृदयकमळ, नेत्रकमळ–– हे तरेन आपण्याले सर्व अंग अंग कमळातरेन आसचाक जाय. कित्याक तर लक्ष्मीन येवचे दरवाजे हेची जावनुं आसाची. तशें पळयल्यार ईश्वराली अनेक प्रतीकं आसताची. नाम हें शब्दरूप प्रतीक आसल्यार धातु आनी पाशाणांतल्यान व्यक्त जावचें स्थूल प्रतीकबी तितलेंची महत्त्वाचें आसता. व्यापक दिश्टीन पळयले तेन्नां सर्व विश्व आनी विश्वांतले जड आनी जीवबी ते परमात्म्याले प्रगट प्रतीक जाताची. तांगेली सेवा केंलिल्यान ईश सेवा जाता. ईश्वरांले खंयचेयी नांव घेतलें आनी तागेले खंयचेयी प्रतीकाचे ध्यान

धरलें किंवा सेवा केली तर ती ते परमात्म्यालेंची ध्यान आनी तागेलीचि सेवा ही जाणीव मात्र मनीसाक आसका. तेन्नां तीचि खरी ईश भक्ति जाता. आनी ते भक्तिंतल्यान नीतीचो उगम जाता. आनी जीवनाचें साफल्य जाता. आनी तो भक्त ईश्वरप्रति लक्ष्मीतरेन विष्णुमनोनुकूल जाता. किंबहुना तो विष्णुदेवतेले मनाक अनुकूल किंवा स्वतः विष्णुस्वरूप जाता.

**पुत्र पौत्रं धनंधान्यं हस्त्यश्वादिगवेरथम् ।**
**प्रजानां भवसि माता आयुष्मन्तं करोतु मे ।। ५ ।।**

रुशीक आत्मविश्वास आसता कीं जेन्नां तो लक्ष्मीदेवीली तनमनान भक्ति करता तेन्नां तागेने दिकान ती आवय तरेन मोग करताली आनी तागेले जीवन सुखार्थ जावचे खातीर ताका चेरडूंव, नातरंड, गाय, घोडे इत्यादि भौतिक सुखसंपत्ती दिताली. हें सर्व सुखाचो भोग घेवचाक जरूर आशिलें आयुष्यबी तो मागता. भारतीयांली एक मूळ विचारसरणी आसता कीं जरी हें जीवन प्रथम आनी अखेरचें नासताना जीव अनेक शरीर धारण करता, आत्मा अमर आसून शरीर मात्र नाशिवंत आसता तरी हो मनीस जल्म जो परमेश्वरान दिला तो ते जीवाचे पुण्याईनची दिला. देकून हें जीवन सफल करचें आनी ते सफल करत आसताना शंभर वर्सं जगचो ह्व्यास मनीस धरता.

भारतीय अध्यात्मीक विचार मूळांतूची कर्तव्यप्रधान आसा. ईशावास्योपनिशदांतु हो सिद्धांत पयले दोन मंत्रांतूची सूत्रबद्ध करनु सांगिलो आसा. **ईशास्यमिदं सर्वं यत्किं च जगत्यां जगत् । तेन त्यक्तेन भुंजिथा मा गृधः कस्य स्विद् धनम् ।। कुर्वन्नेवेह कर्माणि जिजीविषेत् शतं समाः । एवं त्वयी नान्यथेतोऽस्ति न कर्म लिप्यते नरे ।।**"[1] हे जगांतु जें जें कांय जगत् म्हळथार जे येता वा वता तांगेले नामरूपांनी युक्त आसता ते ते सर्वांतु ईश्वरालो निवास आसा. देकनु हें सर्व ईश्वराक अर्पण करनुं ईश्वराखातीर ते सर्वांचे त्याग करनुं जे कांय थोडे आसता ताजो उपभोग घे. फलाशेचो त्याग करनुं स्वकर्मसहित सर्वस्व ईश्वराक अर्पण करचांतु भक्तिचो उगम आसा. दुसऱ्यांले संपत्तीचो लोभ धर नाका. तशें पळयल्यार जेन्नां स्वत.ची संपत्ती हवनद्रव्य म्हण्णुं मानचांतु येता तेन्नां दुसऱ्यांले संपत्तीचे अपहरण कोण करत ? हे तरेचे ईश्वरबुद्धीन कर्म करत शंभर वर्स जगची इच्छा धरका. म्हण्टकूच कर्मान मनीस बद्ध जावचो ना.

**धनमग्निर्धनं वायुर्धनं सूर्योधनं वसुः ।**
**धनमिन्द्रो बृहस्पतिर्वरुणं धनमस्तु मे ।। ६ ।।**

अग्नि, वायु, सूर्य, इन्द्र, बृहस्पति हे सर्व निसर्गाक लागून सुप्तावस्थेंतु आशिलें शक्त्यो आसाची. ते सर्व शक्ति सत्कार्याखातीर उपयोजतेंतु हाडल्यो तर जल्मात्रे सार्थक जाता. घरांतु श्री, लक्ष्मी येता. पुण ती शक्ति जर विनाशबुद्धीन, अनैतिक, अशुभ कामांक वापरली तर घरांतु अ–लक्ष्मी येवनुं संसारांचो उध्वस्थ जावचांत् वेळ कितलो. देकुनु रुशी सांगता कीं निसर्गातले हे महान् शक्तयो आसाची तांगेलो उपयोग सद् बुद्धीन केल्यार ते विकसनशील जाताले. दरऐक शक्तित्त्रो सदुपयोग आनी दुरुपयोग करचें मनीसाक शक्य आसा. सदुपयोग केल्यार ते शक्त्यो धनरुपी जाताची, दुरुपयोग केल्यार मनीसाले विनाशाक कारणीभूत आसताची. रुशीली कल्पनाशक्ति कितली अमोघ, विशाळ आनी व्यापक आसा, तें पळया. जगांतले सर्व कणकणांतु परमात्म्याले शक्तिचो अंश आसा, हे जर आमी जाणताची तर ते सर्व कण कण आमकां भगवंतान दिलिले धनरूपी साधनं जाताची, जी फलाशेचो त्याग करनुं स्वकर्मासहित ईश्वराक अर्पण केल्यार ती साधनं मूळांतल्यान ईश्वररुपी जाताची. देकूनु रुशी प्रार्थना करसा कीं अग्नि, इन्द्र, वायु, वरुण सूर्य मेगेले घरांतु धनरूपान येवू म्हण्टकूच ती हांवु मेगेले सुखार्थ, आत्मोद्धाराक उपयोजनेंतु हाडताली.

**वेनतेय सोमं पिब सोमं पिबतु वृत्रहा ।**
**सोमं धनस्य सोमिनो मह्यं ददातु सोमिनः ।। ७ ।।**

सोम रस म्हाळयार एक मादक पेय जे पीवनुं रुशी देवदेवतेले गुणगान करताले म्हण्णुं एक चूकीची कल्पना पाश्चात्य विचारवंताले लेखनाक लागून भारतीयांतु वावुरताली. वैदिक सूत्रांचो सखोल विचार केल्यार दिसून येता कीं जे अनेक संकेत रुशीनी दिल्याची तांत्रो आंतरिक, भितरलो अर्थु जर आमी समजले नांची तर ते मंत्रांचो अनर्थ जाता. वेदांतु असले अनेक मंत्र आसाची जंय सांगल्या कीं यज्ञाचो यजमान सोम वनस्पतीची वाल कुस्करून ताजो रस देवांक अर्पण करतालो. कल्प औषधींतु सोम रसाक दीर्घायुश्य दिवची शक्ति आसा म्हण्णुं मानल्या. सुश्रूता संहितेंतु चोवीस तरेचे सोम वालींचो उल्लेख केलिलो आसा, पुण तांतूत खंयीची सांगिले ना कीं ही वाल मादक आसा. देकुनु रुशी सोम रस पीवनुं बेभान जाताले म्हणचें मूर्खपण आसा.

देकून वेदिक मंत्रांचो अर्थ काडताना ते मंत्रांचे भायरचे शब्दांतर करत नासताना ते शब्दांचे भितरले अर्थाची जाण घेवची जास्त श्रेयस्यर आसा. उदारण वेदांतलो हो मंत्र घेया. "**विश्वा धामानि विश्वचक्ष ऋभ्वसः प्रभोस्ते सतः परि यन्ति केतवः। व्यानशिः पवसे सोमधर्मभिः पतिर्विश्वस्य भुवनस्य राजसि।।**"[२] विश्वाचे सर्व काय पोळोवूं शकचे हे देवा तुगेले दिव्यदिश्टीचे किरणं सर्व विश्व व्यापून आसाची. सोम आपण्याले स्वाभाविक शक्तिन व्हांवता आनी सर्व धर्तरेचो राजा आनी यजमान आसा. सोम ही एक केवल लता आसल्यार हे मंत्राचो अर्थु खंयचे तरेन जातालो ? ऋग्वेदाचे धाव्वे मंडलांतु आनी एक मंत्र आसा. "**सोमं मन्यते पपिवान् यत् सम्मिषन्त्योषधीम् । सोमं यं ब्रह्मणो विदु न तस्याश्नति कश्चन।।**'[३] — हो मंत्र सोमलतेचें खरे स्वरूप दाखयता. हांगा सांगिले आसा कीं साधारणतः सोमरस सर्व मनीस सेवन करताची. पुण असामान्य तो मनीस आसता जो सोमरसाचे निजस्वरूप जाणूं शकता. खरे पळयल्यार सोमदेवता ही रस आनी अमृताची देवता आसून आनंदाची अधिष्ठात्री आसा. सर्व देव–देवतेबी हे मूळ आनंदमय रसाचो आस्वाद अमरत्व प्राप्त करचे खातीर सेवन करताची. यज्ञ कार्यातु मनीस यजमान आशिल्यान आपण्याले जीवनांतले नवरसांचो अर्क जशें करनुं हविरुपान देवांक अग्निदेवामुखांतर ताजे अर्पण करता. "**सोमो वा अन्नं अग्निरन्नदः**" "**अग्नि सर्वा देवताः सोमः सर्वा देवताः**"

हे तरेन मनीस आपण्याले सर्व तेज, सर्व विद्या, बुद्धी, शक्ति, धन-संपत्ती इत्यादिंचो सोमरसरुपान अर्पण करता. रुशी म्हणता कीं धन हें सोमरुपी आसा. वैनतेय आनी इन्द्र सोमपान करुं आनी पुनः ते सोमरसाचो आस्वाद माकाबी दिवूं.

**न क्रोधो न च मात्सर्यं न लोभो नाशुभामतिः ।**
**भवन्ति कृतपुण्यानां भक्तानां श्री सूक्तं जपेत्** ।। ८ ।।

जप–तप केलिल्यान, श्रीदेवीलें मनन–चिंतन केलिल्यान मनीमांले मन शुद्ध जाता- मोह, माया, ममता, चिंता आनी विशयवासनेंचो नाश जाता. दंभ, मत्सर आनी अहंकार भस्म जाताची. वर्ण, जाती सत्ता आनी संपत्तीक लागून मनीस–मनीसांतु दिसचो भेद –भाव दूर जाताची. आनी सर्वत्र सम आशिले परमेश्वराले दयेक पाञर सुटिल्यान अलौकिक आनी दिव्य असली अनुभूति भक्तांलें वांट्याक येता. ईश्वर हो सर्वेश्वर म्हळ्यार सर्वात्मक आशिल्यान खंयचेयी प्राणीचो मत्सर, द्वेश करतनासताना जीवन जगचे हेंची पूजेचे आनी भक्तिचे खरें मर्म जाता.

जो मनीस श्री सूक्ताचें जप करता तागेले मन आनी वृत्ती सामकी बदलता. काळीज कोमल, शुद्ध जाता. वासनांचे नाश जालिल्यान अहंकार आपण्याचो अहंकार सोडता आनी सोऽहं हे मनस्थितींतु वावुरता. चित्त आपण्याक स्वतः विसरनु भगवतीले पायांतु स्थिर जाता. मन संकल्प–विकल्प विसरता. आनी हे तरेन शुद्ध, पवित्र जालिलो मनीस कृतपुण्यवान जालिल्यान हृदयांतु लक्ष्मीदेवीले निवासाक योग्य आनी अर्ह जाता.

**सरसिजनिलये सरोजहस्ते धवलतरांशुकगन्धमाल्यशोभे ।**
**भगवति हरिवल्लभे मनोज्ञे त्रिभुवनभूतिकरि प्रसीदमह्यम्** ।। ९ ।।

**सरसिजनिलये**

लक्ष्मीदेवी कमळ हेंची आपण्याले निवासस्थान करनु आसता. म्हण्टकूच तिगेले सर्व अस्तित्व आनी दिश्टीकोण अनासक्तयोगावयर आधारित आसता. तिगेलें वायुमण्डल कमळाचे समुदायान भरगच्छ भरिले आसता. तिगेले तन-मन कमळान साकार पाविलें आसता. तिगेली वृत्ती, तिगेली प्रवृत्ती, तिगेले संकल्प कमळातरेन प्रभःवित आसताचि.

**सरोजहस्ते**

तिगेले हातांतुबी कमळ आसा. देकूनु तिगेले कर्म कार्यबी कमळरुपी जाता. तिगेले हात कमळहस्तं आसाची. तिगेले हात कमळातरेन आशिल्यान तिगेलें सर्व कार्यक्षमता अनासक्त आसता.

**धवलतरांशुक**

तिगेले न्हेंसिले वस्त्र धव्वें शुभ्र, स्वच्छ आसा. जेन्नां आत्मलक्ष्मी शुभ्र-वस्त्रधारी आसता, तेन्नां वेव्हारिक लक्ष्मीबी शुभ्रवस्त्रधारी आसता हांतु संदेह ना. जी लक्ष्मी रुशी मागता ती हे तरेन पवित्र, निष्पाप, निश्कपट, निरपेक्ष आसता. तिका लोभ ना, आशा ना, वासना ना. गीतेंतु अर्जुन श्री कृष्णाक सांगता कीं आपण्याक '**रुधिरप्रदिग्धान् भोगान्**''[4] नाका. आपण्याक रक्तान डबडबलेले भोगवस्तु, वैभव नाका. रक्तान डबडबलेलें वैभव दान धर्म केलिल्यान स्वच्छ जायना. सद्विचारांनी आनी सदाचारान कमयिले धन – संपत्तीचि शुभ्र आनी पुण्यकारक आसता जें धन–संपत्ती वायट संकलपान, वायट मार्गान, वायट उद्देशान कमयिलें

ासता ती धन–संपत्ती खंयचेयी कामांतु शुभ, कल्याणकारक, पुण्यकारक परिणा-
ांतु परिवर्तन जायना. देकूनु लक्ष्मीली याचना, लक्ष्मीदेवीलें आवाहन पवित्र, शुभ्र
ानी पुण्यतम भूमिकेवयल्यान करचें अत्यंत आवश्यक आसा. जो मनीस हे विचा-
ांची जाण घेना तो मनीस केन्नांयी लक्ष्मीपुत्र जावूं फावो ना. तो निश्चयान
लक्ष्मीपुत्रचि जावूं शकता.

### ंधमाल्यशोभे

लक्ष्मीदेवी सुगंधित माला घातिल्यान ती शोभता. तिगेले वातावरण शुभ्र, पवित्र, पुण्यतम आशिल्यान तिगेले आजूबाजूचें वातावरण, वायुमण्डल तिगेले कर्तुत्वान सुगंधित जालिलें आसता. मनीसालें जीवनबी ते तरेन सुगंधित आसका. स्वाध्यायाचो सुगंध मनीसाले देहांतु बंधित जावनु उरुं शकना. तो चारी बाजून पसरता. आनी ताजो अणभव ते मनीसाले परिसरांतु आशिले सर्व प्राणिजीव सदा घेत आसताची. हे तरेन कर्म करचें आनी आपण्याले कर्तृत्व कौशल्य पसरावचें–हाकाची म्हण्ताची योग. "**योगः कर्मसु कौशलम्**"[5] जे तरेन वारो व्हांवनु गेले तरी थोडो समय झाडं हालत आसतांची, जे तरेन कापूर गेले तरी ताजो सुवास चार बाजून घुमघुमत आसता, जें तरेन गायन संपल्यारियी ताजें सूर मनांतु सळसळताची, सूर्य अस्तमेंतु गेल्यारियी संध्याराग जे तरेन दिसत आसता ते तरेन कर्म संपल्यारियी ते कर्मांचें स्वाध्याय सर्वं दिकान सुगंध पसरायता. हे तरेन तन–मन प्रवृत्त करचो गंधमालेन शोभची लक्ष्मी रुशीक जरुर आसा.

### भगवति

लक्ष्मीदेवी ही भगवती आसा. तशें पळयल्यार भारतीयांलो सनातन धर्म हो मूळांतूची भागवत धर्म आसा. भागवत धर्माचो भगवंतान सांगिलो आनी भगवद्-भक्तांनो आचरणंतु हाडिलो धर्म आसा. जे कोण देव–देवता हे मूळ धर्माचे पुर्न-निवेदन करताची, संस्थापन करताची, पुनरुज्जीवन दिताची तेची भगवान् वा भगवती हे नाव घेवचाक अर्ह आसताची अन्यथा ना. देकूनु रुशी लक्ष्मीरूपी, श्रीरुपी भगवतीक प्रार्थना करताचि. ऋग्वेदांतु एक मंत्र आसा.

"**भग प्रणेतर्भग सत्यराधो भगेमां धियमुदवा** ददन्नः ।[6] — हे भगदेवा, तूं आमगेलो नेता, मार्गदर्शक आसा. तूं धनसंपन्न आसा. तूं आमगेली

इच्छा परिपूर्ण करनुं आमगेली स्तुति सफल कर. "**भग एव भगवाँ अस्तु देवास्तेन वयं भगवन्तः स्याम।**"[७] – हे देवानों, भगदेव होचि धनवान आसूं. ते देवाक लागून किंवा धनाक लागून आमीं धनवान् किंवा भगवान् जावूं. प्रकाश पराक्रम, ऐश्वर्य, यश, श्री, ज्ञान इत्यादि गुणांचे सगुण साकार रूप म्हळचार भगवंत आसून ते परब्रह्माचे सच्चिदानंद स्वरूपावयर केलिलें चिन्मय रूप म्हळचार भगवति, लक्ष्मी किंवा श्री आसा. स्थिरचराची आत्मरूपी आशिली श्री, लक्ष्मी वा रुक्मिणी पौराणिक वा ऐतिहासिक रुक्मिणी नासताना ती आध्यात्मिक श्री आसा. ते भगवान विष्णू, हरिली ती पत्नी आसा.

**मनोज्ञे**

लक्ष्मीदेवीक रुशीन आवयलें रूप दिलिल्यान ती चेरडाले मन जाणता तसली आसा. चेरडाक जें जाय, तें सांगची जरुरियात नासता. रुशी म्हणता की तूं मेगेलें मन जाणता. मेगेले मन कितले विकास पाविलें आसा, मेगेलं जीवतांतु कितले वैभव परवडता, हांतु कितले पचोवूं शकता, मेगेले जीवनांतु कितलें बैभव शोभता – हे सर्व तू जाणता. देकून् जें कांय शुभकार्य आसा ते कार्यांतु तू माका मदत कर. **यथायोग्यं तथा कुरू.** जें योग्य आसा, जें केलिल्यान मेगेले अभ्युदय जाता, जें मेळिल्यान मेगेले जीवनांतु सुख, शांति, समाधान प्राप्त जाता ते सर्व तूं माका दी. तू मनोज्ञे आसा. देकूनु त्रिभुवन भूतिकारी प्रसीद मह्मम— तीन लोकांतुली जीवदात्री तू मेगेले वयर प्रसन्न जा.

**विष्णुपत्नी क्षमा देवी माधवीं माधवीप्रियाम् ।**
**लक्ष्मीं प्रियसखीं देवीं नमाम्यच्युतवल्लभाम् ।। १० ।।**

विष्णु पत्नी ही मूळांतुची क्षमाशील आसता. कित्याक तर ती सर्व जगाची, संसाराची आवय आसा. देकूनु जरी चेरडान विवेक बुद्धी वापरनासताना जें श्रेय आसा तें आपणायनासताना जें प्रेय आसा तें केलिल्यारियी ती ताका क्षमा करता.

**माधवप्रियां माधवीम्**

माधवी म्हळचार जी विष्णूरूप जाल्या, विष्णुतरेन व्यापक आनी गतिशील जाल्या ती लक्ष्मी देवी माका जाय. माधवप्रिया म्हळचार जी लक्ष्मी विष्णू भगवानाक प्रिय आसा, ती रुशीक जगांतले सर्व धन नाका. ते धनबी खंयचेयी तरेन

प्राप्त जावचें नाका. ताका तें धन विष्णुदेवतेले मनाक पटत तसलें, ते देवाक प्रिय जाताले तसलें धन जावका.

**नमाम्याच्युतवल्लभाम्**

अच्युत म्हळयार तो देव जो स्थूल शरीराचे – जायते, अस्ति, वर्धते विपरिणमते आनी विनश्यति-– स विकारांनी स्पर्श जालिलो ना. सर्व परिस्थितींतु दैवी गुणांपासून जो अचल आसतातो अच्युत आसा. आनी ते देवाली तूं वल्लभा आसा. हांवु तुका नमस्कार करतां.

**महालक्ष्मी च विद्महे विष्णुपत्निं च धीमहि ।**
**तन्नो लक्ष्मीः प्रचोदयात् ।।११।।**

रुशीक लक्ष्मीदेवीलो साक्षत्कार जालिलो आसा. स्वतःक जेन्नां परमात्म्यालो साक्षत्कार जाता तेन्नां ताका साक्षी दुसरो कोणींयी आसना. तो साक्षात्कार स्वयंसिद्ध आनी स्वयंसाक्षी आसता. तेन्नां तो आत्मविश्वासान सांगू शकता. महालक्ष्मी चविद्महे— हांवु महालक्ष्मी जाणूं शकता. कित्याक तर ते रुशीली अकलन शक्ती जप–तप, शुचिता, आनी पवित्र जीवनाक लागून निर्मळ आनी तरल जालिली आसता. अज्ञानाचे काळोखांन झांकिली ही मूळ ज्योत जेन्नां अंतस्करणांतु दीपता। तेन्नां ते साधकाक जावचो आनंद तीनी ब्रह्माण्डांतु मावना. जगाचे आकार नाश जावनु सवत्र धवल तेज पसरता. " **तत्शुभ्रं ज्योतिषां ज्योतिः तद्यत् आत्मविदो विदुः**"[8] आत्मज्ञानी ते तेज अणभवता. पुण जास्त उलोवनु ते तो समजावू शकना. कित्याक तर तें अनिर्वचनीय आसा. तरी पुण रुशी आत्मविश्वासान म्हणूं शकता कीं " **वेदाहम् एतं पुरुषं महान्तम्** । आदित्यवर्ण तमसः परज्ञतात **परस्तात** ।।"[9] – हांवु ते महान् पुरुषाक जाणता जो काळोखाचे पेलतडेन प्रकाश पसरायता.

**विष्णुपत्निं च धीमही ।**

हांवु श्री लक्ष्मी देवीलें ध्यान करता. भारतांतले भक्ति संप्रदायेंतु इतलेंची न्हंय तर जगांतले सर्व भक्तिपंथांतु ईश्वराले खंयचेयी नामाचें श्रवण, कीर्तन, स्मरण, ध्यान, भजन, चिंतन, हें उच्चतम साधन म्हण्णु मानचांतु आयिलें आसा. प्राचीन वेदकाळापासून भारतांतु सर्व सत्पुरुशांनी नामसंकीर्तनाचो अवलंब केलो, अणभव घेतलो आनी ते श्रद्धेचो आनी आनंदाचो स्वानुभाव इतरांखातीर दिलो.

रुशी श्रीलें ध्यान धरता जाका लागून तागेलें देह आनी वाणी पवित्र जाताली. नामचिंतनान पातकांची रास जळून खाक जाताली. कित्याक तर नाममंत्रांतु देव, भक्त आनी नाम हांचे त्रिवेणी संगम जालिलें आसता. भक्त जेन्नां कळकळीन आपयता तेन्नां ती जगन्माता धांवत येता, करूणापूर्ण उत्रांनी दुःखी जनांवयर क्रिपा करता. कित्याक तर ती भक्तांले जीवाचो भाव जाणता.

**तन्नो लक्ष्मीः प्रचोदयात्**

लक्ष्मीदेवी मेगेले तन–मन स्वच्छ करूं. मेगेले जीवन ताका लागून सुखद. समाधानी आनी शांतिरूप जावूं.

**श्रीर्वर्चस्वमायुष्यमारोग्यमाविधाच्छोभमान महीयते ।**
**धान्यं धनं पशु बहुपुत्रलाभं शतसंवत्सरं दीर्घमायुः ।। १२ ।।**

**श्रीवर्चस्व**

श्री म्हळचार लक्ष्मीदेवी आनी वर्चस्व म्हळयार तिगेलो तेज ही दोन जर आपण्याले जीवनांतु आयलीं तर आपण्यालें जीवन सुख, समृद्धी शांति आनी समाधानात परिपूर्ण जाताले. आयुष्य, आरोग्य, धन, धान्य, बहुपुत्रलाभ आनी शंभर वर्सांचे आयुष्य लाभतालें.

हे तरेन जीवनांतले अनेकानेक विशयांचो विचार करनुं लक्ष्मी हे देवतेली व्यापक कल्पना रुशीन मनांतु हाडिली आसा. तेजःपुंज आवय सौंदर्ययूक्तबी आसा. तिगेले रूप आनी तिगेलें हास्य दररोज बदलता. विश्वाची मूळ शक्ति, विश्वाची जगज्जननी, विश्व निर्माण करची, उत्पत्ती-स्थितीलय करची, महान शक्ति ही लक्ष्मी शक्ति आसा. श्री सूक्त हे ते देवीले स्तवन आसा. ॐ **तत् सत्** !

---

टीप :

1 ईशावास्योपनिशद् १·२.
2 ऋग्वेद ९·८६ ५.
3 ऋग्वेद १०·८५·३.
4 भगवद्गीता २·५.
5 भगवद्गीता २·५०.
6 ऋग्वेद ७·४१·३.
7 ऋग्वेद ७·४१·५.
8 मुण्डकोपनिशद् २·२·९.
9 यजुर्वेद ३१·१८.

 

श्रीमद् भगवत्पाद  श्री शंकराचार्य

विरचित

# आत्मषट्कम्



---

नागेश द. सोंदे

श्रीमद् भगवत्पाद श्री शंकराचार्य

विरचित

# आत्मषट्कम्

---

नागेश द. सोंदे



# आत्मषट्कम्

मनो बुद्ध्यहंकारचित्तानि नाहं न च श्रोत्रजिह्वे न च घ्राणनेत्रे ।
न च व्योमभूमिर्न तेजो न वायुश्चिदानंदरूपः शिवोऽहं शिवोऽहम् ॥ १ ॥

न च प्राणसंज्ञो न पञ्चानिला मे न वा सप्तधातुर्न वा पञ्चकोशः ।
न वाक्पाणिपादौ न चोपस्थपायू चिदानंदरूपः शिवोऽहं शिवोऽहम् ॥ २ ॥

न मे द्वेषरागौ न मे लोभमोहौ मदो नैव मे नैव मात्सर्यभावः ।
न धर्मो न चार्थो न कामो न मोक्षश्चिदानंदरूपः शिवोऽहं शिवोऽहम् ॥ ३ ॥

न पुण्यं न पापं न सौख्यं न दुःखं न मंत्रो न तीर्थं न वेदा न यज्ञाः ।
अहं भोजनं नैव भोज्यं न भोक्ता चिदानंदरूपः शिवोऽहं शिवोऽहम् ॥ ४ ॥

न मे मृत्युशंका न मे जातिभेदः पिता नैव मे नैव माता न जन्म ।
न बन्धुर्न मित्रं गुरुर्नैव शिष्यश्चिदानंदरूपः शिवोऽहं शिवोऽहम् ॥ ५ ॥

अहं निर्विकल्पो निराकाररूपो विभुर्व्याप्य सर्वत्र सर्वेन्द्रियाणि ।
सदा मे समत्वं न मुक्तिर्न बन्धश्चिदानंदरूपः शिवोऽहं शिवोऽहम् ॥ ६ ॥

# आत्मषट्कम्

न्हंय मन, बुध्दी, चित्त, अहंभाव हांवु / न्हंय जीभ, कान, नेत्र, नाक हांवु /
न्हंय भूंय, वायु, तेजाकाशु हांवु / आसा चिदानंदरूप शिवूची हांवु शिवूची हांवु / । /

न्हंय प्राणप्रतीक वा पंचवायु हांवु / न्हंय सातधातु वा पंचकोशु हांवु /
न्हंय पाणि, वाणि, पायु, जलेन्द्रिय हांवु / आसा चिदानंदरूप शिवूची हांवु शिवूची हांवु / 2 /

न्हंय राग, द्वेश, लोभ, मोह हांवु / न्हंय मद आसा वा मात्सर्य हांवु /
न्हंय धर्म, अर्थ, काम, मोक्ष हांवु / आसा चिदानंदरूप शिवूची हांवु शिवूची हांवु / 3 /

न्हंय पाप, पुण्य, सुख, दुःख हांवु / न्हंय मंत्र, तीर्थ, वेद, यज्ञ हांवु /
न्हंय भोजन, भोज्य, वा भोक्ता हांवु / आसा चिदानंदरूप शिवूची हांवु शिवूची हांवु / ४ /

ना माका मरणशंका वा जातिभेदु / ना माका माता, पिता, जीव-जल्मु /
ना माका बंधु, सखा, गुरु वा शिश्यु / आसा चिदानंदरूप शिवूची हांवु शिवूची हांवु / 5 /

आसा निर्विकल्प, निराकार, विश्वव्याप्त हांवु / आसा सर्व दिकां सर्वाकार, सर्वेन्द्रिय व्याप्त हांवु /
आसा सदासमान, नासता मुक्त बंधिस्त हांवु / आसा चिदानंदरूप शिवूची हांवु शिवूची हांवु / 6 /

# आत्मषट्कम्

हें ल्हानशें स्तोत्र भगवत्पाद शंकरचर्यांनी रचयिलें आसा. स्तोत्र ल्हान आशिले तरीयी असामान्य मनीसाले विचारांचे पतीक आसा. अंतःकरणांतले अनुभवांचे उक्तें स्वरूप आसा. तांतू कवीलें कल्पनेचे वर्णन ना. आत्मानुभवाची जाण आसा. हिमालयाची शुभ्रनितळ नादब्रह्माची झरी आसा. परमहंसाले मुक्तावस्थेंतल्यान आयिले उद्गार आसाची. देकून मनाचे पेलतडेन अनुभवचांतु आयिलें तें ज्ञान जावनुं आसा. काळजांतु कल्मश नाशिल्यान भाशेक एक प्रामाणिक,सरळ,रसाळ भावना,तत्वचिंतनाची असाधारण अकलन शक्ति तांतू दिसून येता. बुद्धीची तीक्ष्ण धार तांतू दिसून येत आसल्यारियी काळजांतले मोवपणाचो आभासबी जाता. कारण काळीज स्वसंवेद्य आसता. देकून काळजांतले अनुभवांक साक्षात्कार म्हण्णुं संबोधन करताची.

अनंत ग्रिळापासून वेदाची भाशा साक्षात्कारप्रत भाशा जावनुं आसा हे तरेन मानिल्यान ती आमकां सरळ,सुरळीत दिसता. कदाचित भायरचे सरळ सुरळीत आवरण आमकां तांतूतले असामान्य अलौकिक ज्ञान झांकून दवरता. वास्तविक जीवन सरळ सुरळीत आसता. पुण मनीस आपण्याले जीवन, आपण्याले विचार निसर्गाचे नियमांक अनुसरून,ऋत,सत्य,धर्म पालन करनुं आचरणेंतु हाडत नाशिल्यान जीवन अस्तव्यस्त,वेव्हार अवास्तव जाता. शुध्द सरळ जीवन हें निसर्गाचे नियमांक आधारभूत आसता. म्हण्टकूच, सात्विक मनाचें प्रतिबिंब आसता. जेन्नां मनीसाले मनांतु आनी विचारांतु विकृत प्रवृत्ती दिसून येता, तेन्नां जीवनाची घडी सढळ जाता. राग,द्वेश,अहंकाराचो प्रभाव मनीसाले चाल चलनेंतु दिसून येता. ताका लागून अंतःकरणांतले जीवे जागचे सत्याचे दर्शन जायना. क्रांतदर्शी रूशीलें कार्य सामके वेगळेंची आसता. तागेलें कार्य सामान्य मनीसाले मनावयर आयिलें काजळ पुसून अति सहज रीतीन काळजांतले आत्म दर्शन घडोवचें आसता . फांतोडेचे अस्पश्ट प्रकाशांतु फुलचे फुलाचो सुगंध घेवचे खातीर जाय तरेची संवेदना निर्माण करची आसता. आनी काळांतरान जेन्नां संसारांतले खिण खिणांतु आत्म साक्षात्काराची जाण, ज्योत पसरता तेन्नां मनीस श्री विष्णूलें परमपदाचें दर्शन घेता. "तद् विष्णोः परमं पदं सदा पश्यंति सूरयः दिविव चक्षुराततम् ".

सूर्योदय आनी ज्ञानोदय, सूर्य ज्योत आनी आत्म साक्षात्कारापासून प्राप्त जावचें ज्ञान हांतूत आसचें साम्य ऋग्वेदकाळापासून रूशींक समजून आयिलें आसा. "उद्वयं तमस्परि ज्योतिष्पश्यन्त उत्तरम्।देवं देवत्र सूर्यमगन्म ज्योतिरूत्तमम्. 1/50/10. "इदं श्रेष्ठं ज्योतिषां ज्योतिरूत्तमम् विश्वजिद् धनजिद् उच्यते बृहद् विश्वभ्राड् भ्राजो महि सूर्यो दश उरू पप्रथे सह ओजो अच्युतम् " ऋ.10/180/3." विश्वजित अच्युत म्हळयार विश्वव्यापी आनी अविनाशी आशिलें, तशेंची "सहः" म्हळयार काळोख नाश करचें, ओज म्हळयार तेज आशिले विश्वभ्राट, विश्वप्रकाशक सूर्यान विश्व व्यापिलें आसा. अच्युत आनी

मृत असले हे ज्योतिप्रकाशाचे दर्शन योगींक अंतर्मुख जालिल्यान हृदयाकाशांतु किंवा हस्रदलकमळांतु जाता. सूर्य तेजाचो प्रतीक आशिल्यान ताका अंतरात्माची उपमा दिवचांतु ता. "तत् सवितृवरेण्यं भर्गोदेवस्य धीमहि." ऋग्वेद 3/62/10. हे सवितृ मंत्रांतले वरेण्यं भर्गः " म्हळयार तैंची तेज जावनुं आसा. सूर्यतेजाचो प्रकाश जेन्नां काळजांनु सरता तेन्नां काळजांतले कल्मश नाश जाता .आनी चिन्मय आत्मप्रकाशाचो आनंद नुभवचांतु येता .आत्मप्रकाशाची म्हळयार अनुभवाची प्रत्यक्षरूपान सूर्यतेजाची उपासना ऋशी सदाकाळ करत आसताची " तद्देवा ज्योतिषां ज्योतिः आयुर्होपासते अमृतम् " बृहदारण्यकोपनिशद 4/4/16. "तच्छुभ्रं ज्योतिषां ज्योतिःतद्यत् आत्मविदोविदुः" मुंडकोपनिशद 2/2/9.असले ज्योतीची अनुभूती जालिकीं "तस्य भासा सर्वमिदं विभाति " कठोपनिशद 5/15. ताजे प्रकाशान सर्व कांय प्रकाशिता.

सर्व साधारण जे तरेन सूर्यामुखार काळोख केन्नंयी आसू शकना, ते तरेन सत्य पथ शोधाक ब्रह्मज्ञानीमुखार परब्रह्माविशय अज्ञान केन्नांयी आसू शकना. वास्तविक ताका साकार ब्रह्मस्वरूपाची जरूरियात भासना.परब्रह्माची ओळख सामान्य मनीसांखातर करनुं दिवचे खातीर तो खटपट करतासता. परमात्मालें ज्ञान जालिले ऋशीक ध्येय/ध्याता,दृश्य/द्रश्टा,वाच्य/वाचक असलें द्वैत सोंपता आनी असले अवस्थेंतु मन,बुध्दी,वाणी मागशीं पडताची. ब्रह्म हो मूळांतूची एक शब्दाचो विशय जावूं शकना. तो केवळ अनुभवस्वरूप आसू शकता. जेन्नां विशिश्ट व्यक्तित्व ना जावनुं तें चैतन्य सागरांतु एक रूप जाता तेन्नांची साक्षात्काराचो यथार्थ अर्थ समजता. तेन्नं तो ऋशी विश्वासान सांगू शकता, "वेदाहम् एतं पुरूषं महान्तम् आदित्यवर्णं तमसः परस्ताद्.तम् एव विदित्यात्ति मृत्युम् एति नान्यःपन्था विद्यते यनाय." यजुर्वेद 31/18.

हे तरेन परमतत्त्वाचो साक्षात्कार पाविलो केवळ ऋशी मात्र आत्मविश्वासान सांगू शकता कीं "सर्वं खल्विदं ब्रह्म " " ब्रह्मैवेदं सर्वं " "इदं सर्वं यदयात्मा " " अहं ब्रह्मास्मि " असले मनोवृत्तींतु आशिले मनीसाली द्रिश्टी विशयांदिकान सामकी बदलता. तागेले प्रसन्न आनी शांत बुध्दीक परमात्म्याले दर्शन जालिल्यान तो जशें कांय स्वतः परमात्मस्वरूप जाता. देह म्हळयार आपूण म्हळळी संकुचित भावना ना जावनुं तागेली वृत्ती अणुतरेन सूक्ष्म आनी आकाशातरेन व्यापक जाता. भव ही जल्म मरणाची परंपरा आत्माविशय उत्पन्न जालिली भ्रामक कल्पना म्हळळें ज्ञान मेळिल्यान आत्मप्रकाशांतु सर्व कांय स्पश्ट जाता. " अहं मनुरभवं सूर्यश्चाहं कक्षिवां ऋषिरस्मि विप्रः अहं कूत्समार्जुनेयं न्युंजे हं कविरूशना पश्यता मां " म्हण्णुं ऋशी वामदेवान म्हळयार त्रासदस्यु ऋशी उद्गार काडता," अहं राजा वरूणो महयं तान्ययूर्याणि प्रथमा धारयन्त क्रतुं सचन्ते वरूणस्य देवा राजामि कृश्टेरुपमस्य वव्रे अहमिन्द्रो वरूणस्ते महित्वोर्वी गभिरे रजसी

सुमेके त्वश्टेव विश्वा भुवनानि विद्वान्त्समैश्यं रोदसि धरयं च" आनी स्वत: आत्मषटकांतु श्री शंकराचार्य सांगताची, "चिदानंदस्वरूप: शिवो हं शिवो हं "

सूर्योदय जालोकीं काळोख ना जाता . आनी आपण्याले अंत:स्करणांतु ज्ञानाचे किरणं आयलीकीं आत्म प्रकाश चारी दिकान पसरता . देह आनी त्रिगुणात्मक स्वभावादिकान पोळोवची आमगेली द्रिश्टी सामकी बदलता . ईश्वरापरस आमी कांयी विंगड नांची असलो आत्म विश्वास जागो जालो कीं दोळ्यावयले अज्ञानपटल दूर जाता . किंबहुना आपूण स्वत: ईश्वस्वरूप जालां म्हण्णुं निष्ठा निर्माण जाता . पुण हो आत्म विश्वास स्वत: अनुभवाक लागून सीमित आसल्यारियी ते अनुभवाचो आस्वाद जनसामान्यांक दिवचो हव्यास दर एक रूशीक आसता .संसारंतले दु:खान तापिले जनांक शीतळ उदाक दिवचें जरी आसा तरी तांका स्वत:ची व्यापक शक्ति आनी जनसामान्यांली सीमित अकलन शक्ति ध्यानांतु दवरचें अत्यंत आवश्यक आसता . देकून सर्व साधारण जनांनी समजची तसली भाशा, उपमा उदारण, दृश्टांत दीवनुं साक्षात्काराची समज दिवची पडता.

श्री शंकराचार्य म्हणताची ," सत्यनृते मिथुनिकृत्य प्रवर्तितो अयं लोकव्यवहार: " देकून परमात्माले विवेचन करताना आयकतल्यांली बुध्दीची सीमा आनी अर्हता समजून करचे आवश्यक आसता .जें जरूर आसा, जितलें जरूर आसा, आनी जेन्नां जरूर आसा हाजो निश्कर्श काडचो पडता.प्रवचनांतु आयकतल्यांक व्यत्यास दिसलो म्हण्णुं अनुभवांतु किंवा मूळ तत्वांतु व्यत्यास आसा म्हण्णुं मानचे हें आयकतल्यालें मनाची आनी बुध्दीची असमर्थता उक्तें करचें तशें आसा . ऋग्वेदांतु सांगिल्ले तरेन," सूपान जे तरेन धान्य फाफुडनुं स्वच्छ करचांतु येता, ते तरेन ज्ञानी जन आपण्याली उत्रं वेंचून उलयताची . आनी तीं उत्रं समसमान ज्ञानाचे मनीसची ओळखु शकताची. ऋ. 10/7/12 कित्याक तर साक्षात्कार एक अनुभव आसता आनी ते अनुभवाची, परमात्म्याची प्रतिमा जावूं शकना . "न तस्य प्रतिमा अस्ति यस्य नाम महध्यश: "यजु 32/2

देकून अनुभवाचे वर्णन शब्दान जायना . तो वाणीचो विशय नाशिल्यान शब्दाशिवाय उलोवचें पडता . समजायिलें शिवाय समजावचें आसता .वास्तविक तसले अवस्थेंतु द्रश्टा,दृश्य,दर्शन ही त्रिपुटी अस्तंगत जाता . "अन्ताय बहुवादिनास् अनन्ताय मूकस्" म्हण्णुं यजुर्वेद 20/19 सांगता . बाष्कली जेन्नां आपण्याले गुरु भाव रूशीक ब्रहमन् विशय विचारता तेन्नां तो रूशी उलयनासताना स्वस्थ आसता . परत परत विचारलें की तो महान् ब्रहमज्ञानी उत्तर दिता . "हांवु तुका सांगत आसा . पुण तूं समजना .ब्रहम अनिर्वचनीय आसा . " दक्षिणमूर्ति शिवशंकर योगिजनांक मौन मार्गान ब्रहम ज्ञान दिता . "मौनेन मंदस्मितभूषितेन महर्षिलोकस्य तमोनुदन्तम् ."

ःमानुभव अनादि,निर्गुण,अरूप,अलक्ष्य,अव्यक्त, अनिर्वचनीय आसा. तार्जे वर्णन करचें ध्य जायना. देकून दृश्य जगांतु एकची वस्तुचें वर्णन तें अशें अशें ना, किंवा अशें अशें सा म्हण्णुं निषेधात्मक किंवा विधेयात्मक पध्दतीन करचांतु येता. हांकाची रिभाशिक वेव्हारांतु व्यतिरेक आनी अन्वय पध्दत म्हणताची. आपण्याले अनुभवाची ल्पना आयकतल्यांक येवका म्हण्णुं रुशी एक किंवा दुसरी रीत वापरता. वैदिक आनी पनिशदिक ग्रंथांतु हे दोन्नी रीत्यो वापरचांतु आयिलें दिसून येता.

हिरण्यगर्भः समवर्तताग्रे भूतस्य जातः पतिरेक आसीत्" 10/121/1 "वि चक्रमे पृथिवीम् षा एतां क्षेत्राय विष्णुर्मनुषे दशस्यन् धृवासो अस्य कीरयो जनास उरुक्षिति सुजानिमा कार ".7/100/4 " अग्निं मन्ये पितरम् अग्निं अपिम् अग्निं भ्रातरं सदामित् सखायाम् 10/7/3 "अदितिर् द्यौर,अदितिर् अंतरिक्षम्, अदितिर् माता स पिता स पुत्रः विश्वेदेवा दितिः पंचजन्या अदितिर् जातम् अदितिर् जनित्वम्" 1/89/10 ऋग्वेदांतले हे मंत्रं किंवा " त्वं स्त्री त्वं पुमान् असि त्वं कुमार उत वा कुमारी त्वं जीर्णो दंडेन वंचसि त्वं जातो भवसि विश्वतोमुखः" हे अथर्ववेदांतले 10/8/28 मंत्रान रुशीक विधेयात्मक वर्णन करचें स्वाभाविक आसतालें.

रुशीन हे तरेन ब्रह्मार्चे विधेयात्मक वर्णन करचें स्वाभाविक दिसता. वाणीचो उगम मनीसाले अंतरात्मांतु जाता आनी तार्जे उक्तें स्वरूप हें कांय पूर्ण विकसित स्वरूप नासता. "बृहस्पते प्रथमं वाचो अग्रं यत्प्रैरत नामधेयम् दधानाः यद् एषां निहितं गुहविः" ऋग्वेद 16/7/1. हे ग्रंथांतु हे तरेनबी व्याख्या केलिली आसा "चत्वारी वाक् परिमीता पदानि तानि विदुर् ब्राहमणा ये मनिषिणः गुहा त्रीणि निहिता नेंगयन्ति तुरिय वाचो मनुष्याः वदन्ति" 1/164/45 म्हण्णुं गूढत्वाची समज ज्ञानी मनीसांक तत्काळ जायत आसल्यारियी सामान्य मनीसांक ती समजत नाशिल्यान तें तत्वज्ञान तांका समजत तसले शब्दांतु, लौकिक भाशेंतु, उपमा उदारणेंचो वापर करनुं समजावचें पडता. स्वतःचे अविश्कारांक नवें रूप,अनेक स्वरूप, काळ देश परिस्थितीक लागून बदलावनुं बदलावनुं दिवचें पडता.

हे सर्व प्रक्रियेचे परिणाम म्हळयार अविश्कार एकची आसल्यारियी तार्जे उक्तावण विंग विंग तरेन जाता. इन्द्र हो मनाचो अधिदैवत म्हण्णुं मानचांतु येता. ताका लागून तार्जे वर्णनबी मनाचे संवेदन शक्तीक लागून वेग वेगळे तरेन जाता. ऋग्वेदांतु सांगल्या." रूपंरूपं प्रतिरूपो बभूव तदस्य रूपं प्रतिचक्षणाय इन्द्रो मायाभिः पुरूरव ईयते युक्ताहयत्य हरयः शतादशाः"6/47/18.किंवा "इन्द्रं मित्रं वरूणामग्निमाहुरथो दिव्यः स सुपर्णो गरुत्मान् एकं सर्वं विप्रा बहुदा वदन्त्याग्निं समं मातरिश्वामहुः" 1/164/46.

ब्रह्म म्हळयार देहासयत संपूर्ण विश्व भितर भायर व्यापून आशिलें चैतन्य म्हण्णुं जेन्नां असामान्य मनीसाक अनुभव जाता, तेन्नां ताका विश्वांतली दर एक वस्तु ब्रह्म जशीं भा जाता. देहाचे किंवा विश्वाचे उपाधीक लागून हें सर्व विंग विंगड अशीं दिसता. पुण वस्तुस्थितींतु हें सर्व एकची आसता. जे मनीसाक हे तरेची व्यापक द्रिश्टी अजून आयल ना ताका ब्रह्मनुची कल्पना "ब्रह्म हें आसा" " ब्रह्म तें आसा" किंवा "ब्रह्म तूं आसा" म्हण्णुं जशीं कांय बोट दाखोवनुं स्वश्ट करचें पडता. "पुरुष एवेदं सर्वं यद् भूतं यच्च भव्यम्" ऋग्वेद 10/120/2. "सर्वं खल्विदं ब्रह्म" छांदोग्य 3/14/1. "इदं सर्व अयमात्मा" बृहदारण्यक 2/4/6. " ओमितीदं सर्वं " तैत्तिरीय आर.2/4/6 असली अन्वय किंवा विधेयात्मक वाक्यं आमकां दिसून येताची.

हेची तरेन रूशींनीं निषेधात्मक पध्दतबी वापरली. " एतद् वै तदक्षरं गार्गी ब्राह्मणा अभिवदन्ति स्थूलम्, अनणु, अह्रस्वम्, अदीर्घम्, अलोहितम्, अस्नेहं, अच्छायाम्, अतमः, अवाच्यः, अनाकाशम्, असंगम्, अरसम्, अगंधम्, अचक्षुम्, अश्रोत्रम्, अवाक्, अमनः, अतेजस्कम्, अप्राणम्, अमुखम्, अमात्रम्, अनन्तरम्, अबाह्यम् न तदश्नति किंचन न तदश्नति कश्चन" बृहदारण्यक 3/8/8. " अथात आदेशो नेति नेति न ह्येतस्मादिति नेत्यन्यत्परमस्त्यथ नामधेयम् सत्यस्य सत्यमिति प्राणा वै सत्यं तेषामेव सत्यम्" बृहदारण्यक 2/3/6. " यतो वाचो निवर्तन्ते अप्राप्य मनसा सह आनंदो ब्रह्मणो विद्वान् कबभति न कदाचनेति " तैत्तिरीय.2/4/1. "नायमात्मा प्रवचनेन लभ्यो न मेधया न बहूना श्रुतेन येमै यमेवैष वृणुते तेन लभ्यस्तस्यैष आत्मा विवृणुते तनूं स्वाम्" मुंडक 3/2/3. " न तत्र चक्षुर्गच्छति न वाग्गच्छति नो मनः न विद्मो न विजानिमो यथैतदनुशिश्यात्" केन.1/2.

हें जें तुका दिसता तें ब्रह्म न्हंय. नेति नेति म्हण्णुं अनुवाद करनुं साक्षात्कारी ब्रह्मज्ञानी पाकळयो एकान एक सोलयले तरेन एकान एक भ्रम दूर करनुं जें अखेरीक उरता तेंची ब्रह्म आसा म्हण्णुं अनुभव करनुं दिताची. एक एक पटें एकची अनुभव विधेयात्मक आनी निशेधात्मक हे दोन्नींयी पध्दतीन उक्तें करचें पडता. कारण ज्ञानोदय जाले उपरांत जे तरेन अद्वैताचो अनुभव, "सर्वं खल्विदं ब्रह्म" "बहूनां जन्मनामन्तेज्ञानवान्मां प्रपद्यते वासुदेवः सर्वमिति" गीतेंतु सांगिले तेन्नां अनेकत्वांतु अविश्कार पाविलें हें द्वैतबी ताका अनुभव जाता. निरगुण अनुभव जेन्नां सगुण स्वरूपांतु साक्षात्कार पावता तेन्नां ताका स्वतः खातीर न्हंय तरी सामान्य मनींसांखातीर तरी ते सगंण साक्षात्काराचीं दखल इछोवची पडता. पुण साकार स्वरूपांतु जें भास जाता किंवा इन्द्रियांमुखांतर अनुभवचांतु येता तें वास्तविक नित्य, सत्य नासता पुण भ्रामक आसून आभासपूर्ण साधन आसता.

ची विचार श्री शंकराचार्यांनी आपण्याले आत्मषटकांतु स्पश्ट केलिले आसाची.
पाले खंयचे स्वरुप खरें म्हण्णुं तागेले खंयचे स्परूप खरें न्हंय तें दाखावनुं स्पश्टीकरण
ाची. सामान्य मनीस समजताची कीं आपूण म्हळयार हें देह जें आपण्याक आनी
ांक जाण जाता. देहांतलो आत्मा जरी रुशीमुनींलि उपदेशाक लागून मनान
ारचांतु आयल्यारियी तें सामान्य जीवनांतु अनुभवचांतु येत नाशिल्यान तें सहजा
ा स्वीकारचांतु येना.देकून श्री शंकराचार्य हें सत्य समजचे तसले शब्दांतुख थोडे
ांतु, पुनरुक्तीचो उपयोग करनुं मनावयर प्रभावित करचो प्रयास करताची.

इन्द्रियापासून जल्माक आयिले अहंकाराक लागून आपण्याले अंतरात्मांतु मुसमुसचे
मात्माची जाणीव जेन्नां जायना, तेन्नां स्वत:ची अस्तित्वाची कल्पनाबी नासता. पुण
नां एक मनीसाले मरण म्हण्णुं जें जाता तंन्नां पयले क्षणाक दिसून येता कीं जें आयज
न आपूण म्हण्णुं समजूवचें हें देह, शरीर आपूण नासताना विंगडची कांय तरी "
पूण " आसा. तेन्नां ताका रुशीमुनींनी सांगिले आत्माविशय उगडास येता. पुण हो
डास क्षणिक आशिल्यान ताका ते सत्याची जाणीव निरंतर आसना. देकून तो उगडास
त परत करनुं दिवचें पडता.

श्री कृष्ण हे देहांतु निवास करनुं आशिले अस्तित्वाक " देहिन: "म्हण्णुं संबोधिता.
ी शंकराचार्य हे शब्दाचो अर्थु, "देह अस्य अस्ति इति तस्य देहिन:" म्हण्णुं करताची.
तरेन देह आनी देहांतु निवास आशिले नित्य अस्तित्वाचो फरक दाखोवनुं वास्तविक
ह आनी आत्मा मूळांतूची वेग वेगळे म्हण्णुं दाखयलें. गीतेंतु श्री कृष्ण परत स्पश्ट
रता," देहिनो स्मिन् यथा देहे कौमारं यौवनं जरा तथा देहान्तरप्राप्तीर् ". जे तरेन
ात्मा, देहिन: निवास करनुं आशिलें देह बाल्यावस्था, यौवनावस्था, वृध्दावस्था,
प्राप्त करता ते तरेन देहांतलो आत्मा, देहिन: देहान्तर स्थितीबी प्राप्त करता. देकून
मायरचे आवरण तरेन आसचें हे देहाक महत्व दीत नासताना हे देहांतु आशिले
आत्मतत्वाक महत्व दिवचें जास्त उपयोजक आसतालें. आनी हें स्पश्ट जातालें कीं आमी
वेव्हारांतु जें नामकरण दिताची तें केवळ देहाक दीत नासताना तें नांव देहासयत
देहांतर्गत आशिले आत्म्याक बी दिताची. आनी ते कारणाक लागून जेन्नां देहांतल्यान
जीव वता तेन्नां आमीं नामकरण केलिले तो आत्मा आमकां सोडनुं गेलो म्हण्णुं म्हणताची
शिवाय तें देह आमकां सोडनुं गेलें म्हणनांची. तशें पळयल्यारी जेन्नां तो आत्मा,
देहिन:, तें देह सोडनुं वता तेन्नां ते देहाचो, आवरणाचो आमकां कीळस येता आनी तें
देह आमगेले दोळयामुखावयल्यान दूर करचे प्रयत्न आमीं करताची.

भगवत्पाद श्री शंकराचार्यंनी संसारांतलो हो विलक्षण क्षण बाल्यावस्थेंतूची अनुभवलो अशें दिसता. जशें जशें तागेले साक्षात्काराक वाचा फुटली तशें तशें तांगेले वाणीक वेदांतं प्रासादिक प्रमाण प्राप्त जालें म्हणयेत. तांका हो संसार स्वप्नातरेन मायीक, असत्या घातिलें पांगरूण अशें दिसलें इतलेंची न्हंय तर मृगजलातरेन भ्रामक अशें भास जालें. देहा निर्माण जावचें जशें कांय अनंत सागरावयर उठचे बुडबुडे. सागरावयर ल्हारां आयलं म्हण्णुं जशें सागरांतु कांयी बदल जायना, ते तरेन विश्वांतु विस्तार जालो म्हण अविनाशी, अजन्म, अमृत असले आत्मतत्वाचो देह निर्माण जालें म्हण्णुं तोबी ताजेसय निर्माण जालो. सूर्याचे प्रतिबिंब जशें स्वच्छ आनी गढूळ उदकांतु पडिल्यान सूय जशें दूषित जायना तशें देहाचे विविधतेन किंवा दूषित अस्तित्वान प्रभावित जायना. तां सर्व देहांतु सदा सर्वदा नित्य शुध्द, नित्य नूतन आसता. गीतेंतु सांगिले तरेन " नासतो विद्यते भावो नाभावो विद्यते सत:"2/16. " न जायते म्रियते वा कदाचिन्न नायं भूत्वा भविता वा न भूय:, अजो नित्य: शाश्वतो अयं पुराणो न हन्यते हन्यमाने शरीरे" 2/2.

उपनिषदांतले महावाक्यांतु आनी गीतेंतले उपदेशांतु साम्य दिसून येता. जें श्री कृष्णान वयर सांगलें तें पयलें छांदोग्य उपनिषदांतु तागेले गुरून ताका उपदेश दिलिलें दिसून येता. "सो न्तवेलायामेतत्त्रयं प्रतिपधेताक्षितमस्यच्युतमसि प्राणसंशितमसीति" 3/17/6. जीवन तत्वाचें हें अमोघ दर्शन घोर अंगीरसातसले महा तपस्वीची दिवू शकता. दर एक क्षणाक आनी जीवनाचो अखेरचरे समय आयलो तेन्नांबी मनीसान हे तीन सत्य वचनं आत्मसात करचे तशें आसाची. तूं अक्षित म्हळयार अक्षीण किंवा अक्षत आसा. तूं अच्युत म्हळयार स्वरूपापासून च्युत, वेगळो ना जालिलो. तूं प्राण संशित म्हळयार सूक्ष्म तत्व आसा. हे तरेन जीवन यज्ञ, कर्तव्य कर्म केल्यार खंयची सद्गती मेळता तेंबी ते रेंशीन श्री कृष्णाक सांगले. " आदित्प्रत्नस्य रेतस: उद्वयंतमस्परी ज्योति: पश्यन्त उत्तरं स्व:पश्यन्त उत्तरं देवं देवत्रा सूर्यमगन्म ज्योतिरूत्तममिति ज्योतिरूत्तममिति "3/17/7. विश्वापरस पुरातन, चिरंतन कारण जावनुं आशिली ज्योति ते पळयताची. सर्व व्यापक परब्रह्माचें तें तेज शुध्द अंतस्करणाचे ब्रह्मज्ञानी पळोंव शकताची. अज्ञानाचे पेलतडेन आशिले, अज्ञानाचो काळोनाश करचो आनी आदित्याचे लागीं आसचो तो तेज स्वत:चे काळजांतु पळयताची. आनी ते ज्ञानान सर्व देवांतु आनी सर्व ज्योतींतु उत्कृष्ट असले तेज आशिले ते सूर्य देवांले स्थान ते प्राप्त करताची.

श्री शंकराचार्यालें भाशा चतुर्य आनी विवेचन शैली इतली प्रभावी प्रवृत्तीची आशिली कीं उदात्त तत्त्वज्ञानाचे विचार स्पश्ट करचे वैचारिक सामर्थ्य आसूनबी जनसामान्यांखातीर ताणीं सुलभ आनी सरळ स्तोत्र रचना करनुं आपण्यालेंची असलें एक असामान्य व्यक्तिमत्व आनी शैली आपणायली. भारतभर भ्रमण करनुं तत्त्वज्ञानींबरोबर वाद विवाद करनुं

आपण्याले विचार आनी सिध्दांत प्रस्थापित करत करत वैदिक धर्माक आयिली अवकळा ना करनुं ब्रह्मज्ञानाचो सुकाह पसरायलो. तशीं पळयल्यार जरी तांगेले नांव अद्वैत मताचे आचार्य म्हण्णुं जगभर पसरलें तरी तांगेले तत्पज्ञानाचे सार तांगेले स्तोत्र संग्रहांतल्यान पसरलें म्हळ्यार आश्चर्य जावचें ना. वास्तविक तशीं जावचें जनमानसांले स्वभावाक आनी निसर्गाचे नियमांक लागून आसा म्हण्णुं सांगयेत. ताका लागून जनांक धार्मिक मूल्यांची जाणीव करनुं दिली. तत्वज्ञानाचे गुढ वातावरणांतल्यान अध्यात्मज्ञान भायर काडचें महान् कार्य ताणीं केलें म्हणयेत.

आत्मषटकम् हें असलेंची एक स्तोत्र आसा, ज्यांतु अप्रतिम तत्त्वज्ञान सामान्य लौकिक भाशेंतु, लौकिक उपमा उदारणांचो उपयोग करनुं, सरळ सुरळीत शब्द रचनेंतु आमकां मेळता. वास्तविक सत्य सरळची आसता. मनीस आपण्याले चातुर्याक लागून तें सामान्य जनांपासून दूर दवरता. ऋत नियमांक लागून जगचें जीवनांतु आशिलें स्वारस्य मनीसाले तथाकथित बुध्दीचातुर्याक लागून असुंसगत जाता. देकून श्री शंकराचार्यांनी केलिलें प्रवचन आनी स्तोत्र रचना मनीसाले काळजांतु संवेदना दिता.

वास्तविक आत्मषटकमाची सुरवातची " न्हंय मन, बुध्दी, चित्त वा अहंभाव हांवु / न्हंय जीभ, कान, नेत्र वा नाक हांवु / न्हंय भूंय, वायु, वा तेजाकाश हांवु / आसा चिदानंदरूप शिवूची हांवु, शिवूची हांवु "म्हण्णुं जाता. हांतूत ऊंच पातळीचें तत्त्वज्ञान ना. आसा सर्वांक समजचे तसली भाशा. मांडूक्य उपनिषदाची सुरवात " ओमित्येतदक्षरमिदं सर्वं " म्हण्णुं जाता. आनी ताजे उपरांत ते व्याख्येचो विस्तारान विवेचन जाता. पुण तें आशिलें उपनिषदाचें तत्वज्ञान, जें योग्य अधीकारी शिश्यकची समजुवचें तसलें आसता. पुण ऊंच पातळीचें तत्त्वज्ञान समजची अकलन शक्ती सर्व सामान्य जनांक नाशिल्यान स्पश्टीकरण स्पश्ट आनी सरळ शब्दांतु करचें सहज जाता. देकून हे स्तोत्रांतु मन, बुध्दी, कान, जीभ, असले शब्दांचो उपयोग करनुं उपदेश साध्य केलिलो आसा. तशीं पळयल्यार श्री शंकराचार्यांनी आपूण जें जें ना तें तें सांगून आपूण जें जें आसा हें दाखावनुं दिल्यां. स्तोत्रांक सर्व जन मान्यता मेळिली पोळोवनुं समजेत कीं ही पध्दत सर्वांक मानवली. हे स्तोत्रांचे श्रवण, कीर्तन आनी मनन जालिल्यान भारतीय संस्कृतींतु असामान्य असली आध्यात्मिक शक्ति प्राप्त जाली. आनी काळांतरान एक मनाची स्थिती आत्मसात् जाली कीं आपूण हें नश्वर देह नासताना कांय तरी श्रेष्ठ अविनाशी सत्यस्वरूप, चिदानंदस्वरूप, शिवस्रूप आसा.

वास्तविक जें श्री शंकराचार्यांनी स्तोत्र माध्यमांतल्यान जन सामान्यांखातीर सांगलें तेंची ताणी आपण्याले प्रासादिक वाणीन तात्त्विक माध्यमांतल्यान उपदेशिलें.आनी सरळ जीव/शिव ऐक्य भावना अनुभवान साक्षात्कारान प्रगट केली. अथवा ईश्वर आनी देहांतु वस्तुतः कांयी फरक ना हें दाखोवनुं दिलें. साक्षात्कारी मनीसाले द्रिश्टीन देह म्हळयार आपूण आनी ब्रह्म म्हळयार विंगड कोणीतरी आसता अशें मानना. कित्याक तर अशें समजचें म्हळयार सत्यस्थितीचे विडंबन केले तरेन जातालें. सागरांतले तरंगं उदकावयर आयलीं म्हण्णुं तरंगांक आपूण कांयतरी वेगळे जाल्याची अशें दीसना. ते तरेन साक्षात्कारी मनीसाक आपूण ब्रह्मापेक्षां विंगड कांयी तरी आसा अशें दीसना. ब्रह्मज्ञानीक हे विश्वांतु सर्वदिकान निराकार, निर्विकल्प, विश्वव्यापी, अनंत आत्मतत्वची नंदरेक येता. परमात्मा आनी जीवात्मांतु फरक असलो कांयी दीसनासताना ते ज्ञानमुखांतर "मामुपासते एकत्त्वेन पृथक्त्वेन बहुदा विश्वतोमुखम्". जल/लहरी, धर्तरी/परमाणु, सूर्य किरण, रत्न आनी ताजी प्रभा, साखर आनी ताजी गोडी, हीं सर्व जेतरेन मूळांतु एकचि आसताची ते तरेन विश्वात्मा जो परमात्मा जावनुं आसा,आनी जीवात्मा जो अनेकत्वान अविश्कार पाविलो आसा हे दान्नीयी एकची आसाची. " अविभक्तं च भूतेषुविभक्तमिव च स्थितम् " म्हण्णुं जेन्नां श्री कृष्ण गीतेंतु प्रतिपादन करता तेन्नां हे सातत्यतेचो परिचय करनुं दिता. देकून ज्ञानी मनीस देहान आकार घेवचें आनी ना जावचें हें वास्तविक भ्रामक किंचा मायास्वरूप आसा मानताची. आनी ताजे विशय शोक करनांची. कारण देह नाश जाल्यारियी देहांतु निवास करनुं आशिलो " देहिनः " आत्मा केन्नांयी नाश जावचो ना. म्हण्टकूच, " तत्र को मोहः कः शोकः एकत्वमनुपश्यतः" ईश.7. देह म्हळयार आपूण हो भ्रम ना जाले कीं मरणाचें भय वता. आनी मरणाचे भय गेलें कीं हे देहाची आनी संसाराची आसक्ती नाश जाता. काळांतरान विशयवासतेंचो नाश जालो कीं वैरागाचें बीज काळजांतु अंकुर पावता. अंतस्करण बाहय जगापासून अलिप्त जालिल्यान तें आतां स्वधर्म, कर्तव्यकर्मापासून पराङ्मुख जायना. तेन्नां ताका आनी इतरांक गीतेंतले 13/27 श्लोकाचो "विनश्यत्सु अविनश्यन्तं यः पश्यति स पश्यति ".यथार्थ समजता.

ब्रह्मविद्येचे कठोर तपान जेन्नां हें ज्ञान प्राप्त जाता तेन्नां मनीसालें मन प्रफल्लित जाता.. परमशांतीची परमावस्था ताका प्राप्त जाता. कित्याक तर जे तरेन भांगरांतले कल्मश नाया जालें कीं जे तरेन तें झगझगता ते तरेन अंतस्करणांतु आनी मनांतु अज्ञानाक लागून निर्माण जालिले संकल्प विकल्प सत्वशुध्द जाले कीं ताका स्वानुभव जाता कीं " आपूण " कोण वेगळो नासताना चिदानंदरूप शिवूची आसा, शिवूची आसा. असली अवस्था आयली कीं जे तरेन घट फुटले की घटांतले आकाशाक आपण्याले अवकाश स्वरूपाचें जाण जाता ते तरेन मनीसाक आपण्याले संकुचित स्वरूप खरें स्वरूप नासताना व्यापक रूपाचो अनुभव जाता.

श्री कृष्ण भगवद्‌ गीतेंतु स्थितप्रज्ञ मनीसालें वर्णन करता, "तानि सर्वाणि संयम्य युक्त आसीत मत्पर:/ वशे हि यस्येन्द्रियाणि तस्य प्रज्ञा प्रतिष्ठिता /" हांतूत " मत्पर: हो शब्द विशिष्टतायेन वापरिलो आसा. श्री शंकराचार्य हे शब्धावयर भाष्य करतान म्हणताची, "मत्पर: अहं वासुदेव: सर्वप्रत्यगात्मा पर: न अन्य: अहं तस्मात्‌ इति आसीत इत्यर्थ: " आत्मा जो " आपूण " आसा तो निर्विकल्प, निराकार, विश्वव्या आसून तो सर्वकाळ मुक्तावस्थेंतु वास करनुं आसचो देव आसा. आनी अंत समयाक जेन्नं आत्मा हें शरीर सोडनुं वता तेन्नां तो केवळ शरीराचो त्याग करता. " त्यजम् देह इति प्रयाण विशेषणार्थ, देहत्यागेन प्रयाणं आत्मन: न स्वरूपनाशेन च".

आत्मषटकम्‌चो होची आदेश आसा, होची उपदेश आसा. तो सरळ, सुलभ रीतीन श्र शंकराचार्यांनी जनसामान्यांखातीर स्तोत्र रूपान दिलो, हें तांगेले वैशिष्ठ आनी आमगे अहोभाग्य . हरि: ओं तत्सद्‌ .



